# कोंकणी भाशेचें अध्यापन

लेखक : प्रा. वसंत गोविंद लवंदे



**उजवाडावपी :**
वि. मं. धुमे
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
पणजी – गोवा ४०३ ००१.

**छापपी :**
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स,
मडगांव – गोंय.

**कवर चित्र :**
सुरेश तानावडे

पयली आवृत्ती :
जुलय १९९५

प्रती : १०००

मोल : ६० रुपया

# KONKANI BHASHECHEM ADHYAPAN

Writer : Prof. Vasant Govind Lawande



**Publisher :**
V. M. Dhume,
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Panaji – Goa 403 001.

**Printer :**
Rajesh Bhatikar
Tanvi Graphics,
Margao – Goa.

**Cover Design :**
Suresh Tanawade

First Edition :
July 1995

Copies : 1000

Price : Rs. 60/-



# अकादेमीचे वतीन

ज्या प्रादेशिक भाशांक शिक्षणाच्या मळार सुवात ना, त्या भाशांक फुडार ना, हें सत्य जावन् आसा. कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृती हांची राखण करतले आनी उदरगत सादतले जाल्यार कोंकणी भाशेच्या शिक्षणाकडेन आडनदर करून जावचेंना.

आयचे घडकेक गोंयांत कोंकणी भाशेचें शिकोवप मुळाव्या थरापसून ते पदव्युत्तर पांवड्यामेरेन चलता. शिक्षणीक मळार कोंकणीच्या शिक्षणाची जापसालदारकी आपुणायिल्ल्यो सरकारी तशेंच निमसरकारी यंत्रणा आनी संस्था आसात. पूण विकासाची आंच आशिल्ले कोंकणी भाशेक त्या संस्था आनी यंत्रणांची सेवा पुरी पडना.

गोवा कोंकणी अकादेमी कोंकणी शिक्षणीक मळावयलीं उणेपणां भरून काडपाखातीर आपलेपरीन वावुरता, वेगवेगळे कार्यक्रम आनी येवजण्यो राबयता. कोंकणी शिक्षकाखातीर अल्पमुजतीचीं शिबिरां, पदवी आनी पदव्युत्तर कोंकणी विद्यार्थ्यांखातीर मार्गदर्शक मेळावे आनी व्याख्यानमाळ, माणकुल्या भुरग्यांखातीर गोंयभर शाळांनी बालमेळांचें आयोजन, विद्यार्थ्यांखातीर तक्ते, बालसाहित्याच्या संचांचें प्रकाशन, अभ्यासक्रमाक पुरक थरपी साहित्य समीक्षेवयलीं पुस्तकां उजवाडावप आदी वावर अकादेमी करीत आयल्या.

आयज 'कोंकणी भाशेचें अध्यापन' हें कोंकणी शिक्षणाकडेन संबंदीत अशें एक म्हत्वपूर्ण पुस्तक आमी उजवाडा हाडटां. कोंकणीच्या अध्यापनशास्त्रावयलें हें पयलेंच पुस्तक.

प्रा. वसंतबाब लवंदे गोंयच्या शिक्षणीक मळावयले ज्येष्ठ आनी निष्ठावान प्राध्यापक. ताणी खासा शिक्षकांक बी.एड्.च्या थराचेर कोंकणी विशयाचें प्रशिक्षण दिलां. हो वावर मुळाव्या स्वरुपाचो आनी ताचें श्रेय तांकांच फाव जाता. हो वावर करतना तांकां इंग्लीश, मराठी आनी हिंदी ह्या तीन भासांच्या विशयांच्या प्रशिक्षणाचो अणभव उपकरा पडला आनी ताका लागून तांणी बरयिल्लें हें पुस्तक अदीक बरें जालां.

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या संपादक मंडळाचे शिफारसीवयल्यान हें हातबरप कोंकणी भाशेचे तज्ञ आनी व्याकरणकार श्री. सुरेश बोरकार हांचेलागीं अभिप्रायाखातीर धाडिल्लें. तांणी केल्ल्या मोलादिक सुचोवण्यांचो आस्पाव लेखकाचे मान्यतायेन ह्या पुस्तकांत केला.

पुस्तकाक शिक्षणाच्या मळावयले जाणकार डॉ. काशिनाथ महाले हांगेली अभ्यासपूर्ण अशी प्रस्तावना आसा.

ह्या पुस्तकाचो उपेग बी.एड्.च्या शिक्षकांक तर जातलोच. तेच बरोबर माध्यमिक थराचेर कोंकणी विशय शिकोवपी शिक्षकांकूय हाचो उपेग जातलो अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक नारायण नायक**
उपाध्यक्ष आनी संपादक मंडळाचे निमंत्रक,
गोवा कोंकणी अकादेमी

ता. १२ जुलय, १९९५.




# प्रस्तावना

प्रा. वसंत लवंदे हांणी बरयिल्ल्या 'कोंकणी भाशेचें अध्यापन' ह्या पुस्तकाक म्हाका प्रस्तावना बरोवंक लायली ही गजाल हांव भोवमानाची समजतां. आयज मेरेन कोंकणी भाशेचे अध्यापन प्रणालीचेर कोणेंच पुस्तक बरोवंक नाशिल्लें. असल्या पुस्तकाची खूब वर्सांसावन गरज आशिल्ली. हे गरजेची पूर्तताय प्रा. लवंदे हांणी हें पुस्तक बरोवन केली हेखातीर तांकां मनापसून परबीं.

कोंकणी गोंयची राजभास जाल्या. तिचो संविधानाचे आठवे वळेरेंत आसपाव जाला. कोंकणीचे उदरगतीचो आलेख वयर वयर वचत आसा. केन्ना केन्ना अशें दिसून येता की जेन्ना जेन्ना चड उदरगत जाता, तेन्ना आत्मतुश्टतायेची भावना निर्माण जाता आनी हे भावनेचो प्रादुर्भाव जातकूच उदरगतींत पठारावस्था (Plateau) येता. उदरगतींत बादिकार येता. तेन्ना जांकां कोंकणी भाशेचे उदरगतीविशीं आस्था आसा, तांणी सदांच सादूर रावन आत्मतुश्टतायेची भावना येवची ना हाची जतनाय घेवंक जाय. आवयभाशेविशीं लोकांचें प्रेम वृद्धिंगत जावपाखातीर सदांच प्रयत्नशील रावंक जाय.

फुडारांत विंगड विंगड विशयांचेर कोंकणींत साहित्य निर्मणी जावंक जाय. ही निर्मणी जावपाखातीर विद्यार्थ्यांमजगतीं कोंकणीविशीं अभिरुची निर्माण करूंक जाय. अभिरूची निर्माण करपाची लागणूक शिक्षकांची जावन आसा. विद्यार्थी फकत परिक्षेंत पास जातलो हे नदरेन शिक्षकान अध्यापन करूंक जायना. ताणें अशे पद्धतीन शिकोवंक जाय की विद्यार्थ्यांमजगतीं आवयभाशेविशीं उपाट मोग निर्माण जातलो आनी फुडाराक तातुंतले कांय विद्यार्थी विंगड विंगड विशयांचेर कोंकणींत साहित्य निर्माण करतले. फकत कोंकणी विशयांत पास जावप हें उद्दिश्ट आसूंक फावना. कोंकणींत फुडें विंगड विंगड विशयांचेर बरोवपी लेखक निर्माण करपाचे नदरेन अध्यापन करूंक जाय. ही कोंकणी शिक्षकाची जापसालदारकी जावन आसा. फकत ज्ञान, आकलन, उपयोजन, रसास्वादन आनी उपयोजन हीं उद्दिश्टां मतींत दवरून शिकोवंक जायना. अभिरूची ह्या उद्दिश्टाक लेगीत खूब म्हत्व दिवंक जाय. ह्या उद्दिश्टाक फावो तितलें म्हत्व दिलें ना जाल्यार विद्यार्थी फकत कोंकणी परीक्षा पास जावपाचे नदरेन शिकतले. मात्त 'अभिरूची' निर्माण जाल्यार तो कोंकणींत अवांतर वाचन करतलो. अभ्यासक्रमाभायली पठनीय सामुग्री तो वाचतलो आनी बहुश्रूत जातलो. भाशेकडेन तो अव्याहतपणान संपर्क दवरतलो आनी ह्या सातत्यपूर्ण वाचनाक लागून तो भाशेचेर प्रभुत्व मेळयतलो. भास आत्मसात

केले उपरांत ताची लेखन क्षमताय वाडटली आनी फुडारांत तो एक बरो साहित्यकार जावंक शकतलो. हांगा शिकोवपाचें उद्दिश्ट हें अल्पकालीक न्हय तर दीर्घकालीक आसचें. बुन्याद घट जाली जाल्यारूच वयली वास्तूय घट जातली. हें करपाखातीर शिक्षकान प्रभावीपणान अध्यापन करूंक जाय. भाशेच्या अध्यापनाची विंगड विंगड आंगां ताणें आत्मसात करूंक जाय. ताणें फकत उपचार (ritual) म्हूण शिकोवंक जायना.

प्रा. वसंत लवंदेची अध्यापकीय कारकीर्द खूब लांब आसा. तांणी मध्यमीक, स्नातक (बी.एड्.) आनी स्नातकोत्तर (एम.एड्.) स्तरांचेर अध्यापन केलां. हेर विशयांवांगडा तांणी इंग्लीश, हिंदी, मराठी आनी कोंकणी ह्या भाशांच्यो अध्यापन प्रणाली बी.एड्.च्या प्रशिक्षणार्थ्यांक शिकयल्यात. तांचो शिकोवपाचो अणभव प्रदीर्घ आसा. ह्या प्रदीर्घ अणभवाच्या आदारान तांणी 'कोंकणी भाशेचें अध्यापन' हें पुस्तक बरयलां.

पुस्तक वाचतकूच अशें दिसून येता की प्रा. लवंदे हांणी भाशेच्या अध्यापनाच्या विंगड विंगड आंगांचें स्पश्टीकरण केलां. पुस्तकाचें एक खाशेलपण म्हळ्यार पुस्तकांत फकत सिद्धान्तीक चर्चा ना, जाल्यार अध्यापनाच्या प्रात्यक्षीक पैलूंक तांणी खूब म्हत्व दिलां. ही गजाल कोंकणी शिकयता ताका खूब उपेगी पडटली. पुस्तकांत सिद्धान्तीक आनी प्रात्यक्षीक ह्या दोनूय गजालींचो आसपाव जाल्ले कारणान ह्या पुस्तकाची उपादेयताय वाडटली. अभ्यासक्रमाचें वर्सुकी नियोजन कशें करचें, घटक नियोजन कशें करचें, विंगड विंगड पाठाचे प्रकार कशे शिकोवचे, मूल्यांकन कशें करचें, निदानात्मक आनी उपचारी अध्यापन कशें करचें आदी विशयांचेर तांणी विस्तारान बरयलां.

हें पुस्तक कोंकणी शिक्षकांक, बी.एड्. कॉलेजांतल्या प्रशिक्षणार्थ्यांक आनी बी.एड्. म्हाविद्यालयांत 'कोंकणीचें अध्यापन' हो विशय शिकोवपी प्राध्यापकांक खूब उपेगी पडटलें, हेविशीं म्हाका दुभाव ना. गोंयांत कोंकणीचो प्रचार-प्रसार करपी खूब संस्था आसात. तांणीय बी ह्या पुस्तकाचो आदार घेवचो. कोंकणी गोंयचे संस्कृतायेची बुन्याद जावन आसा. हे संस्कृतायेचें संगोपन आनी संवर्धन फकत कोंकणी भाशेवरवीं करूं येता. परत एकदां हें पुस्तक बरयिल्लेखातीर हांव प्रा. लवंदे हांकां परबीं दितां. तांचेकडल्यान फुडेंयबी कोंकणीची आनिकूय सेवा जातली अशी आस्त उकतायतां.

पणजी-गोंय

**डॉ. काशिनाथ महाले**

# लेखकाचें मनोगत

भारतीय संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणी भाशेचो आस्पाव जालो ही गोंयकारांचे नदरेन व्हडविकेची आनी अभिमानाची गजाल. पूण हो आस्पाव सोपेपणान जावंक ना. तिचो आस्पाव जावचो म्हूण कोंकणी भाशेचो मोग आनी प्रतिबद्धताय आशिल्ल्यो खूब व्यक्ती झुजल्यो. प्रतिकूल परिस्थितींत तांणी जी लडाय मारली, तिची जितली तोखणाय करची तितली थोडी. गोंयकार ह्या व्यक्तींचे सदांच ऋणी आसतले.

आयज खूब प्राथमीक शाळांचें माध्यम कोंकणी जावन आसा. मध्यमीक शाळांत लेगीत खूब विद्यार्थी कोंकणी विशय घेतात. पदवी आनी पदव्युत्तर पांवड्यांचेर लेगीत कोंकणी विशय शिकॅयतात.

आमचे आवयभाशेची ही उदरगत पळोवन अंतस्कर्ण अभिमानान भरून येता. कोंकणीत साहित्य निर्मणी अव्याहतपणान जायत आसा. काणयो, कादंबऱ्यो, नाटकां, काव्य आदी साहित्य प्रकारांची निर्मणी चालूच आसा. पूण शिक्षणीक साहित्याची निर्मणी फावो त्या प्रमाणांत जावंक ना, ही वस्तुस्थिती आसा. शिक्षणीक साहित्य निर्माण करपाची खूब गरज आसा.

हांव पणजे 'निर्मला इन्स्टिट्यूट ऑफ एज्युकेशन' ह्या कॉलेजांत प्राध्यापक म्हूण काम करतालों, तेन्ना १९९१-९२ ह्या शिक्षणीक वर्सासावन 'कोंकणी भाशेचें अध्यापन' ह्या विशयाचो आस्पाव गोवा विद्यापीठान अभ्यासक्रमांत केलो. हांव हेर विशयांवांगडा 'कोंकणीचें अध्यापन' हो विशय शिकयतालों. पूण ह्या विशयाचेर एकूय पाठ्यपुस्तक उपलब्ध नाशिल्लें. हांवें निर्मला इन्स्टिट्यूटांत इंग्लीश, हिंदी आनी मराठी ह्या तिनूय भासांचें अध्यापन कशें करचें हें खूब वर्सां शिकयिल्लें. ह्या तीन भासांचें अध्यापन करपाचो अणभव म्हाका कोंकणी भाशेचें अध्यापन करतना उपकरा पडलो.

निर्मला इन्स्टिट्यूट ऑफ एज्युकेशनांत शिकोवपी प्राध्यापकांक प्रशिक्षणार्थ्यांच्या सराव पाठाचें (practice lessons) निरीक्षण करचें पडटा. म्हाका ह्या निरीक्षणाचो खूब फायदो जालो. म्हजी अशी धारणा आसा की जण एक शिक्षक हो sui generis म्हळ्यार अद्वितीय (unique) आसता. शिक्षकांत कसलीं तरी प्रभावी अध्यापकीय वैशिश्टां आसतात. तीं वैशिश्टां सोदून काडपाचो म्हजो सदांच प्रयत्न आसतालो. खूब प्रतिभाशाली प्रशिक्षणार्थ्यांच्या वैशिश्टांची हांवें जतनायेन नोंद केली. विंगड विंगड भासांच्या अध्यापन पद्धतीवेले संदर्भ ग्रंथ हांवें वाचिल्ले. तांचो फायदो जालोच. पूण हे भायर प्रशिक्षणार्थ्यांच्या सराव पाठांच्या निरीक्षणाक

लागून लेगीत खूब फायदो जालो. हांव प्रशिक्षणार्थ्यांकडसून खूब शिकलों.

हांव जेन्ना 'कोंकणीचें अध्यापन' हो विशय शिकयतालों, तेन्ना ह्या विशयाचेर पुस्तक नाशिल्लें. हांव व्याख्यान (lecture) दितालों आनी उपरांत नोट्स दितालों. मागीर हांवें चितलें की जर हांवें ह्या विशयाचेर एक पुस्तक बरयलें, तर तें बी.एड्.च्या विद्यार्थ्यांकूच न्हय, तर मध्यमीक शाळांतल्या कोंकणी शिक्षकांक लेगीत उपकरा पडटलें.

पुस्तक बरोवपाक कोणाची तरी प्रेरणा (motivation) लागताच. ही प्रेरणा म्हजी घरकान्न सौ. सुधा हिणें म्हाका दिली. ह्या पुस्तकाचे निर्मणेंत तिच्या सातत्यपूर्ण प्रोत्साहनाचो व्हड वांटो आसा.

'कोंकणी अकादेमी'न हें पुस्तक प्रकाशीत करपाची तयारी दाखयिल्ले खातीर हांव हे संस्थेचो खूब ऋणी आसां. संस्थेचे सचीव श्री. जयंत उर्फ वि. मं. धुमे हांणी म्हाका खूब सहकार्य दिलें. तांचे हांव उपकार मानतां. अकादेमीचे सहायक सचीव श्री. कमलाकर म्हाळशी हांणी ह्या पुस्तकाचें हातबरप वाचलें आनी तांणी खूब म्हत्वाच्यो सुचोवण्यो केल्यो. ॲक्सीडेंटांत तांच्या पायांक मार बशिल्लो. तांकां घरांत खूब दीस रावचें पडलें. अशें आसून लेगीत कोंकणी भाशेच्या तांच्या मोगाक आनी प्रतिबद्दतायेक लागून तांणी म्हजें हस्तलिखीत वाजेनासतना वाचलें आनी भोव मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो. ताका लागून हांव तांचो सदांच ऋणी आसतलों.

विंगड विंगड विशयांचे (topics) सैद्धांतीक आनी प्रात्यक्षीक (practical) पैलूंक लेगीत हांवें खूब म्हत्व दिलां. भाशेचे विंगड विंगड पाठांचे प्रकार कशे शिकोवचे हाचें हांवें विस्तारान नमुने दिल्यात. वर्सुकी नियोजन, घटक नियोजन आनी प्रस्न पत्र तयार करपाची पद्धत हाचो आस्पाव हांवें ह्या पाठ्य पुस्तकांत केला.

म्हजे आवयभाशेची सेवा करूंक मेळिल्ले खातीर हांव म्हाका खूब भाग्यशाली समजतां. बी.एड्.च्या प्रशिक्षणार्थ्यांक आनी गोंयच्या मध्यमीक शाळांतल्या कोंकणी शिक्षकांक हें पुस्तक उपेगी पडटलें, अशी हांव आस्त बाळगितां.

पणजी-गोंय. वसंत गोविंद लवंदे

# मांडावळ


| | | |
|---|---|---|
| १. | भास | ११ |
| २. | भाशेचें म्हत्व | १५ |
| ३. | आवयभाशेचें म्हत्व आनी तिची अभ्यासक्रमांत सुवात | २० |
| ४. | भाशेचें अध्ययन आनी भाशेच्या अध्यापनाचो सिद्धांत आनी तत्वां | २३ |
| ५. | उद्दिश्टांचेर आदारून अध्यापन (Objective based education) | ३१ |
| ६. | कोंकणी भाशेचीं उद्दिश्टां आनी स्पश्टीकरणां (पयल्या आनी तिसऱ्या स्तरांवयलीं) (Objectives of Konkani Language and their specifications) | ३७ |
| ७. | कोंकणी भाशेचो शिक्षक | ४३ |
| ८. | कोंकणीचीं पाठ्यपुस्तकां | ४७ |
| ९. | अभ्यासक्रमाचें वर्सुकी नियोजन | ५१ |
| १०. | आठवी यत्तेच्या अभ्यासक्रमाचें वर्सुकी नियोजन | ५५ |
| ११. | घटक नियोजन (Unit Planning) | 58 |
| १२. | पाठाचें नियोजन | ६५ |
| १३. | गद्याचें अध्यापन | ७० |
| १४. | गद्य पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो | ७४ |
| १५. | कवितेचें अध्यापन | ८६ |
| १६. | कवितेच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो (गोमटें गोंय गायता) | ९० |
| १७. | " " " " (त्रिश्तांवाक) | ९७ |
| १८. | व्याकरणाचें अध्यापन | १०६ |
| १९. | व्याकरणाच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो | ११० |
| २०. | लेखनाचें अध्यापन | ११६ |
| २१. | निबंध लेखनाच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुंनो | १२० |
| २२. | पत्र-लेखनाच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो | १२६ |
| २३. | मुद्द्यांतल्यान काणी-लेखनाच्या नियोजनाचो नमुनो | १३१ |
| २४. | प्रस्न विचारपाचें कसब | १३७ |
| २५. | अभ्यासानुवर्ती कार्यक्रम वा पूरक अध्ययन अणभव | १४२ |
| २६. | वाचन आनी वाचनाचे प्रकार | १४६ |
| २७. | सूक्ष्म अध्यापन (Micro-teaching) | १५२ |
| २८. | भास-शिक्षण आनी शिक्षणीक उपकरणां | १५८ |
| २९. | स्वाध्याय (assignments) | १६२ |
| ३०. | मूल्यमापन | १६६ |
| ३१. | प्रस्नांचे प्रकार | १७० |
| ३२. | प्रस्न-पत्र तयार करपाचें तंत्र | १८१ |
| ३३. | निदानात्मक आनी उपचारी अध्यापन (Diagnostic and Remedial Teaching) | १९८ |
| ३४. | आदारावळ | [illegible] |

१.

# भास

भाशेचें अध्यापन (शिकोवप) करपाचे प्रणालेविशीं बरोवपाआदीं भास म्हळ्यार कितें आनी तिचीं वैशिश्टां खंयचीं हेविशीं शिक्षकाक गिन्यान आसप भोव गरजेचें. तेन्ना भाशेचे संकल्पनेविशीं आनी तिच्या वैशिश्टांविशीं म्हायती मेळोवया.

भास ही मनशाक ईश्वरान वा सैमान दिल्ली एक भोव मोलादीक देणगी जावन आसा. मनशान आतांमेरेन सगल्या मळांचेर जी अद्भूत आनी अजाप जावपासारकी उदरगत केल्या ती चडकरून भाशेच्या जोराचेर. हजार वर्साआदीं ऋषीनीं रचिल्लीं सुक्तां मनीस आज वाचूंक शकता. पुर्विल्ल्या काळांतल्या तत्त्वज्ञांचे विचार आज आमी समजूं शकतात, हें सगलें भाशेपासत. तेचप्रमाण हजार मैल पयस आशिल्ल्या आमच्या सहबांधवांकडेन संप्रेशण भाशेवरवीं करूंक शकतात. मनीस सोडून हेर सचेतन सृश्ट आनी मनीस हांचेमदलो फरक भाशेचोच. भास हें मनशाचें व्यवच्छेदक लक्षण. विचार करपाची शक्त आशिल्लो प्राणी अशी मनशाची व्याख्या करतात. मनीस हो चिंतनशील प्राणी. विचार करप, चिंतन करप, सृश्टीचें गूढ सोदून काडपाचो यत्न करप हीं मनशाचीं लक्षणां मानतात. पूण ताका जर उलोवंक येना आसत, म्हळ्यार भाशेंचो उपेग जर ताका करूंक येना आसत, तर विचार करप, उण्यात उणे सुसंगत विचार करप ताका शक्य जावचें ना. कारण भास हें फक्त विचारविनिमयाचें साधन न्हय तर विचार करपाचें साधन जावन आसा. आमचें तत्त्वगिन्यान आनी संस्कृताय भाशेच्या जोरारूच तिगूंक शकली.

### भाशेची परिभास

सामान्यतायेन 'जाच्या आदारान एक प्राणी दुसऱ्या प्राण्याकडेन आपले विचार, भाव वा इत्सा प्रगट करता' अशें भास हें एक साधन. ते नदरेन भाशेचे अभिव्यक्तीचीं समेस्त साधनां — सांकेतीक भास, जशें हात वा तकलेवरवीं संकेत, भ्रूविकार वा भावव्यंजक मुद्रा, चिन्हांची भास, देखीक सैनीक वा नावीक बावट्यांवरवीं करतात ते संकेत, आदी — भाशेच्या अंतर्गत येवंक शकतात. इतलेंच न्हय, तर जनावरां, सुकणीं हांचे ध्वनी लेगीत भास मानूं येता.

वयर बरयिल्ल्या संकेतांक (कुरवांक) आमी भास म्हणूंक शकतात. पूण भाव-भावनेचे अभिव्यक्तीचे नदरेन हीं साधनां अपूर्ण आनी अस्पश्ट सिद्ध जातात. म्हूण ह्या संकेतांक आमी भाशेची संज्ञा दिवंक शकनात. मनीस आपल्यो भावना, विचार आनी अनुभूती फकत ध्वनी संकेतांच्या माध्यमांतल्यान प्रगट करूंक शकता. म्हूण मनशाच्या ध्वनी अवयवांतसून निःसृत ध्वनी भाशेच्या अंतर्गत येतात. इतलेंच न्हय तर ह्या ध्वनींक अर्थ आसूंक जाय. तांचें विश्लेशण आनी अध्ययन जावप शक्य आसूंक जाय. निरर्थक (अर्थ नाशिल्ले) ध्वनी भाशेच्या अंतर्गत येनात.

भाशेच्यो कांय परिभाशा सकयल दिल्यात —

१) ध्वन्यात्मक उतरांवरवीं विचारांचें प्रकटीकरण म्हळ्यार भास.

२) भास म्हळ्यार सांकेतीक पूण परंपरागत मौखीक (तोंडी) प्रतिकांचो समाजीक आंतर-कृतीपासत उपेगांत येवपी आकृतीबंध.

३) मानवी संप्रेशणापासत यादृच्छिक मौखीक संकेतांची वेवस्था म्हळ्यार भास.

वयर दिल्ल्या परिभाशांचें विश्लेशण केले उपरांत भाशेविशीं चार गजाली स्पश्ट जातात :

१) भास एक वेवस्था जावन आसा.

२) भास वाक्प्रतिकांची वेवस्था जावन आसा.

३) हीं प्रतिकां यादृच्छिक आसात.

४) भास समाजीक वेव्हाराचें साधन जावन आसा.

**भास एक वेवस्था जावन आसा :**

खंयचेय भाशेच्या स्वरुपाचेर विचार करतकूच स्पश्ट जाता की भास एक वेवस्था जावन आसा. सुरवेक भास अवेवस्थीत आसता. पूण फुडें फुडें पांवड्या पांवड्यान

उदरगत करीत ती चड वेवस्थीत आनी नियमीत जाता.

**भास वाक्प्रतिकांची वेवस्था जावन आसा :**

वाक्प्रतीक म्हळ्यार वाणीवरवीं प्रयुक्त संकेत, अर्थात् 'ध्वनि-संकेत' वस्तू वा भावाची समजणी करून दिवपापासत प्रयुक्त केल्ल्या शब्द संकेतांक 'वाक्प्रतीक' म्हणटात. खंयच्याय प्राण्याक, पदार्थाक, वस्तूक वा भावाक वळखुपाक आमी ज्या शब्दसंकेतांचो वा ध्वनिचिन्हांचो उपेग करतात, तांकां वाक्प्रतिकां म्हणटात. ह्या प्रतिकांची निर्मणी मनशाच्या तोंडातल्यान निसृत ध्वनिसमूहावरवीं जाता.

**हीं प्रतिकां यादृच्छिक जावन आसात :**

उतर आनी अर्थ हांचेमजगतीं तर्कसंगत संबंद नासता. सुण्याक सुणो कित्याक म्हणटात, हाका तर्कीक आदार ना. यादृच्छिक उतर यदृच्छा, म्हळ्यार इत्सेप्रमाण येता. हाका इंग्लिशींत Arbitrary म्हणटात.

## भाशेचीं सामान्य वैशिश्टां

**१. भास ही अर्जीत संपत्ती, पैतृक न्हय.**

जे प्रमाण एक पूत आपले पैतृक सम्पत्तीचो उत्तराधिकारी जाता, ते प्रमाण भाशेचो उत्तराधिकारी जायना. हाचें कारण भास परंपरेवरवीं प्राप्त जायना, तर ती अर्जीत करची पडटा. प्रत्येक भास यत्नपूर्वक जोडची पडटा, आपणावची पडटा. भाशेचें गिन्यान आवय-बापायकडल्यान एरांसाच्या रुपान मेळना. भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवपाखातीर प्रयत्न करचे पडटात.

**२. भास आद्यन्त समाजीक प्रक्रिया जावन आसा**

मनीस हो समाजीक प्राणी आनी भास ताचीच कृती जावन आसा. म्हूण भास पूर्णता आनी आद्यन्त समाजाची वस्तू आसा.

**३. भास अनुकरणजन्य प्रक्रिया जावन आसा**

भास आमी अनुकरणावरवीं शिकतात. आवय-बापूय, भाव-भयण हांचेकडल्यान भाशेचो उपेग आयकून आपूण उलोवपाचो यत्न भुरगो करता. अनुकरण मनशाचो सभावीक गूण जावन आसा. भास शिकपांत मनीस ह्या गुणांचो उपेग करता.

**४. भास परंपरागत जावन आसा, व्यक्ती तिचें अर्जन करूंक शकता, पूण तो भास उत्पन्न करूंक शकना.**

भास परंपरेन चलत आयल्या. समाजांत रावन व्यक्ती परंपरागत भास जोडूंक शकता, आपणावंक शकता आनी तिच्या उदरगतींत योगदान दिवंक शकता, पूण

खंयचीय व्यक्ती भास उत्पन्न करूंक शकना.

**५. भास नेमान परिवर्तनशील प्रक्रिया (नेमान बदलत रावपाची प्रक्रिया) जावन आसा.**

जसो जसो काळ फुडें सरता, तसो तसो भाशेंत बदल जाता. भाशेंत परिवर्तन जाताच. शंबर वर्सां आदली कोंकणी आनी आयची कोंकणी हातूंत खूब बदल दिसून येता.

**६. भाशेचें 'अन्तिम' रूप नासता**

जे अर्थी भास परिवर्तनशील आसा, ते अर्थी भाशेचें अन्तिम (निमणें) रूप ना, हें आपसूक आयलेंच.

**७. दर एक भाशेची संरचना** (Structure) दुसरे भाशेपसून वेगळी आसता.

देखीक, इंग्लिशींत 'There is a book on the table';
कोंकणींत 'मेजार पुस्तक आसा.'

इंग्लिशीच्या गठनांत सात उतरां आसात. कोंकणींत फक्त तीन आसात.

**८. भास 'कठीणा' सावन सोंपेपणाकडेन वता.**

**९. भास स्थूलासावन सूक्ष्माकडेन आनी अपरिपक्वतायेसावन परिपक्वतायेकडेन वता.**

भास आपले प्रारंभीक अवस्थेंत स्थूल वस्तू, घडणुको आदींच्या अभिव्यक्तींत सक्षम आसता. पूण फुडें फुडें सुक्ष्मीम भाव, विचार आनी अनुभूती व्यक्त करपांत ती समर्थ जाता.

**१०. भास संयोगावस्थेसावन वियोगावस्थेकडेन अग्रेसर जाता.**

**११. जण एके भाशेचें एक मानक म्हळ्यार प्रमाणीत रूप आसता.**

गोंयांत कोंकणी विंगड विंगड तरेन उलयतात. पूण तिचें प्रमाणीत रूप विकसीत जाता. सगल्यांनी हे प्रमाणीत भाशेचो उपेग करूंक जाय.



# २.

# भाशेचें म्हत्व

"स्वराज्य म्हजो जल्मसिद्ध हक्क आनी तो हांव मेळयतलोंच."

"तुमी म्हाका रगत दियात आनी हांव तुमकां स्वतंत्रताय दितलों."

"भारत सोडून वचात."

ह्या वयल्या विधानांनी भारतांत राजकी स्थित्यंतर हाडपाक कितली मदत केली हें सगल्यांक खबर आसाच. उतरां म्हळ्यार शक्त. उतर म्हळ्यार एक दुधारी शस्त्र. उतरांनी विधायक (बरें) आनी विघातक (वायट) करपाची शक्त आसता. तरसादींत जितली शक्त ना तितली उतरांत आसता. भाशेच्या ह्या शक्तिशाली स्वरुपाक लागून आनी तिच्या उपयोगितेक लागून शालेय अभ्यासक्रमांत तिका अनन्यसादारण म्हत्व प्राप्त जालां. भाशेक म्हत्व कित्याक दितात, हेविशीं विवेचन करुंया.

## भास आनी दीसपट्टी जीण

मनशाची दीसपट्टी जीण पळयली जाल्यार आमी ह्या निश्कर्शामेरेन पावतात की मानवी जीण ही ओत-प्रोत भाशेन भरिल्ली आसा. सकाळीं उठतसावन न्हिदचेमेरेन आमचे चडशे वेव्हार भाशेचेर आदारून आसतात. उठलेबरोबर च्या घेतना दिसाळें वाचलेबगर चैन पडना. कुटुंबाच्या वांगड्यांवांगडा विचारविनियम करपापासत भाशेची गरज लागता. शेजाऱ्याकडेन उलयतलो जाल्यार भाशेचो आदार घेवचो पडटा. कोणाक चीट बरयतलो जाल्यार उतरांचो उपेग करचो

पडटा. बाजारांत खरेदी करतना भाशेचो आदार घेवचो पडटा. भावना व्यक्त करपाक भाशेचो उपेग आमी करतात. देवाची प्रार्थना आमी चडकरून भाशेवरवीं करतात. मनीस जो वेव्हार करता तो वेव्हार करपाक भास अनिवार्य जावन आसा. भाशेबगर जगाचो सगलो वेव्हार ठप्प जातलो. मानवी जिणेंत भास ही खूब म्हत्वाची जावन आसा. जे व्यक्तीचें भाशेचेर प्रभुत्व आसा, ताका आपल्या वेव्हारांत येस मेळपाची चड शक्यताय आसता आनी जाची भास सिमीत, उणी, ताका येस मेळपाची शक्यताय उणी आसता. जिणेच्या सगल्या पैलूंक भास आफुडटा. देखून शिक्षणतज्ञ भाशाध्ययन आनी भाशाध्यापनाक खूब म्हत्व दितात.

## भास आनी बुद्दीक विकास

विंगड विंगड विशयाचें गिन्यान भाशेंत शब्दबद्ध जाल्लें आसता. विज्ञान, साहित्य, इतिहास, भूगोल, समाजशास्त्र, मानसशास्त्र, वैजकशास्त्र बी विशयांच्या गिन्यानाचें भांडार उतरांवरवीं एकठांय करून दवरिल्लें आसता. खंयचेय व्यक्तीक खंयच्याय विशयाचें ज्ञान मेळोवपाचें आसत तर ताणें त्या विशयाचेर बरयिल्लीं पुस्तकां वाचूंक जाय. हीं पुस्तकां वाचून ताची ज्ञानाची कक्षा वाडटा. ताचो बुद्दीक विकास जाता. भाशेचेर प्रभुत्व आसल्यार ज्ञान-ग्रहणाची प्रक्रिया तीव्रपणान जाता.

मानसशास्त्राच्या सिद्धान्ताप्रमाण 'विचार करपाक' भाशीक विकास जावप खूब गरजेचें. Thinking means sub-vocal talking. It is implicit language activity. विचार करप म्हळ्यार अप्रगट उलोवप. विचार करपाक संबोध-निर्मिती (concept formation) जावप खूब गरजेचें. जर एका भुरग्याचें मूलभूत संबोधांचें आकलन वेवस्थीत जालेंना, तर ताच्या फुडल्या अध्ययनांत बाधा पडटली आनी त्या विशयांत तो फाटीं उरतलो. मानसशास्त्रज्ञांचें अशें मत आसा की संबोध-निर्मितीची प्रक्रिया भाशीक विकासाचेर आदारून आसा. देखून प्राथमीक वर्गांनी विद्यार्थ्यांच्या भाशीक विकासापासत खूब जतनाय घेवंक जाय. विद्यार्थ्यांचें फुडलें शिक्षण ताचे भाशीक प्रगतीचेर आदारून आसता. व्यक्तीचो ज्ञानात्मक विकास ताचे भाशीक क्षमतेचेर आदारून आसता, अशें विधान केल्यार ती अतिशयोक्ती जावची ना. अभ्यासक्रमांत भाशेक चड म्हत्व दिवप खूब गरजेचें. शिक्षकाचें भाशेचेर प्रभुत्व आसूंक जाय आनी भास शिकोवपाची फावो ती पद्धत आनी तंत्रां ताणें जाणा जावन घेवपाक जाय.

## भास आनी समाजीक विकास

मनीस हो समाजीक्र प्राणी. समाज म्हळ्यार मनशांचो चोमो. कांय आडवाद सोडल्यार चडशा मनशांक समाजाच्या हेर घटकांवांगडा संबंद दवरचे पडटात. मनशान खूब समाजीक संस्था स्थापन केल्यात. देखीक, कुटुंब, धर्म, विंगड विंगड क्लब आदी. खंयचेय एके संस्थेचो वांगडी आसत जाल्यार हेर वांगड्यांकडेन ताचे संबंद येतात. तांचेकडेन ताची आंतरक्रिया (interaction) जाता. हे वांगडी एकठांय येतात. एकामेकांक पालव दितात. तांचे मजगतीं एकचाराची भावना निर्माण जाता. मनशाची ही समाजीक जीण भाशेचेर आदारून आसता. भास तांकां एका धाग्यांत गुंथता. समाजांत स्थिरताय हाडपाचें काम भास करता. गोंयांत खूब बिगर गोंयकार आसात. केरळी, बंगाली, कानडी, उत्तर भारती बी खूब लोक रावतात. तांणी आपल्यो आपल्यो संस्था स्थापन केल्यात. तांकां एकठांय हाडपी तांच्यो भासो. देखून भाशेंत मनशांक एकठांय हाडपाची क्षमताय आसता.

व्यक्तीक समाजांत रावतलो जाल्यार समाजान ताका आपलेभितर आसपावन घेवंक जाय. ताका आपलो मानूंक जाय. जी व्यक्ती समाजान स्विकारिल्ल्या नेमांप्रमाण वागता, ताकाच समाज स्वीकृत करता. समाजीक नेमांआड वांगतल्याक समाज बहिश्कृत करता, भायर मारता. जी व्यक्ती समाजीक नेमांप्रमाण वागता, ते व्यक्तीचें समाजीकरण (socialisation) जालां अशें मानतात. समाजीकरणाची प्रक्रिया ल्हानपणांत सुरू जाता. ल्हवू ल्हवू ती व्यक्ती समाजीक नेम आपणायता. ही समाजीकरणाची प्रक्रिया भाशेवरवीं जाता. मनशाचो समाजीक विकास खुबसो भाशेचेर आदारून आसता. समाजाचो प्रभावी घटक जावपापासत मनशाक भाशीक कसबां — श्रवण-आकलन, उलोवप, पठण-आकलन आनी लेखन — आत्मसात करूंक जाय. आयच्या लोकशायेच्या युगांत जण एका नागरिकान समाजीक जिणेंत प्रभावीपणान वांटो घेवपापासत भाशेचें किमान गिन्यान घेवप खूब गरजेचें जावन आसा.

## भास आनी भावनीक विकास

मनीस हो फकत विचार करपी प्राणी न्हय. ताचे जिणेंत भावनांकूय सुवात आसता. भावनांक लागून ताची जीण समृद्ध जाता. भावनाविरयत जिणेक अर्थ ना. मानसशास्त्रज्ञांच्या मताप्रमाण मनशांत जल्मजात सहजप्रवृत्ती (instincts) आसतात. दरएक सहजप्रवृत्ती वांगडा एके विशिश्ट भावनेची निर्मणी (emotion) जाता. मनशाचे जिणेंत आनंद, हर्ष, राग, रोश, भंय, दुख्ख, विस्मय आदी भावनांचो आसपाव जाता. ह्यो भावना ताका क्रियाशील करतात. मनीस भावनेक लागून

बरीं वा वायट कर्मां करता. ह्या विंगड विंगड भावनांची पोसवण जावप हें व्यक्तीच्या मानसीक भलायकेचे नदरेन खूब गरजेचें आसा. खंयच्या मनशाक सुसंस्कृत म्हणचें? जाचें बरें चारित्र्य आसा, जाच्यांत संवेदनशीलता आसा, जाच्यांत सौंदर्यदृश्टी (aesthetic sense) आसा, जाका दुसऱ्याविशीं सहानुभूती आसा, दुसऱ्याविशीं आपलेंपण दिसता, दुख्खी व्यक्तिविशीं दया आसा, जाच्यांत रसिकताय आसा, करुणा आसा अशा मनशाक सुसंस्कृत म्हणुं येता. हे सुसंस्कार भाशेवरवीं करूं येतात. भास भाव-जाग्रुतायेचें प्रभावी साधन जावन आसा. आयचे तणावग्रस्त जिणेंत मनशाक भावनेचे ओलसाणेची खूब गरज आसा. मनशाची भाव-जींण समृद्‌ध करप, विंगड विंगड भावनांचें उदात्तीकरण (sublimation) करप, ताची सौंदर्यदृश्टी वाडोवप, तांचेमदीं स्थिरवृत्ती निर्माण करून ताका सुसंस्कारीत करप, ताच्या मनाचेर अध्यात्मीक आनी मानवी मुल्यांचे संस्कार करप हें भाशेवरवीं जाता. दर्जेदार साहित्य वाचून, बरीं भाशणां, सद्‌प्रवृत्त व्यक्तींचें संभाशण आयकून, अध्यात्मीक व्यक्तींचीं प्रवचनां आयकून, संतवाङ्मय वाचून व्यक्तीची भावजीण समृद्‌ध जाता.

## भास आनी आत्मप्रकटीकरण

मनशाक दुसऱ्याक कितें तरी सांगपाची खर इत्सा जाली आनी ताचो परिणाम म्हूण भाशेची निर्मणी जाली. भाशेवरवींच मनीस आपले विचार, आपल्यो भावना, आपले उत्फर्के, आपलीं सुखदुख्खां प्रभावीपणान व्यक्त करूंक शकता. दुसऱ्यांच्यो भावना, विचार, तांच्यो इत्सा, सुखदुख्खां समजूंक शकता, तांचेकडेन सहानुभूतीन एकरूप जावंक शकता. हाकालागून मनशांमजगतीं परस्पर संबंदांक एक वेगळेंच स्वरूप प्राप्त जालां.

## भास आनी संस्कृतीक विकास

शिक्षणाचें एक कार्य म्हळ्यार संस्कृतायेचें संक्रमण (transmission of cultural heritage). हें कार्य फकत भाशेवरवीं जाता. जसजसो मनशाचो बुद्‌दीक विकास जावंक लागलो, तसतशें ताणें आपल्या गिन्यानाचें वर्गीकरण (classification) केलें. तरेकवार विशय आनी शास्त्रां ताणें निर्माण केलीं. लिपी जल्माक येवचेआदीं हे विशयांतर्गत गिन्यान दर एके पिळगेक पाठांतर-प्रणालीन तोंडपाठ करपाक लायलें. लिपीची निर्मणी जालेउपरांत आपल्या गिन्यानाचो सांठो ताणें ग्रंथबद्‌ध केलो आनी नवे पिळगेक तें गिन्यान संप्रेशीत केलें. अशे तरेन भाशेच्या माध्यमांतल्यान ज्ञान आनी परंपरा हांचो प्रवाह सुरू जालो, संस्कृतायेची बुन्याद घाली आनी संस्कृतायेच्या

विकासाचो मार्ग उकतो जालो. संस्कृतायेची निर्मणी, तिचें संरक्षण आनी संवर्धन भाशेक लागून जालें, हेविशीं दुमत ना.

## भास आनी मानवी एकचार

दर एका समाजाची आपली भास आसता. तिचें तो अध्ययन करता. हाचो अर्थ असो न्हय की हेर भासो शिकच्यो न्हय. दुसऱ्यो भासो शिकल्यो जाल्यार, म्हळ्यार दुसऱ्या समाजाची भास शिकली जाल्यार त्या समाजांतल्या लोकांसंबंदान म्हायती मेळटा. तांचे अस्मितायेची वळख जाता. विंगड विंगड संस्कृतायेचीं वैशिश्टां आसतात. त्या संस्कृतायांनी खूब बऱ्यो गजाली आसतात. तीं बरीं वैशिश्टां आपणायत जाल्यार खूब फायदो जाता. संकुचीत मनोवृत्ती काबार जाता, गैरसमज पयस जातात, आपलेपणाची भावना वाडीक लागता. विंगड विंगड भाशांचें अध्ययन करतकूच मनशाचें मन विशाळ जाता. अख्खे मानवतायेकडेन ताची तंद्री लागता आनी तो तातूंत एकरूप जाता. जगांतल्या सगल्या लोकांक एकठांय हाडपाक दर एकल्यान चडांत चड भासो शिकच्यो, जाकालागून मानवी एकचार वाडटलो आनी मनीस विश्वात्मकतेकडेन वचपाक लागतलो.

भाशेविशीं वयर केल्लें विवेचन वाचतकूच असो निश्कर्ष काडुं येता की भास म्हळ्यार एक शक्त. मनशाचे उदरगतीपासत तिचो उपेग करूंक जाय. देखून अभ्यासक्रमांत तिका म्हत्वपूर्ण सुवात दिवंक जाय आनी तिचो वेवस्थीत अभ्यास करूंक जाय.



३.

# आवयभाशेचें म्हत्व आनी तिची अभ्यासक्रमांत सुवात

दुसऱ्या प्रकरणांत भाशेचें मानवी जिणेंत म्हत्व कितलें आसा हेविशीं विवेचन केलां. मनशाचो बुद्दीक विकास, भावनीक विकास, समाजीक विकास भाशेवरवीं जाता हें आमकां कळ्ळां. हो जो मानवी विकास जाता ताका आवयभाशेच्या संबंदांतलें तत्त्व चड लागू पडटा हें वेगळें सांगपाची गरज ना.

भारत हो भोवभाशीक देश. हांगा कितल्योशोच भासो आनी बोली लोक उलयतात. तेन्ना ह्या भोवभाशीक देशांत विद्यार्थ्यांन खंयच्यो भासो शिकच्यो हो प्रस्न उप्रासता. जगांतल्या सगल्या शिक्षणशास्त्रज्ञांनी अशें प्रतिपादन केलां की अभ्यासक्रमांत आवयभाशेक पयली सुवात दिवंक जाय. हे संबंदान कोणाच्याच मनांत दुभाव नासुंये. ताका तशीं खूब कारणां दिल्लीं आसात. तीं कारणां सकयल दिल्लेप्रमाण आसात.

१. आवयभास भुरग्याच्या शारिरीक आनी मानसीक विकासा वांगडा विकसीत जाता. ती ताच्या व्यक्तीमत्त्वाचो अभिन्न भाग आसता. आवयभासूच भुरग्याच्या भावनांच्या आनी विचारांच्या अभिव्यक्तीचें साधन जावन आसा.

२. आवयभाशेंतल्यानच भावना आनी विचार उद्रिक्त आनी उद्‌भूत जातात. स्वतंत्र चिन्तन, भावना आनी कल्पनेची भास आवयभासूच जावन आसा.

३. भावात्मक उदरगतीचें सगल्यांत उत्तम साधन आवयभास जावन आसा. आमच्या एकात्मक वृत्तीचें उन्नयन आनी परिश्करण आवयभाशेच्या साहित्यावरवीं जितलें सम्भव आसा, तितलें हेर भासंवरवीं कशेंच शक्य जावचें ना.

४. आवयभाशेंतल्यान भुरग्याचे सृजनशक्तीचो विकास सैमीक रुपांत जाता. सौंदर्यबोध (aesthetic sense) आवयभाशेच्या साहित्यावरवीं विकसीत जाता.

५. आवयभाशेवरवीं गिन्यान मेळोवपाची प्रक्रिया सोपेपणान जाता. मनशाचे बुद्दीची कुशाग्रता आनी प्रखरता आवयभाशेक लागून जाता.

६. समाजीक रचना आनी समाजीक वेव्हारांचे नदरेन आवयभास चड वेव्हारीक आनी सोपें साधन जावन आसा आनी तिचे वरवींच भाससमुदायांत एकचाराची भावना उत्पन्न जाता.

७. संस्कृतीक जिणेचे उदरगतीचे नदरेन आवयभाशेचें विशेश म्हत्व आसा.

८. आवयभाशेवरवीं जल्मभुंयेविशीं प्रेम आनी निष्ठा उत्पन्न जाता.

९. 'जननी जन्मभूमिश्च स्वर्गादपि गरीयसी ।' हातूंत आवय आनी जल्मभूंय हांचो भोवमान करून तांची बरोबरी सर्गाकडेन केल्या. आवय आनी जल्मभूमीवांगडा हातूंत आवयभाशेचोय आस्पाव करूंक जाय. आवयचे मायेक मर्यादा आसता. जल्मभुंयेचो संबंद मनशाचे भौतीक जिणेकडेन येता. पूण आवयभाशेच्या संस्कारांचें क्षेत्र खूब व्यापक आसता. आवयभास भुरग्याक सुसंस्कारीत करता. भुरग्याची वाड सांस्कृतीक पर्यावरणांत जाता आनी हें पर्यावरण भाशेनूच निर्माण केल्लें आसा.

१०. मनशाचो बुद्दीक, समाजीक, भावनीक आनी संस्कृतीक विकास मातृभाशेवरवीं जाता. हाचोच अर्थ ताच्या व्यक्तिमत्त्वाच्या विकासांत भाशेचो शिंवाचो वांटो आसा.

११. आयचें यूग हें लोकशायेचें यूग. लोकशायेंत नागरीक आपलीं कर्तव्यां करतात आनी आपल्या हक्काची राखण करतात. लोकशाय यशस्वी जावपाक नागरिकांत कांय गुणांची खूब गरज आसा. हे गूण म्हळ्यार – सुशिक्षीतपण, सुसंस्कृतपण, कर्तव्याविशीं दक्षताय, समाजीक जाग्रुताय, देशांत ज्यो घडणुको जातात तांचें चिकित्सक मूल्यांकन, भोवजनसमाजाच्या

सुखदुख्खांकडेन समरसताय, प्रभावी उलोवप, भाषण, लेखन, भासाभास आदी गूण आवयभाशेच्या अभ्यासांत मेळटात. नागरिकांचीं कर्तव्यां आनी जापसालदारक्यो फावो ते रितीन पार पाडपाक आवयभाशेचेर प्रभुत्व आसप खूब गरजेचें.

## आवयभास आनी शिक्षणाचें माध्यम

आवयभास हेंच शिक्षणाचें माध्यम आसचें हो सिद्धान्त सगल्या शिक्षणतज्ञांनी आनी विचारवंतांनी मानून घेतला. हिचेवरवीं विद्यार्थी बेगोबेग आनी सोपेपणान नवें गिन्यान प्राप्त करून घेता. शिकपाची प्रक्रिया सोपी आनी सभावीक जाता. तो स्वतंत्रपणान विचार करूंक शकता. विवेचन, विश्लेशणाचे नदरेन आवयभास उपेगी भास जावन आसा.

## सद्याची स्थिती

आयज गोंयांत कोंकणीविशीं — आपले आवयभाशेविशीं — उपाट मोग दिसून येता. कितल्याशाच प्राथमीक शाळांनी कोंकणी भाशेच्या माध्यमांतल्यान अध्ययन-अध्यापन करतात. मध्यमीक शाळेंत लेगीत खूब विद्यार्थी कोंकणी विशय घेतात. तशेंच उच्च मध्यमीक शाळांनीय कोंकणी हो विशय खूब विद्यार्थी घेतात. स्नातक/पदवी, स्नातकोत्तर/पदव्युत्तर पांवड्यांचेर लेगीत कोंकणी विशय शिकयतात. आनी खूब विद्यार्थी कोंकणी विशय घेवन विश्वविद्यालयाची पदवी घेतात. स्नातकोत्तर वर्गांत लेगीत कोंकणी विशय खूब विद्यार्थी घेतात. हें कित्याचें लक्षण ? गोंयकारांचें कोंकणीविशींचें प्रेम वाडत आसा. खुबशो साहित्यीक निर्मिती जायत आसात. लोकांक कोंकणी दिसाळीं आनी नेमाळीं वाचपाची संवय लागल्या. खूब लोक कोंकणी नाटकां, तियात्रां पळयतात आनी तांकां तीं पळोवन एक निर्भेळ आनंद मेळटा.

कोंकणीचो संविधानाचे आठवे वळेरेंत आस्पाव जाला, हे गजालीन कोंकणी भाशेक खूब भोवमानीत केलां. साहित्य अकादेमी कोंकणीच्या बऱ्यांतल्या बऱ्या साहित्याक पुरस्कार दिता. खूब कोंकणी बरोवप्यांक पुरस्कार फावो जाल्यात. हाचोच अर्थ कोंकणीचें साहित्य दर्जेदार जायत आसा. पूण आमी आत्मसंतुश्ट जावंक फावना. आमी इतले प्रयत्न करूंक जाय की कोंकणी सगल्या स्तरांचेर शिक्षणाचें माध्यम जातली. वांगडाच सरकारी वेव्हार कोंकणींतल्यानूच करपाक आमी वचनबद्द रावन तेखातीर नेमान यत्न करूंक जाय.



४.

# भाशेचें अध्ययन आनी भाशेच्या अध्यापनाचे सिद्धान्त आनी तत्त्वां

भास शिकप आनी शिकोवप म्हळ्यार कितें अशें सर्वसादारणपणान कोणाकूय विचारलें जाल्यार जाप मेळटली की विशिश्ट यत्तेखातीर जो अभ्यासक्रम थारावन दिला तो शिकप आनी शिकोवप. चडकरून क्रमीक पाठ्यपुस्तकां शिकोवपाचेर शिक्षक भर दिता. पुस्तकांतले धडे तो शिकयता, थोडें व्याकरण शिकयता, विद्यार्थ्यांक सात आठ विशयांचेर बरोवंक लायता, शिकयलां ताचेर प्रस्न-पत्रिका काडटा. शिक्षकांनी वर्गांत दिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो विद्यार्थी तोंडपाठ करतात. परिक्षेंत हेच प्रस्न येतात, त्या प्रस्नांच्यो जापो तो परिक्षेंत बरयता, परीक्षा पास जाता. प्राथमीक स्तरासावन स्नातकोत्तर स्तरामेरेन पाठ्यपुस्तकाचेर भर दिवप जाता. विद्यार्थी भास विशय घेवन पदव्युत्तर परीक्षा पास जाता. पूण खूबदां अशें दिसून येता की उच्च परीक्षा पास जाल्ल्या विद्यार्थ्यांक लेगीत भास बरी उलोवंक आनी बरोवंक येना. हातूंत तांचो कांय अन्याय नासता. जे लोक अभ्यासक्रम निर्धारीत करतात, तांकां 'भास शिकोवप' म्हळ्यार कितें हाचें वेवस्थीत गिन्यान नासता. पूण आजकाल भास शिकोवपाच्या शास्त्रांत खूब उदरगत जाल्ली आसा. भास शिकयतना संप्रेशणात्मक प्रणाली, म्हळ्यार Communicative Approach चो उपेग जाता. ताका लागून भास शिकोवपाच्या मळार खूब बदल दिसून येता.

अमूक एके व्यक्तीक भास येता म्हळ्यार कितें, हाचें विश्लेशण करूंक जाय. ताचे उपरांत तो भास कशी शिकता आनी ती भास कशी शिकोवची हेविशीं विवेचन करुंया. एके व्यक्तीक एक भास येता म्हळ्यार ताणें चार भाशीक कसबां (language skills) आत्मसात केल्लीं आसतीत. तीं कसबां अशीं आसात –

१. श्रवणाकलन (आयकप आनी समजप)

२. उलोवप

३. पठणाकलन (वाचप आनी समजप)

४. लेखन (बरोवप)

वयर बरयिल्लीं कसबां मूलभूत कसबां जावन आसात. हाचेवयल्यान अशें दिसून येता की शाळेंत ह्या सगल्या कसबांचेर आमी भर दिवंक जाय. नासत जाल्यार विद्यार्थ्यांचो भाशीक विकास सिमीत उरता. वयर बरयिल्लीं कसबां मतींत दवरून अध्यापन केलें जाल्यार भाशेचें शिकोवप प्रभावी जातलें.

## भास शिकपाची सैमीक (सभावीक वा निसर्गीक) पद्दत

ल्हान भुरगें भास कशी शिकता हेविशीं विचार करुंया. भास शिकप म्हळ्यार भाशीक कौशल्यां संपादन करप. सुरवेक ताच्या परिवेशांत आशिल्ल्या व्यक्तींनी उच्चारिल्ले ध्वनी भुरगें आयकता. पूण एका मानसशास्त्रज्ञान म्हळ्ळेप्रमाण हे ध्वनी big buzzing blooming confusion म्हळ्यार निरर्थक आसतात. पूण ल्हवू ल्हवू ते विशिश्ट ध्वनी आनी तातूंत व्यक्त जाल्ल्या व्यक्तींचो, वस्तूंचो, क्रियांचो आनी भावनांचो साहचर्य-संबंद ताचे मतींत येता. उतर आनी अर्थ हांचेमजगतीं साहचर्य संबंद प्रस्थापीत जाता. तें भुरगें तसलेच ध्वनी उच्चारपाचो प्रयत्न करता. ध्वनीवांगडा निगडीत जाल्ल्या अर्थाचें ताका आकलन जाता आनी त्या त्या ध्वनीसंकेतांचो उपेग भुरगें करूंक लागता. जसोजसो कळाव वता तसोतसो ताचो शारिरीक विकास जाता, ताचें वागेंद्रिय विकसीत जाता. सुरवेक भुरगें उतरांचें उच्चारण करता आनी उपरांत वाक्यांचो उपेग करता. जशेंजशें ताचें अणभव विश्व विस्तारता, तसोतसो ताचो उतरांचो संग्रह वाडत वता. ताची वाक्यरचना घट जायत वता. पिरायेनुसार आनी अणभवांनुसार ताचीं भाशीक कसबां विकसीत जातात. शाळेंत उपचारीक शिक्षण दिवचे आदीं अनौपचारीक पद्धतीन भुरगें भास आत्मसात करता. हांगा मतींत दवरूंक जाय की भुरगें दोन कसबां – श्रवणाकलन आनी उलोवप – शिकता. पठणाकलन आनी लेखन हीं दोन कसबां शाळेंत वतकूच तें आत्मसात करता. एक निश्कर्श आमी काडूंक शकतात की भास शिकप म्हळ्यार ते भाशेची संवय लावन घेवप. खूब बिगर-गोंयकार गोंयांत वास्तव्य करून आसात. बाजारांत

हे लोक दिश्टी पडटात. तांची भास कोंकणी न्हय. तांची भास कानडी वा दुसरी खंयची तरी आसता. पूण ते कोंकणी बरी उलयतात. कोंकणी वाठारांत राविल्ले कारणान आनी आत्मप्रकटीकरणाची भौ गरज आशिल्ल्यान तांकां कोंकणींत उलोवचें पडटा. ते कोंकणी उलोवपाची संवय लावन घेतात आनी कोंकणीत आपले विचार संप्रेशीत करूक शकतात.

भास शिकपाचें मुखेल तत्त्व म्हळ्यार भास शिकप हें ते भाशेची संवय लावपाचेर अवलंबून आसा. जेन्ना विद्यार्थी शाळेंत उपचारीक शिक्षण घेवंक वता, तेन्ना ताका पठणाकलन (reading comprehension) आनी लेखन शिकयतात. हाचो अर्थ असो न्हय की श्रवण आनी उलोवप हीं कसबां उपेक्षीत करचीं. पयलीं सांगिल्लेप्रमाण तिंवूय म्हत्वपूर्ण कसबां जावन् आसात.

शालेय विशय दोन तरांचे आसतात: ज्ञानप्रधान आनी क्रियाप्रधान. ज्ञानप्रधान विशय म्हायतेचेर (information / facts) चड भर दितात. पूण क्रियाप्रधान विशयांत प्रयोग आनी अभ्यासाचेर चड भर दितात. भास एक सूक्ष्म क्रियात्मक विशय जावन आसा आनी ह्या विशयांत प्रयोग आनी अभ्यासावांगडा सिद्धान्तीक पक्षाचें म्हत्वय आसा. भाशेच्या अध्ययनांत ज्ञान आनी क्रिया हे दोनूय पक्ष म्हत्वपूर्ण आसात, पूण प्राधान्य 'क्रिये'चेर आसता.

## भास शिकपाची सभावीक आनी स्वतास्फूर्त शक्त

आत्माभिव्यक्तीची सभावीक प्रवृत्ती मनशाक भास शिकपाक प्रेरीत करता आनी तो अनुकरणाच्या सभावीक प्रवृत्तीवरवीं परिवार आनी परिवेशाची भास सहजतायेन शिकता आनी अनुकूल वातावरण मेळटकूच भुरगें आवयभासूच न्हय, परिवेशाच्यो हेर भासो लेगीत शिकता. मुंबयंत रावपी खुबशा लोकांक दोनतीन भासो येतात. देखीक, मराठी, हिंदी, गुजराती आदी. हेर विशय भुरगे वेवस्थीत शिकयले बगर शिकूंक शकनात. पूण भास नकळटना मानसपटलाचेर बसत रावता. भास शिकपाक मनशाक ही सैमान दिल्ली शक्त उपलब्ध आसता. हे शक्तीचो लाब घेवपाक अनुकूळ वातावरण म्हळ्यार भास आयकुपाक आनी उलोवपाक फावो तितलो वेळ मेळूंक जाय. हरशीं खुबशा कलांनी प्राविण्य मेळोवपाक अध्ययन करपाची गरज पडटा. प्रयत्न आनी बुद्दीचो उपेग करचो पडटा. पूण एक कला अशी जावन आसा जी आमी प्रयास आनी बुद्दीचो उपेग केलेबगर शिकूंक शकतात, आनी ती म्हळ्यार उलोवपाची कला. उलोवपाक शिकप आनी ती आत्मसात करपाची सैमान दिल्ली शक्त भुरग्याक प्राप्त जाल्या, जाकालागून भुरगें आपली

आवयभास सहजतायेन शिकताच, पूण हे शक्तीवरवीं तें हेर भाशांच्या संपर्कांत येतकूच त्यो भासोयबी शिकता.

## भास शिकपाची अध्ययनात्मक शक्त

श्रवणाकलन आनी उलोवप भुरगें बाल्यावस्थेंत सैमीक पद्धतीन शिकता. पूण भाशेचीं उरिल्लीं दोन कसबां म्हळ्यार पठणाकलन आनी लेखन विद्यार्थ्याक विधिवत शिकचें पडटा आनी शिक्षकाक विधिवत शिकोवचें पडटा. वाचप, बरोवप आनी भाशेचीं साहित्यीक रुपां शिकपाक अध्ययनात्मक शक्तीचो प्रयोग गरजेचो जावन आसा. हे शक्तीच्या प्रयोगाक सचेत प्रयास आनी रुपांतराची प्रक्रिया अशें म्हणटात. सचेत प्रयास आनी रुपांतराची प्रक्रिया म्हळ्यार लिखित भास उच्चारीत भाशेंत व्यक्त करप (व्यक्त वा मौखीक पठण), उच्चारीत भास लिखीत भाशेंत बदलप (श्रुत लेखन), भाशेचे वाक्यरचनेंत विंगड विंगड बदल करप, एके भाशेचें दुसरे भाशेंत भाशांतर करप. भास शिकपाक बुद्दीवरवीं जे प्रयास करचे पडटात आनी हात, दोळे, कानांचो उपेग करचो पडटा, ते अध्ययनाचे शक्तीभितर आसपावतात. भास शिकपाक सभावीक आनी अध्ययनात्मक अशा दोनूय शक्तींची गरज आसा. फकत एके शक्तीवरवीं भाशेचेर प्रभुत्व शक्य जावचेंना.

## भास शिकप म्हळ्यार ते भाशेची संवय जावन पडप

भास शिकपाची प्रक्रिया ही एकादें कसब (skill) शिकपासारखी आसा. देखीक, सायकल चलोवप. सायकल चलोवंक शिकपाक प्रयोग आनी अभ्यासाक (practice) अदीक म्हत्व आसा. एकदां सायकल चलोवंक येतकूच मागीर ती चलोवप आपसूक जाता. भाशेविशीं अशीच संवय लागूंक जाय. ही संवय भुरगेपणांत करूंक जाय. जर हे अवस्थेंत अशुद्ध भाशेची संवय जाली तर मागीर ती सुदारपाक भोव कठीण. एकदां शुद्ध भास-प्रयोगाची संवय जाली म्हणटकूच मागीर चूक जावपाची शक्यताय उणी. भास शिकयतना शिक्षकान सदांच थॉर्नडायकचो 'अभ्यासाचो नेम' (Law of Exercise) मतींत दवरूंक जाय.

## भाशीक कौशल्यांचें अध्यापन योग्य क्रमान करूंक जाय

भाशीक कौशल्यांचें अध्यापन फावो त्या क्रमान करूंक जाय. भासशास्त्रींच्या मताप्रमाण पयलें श्रवणाकलन, मागीर उलोवप, मागीर पठणाकलन आनी निमणें लेखन शिकोवंक जाय.

## सज्जताय वा परिपक्वताय

भास शिकयतना विद्यार्थ्यांची शारिरीक आनी मानसीक परिपक्वताय मतींत

दवरूक जाय. जें आमी विद्यार्थ्यांक शिकयतात, ताचें ताका आकलन जातलें वा ना हाचेविशीं विचार करूक जाय. शिक्षकांक दिसता की भुरग्यांची उतरावळ वाडची. ताचो हो हावेस तोखणायेचो, पूण ताका खंयचें उतर शिकोवचें, खंयचे वाक्प्रचार शिकोवचे हाचेसंबंदान विचार करूक जाय. आपलें पांडित्य दाखोवपाखातीर मुद्दम कठीण उतरां शिकोवपाचो प्रयत्न करचो न्हय. प्राथमीक वर्गांतल्या विद्यार्थ्यांक 'सद्सद्विवेकबुद्द' असलें उतर शिकोवचें न्हय. भास शिकयतना तांची मानसीक तयारी (maturation) मतींत दवरप खूब गरजेचें. थॉर्नडायकचो 'तयारेचो नेम' (Law of Readiness) शिक्षकान मतींत दवरचो.

## 'परिणामा'चो नेम

थॉर्नडायकाचो 'परिणामाचो नेम' आमी जाणात. जेन्ना विद्यार्थी शुद्ध भाशेचो उपेग करता, तेन्ना ताची तुस्त करूक जाय, म्हणटकूच 'परिणाम' आनंद दिवपी जातलो. विद्यार्थ्याक सफलताय मेळटकूच ताची शिकपाची उर्बा वाडटली. Nothing succeeds like success अशी इंग्लीशींत म्हण आसा. एकदां जैत मेळ्ळें म्हणटकूच फुडें ताका जैत मेळतच रावता. हो मानसशास्त्रीय सिद्धान्त शिक्षकान लक्षांत दवरूक जाय. विद्यार्थ्यान बरो निबंद बरयलो, ताणें प्रभावी वाचन केलें, ताणें कविता सुंदर चालीन म्हळी वा ताणें बरें भाशण दिलें जाल्यार ताका शाबासकी दिवंक जाय. हाकालागून तो प्रोत्साहीत जातलो. तो भाशाध्ययन नेटान करतलो. अध्यापन-क्षेत्रांत प्रवर्तनाक (motivation) खूब म्हत्व आसा. बाह्य प्रवर्तकांचो (external incentives) उपेग शिक्षकान करचो. भाशेच्या विंगड विंगड स्पर्धांचें आयोजन करचें आनी क्रीडन पद्धतीचो (Play-way Method) उपेग करचो.

## मौखीक कार्य

शिक्षकांच्या अध्यापनाचें निरीक्षण केल्यार अशें दिसून येता की अध्यापन हें चड करून अध्यापक-केंद्रित आसा. मात हें समा न्हय. अध्यापन हें बालक-केंद्रित आसूंक जाय. शिक्षक वर्गांत गरजेपरस चड उलयता. ताणें विद्यार्थ्यांक उलोवपाच्यो संदी दिवंक जाय, प्रस्न विचारून तांकां जापो दिवपाक प्रेरीत करूक जाय. विद्यार्थ्यांनी भाशेचो मौखीक वापर करूक जाय. भाशेच्या अध्यापनांत मौखीक कार्याक खूब म्हत्व आसा. विद्यार्थ्यांक मोने श्रोते जावपाक दिवंक जायना. तांचो पाठांत सक्रीय सहभाग आसूंक जाय. विद्यार्थ्यांच्या मौखीक अभिव्यक्तीक प्राधान्य दिवंक जाय. शिक्षकान अशे उपाय सोदून काडूंक जाय की जांकां लागून विद्यार्थी 'भास' उलयतले. तांकां निश्क्रीय बसूंक दिवंक जायना. विद्यार्थ्यांची भावना उक्तावपाची तांक वाडटली आनी उलोवपांत 'धारावाहित्व' येतलें.

## शिक्षकाची भास

भाशेच्या शिक्षकाची भास शुद्ध आनी समृद्ध आसूंक जाय. विद्यार्थी अनुकरणप्रिय आसतात. शिक्षक हो तांचो आदर्श. कळटां नकळटां ते शिक्षकाचें अनुकरण करतात. जर शिक्षकांची भास शुद्ध आसली तर विद्यार्थी शुद्ध भास उलयतले आनी बरयतले. जर शिक्षकाची भास अशुद्ध आसली तर तिचो वायट परिणाम विद्यार्थ्यांचे भाशेचेर जातलो. म्हूण शिक्षकान शुद्ध भास उलोवपाची आनी बरोवपाची जतनाय घेवंक जाय. ताणें प्रमाणीत भाशेचो उपेग करूंक जाय.

## क्रमायोजन

भास शिकयतना भाशीक घटक (linguistic items) फावो त्या क्रमान शिकोवंक जाय. अभ्यासक्रमांत क्रमायोजन (gradation) आसूंक जाय. देखीक, अर्थबोधाचे नदरेन पयलीं वाच्यार्थ, मागीर लक्ष्यार्थ आनी निमणें व्यंग्यार्थ दिवचो. सोप्यो गजाली पयलीं शिकोवच्यो आनी कठीण गजाली मागीर. क्रमायोजन सारकें नासत जाल्यार आकलनांत बाधा येतली आनी विद्यार्थी वैफल्यग्रस्त जातले.

## रोचकताय

अध्यापन करतना वर्गांत रोचकताय निर्माण कशी जातली हाची जतनाय शिक्षकान घेवंक जाय. शिकोवपाची पद्धत वाजेवणी आसची न्हय. विशय वस्तूचेर योग्य भाश्य करचें. रंजक, मनरिझवणी म्हायती दिवची. शिकोवप साचेबंद आसचें न्हय. शिकोवपांत नवेंपण आसचें. अध्यापन नीरस जाल्यार विद्यार्थी उबगतले. शिक्षकाकडेन खूब सामान्य-ज्ञान आसूंक जाय. दृक-श्राव्य साधनांचो उपेग केल्यार अध्यापनांत रूच निर्माण जातली. भाशांच्या खेळांचें आयोजन करचें. क्रीडन पद्धतीचो अवलंब केलो जाल्यार अध्यापन प्रभावी जातलें.

## वैयक्तीक विभिन्नताय

सगल्या भुरग्यांचे बुद्यांक (I.Q.) एकसारके नासतात. खंयचेय दोन भुरगे एक सारके नासतात. तेन्ना वैयक्तीक लक्ष दिवप खूब गरजेचें. शिक्षकान दर एका विद्यार्थ्याकडेन सुसंवाद (rapport) स्थापीत करूंक जाय. भाशेच्या खंयच्या आंगांत ते फाटीं आसात हें जाणा जावंक जाय आनी तांकां योग्य मार्गदर्शन करूंक जाय. शिक्षकाक निदानात्मक आनी उपचारी शिक्षणाचें गिन्यान आसूंक जाय.

## विद्यार्थ्यांचो समतोल भाशीक विकास

आयची शिक्षणपद्दत परिक्षाकेंद्रीत आनी परीक्षा लेखी स्वरुपांत आशिल्ले कारणान शिक्षक 'लेखन' ह्या कसबाचेर चड भर दिता. हाका लागून बाकीचीं

जीं कसबां आसात तांची उपेक्षा जाता. विद्यार्थी शिक्षक शिकयता तें आयकता. पूण श्रवणीय अशो खूब गजाली आसतात. प्रभावी वक्त्यांचीं भाशणां आयकप भाशेचे नदरेन खूब म्हत्वाचें. आमी शाळेंत तसलीं भाशणां आयोजीत करतात? हाचोच अर्थ असो की श्रवणाकलन ही कुशळताय विकसीत जायना. वर्गांत विद्यार्थी आपले विचार उक्तायतात? तांकां भास उलोवपाच्यो संदी शिक्षक दितात? उलोवपाच्यो संदी मेळनाशिल्ल्यान तांची मौखीक अभिव्यक्ती सक्षम जायना. पठणाकलन फक्त पाठ्यपुस्तकांचें जाता. आमचे विद्यार्थी कितलें अवांतर वाचन करतात? शिक्षक तांकां पूरक आनी विस्तृत वाचन करपाक प्रोत्साहीत करतात? शाळेंत बरें ग्रंथालय आसा? ह्या ग्रंथालयांत दिसाळीं, नेमाळीं विद्यार्थ्यांक वाचपाक मेळटात? ह्या प्रस्नांच्यो जापो असमादानकारक आसात. तेन्ना विद्यार्थ्यांचो भाशीक विकास समतोल जावपापासत योग्य ते उपाय करूंक जाय.

## शिक्षण सुत्रांचो प्रयोग

भाशेचें अध्यापन करतना शिक्षकान शिक्षण सुत्रांचो प्रयोग केलो जाल्यार अध्यापन प्रभावी जातलें. सकयल हीं शिक्षण सुत्रां आनी तांचें स्पश्टीकरण दिलां.

### ज्ञातासावन अज्ञातामेरेन

नवीन गिन्यान म्हळ्यार 'अज्ञात' गजाल शिकोवपाखातीर विद्यार्थी जें जाणा (ज्ञात) ताचो आदार घेवन शिकोवचें. देखीक, विशेशण शिकोवपाचें आसल्यार विद्यार्थ्यांच्या पूर्वगिन्यानाचो म्हळ्यार नामां आनी सर्वनामांची उजळणी करून तांचो उपेग करचो पडटलो. क्रियाविशेशण शिकोवचेआदीं क्रियापदाची उजळणी करची पडटली.

### सोप्यासावन कठीणामेरेन

शिकयतना सोप्यो गजाली पयलीं शिकोवच्यो आनी कठीण उपरांत शिकोवच्यो. देखीक, विशेशणां शिकोवपाचीं आसल्यार रंगदर्शक विशेशणां पयलीं शिकोवचीं, धव्यो, काळ्यो, निळ्यो, तांबड्यो, पाचव्यो, हळडुव्यो वस्तू हाडून रंगदर्शक विशेशणां शिकोवं येतात. पूण शूर, भित्रो, उदार असलीं विशेशणां प्रसंगनिर्मिती करून शिकोवचीं पडटलीं. तीं शिकोवपाक कठीण म्हूण तीं उपरांत शिकोवचीं.

### पूर्णासावन खण्डामेरेन

भाशेचें संश्लिश्ट रूप पयलीं शिकोवचें. उपरांत तिचे विंगड विंगड भाग शिकोवचे. पुराय वाक्य ही भाशेची इकाय (unit) देखून वाक्य पयलीं शिकोवचें, उपरांत उतरां आनी निमणें ध्वनी शिकोवचे.

**मूर्तासावन अमूर्तामेरेन**

पयलीं मूर्त गजाली शिकोवच्च्यो आनी उपरान्त अमूर्त. मूर्त गजाली दृश्य स्वरुपांत शिकोवंक येतात. पूण अमूर्त गजालींचें आकलन जावपाक कठीण. म्हूण अमूर्त गजाली उपरांत शिकोवच्च्यो. उतरां शिकयतना वस्तू हाडून ती विद्यार्थ्याक दाखोवची आनी त्या वस्तुचें नांव सांगचें. उतर अमूर्त आसता. वस्तू मूर्त आसता.

**आगमन सावन निगमन मेरेन**

व्याख्या, सिद्धांत, परिभास वा नेम पयलीं दिवचे न्हय. पयलीं फावो त्यो देखी दिवच्च्यो आनी विद्यार्थ्यांक ह्या देखींचें निरीक्षण करपाक लावचें. उपरांत ह्या देखींचेर योग्य प्रस्न विचारचे आनी व्याख्या, परिभास, सिद्धान्त, नेम विद्यार्थ्यांकडल्यान काडून घेवचे. व्याकरण शिकयतना ह्या सिद्धांतांचो खूब उपेग जाता.



५.

# उद्दिश्टांचेर आदारून अध्यापन

## (Objective-based Teaching)

आमी विद्यार्थ्यांक शिक्षण कित्याक दितात? परिक्षेंत उत्तीर्ण जावपाक, अशी जाप मेळटली. आयजकाल विद्यार्थी शाळेंत वता. तेभायर खुबशे विद्यार्थी खूब फी फारीक करून ट्युशन-वर्गांत लेगीत वतात. कारण कितें तर परिक्षेंत खूब गूण मेळोवचे आनी वेल्या क्रमांकान पास जावचें. खंयचें इश्कॉल (शाळा) बरें? ज्या इश्कॉलांत एस्.एस्.सीचे परिक्षेंत विद्यार्थ्यांक खूब मार्क मेळटात, विद्यार्थ्यांक वयले क्रमांक मेळटात तें इश्कॉल आदर्श! कोणेंतरी अशें म्हळां की आमच्यो शाळा म्हळ्यार गिन्यान विकपाचे पसरे आनी शिक्षक हे गिन्यान विकपी पसरकार (Schools are teaching shops and teachers are pedlers of knowledge.) ह्या विधानांत कसलीच अतिताय ना. ही परिस्थिती अशीच उरली तर आमचे विद्यार्थी आदर्श नागरीक जातले वा ना हेविशीं दुभाव आसा. आमी विद्यार्थ्यांक शिक्षण कित्याक दितात? शिक्षणाचें ध्येय कितें? शिक्षणतज्ज्ञांचें आनी शास्त्र्यांचें अशें मत आसा की जण एका विद्यार्थ्याच्या पुराय व्यक्तिमत्त्वाचो विकास करप हें शिक्षणाचें ध्येय जावन आसा. व्यक्तिमत्त्व ह्या उतराचो अर्थ खूब व्यापक आसा. गिन्यान आनी बुद्द हांचे वांगडा विद्यार्थ्यांच्यो विंगड विंगड भावना, तांच्यो आवडीनिवडी, सद्प्रवृत्ती, सद्भिरूची, सौंदर्यदृश्टी आनी तरातरांच्यो क्रियाशील

शक्ती ह्या सगल्या घटकांचो आस्पाव जाता. त्या सगल्यांचो संतुलीत विकास जावप खूब गरजेचें. आयच्या शिक्षणांत विद्यार्थ्यांची असंतुलीत उदरगत जाता. शिक्षण दिवप म्हळ्यार फकत गिन्यान दिवप न्हय, तर ताका विचारीक, कार्यक्षम आनी सुसंस्कृत करप. 'शिक्षण' हाचो खरो अर्थ विकास. विचारीक, बुद्दीक, मानसीक, नितीक, शारिरीक, समाजीक, कलात्मक असो सगल्या प्रकारांचो विकास. विद्यार्थ्यांचो पुराय विकास हें शिक्षणाचें ध्येय – ह्या विधानाची पर्थून पर्थून याद करचीच पडटा.

शिक्षण म्हळ्यार सर्वांगीण विकास. तेचभशेन अध्यापन ही लेगीत विकासात्मक प्रक्रिया जावन आसा. अध्यापनावरवीं शिक्षणाचीं ध्येयां साध्य करूंक जाय. अध्यापन करप म्हळ्यार कितें? आतां आठवी यत्तेक कोंकणी शिकोवपी शिक्षकाक जर प्रस्न विचारलो की 'तूं कोंकणी शिकयता म्हळ्यार कितें?' ताची जाप आसतली 'हांव पाठ्यपुस्तकांतले गद्याचे अमके पाठ, कवितांचे अमके पाठ, थोडें व्याकरण आनी भुरग्यांकडल्यान थोडें लेखन करून घेतां. पूण पाठ्यपुस्तकांचेर आदारून केल्लें अध्यापन हें अध्यापन न्हय. दर एका शिक्षकान आपल्याकूच प्रस्न विचारूंक जाय, 'हांव जो विशय शिकयतां ताचीं उद्दिश्टां कितें?'

हालींच्या काळांत 'उद्दिश्ट' हें उतर उपेगांत येता. दर एका विशयाचीं उद्दिश्टां आसात. पाठ्यपुस्तकांतले धडे शिकोवप हें उद्दिश्ट न्हय. उद्दिश्ट म्हळ्यार वर्तनांत बदल (behavioural change). हाचें स्पश्टीकरण करपाक आमी भाशेची देख घेवंया. समजुंया, अशोक सात वर्सां कोंकणी भास शिकता. आतां शिकचे पयलीं तो कसो आसता (भाशेचे नदरेन) आनी भास शिकले उपरांत ताच्यांत कसलो बदल जाता हें पळोवया.

## वर्तनांत बदल

| | |
|---|---|
| १. ताका भाशेचें गिन्यान नासलें. | १. आतां ताका भाशेचें गिन्यान जालां. |
| २. ताका वाचूंक येना आशिल्लें. | २. आतां तो अर्थपूर्ण वाचन करता. |
| ३. तो अशुद्ध बरयतालो. | ३. आतां तो शुद्ध बरयता. |
| ४. ताचे उतरांचे उच्चार अशुद्ध आसले. | ४. आतां ताचे उच्चार सुदारल्यात. |
| ५. ताका आपले विचार व्यक्त करूंक येना आसले. | ५. आतां तो आपले विचार व्यक्त करूंक शकता. |
| ६. ताका कवितेचो अर्थ समजनाशिल्लो. | ६. आतां ताका कवितेचो अर्थ समजता. |

शिक्षकान सात वर्सां कोंकणी शिकोवन, म्हळ्यार शिक्षणीक अणभव (learning experiences) दिवन अशोकांत जे बदल घडोवन हाडल्यात, त्या बदलांक वा परिवर्तनाक 'उद्दिश्ट' अशें म्हणटात.

आतां उद्दिश्टांविशीं चड म्हायती घेवप खूब गरजेचें जावन आसा. उद्दिश्टांचें गिन्यान नासत जाल्यार अध्यापन प्रभावी जावचें ना. उद्दिश्टांचेर आदारून अध्यापनाची संकल्पना बेंजामिन ब्लूम हांची. ताचेवांगडा हेर शिक्षणतज्ज्ञांच्या नांवांचो उल्लेख करूंक जाय. जांणी शिक्षणाच्या उद्दिश्टांची उतरंड (hierarchy) तयार केली, तांचीं नांवां अशीं आसात – एंजलहार्ट, हिल, फर्स्ट, क्रेथव्हॉल आनी गसीया. आमच्या देशांत आमकां चड वळख आसा ती बेंजामिन ब्लूम हांची.

उद्दिश्टांचें तीन क्षेत्रांत विभाजन केलां. तीं तीन क्षेत्रां जावन आसात,

१. ज्ञानक्षेत्र (Cognitive Domain)

२. भावनीकक्षेत्र (Affective Domain)

३. क्रिया-कौशल्यक्षेत्र (Psycho-Motor or Conative Domain)

शिक्षणाची उतरंड सकयल दिल्या

| **ज्ञानक्षेत्र** (Cognitive) | **भावनीक क्षेत्र** (Affective) | **क्रिया-कौशल्य क्षेत्र** (Psycho-motor) |
|---|---|---|
| मूल्यमापन (Evaluation) | मूल्य-समूहचारित्र्य (Chacterisation) (मूल्यां आत्मसात करून चरित्र घडोवप) | सभावीकताय (Naturalisation) |
| संश्लेशण (Synthesis) | संयोजन (Organisation) | निपुणताय (Articulation) |
| विश्लेशण (Analysis) | मूल्यनिश्चिताय (Valuing) | निश्चिताय (Precision) |
| उपयोजन (Application) | प्रतिसाद (Responding) | हस्तकुशळताय (Manipulation) |
| आकलन (Comprehension) | अवधान (लक्ष दिवप, ग्रहण करप) (Receiving) | अनुकरण (Imitation) |
| ज्ञान (Knowledge) | | |



आतां दर एका क्षेत्रांतल्या उद्दिश्टांचो विचार करुंया.

## ज्ञानात्मक क्षेत्र

**ज्ञान :** ज्ञान म्हळ्यार म्हायती. एकाद्री गजाल वळखप वा स्मरप (याद करप) ह्यो दोन क्रिया ह्या उद्दिश्टाच्यो द्योतक आसात. 'ज्ञान' उद्दिश्ट विकासाच्या सगल्यांत सकयल्या पांवड्यावयलो उपपांवडो. दर एका विशयांत तरातरांची म्हायती (information) दिवची पडटा. देखीक, भुगोलांत विंगड विंगड प्रदेशांचें हवामान, लोक, पिकां, तांची जीण हेविशीं म्हायती दिवची पडटा. इतिहासांत राजांचीं नांवां, तांणी केल्ल्या लडायांविशीं म्हायती दिवची पडटा. भाशेंत लेखक आनी कवींच्या साहित्याविशीं म्हायती, उतरांचे अर्थ, व्याकरणाचे नेम हे ज्ञानांतर्गत येतात. अभ्यासाची म्हायती 'वळखप' आनी 'स्मरप' 'ज्ञान' उद्दिश्टा भितर येता.

**आकलन :** ज्ञानात्मक क्षेत्रांतलें दुसरें उद्दिश्ट आकलन जावन आसा. विचारपूर्वक समजून आत्मसात केल्ली म्हायती म्हळ्यार आकलन. भाशेची देख घेतली जाल्यार पाठाचो आशय विद्यार्थ्याक समजलो जाल्यार, कठीण वाक्याचें स्पश्टीकरण तो करूंक शकलो जाल्यार, गर्भितार्थ ताका कळ्ळो जाल्यार, धड्याचो सारांश तो दिवंक शकलो जाल्यार आमी म्हणूंक शकतात की ताका आकलन जालां. आकलन हें ज्ञान ह्या वयल्या पांवड्यावयलें उद्दिश्ट.

**उपयोजन :** नेम, तत्त्वां, सामान्यीकरणां आदी शिकले उपरांत नवीन परिस्थितींत उपेग करपाची क्षमताय म्हळ्यार उपयोजन. समजा, शिक्षकान विद्यार्थ्यांक नवीन उतरां, म्हणी आनी वाक्प्रचार शिकयल्यात. विद्यार्थी तांचो आपल्या वाक्यांनी उपेग करूंक शकतात, म्हणजेच उपयोजन हें उद्दिश्ट साध्य जालें अशें समजूं येता.

विश्लेशण : एखाद्या घटकांतल्या उपघटकांचे वा प्रक्रियेंत अंतर्भूत आशिल्ल्या उपांगांचें स्वरूप मतींत येवप ही विश्लेशणाची प्रक्रिया. समजा, शिक्षकान अशें विधान केलें की अमूक बरोवप्याची शैली प्रभावी आसा म्हळ्यार निश्चीत कितें? हाची फोड (विश्लेशण) विद्यार्थी करूंक शकलो तर 'विश्लेशण' हें उद्दिश्ट साध्य जालें अशें समजूं येता. समजा, एका धड्यांत एके व्यक्तीविशीं अशें विधान केल्लें आसा : 'ताचें व्यक्तिमत्त्व प्रभावी आसलें'. विद्यार्थी कारणां दिता, म्हणजेच तो विश्लेशण करता.

**संश्लेशण :** खंयचेय गजालीचे, कल्पनेचे घटक, विभाग, उपांगां एकठांय हाडून

तातूंत समग्रतायेचें दर्शन घडोवप म्हळ्यार संश्लेशण. संश्लेशणांत विलक्षण, कल्पक, सृजनशीळ अशा वर्तनाचो आस्पाव जाल्लो आसा. निबंध बरोवप, कविता करप ह्यो क्रिया संश्लेशणांभितर येतात.

**मूल्यमापन :** जेन्ना मनीस खंयचीय गजाल बरी वा वायट, चूक वा बरोबर, तेचपरी तातूंत खंयचे गूण वा दोश आसात हेविशीं मत सांगता, तेन्ना तो त्या गजालीचें 'मूल्यमापन' करता. मूल्यमापन क्षमताय ही ज्ञानात्मक क्षेत्रांतली सगल्यांत श्रेश्ठ पात्रताय जावन आसा.

## भावनीक क्षेत्र

**अवधान :** भावात्मक विकासांतलो 'अवधान' हो पयलो पांवडो जावन आसा. खंयचेय गजालीकडेन, वस्तूकडेन वा क्रियेकडेन आकर्शीत जावप म्हळ्यार अवधान. ह्या उद्दिश्टांत चेतकाच्या (stimulus) अस्तित्वाची जाणीव आनी ग्रहण करपाची तयारी ह्यो दोनूय गजाली येतात.

**प्रतिसाद :** प्रतिसादाचे प्रक्रियेंत व्यक्ती विशयांत वा कृतींत समरस जाल्ली आसता. खंयचेय गजालींत समरसता दाखोवप 'प्रतिसादा'भितर येता. एक सुंदर कविता आयकतना आमी ते कवितेकडेन समरस जातात, तेन्ना हेर गजालींकडेन लक्ष वचना.

**मूल्यनिश्चिताय :** कांय मनशांचीं मुल्यां निश्चित जाल्लीं आसतात. ह्या मुल्यांपसून ते केन्नाच विचलीत जायनात. देखीक, महात्मा गांधी. महात्मा गांधी 'अहिंसे'च्या मूल्यांपसून केन्नाच विचलीत जाले नात. मूल्य आत्मसात करपाचे नेमान वाडत आशिल्ले प्रक्रियेंतल्यान व्यक्तीच्या वर्तनांत सुसंगती येता. ताच्या वर्तनांत स्थिरताय येता.

**संयोजन :** मनशामजगतीं फकत एकूच मूल्य नासता. विंगड विंगड मुल्यां ताचे जिणेंत निर्माण जातात. पूण ह्या मुल्यांमजगतीं विरोध जावंक फावना. ह्या मुल्यांचो समन्वय सादूंक जाय. मुल्यांचो क्रम निर्धारीत करूंक जाय. म्हणजेच ह्या मुल्यांचें फावो तें संयोजन जावंक जाय. तांचे मजगतीं योग्य संबंद प्रस्थापीत जावंक जाय.

**मूल्य-समूह चारित्र्य :** ह्या स्तराचेर व्यक्तीच्या मुल्यांची सुसंबद्द घडण जाल्ली आसता. ताची जगाकडेन पळोवपाची नदर दृढ जाल्ली आसता.. ताच्यो श्रद्धा, अभिवृत्ती आनी मुल्यां हांचें एकसंध संकलन जाल्ल्यान ते व्यक्तीचें सम्यक तत्त्वज्ञान वा जगाविशींची नदर तयार जाल्ली आसता. ही सगली प्रक्रिया म्हळ्यार चारित्र्याची घडण.

## क्रिया-कौशल्य क्षेत्र

ह्या क्षेत्रांतल्या पांच उद्दिश्टांचे प्रकार सकयल दिल्यात.

**अनुकरण:** शिकपी दुसऱ्याच्या वर्तनाचें वा कृतीचें अनुकरण करता. कुशळटाय संपादन करपाचें पयलें सोंपण म्हळ्यार अनुकरण. सुरवेक ताचे कृतींत स्नायू-रज्जू सामंजस्य (muscular co-ordination) नासता. कृतीचेर योग्य नियंत्रण नासता. कृती ओबड-धोबड दिसता.

**हस्तकुशळताय:** अनुकरण करतना फकत कृती पळोवन ते कृतींतल्यो विंगड विंगड हालचाली शिकपी करता. पूण 'हस्तकुशळताय' ह्या स्तराचेर फकत अनुकरण करिनासतना दिल्ल्यो सुचोवण्यो अंमलांत हाडून शिकपी कृती करता. हातूंत शिकप्याक विंगड विंगड हालचालींत अंतर दिसून येता आनी तातुंतल्यो योग्य हालचाली तो वेंचूंक शकता.

**निश्चिताय:** कृतीच्या पुनर्वर्तनांतल्यान, सरावांतल्यान कृतींत प्रावीण्य येता. चुको करिनासतना शिकपी कृती करता.

**निपुणताय:** ह्या प्रकारांतल्या क्रियांत कृतीची सुसंगती, कृतीमदलो योग्य क्रम थारावप आनी तांचेमजगतीं योग्य मेळ बसोवप हाचेर भर दिल्लो आसता. सायकल चलोवपाक शिकतना सुरवेक आपल्यो हालचाली (movements) बेडौल आसतात. पूण ल्हवू ल्हवू हालचालींचो योग्य क्रम शिकप्याक सादता, हालचालींत सुसंगती येता.

**सभाविकताय:** निमणें सोंपण म्हळ्यार कुशळताय पुरायपणान आत्मसात करप. प्रयत्न करिनासतना, सहजतायेन शिकप्याक कृती करपाक येता. Automisation, Naturalisation हीं उतरां ह्या उद्दिश्टापासत वापरतात.

तीन क्षेत्रांतल्या उद्दिश्टांची आमकां वळख जाली. दर एका विशयाचीं उद्दिश्टां खंयचीं हें विशय शिकोवपाआदीं निश्चीत करूंक जाय. ताचे उपरांत हीं उद्दिश्टां साध्य करपाक खंयच्या अध्ययनानुभवांची (learning experiences) पुरवण करूंक जाय हेंवूयबी निश्चीत करूंक जाय. विशय शिकोवप म्हळ्यार फकत पाठ्यपुस्तकां शिकोवप न्हय. पाठ्यपुस्तकांभायर तरांतरांच्या शिक्षणीक अणभवांवरवीं उद्दिश्टां साध्य करूं येतात. विशयाचें शिक्षण उद्दिश्टांक धरून जावंक जाय. उद्दिश्टांबगर अध्ययन-अध्यापनाची प्रक्रिया दिकाहीन जातली.



६.

# कोंकणी भाशेचीं उद्दिशटां आनी स्पशटीकरणां

खंयचोय विशय शिकयतना त्या विशयाचीं उद्दिशटां सामकार दवरून अध्यापन करूंक जाय. उद्दिशटां साध्य करपाक योग्य शिक्षणीक अणभवांचो उपेग करूंक जाय. कोंकणी भाशेच्या उद्दिशटांविशीं आतां विचार करुंया.

सगल्या स्तरांचेर शिक्षण आवयभाशेच्या माध्यमांतल्यानच दिवंक जाय हें जरी खरें आसलें तरी गोंयांत इतिहासीक कारणांक लागून एक विचित्र परिस्थिती निर्माण जाल्या. चडशा मध्यमीक, सगल्या उच्च मध्यमीक आनी महाविद्यालयीन स्तरांचेर इंग्लीश हें माध्यम जावन आसा. प्राथमीक शिक्षण कोंकणी, मराठी आनी इंग्लीश आनी कांय हेर भारतीय माध्यमांतल्यान दितात. खुबशा मध्यमीक शाळांत विद्यार्थी तिसरी भास म्हूण कोंकणी विशय शिकयतात.

आवयभास म्हूण कोंकणीचें अध्यापन आनी तिसरी भास म्हूण तिचें अध्यापन हांचे मजगतीं खूब अंतर आसता. आवयभाशेचीं उद्दिशटां उच्च स्तरावयलीं आसतात आनी तिसरी भास म्हूण जेन्ना कोंकणी भास शिकयतात तेन्ना तिचीं उद्दिशटां सकयल्या स्तरावयलीं आसतात. भास शिकयतात तेन्ना अभ्यासक्रमांत ती खंयच्या स्तराचेर शिकयतात हें मतींत घेवंक जाय. कारण, स्तराप्रमाण अध्ययनानुभव लेगीत बदलतले.

सुरवेक आमी कोंकणी तिसरी भास म्हूण शिकयतात तेन्ना तिचीं उद्दिशटां

आनी विशिश्ट उद्दिश्टां (specific objectives) खंयचीं हें पळोवया. दुसरी वा तिसरी भास म्हूण भास शिकयतात तेन्ना भाशीक कौशल्यांचेर चड भर दिवंक जाय आनी पयली भास म्हणून शिकयतात तेन्ना शिक्षणाचें माध्यम ती भास जाता आनी भाशीक कौशल्यांवांगडा साहित्यीक दृश्टीकोणांतल्यान ते भाशेचें अध्यापन करप गरजेचें जाता.

आतां तिसऱ्या स्तरावयली भास म्हूण कोंकणीच्या उद्दिश्टांविशीं विचार करुंया. जेन्ना कोंकणी ह्या स्तराचेर शिकयतात, तेन्ना आमच्यो कसल्यो अपेक्षा आसूंक जाय? तिसरी भास शिकयतना विद्यार्थ्यांक सोपी आनी शुद्ध कोंकणी येतली ही अपेक्षा आसूंक जाय. सोप्या, मौखीक आनी लेखी कोंकणीचें तांकां आकलन जातलें, सोपे कोंकणींत ते आपले विचार मौखीक आनी लेखी स्वरुपांत व्यक्त करूंक शकतले, हीं उद्दिश्टां मतींत दवरून अध्यापन करूंक जाय.

तिसऱ्या स्तरावेल्या कोंकणी भाशेचीं उद्दिश्टां आनी विशिश्ट उद्दिश्टां सकयल दिल्यांत.

**ज्ञान :** विद्यार्थी भाशेच्या घटकां (elements) चें ज्ञान प्राप्त करता.

विशिश्ट उद्दिश्टां (वर्तनांत बदल)

१. विद्यार्थी याद करता.
२. विद्यार्थी वळखता.
३. विद्यार्थी तुलना करता.
४. विद्यार्थी फरक करता.
५. विद्यार्थी सोदून काडटा.
६. विद्यार्थी वर्गीकरण करता.
७. विद्यार्थी उतरांचे, वाक्प्रचारांचे अर्थ ग्रहण करता.
८. विद्यार्थ्यांक सोपे वाक्यरचनेचें गिन्यान जाता (sentence patterns)
९. विद्यार्थ्यांक निबंद, पत्र, काणी बरोवपाच्यो विधी कळटात.
१०. विद्यार्थ्यांक व्याकरणाच्या नेमांचें गिन्यान जाता.
११. विद्यार्थी शब्दांच्यो जाती वळखता.

**आकलन :**

१. विद्यार्थी परिच्छेदांतलीं म्हत्वपूर्ण उतरां आनी उतरांचे चोमे (phrases) सोदून काडटा.
२. विद्यार्थी पाठांतलो अर्थपूर्ण तपशील सोदून काडटा.

३. विद्यार्थी पाठांतली मुख्य कल्पना सोदून काडटा.
४. विद्यार्थी मुख्य आनी गौण कल्पनांमदलो फरक जाणा जाता.
५. विद्यार्थ्याक सारगर्भित वाक्याचो अर्थ कळटा. तो तांचें स्पश्टीकरण करूंक शकता.
६. पाठांत आयिल्ल्या कल्पनांविशीं, भावनांविशीं तो अनुमान काडूंक शकता.
७. पाठांत आयिल्ल्या व्यक्तिंचीं चारित्र्य-वैशिश्टां ताका कळटात.
८. पाठाचो आशय तो समजता.
९. पाठांत आयिल्ल्या मुख्य मुद्द्यांचें ताका आकलन जाता.

**अभिव्यक्ती :** (मौखीक आनी लेखी)

१. विद्यार्थी आपले विचार व्यक्त करूंक शकता (उलयतना आनी बरयतना).
२. विद्यार्थी उलयतना स्पश्ट उच्चारण करता.
३. विद्यार्थी योग्य उतरांचो उपेग करता (उलयतना आनी बरयतना).
४. विद्यार्थी विंगड विंगड गठनांचो (structures) उपेग करता (उलयतना आनी बरयतना).
५. विद्यार्थी आपले विचार क्रमवार (in sequence) व्यक्त करूंक शकता.
६. विद्यार्थी संभाशण करूंक शकता.
७. विद्यार्थी आडखळनासतना उलयता.
८. विद्यार्थ्यांच्या उलोवपाच्या गतीक प्रवाह आसता.
९. विद्यार्थ्यांचें लेखन शुद्ध आसता.
१०. विद्यार्थी निबंध, पत्रां, काणयो बरोवंक शकता.

**रसग्रहण :**

१. विद्यार्थी कवितेंत आयिल्लीं सकयल दिल्लीं सौंदर्य-थळां सोदून काडूंक शकता.

अ. सुंदर उतरां
ब. सुंदर कल्पना
क. सुंदर उपमा
ड. मध्यवर्ती कल्पना
त. सारभर्गीत वळी
थ. सुंदर अलंकार
द. नाद-मधुरताय

धं. सुंदर विचार

न. अव्यक्त अर्थ (implied meaning)

**अभिरूची :** विद्यार्थ्यामदीं कोंकणी भाशेविशीं प्रेम निर्माण जाता.

क. विद्यार्थी क्रमीक पुस्तकांभायर कोंकणी पुस्तकां वाचता.

ख. विद्यार्थी कोंकणी दिसाळीं, नेमाळीं वाचता.

ग. विद्यार्थी रेडिओ आनी दूरदर्शनावयले कोंकणी कार्यक्रम आयकता.

घ. विद्यार्थी इश्कोलाच्या मेगेझिनांत कोंकणींत लेख, रिपोर्ट, कविता, चुटकुले, काणयो बरयता.

च. विद्यार्थी कोंकणीच्या अभ्यासानुवर्ती कार्यक्रमांत मुजरत भाग घेता. कोंकणीच्या वक्तृत्व-स्पर्धांत, नाटकांत भाग घेता.

छ. विद्यार्थी कोंकणीच्या शब्दकोशाचो उपेग करता.

ज. विद्यार्थी फामाद कोंकणी वक्त्यांचीं भाशणां आयकता.

## कोंकणी भाशेचीं आवयभास म्हूण पयल्या स्तरावयलीं उद्दिश्टां

हाचे पयलीं अशें विधान केल्लें आसा की द्वितीय/तृतीय स्तरावयलीं उद्दिश्टां सकयल्या (निम्न) स्तरावयलीं आसतलीं. पूण जेन्ना हेर विशयांचें माध्यम कोंकणी जातलें आनी कोंकणी 'पयली भास' म्हणून शिकयतले, तेन्ना भाशेचीं उद्दिश्टां वयले पातळेवयलीं आसुंकूच जाय. द्वितीय/तृतीय स्तरांचेर कोंकणी शिकयतात तेन्ना संप्रेशणात्मक कसबांक (communicative skills) चड म्हत्व दितात. पूण जेन्ना 'पयली भास' म्हणून शिकयतात तेन्ना भाशेच्या साहित्यीक स्वरूपाक चड म्हत्व (weightage) दिवंक जाय. शिक्षकान अशे तरेन शिकोवपाक जाय की विद्यार्थ्यांचे भाशीक क्षमतेंत प्रगल्भताय येवंक जाय. कोंकणी साहित्याविशीं तांची अभिरूची वाडूंक जाय. तांची भाशीक क्षमताय सक्षम जावंक जाय. ताची सृजनशीलताय वाडूंक जाय. आतां कोंकणीच्या अध्यापनाच्या पयल्या स्तरावयलीं उद्दिश्टां आनी विशिश्ट उद्दिश्टां हेविशीं विचार करुंया.

**ज्ञान :**

१. विद्यार्थ्यांची उतरावळ समृद्ध जाता.

२. विद्यार्थ्याक कोंकणी भाशेचो स्थूल इतिहास, तातुंतल्यो मुखेल प्रवृत्ती आनी प्रवाह हांचो परिचय जाता.

३. अभ्यासक्रमांत आयिल्ल्या लेखकांच्या आनी कवींच्या साहित्याची स्थूल वळख जाता.

४. विंगड विंगड वाङ्मय प्रकार आनी तांचीं तंत्रवैशिश्टां हांचें गिन्यान जाता.
५. व्याकरणाच्या नेमांचें गिन्यान जाता.
६. कोंकणी व्याकरणाच्या वैशिश्टांचें गिन्यान जाता.

**आकलन :**

१. विद्यार्थ्याक वाचनाकलन जाता; ताका अर्थपूर्ण मूकवाचन करपाक येता.
२. विद्यार्थ्याक आयकल्ले भाशेचें आकलन जाता.
३. विद्यार्थ्याक पाठांत आयिल्ल्या म्हत्वपूर्ण मुद्द्यांचें आकलन जाता.
४. विद्यार्थ्यांक पाठाच्या आशयाचें आकलन जाता.
५. विद्यार्थ्यांक पाठांत आयिल्ल्या सारगर्भीत वाक्यांचें आकलन जाता.
६. विद्यार्थी पाठांत आयिल्ल्या म्हत्वपूर्ण वाक्याचें स्पश्टीकरण करता.

**अभिव्यक्ती (मौखीक)**

१. विद्यार्थ्याक वेव्हारांत गरजेचें संभाशण करूंक येता.
२. ताचे उच्चार स्पश्ट आसतात.
३. आपल्या मनांतले विचार, कल्पना, भाव वेवस्थीत पद्धतीन तो प्रकट करता.
४. खंयच्याय विशयाचें तो वेवस्थीत विवेचन करता.
५. तो आपलें मत समर्थपणान मांडूंक शकता.
६. तो चर्चेंत प्रभावीपणान भाग घेवंक शकता.
७. तो कथाकथन प्रभावी शैलीन करूंक शकता.
८. तो ताचे पिरायेक झेपत अशा विशयांचेर भाशण दिवंक शकता.
९. तो भावपूर्ण पद्धतीन भाशण करता.
१०. तो उलयतना फावो त्या उतरांचो आनी वाक्प्रचारांचो उपेग करता.

**अभिव्यक्ती (लेखी)**

१. ताका सोबीत आनी प्रमाणबद्ध हस्ताक्षर काडूंक येता.
२. तो शुद्ध लेखन करता (व्याकरणाचे नदरेन).
३. तो विंगड विंगड गठनांचो (structures) उपेग करता.
४. तो योग्य उतरांचो आनी वाक्प्रचारांचो उपेग करता.
५. तो आपले विचार, भाव, मतां, दृश्टीकोण, कल्पनांची मांडावळ योग्य रितीन करता.
६. तो निबंध, पत्रां, काणयो, कल्पना-विस्तार, अर्ज, सारांश-लेखन परिणामकारकपणान बरोवंक शकता.

रसग्रहण

१. विद्यार्थ्यांक साहित्यकृतींतल्या सौंदर्य-थळांचो आस्वाद घेवंक येता. हीं सौंदर्य-थळां म्हळ्यार साहित्यकृतींतलें कल्पना सौंदर्य, विचार सौंदर्य, भाव सौंदर्य, शब्द सौंदर्य, केंद्रीय कल्पना आदी.
२. साहित्यकृती ताका कित्याक आवडली, हाचीं कारणां तो दिवंक शकता.
३. साहित्यप्रकाराच्या वैशिश्टांची ताका जाण जाता.
४. साहित्यकार कसलो संदेश दिवंक सोदता हें ताका कळटा.
५. साहित्यकृतींतलो अव्यक्त (implicit) अर्थ ताका कळटा.
६. प्राचीन काव्याचें तो आवडीन वाचन करता.

**अभिरूची :**

१. विद्यार्थी क्रमीक पुस्तकाभायर अवांतर वाचन करता.
२. विद्यार्थी शाळेंत आनी गावांत आशिल्ल्या ग्रंथालयांत आशिल्ल्या पुस्तकांचें वाचन करता.
३. विद्यार्थी नेमान कोंकणी वर्तमानपत्रां वाचता.
४. कोंकणी विशयाच्या अभ्यासानुवर्ती कार्यक्रमांत भाग घेता. देखीक, वक्तृत्व स्पर्धा, कथा कथन, इश्कोलाच्या मॅगेझिनांत वा हेर भित्तीपत्रांत (wall-paper) कोंकणींतल्यान लेख, निबंध, काणयो बरयता.
५. विद्यार्थी फामाद कोंकणी व्यक्तींचीं भाशणां आयकता.
६. विद्यार्थी साहित्यीक कार्यक्रमांत हाजीर रावता. देखीक, व्याख्यानां, कोंकणीच्या श्रेश्ठ लेखकांच्यो जल्मतिथीच्यो वा पुण्यतिथीच्यो कार्यावळी, संमेलनां आदी.
७. तो नामनेच्यो कविता तोंडपाठ करता.
८. विद्यार्थी भाशीक कार्यक्रमांनी आपूण जावन फुडाकार घेता.
९. विद्यार्थी आवयभाशेविशीं प्रेम आनी आदर उकतायता.
१०. विद्यार्थी आवयभाशेविशीं प्रतिबद्धता (commitment) दाखयता.
११. आवयभाशेंत जे कार्यक्रम रेडिओ आनी दूरदर्शन प्रसारीत करता, तातूंत तो भाग घेता वा ते आयकता.



७.

# कोंकणी भाशेचो शिक्षक

शिक्षण-क्षेत्रांत शिक्षकाक अनन्यसादारण म्हत्व आसा हें सगल्यांक खबर आसाच. विद्यार्थ्यांमजगतीं तो शिक्षणाचें संक्रमण करता. विद्यार्थ्यांक तो सुसंस्कृत करता. देशाचे भावी नागरीक तो घडयता. आतां शिक्षकाचें म्हत्व पटोवपाक 'शिक्षक-दिन' मनयतात. पुर्विल्ल्या काळांत आनी आयज लेगीत गुरूपुर्णिमेचो दीस मनयतात. कित्याक तर गुरू हो ईश्वरासमान मानताले. गुरुर्ब्रह्मा गुरुर्विष्णु: गुरुर्देवो महेश्वर: गुरुर्साक्षात् परब्रह्म तस्मै श्री गुरवे नम:। हें संस्कृत वचन सगल्यांचे वळखीचें आसा. पयलीं गुरुकूल पद्धत आसली आनी गुरुकुलांत विद्यार्थी ज्ञानार्जन करताले. गुरुच्या संपर्कांत आशिल्ले कारणान ज्ञान संक्रमण आनी गूण संपर्क हें प्रभावीपणान जातालें. विद्यार्थी हे फुडें ज्ञानी आनी चारित्र्यसंपन्न जाताले. 'तमसो मा ज्योतिर्गमय' म्हळ्यार 'काळखासावन उजवाडामेरेन' गुरू व्हरतालो. पुनवे दिसा गुरूचो भोवमान करताले. हाचें कारण गुरू विद्यार्थ्यांक पूर्णत्वामेरेन व्हरतालो. ताचो सर्वांगीण विकास करतालो. गुरूचें व्यक्तिमत्त्व हें आगळें वेगळें आसतलें. ताच्या व्यक्तिमत्त्वांत खूब गुणांचो आसपाव जातालो. म्हणून तो समाजाच्या आदराक पात्र जातालो.

जी व्यक्ती शिक्षक जावंक सोदता तिच्या व्यक्तिमत्त्वांत खूब गूण आसूंक जाय. शिक्षकाच्या गुणांची एक वळेरी दिवं येता. हे गूण खंयचे? पयली गजाल म्हळ्यार शिक्षक हो सदांच विद्यार्थी आसूंक जाय. ताणें सदांच अध्ययनांत गुल्ल आसूंक जाय. आजकाल अशें दिसून येता की डिग्री संपादन केलेबरोबर खुबशे

शिक्षक ज्ञानार्जन बंद करतात. जेन्ना शिक्षक शिकपाचें बंद करता, तेन्ना समजुचें की तांचेमदलो शिक्षक सोंपलो. आजकाल ज्ञानाचो विस्फोट (explosion of knowledge) जायत आसा. विंगड विंगड ज्ञानाच्या क्षेत्रांनी ज्ञान वाडत चललां आनी तें ज्ञान आत्मसात करपाक त्रास पडटात. तेन्ना शिक्षकान आत्मसंतुश्ट जावंक फावना. शिक्षण ही सातत्यपूर्ण प्रक्रिया जावंक जाय. अभ्यासू वृत्ती, संतुलीत व्यक्तीमत्व, आपल्या विशयाचेर प्रभुत्व, अध्यापन क्षेत्रांत नैपुण्य, मानसशास्त्रांत तज्ज्ञ, विद्यार्थ्यांविशीं प्रेम, प्रसन्न आनी प्रभावी व्यक्तिमत्व, प्रयोगशीलता, शिक्षणाविशीं प्रतिबद्दताय अशी एक व्हडली वळेरी दिवं येता.

म्हणटकूच कोणूय म्हणटलो की कोंकणीच्या शिक्षकांत लेगीत हे गूण आसूंक जाय. पूण ताकालागून ह्या विशयाचेर वेगळें प्रकरण कित्याक ?

वेगळ्या प्रकरणाची गरज आसा. कोंकणीक राजभास हें पद सोंपेपणान मेळूंक ना. तें मेळपाक खूब लोकांनी संघर्श केला. कोंकणीच्या उदरगतीच्या मार्गांत खूब आडमेळीं आयल्यांत. पूण जांकां आपले आवयभाशेविशीं अत्यंत प्रेम आशिल्लें, तांणी खूब त्रास सहन करून आनी त्याग करून कोंकणीक भाशीक सिंहासनाचेर बसयल्या. हे भाशेची खूब उदरगत जावंक जाय. येस मेळटकूच मनीस आत्मसंतुश्ट जाता. ताच्यांत शिथिलताय येता. ही शिथिलताय आनी निश्क्रियताय येवंक फावना. तेन्ना कोंकणी भाशेचे उदरगतीक चड गती दिवपाची व्हडली जापसालदारकी कोंकणी शिक्षकाचेर येता. फकत पाठ्यपुस्तकांतले धडे शिकोवन आनी अभ्यासक्रम पूर्ण करून ताचें कर्तव्य सोंपना. संक्रमणाचे अवस्थेंत वाट चलतना शिक्षकान खूब योगदान दिवंक जाय. तेन्ना कोंकणीच्या शिक्षकांत खंयचे विशेश गूण आसूंक जाय ?

**कोंकणी भाशेचें ज्ञान :**

कोंकणी भाशेचेर ताचें प्रभुत्व आसूंक जाय. भाशेच्या पुराय तत्वांचें ताका गिन्यान आसूंक जाय. शिक्षकाक प्रमाण कोंकणी भाशेचें ज्ञान आसूंक जाय. ताका कोंकणी भाशेचें व्याकरण येवंक जाय. ताचें उलोवप आनी बरोवप शुद्ध आसूंक जाय. विद्यार्थी शिक्षकाचें अनुकरण करतात. जर शिक्षकाची भास शुद्ध आसली तर विद्यार्थ्यांची भास शुद्ध आनी परिश्क्रत जातली. व्याकरणीक नदरेन शिक्षकाची भास अशुद्ध आसली, तर विद्यार्थ्यांचे भाशेचेर अनिश्ट परिणाम जातले. तेन्ना शिक्षकान शिकयतना खूब जागरूक आसूंक जाय. ताची भास प्रवाही आसूंक जाय. ताचेकडेन खूब शब्द संपदा आसूंक जाय. भाशेची चारूय कसबां ताणें आत्मसात केल्लीं आसूंक जाय.

**कोंकणी साहित्याचें ज्ञान :**

आज आमी अशें पळयतात की कोंकणी साहित्य खूब प्रगत जायत आसा. काव्य, कादंबरी, नाटकां, प्रवासवर्णनां, कथा आदी साहित्यीक मळांचेर कोंकणीचो आलेख वयर वयर वचत आसा. नवे नवे लेखक उदयाक येत आसात. साहित्य निर्मिती नेटान जायत आसा. कोंकणीच्या शिक्षकाक अशा कोंकणी साहित्याचो पुराय परिचय आसूंक जाय. ताका साहित्यांत रूच आसूंक जाय. साहित्यांत जे नवीन प्रवाह दिसून येतात, तांचोय ताका परिचय आसूंक जाय.

**भास-शिक्षण पद्धतीचें ज्ञान :**

भाशेचें अध्यापन कशें करचें हेविशींच्या गिन्यानाची खूब प्रगती जाल्या. शिक्षणीक तंत्रज्ञान (educational technology) फुडें वचत आसा. भाशेच्या अध्यापनांत ह्या तंत्रज्ञानाचो उपेग करतात. भास शिकयतना भाशेच्या प्रयोगशाळेचो (language laboratory) उपेग करतात. तेन्ना फकत पारंपारीक पद्धतीचेर आदारून रावनासतना जें नवीन ज्ञान तयार मेळपासारकें आसा, ताचो वापर करूंक जाय. आजकाल संप्रेशणात्मक प्रणालीचो (communicative approach) उपेग भाशेच्या अध्यापनांत करतात. तेन्ना ह्यो नवीन प्रणाली शिक्षकांक खबर आसूंक जाय.

**साहित्यीक अभिरूची :**

गोंयांत खुबशे साहित्यीक कार्यक्रम जातात. पुस्तकांचेर भासाभास, परिसंवाद आदी कार्यक्रम जातात. ह्या कार्यक्रमांक ताणें हाजीर रावंक जाय आनी आपली साहित्यीक अभिरूची वाडीक लावंक जाय.

**हेर भासांचें अध्ययन :**

कोंकणी भाशेच्या शिक्षकाक कांय हेर भास येत जाल्यार ह्या भासंच्या साहित्याच्या वाचनान आनी साहित्यीक प्रवाहांच्या गिन्यानान ताका खूब फायदो जातलो. दुसऱ्या भासांच्या अध्ययनाक लागून कोंकणीचोय खूब फायदो जातलो. तेन्ना भाशीक संकुचितपण (linguistic chauvinism) सोडून हेर भासांविशीं विशाळ दृश्टीकोण दवरूंक जाय. आपल्या भाशेच्या हस्तीदंती मनोऱ्यांत रावप समा न्हय. तशें जाल्यार कोंकणीचें लुकसाण जातलें. उदार दृश्टीकोण दवरल्यारूच कोंकणीची प्रगती जातली.

**कोंकणीविशीं भोवमानाची आनी जापसालदारकेची भावना :**

कोंकणी आमची मायभास. तिचेविशीं शिक्षकांत भोवमानाची आनी जापसालदारकेची भावना आसूंक जाय. कोंकणीविशीं ताची प्रतिबद्दताय (commitment) आसूंक जाय. अध्यापनाभायर शिक्षकान कोंकणीखातीर कार्य करूंक जाय. 'इत्सा थंय मार्ग' हे उक्तीप्रमाण शिक्षकामजगतीं ही इत्सा आसत तर तो कोंकणीपासत

खूब कार्य करूंक शकतलो.

भास शिक्षण प्रभावी करपाक कोंकणी शिक्षकान सकयल दिल्ल्यो गजाली मतींत दवरूंक जाय :

१. 'म्हजी आवयभास कोंकणी, तेन्ना म्हाका पाठाची तयारी कित्याक करूंक जाय?' ही धारणा समा न्हय. पाठ दिवचेआदीं त्या पाठाची पूर्ण तयारी करूंक जाय.
२. उर्बा-उमेद वाडोवपी शैलींत ताणें अध्यापन करूंक जाय.
३. अध्यापन करतना ताणें शिक्षणीक साधनांचो उपेग करूंक जाय. फकत उतरां आयकून विद्यार्थ्यांक वाज येता.
४. शिक्षकान वर्गांत प्रमाणीत भाशेचो उपेग करूंक जाय.
५. भाशेचें अध्ययन करपाक विद्यार्थ्यांक उत्प्रेरीत (motivate) करूंक जाय.
६. विद्यार्थ्यांचो भाशीक विकास संतुलीत जावचो हेखातीर ताणें प्रयत्नशील रावंक जाय. चारूय भाशीक कसबां विद्यार्थी आपणायतलो, हाचेखातीर ताणें प्रयत्न करूंक जाय.
७. अध्यापन रंजक करपापासत शिक्षकान उपाय सोदूंक जाय.
८. निदानात्मक आनी उपचारी शिक्षणाचें (diagnostic and remedial teaching) चें तंत्र ताका खबर आसूंक जाय.
९. कोंकणी शिक्षकान कोंकणीपासत अभ्यासानुवर्ती कार्यक्रम आयोजीत करूंक जाय.
१०. विद्यार्थ्यांच्या अध्ययनाचें मूल्यमापन करपाचीं सगलीं तंत्रां ताणें जाणा जावंक जाय आनी अदीक प्रगती करपाक तांकां प्रोत्साहीत करूंक जाय.
११. भाशेचीं उद्दिश्टां मतींत दवरून ताणें अध्यापन करूंक जाय.
१२. आवयभाशेविशीं विद्यार्थ्यांमजगतीं अभिरूची निर्माण जातली हें मतींत दवरून अध्यापन करूंक जाय.



८.

# कोंकणीचीं पाठ्यपुस्तकां

कोंकणी भाशेचीं उद्दिश्टां साध्य करपाक खूब साधनांचो उपेग करूंक जाय. हातूंत सगल्यांत म्हत्वाचें साधन म्हळ्यार भाशेचें पाठ्यपुस्तक. हें पाठ्यपुस्तक तयार कशें करचें? चार लोक एकठांय आयले, कांय गद्य धडे आनी कांय कविता एकठांय केल्यो, दर एका धड्यासकयल कांय प्रस्न दिले आनी ५-६ दिसांनी पुस्तक तयार केलें जाल्यार हें आदर्श पाठ्यपुस्तक जावचें ना. पाठ्यपुस्तक तयार करपाचीं कांय मार्गदर्शक तत्वां आसात. पयलीं त्या तत्वांची वळख करूंक जाय आनी खूब विचारमंथन करून आनी जतनाय घेवन पुस्तक तयार करूंक जाय. ज्या व्यक्तींकडेन पुस्तक तयार करपाची जापसालदारकी सोंपयल्या तांणी विचार-विनिमय करून पुस्तकाची निर्मणी करूंक जाय. विद्यार्थ्यांच्या हातांत हें पुस्तक वर्सभर आसता. तो तें परत परत वाचता. देखून, ह्या पुस्तकांत जी भाशीक सामग्री आसता ती भाशीक प्रगतीचे नदरेन खूप उपेगी आसूंक जाय.

### भाशेचें पाठ्यपुस्तक कोणें संकलीत करचें?

पाठ्यपुस्तक संकलीत करपाची जापसालदारकी जांचेकडेन सोंपयल्या, ते विशय नकळो जाल्ले कोणूय आसूंक जायनात. आजकाल आमी पळयतात की केन्ना केन्ना अयोग्य व्यक्तींकडेन हें काम सोंपोवप जाता. तांचेकडल्यान फावो त्या दर्जाचें पुस्तक जायना. हाकालागून विद्यार्थ्यांचें खूब लुकसाण जाता. केन्ना केन्ना चुकीची

म्हायती सांपडटा. वर्तमानपत्रांनी टिका येता. तेन्ना पाठ्यपुस्तक तयार करतना खूब गजाली मतींत दवरून पुस्तक तयार करूंक जाय. पुस्तक कोणें तयार करचें? म्हज्या मतान पुस्तक तयार करपाक जी समिती वेंचून काडटात, ते समितींत सकयल दिल्ल्या व्यक्तींचो आसपाव आसूंक जाय

१. भाशेचे अणभवी शिक्षक

२. मानसशास्त्राचे जाणकार

३. भाशेच्या अध्यापनशास्त्राचे जाणकार

४. भाशेचेर प्रभुत्व आशिल्ल्यो व्यक्ती.

हे समितीचेर अणभवी शिक्षकांचो आसपाव आसूंक जाय. कारण, वर्गांतली वस्तुस्थिती तांकां खबर आसता. विद्यार्थ्यांकडेन तांचो संपर्क आशिल्ल्यान वस्तुस्थिती तांकां खबर आसता. विद्यार्थ्यांकडेन तांचो संपर्क आशिल्ल्यान विद्यार्थ्यांक कसल्यो आडखळी येतात हाची तांकां पुराय म्हायती आसता. विद्यार्थ्यांच्या व्यक्तिमत्वाची पुराय घडण (total personality profile) तांकां खबर आसता. वर्गांतल्या विद्यार्थ्यांचीं वैशिश्टां तांकां खबर आसतात. तांणी खूब वर्सां अभ्यासक्रमाक धरून शिकयिल्ल्यान तांचो अणभव पुस्तक तयार करतना खूब उपेगी पडटलो.

मानसशास्त्राचें ज्ञान आशिल्ल्याचोय खूब उपेग करून घेवंक जाता. It is not enough for a teacher to know Latin. He should also know John. फकत लॅटीन भाशेचें गिन्यान आसलें म्हळ्यार जायना. शिक्षकाक जोनाची पुराय म्हायती आसूंक जाय. हो शिक्षणशास्त्रांतलो पोरणो सिद्धांत. पूण आयज लेगीत तो लागू पडटा. हाचो अर्थ असो की फकत विशयाचें ज्ञान आसलें म्हूण जायना, शिक्षकाक विद्यार्थ्यांची मानसशास्त्रीय, समाजीक, संस्कृतीक फाटभूंय खबर आसूंक जाय. विद्यार्थ्यांचें मानसशास्त्र जाणा जावप खूब गरजेचें.

विद्यार्थ्यांचें मानसशास्त्र म्हळ्यार कितें? ताची आनुवांशिकता (heredity), ताचो परिवेश (environment), ताच्यो अभिरूची (interest), ताचो बुद्‌यांक (Intelligence Quotient), ताची मानसशास्त्रीय अवस्था, ताच्यो सहजप्रवृत्ती (innate tendencies), ताचे विंगड विंगड गंड (complexes), ताच्यो भावनीक समस्या (emotions) अशे कितले तरी मानसशास्त्रीय घटक मतींत दवरूंक जाय.

जाणें मानसशास्त्राचें अध्ययन केलां, ताका खबर आसतलें की जण एक व्यक्ती विंगड विंगड अवस्थेंतल्यान वता. देखीक, शैशवावस्था (infancy), सुरवेची बाल्यावस्था (early childhood), उपरांतची बाल्यावस्था (later childhood), किशोरावस्था आनी प्रौढावस्था (adulthood). दर एके अवस्थेची वागपाची वैशिश्टां

आसतात. जांकां मानसशास्त्र येता तांकां हीं वैशिश्टां खबर आसतात. तांकां विंगड विंगड अवस्थेंत आशिल्ल्या व्यक्तींच्यो अभिरूची, अभिवृत्ती, ताच्या सभावाचीं वैशिश्टां खबर आसतात. देखीक : किशोरावस्था. हे अवस्थेंत जेन्ना विद्यार्थी आसता, तेन्ना शारीरीक आनी हेर बदलांक लागून ताची वागणूक विचित्र जाता. तो शिक्षकान सांगिल्लें सगलें आयकना. तो हें अशेंच कित्याक, तशेंच कित्याक अशे प्रस्न विचारता. ताची भावनीक स्थिती लेगीत विचित्र जाता. तो उत्कट भावना अणभवता (state of heightened emotions). ताका शिक्षकान समजून घेवंक जाय. तेन्ना धड्यांची निवड करतना, धड्यांचे विशय वेंचतना मानसशास्त्राचें खोलायेन गिन्यान आशिल्ल्या व्यक्तींचें सहकार्य घेवंकूच जाय.

भाशेचें अध्यापन कशें करचें हेविशीं खूब शोधकार्य जालां. तरांतरांच्यो प्रणाली अस्तित्वांत आयल्यात. ह्या प्रणालींचो जो जाणकार आसा ताची मदत घेवंक जाय.

ज्या धड्यांची निवड केल्या, ते भाशेचे नदरेन शुद्ध आसात वा नात हेविशीं खात्री करून घेवपाक भासतज्ज्ञांची मदत घेवंक जाय. हो भासतज्ज्ञ भास प्रमाणीत आनी परिनिश्ठीत आसा वा ना हेविशीं आपलो सल्लो दितलो.

हेभायर आनीक खूब निकश मतींत दवरूंक जाय. ते सकयल दिल्यात.

१. भास शिकोवपाचीं उद्दिश्टां मतींत दवरूंक जाय. (भास शिकोवपाच्या उद्दिश्टांविशीं ह्या पुस्तकांत म्हायती दिल्या.)

२. विद्यार्थ्यांची पिराय लक्षांत दवरूंक जाय.

३. विद्यार्थ्यांचें अणभव-विश्व कशें आसा हेंवूय जाणा जावंक जाय.

४. विद्यार्थ्यांच्यो अभिरूची खंयच्यो हांचोय विचार करूंक जाय. जाणट्या लोकांक संतवाङ्मय आवडटा. पूण सान भुरग्यांक आनंदाचें, मजेचें वातावरण करपी साहित्य आवडटा. तांकां खेळ आवडटात.

५. विद्यार्थ्यांची बौद्धीक परिपक्वताय (maturation) लक्षांत दवरूंक जाय.

६. सुसंस्कार करपी धड्यांचो आसपाव करूंक जाय.

७. देशभक्ती जाग्रुत करपी धडे भितर आसूंक जाय.

८. सर्वधर्मसमभाव शिकोवपी धड्यांचो आसपाव करूंक जाय.

९. धड्यांचे विशय विंगड विंगड आसूंक जाय. म्हळ्यारूच विशय-विभिन्नताय आसूंक जाय.

१०. दर एका धड्यांत विशिश्ट व्याकरणीक तत्व (Grammatical Point) आसूंक जाय. गद्याच्या सगल्या धड्यांनी व्याकरणीक तत्वांची एक सरपळी (chain) आसूंक जाय.

११. साहित्यांतल्या विंगड विंगड प्रकारांचो आस्पाव करूंक जाय. देखीक: काणी, निबंध, प्रवासवर्णन, आत्मकथा, कविता, पत्र आदी.

१२. दर एका धड्यासकयल स्वाध्याय दिवंक जाय. हे स्वाध्याय फकत प्रस्न स्वरुपांत आसूंक जायना. स्वाध्याय दितना कल्पकताय वापरूंक जाय.

१३. पाठांत आयिल्ल्या कठीण उतरांचे आनी वाक्प्रचारांचे अर्थ दिवंक जाय.

१४. केन्ना केन्ना पाठांत इतिहासीक, पुराणीक संदर्भ येतात. तांचें थोडेभितर स्पश्टीकरण दिवंक जाय.

१५. शिर्शकापोंदा थोडेभितर लेखकाचो परिचय दिवंक जाय.

१६. विद्यार्थ्यांखातीर तरातरांच्यो भाशीक कृती करपाचे अभ्यास (exercise) पाठासकयल दिवंक जाय. कोडीं, शब्दांचे खेळ, जोड-काम (pair-work), भाशीक प्रकल्प (language project) हांकांलागून विद्यार्थ्यांमजगतीं भाशेविशीं प्रेम निर्माण जातलें.

१७. सान भुरग्यांच्या पाठ्यपुस्तकांत चित्रां आसूंक जाय.

१८. भाशेक कितल्यो तासिका दिल्यात हाचेर आदारून कितल्या धड्यांचो आसपाव करचो हें थारावंक जाय.

वयर बरयिल्ले निकश पाठ्यपुस्तकाच्या अंतरंगाविशीं आसात. पुस्तकाचें बहिरंग म्हळ्यार भायलें रूप कशें आसचें हें सांगपाचें जाल्यार

१. पुस्तकाचें मुखपृश्ठ ओडलायणें आसचें.

२. पुस्तकाची बांदणी घट्ट आसची.

३. पुस्तकाचें मुद्रण वयल्या पांवड्याचें आसचें.



# ९.

# अभ्यासक्रमाचें वर्सुकी नियोजन

दर एके यत्तेक अभ्यासक्रम निश्चीत केल्लो आसता. हो अभ्यासक्रम एका वर्सांत शिक्षकान शिकोवंक जाय. अभ्यासक्रम वेवस्थीत रितीन शिकोवपाखातीर ताचें वर्सुकी नियोजन करप खूब गरजेचें. आयजकाल नियोजनाचें म्हत्व सगल्यांक पटलां. जण एका क्षेत्रांत नियोजन केल्लें आसल्यार त्या क्षेत्रांत खूब प्रगती करूंक येता. आमच्या देशांत स्वतंत्रतायेउपरांत राजकी जाळवणदारांनी पंचवर्सुकी येवजणो तयार केल्यो. पांच वर्सांउपरांत आमी अमूक क्षेत्रांत अमूक प्रगती करतले असो निर्धार केलो. शिक्षणाचें मळ, उद्येगाचें मळ, धान्य उत्पादनाचें मळ आदी मळांचेर आमी अमूक लक्ष्य साध्य करतले अशें थारायलें. पूण फकत लक्ष्यां निर्धारीत केलीं म्हूण जायना. हीं लक्ष्यां साध्य करपाक विंगड विंगड साधनांचो उपेग करचो पडटा. ह्या साधनांवरवीं आमी लक्ष्यांमेरेन पावतात. आयज आमच्या देशांत कांय क्षेत्रांनी जी उदरगत केल्ली आसा, ताचें मुख्य कारण म्हळ्यार आमी नियोजनाची संकल्पना समजून घेवन मोख निर्धारीत केली. मोखीमेरेन पावपाक कितें करूंक जाय हेंवूयबी निश्चीत केलें. ज्यो गजाली करपाच्यो थारायिल्ल्यो त्यो कार्यान्वीत केल्यो आनी हाका लागून आमी कांय प्रमाणांत उदरगत करूंक पावले. हें नियोजन करूंक नाशिल्लें तर आमी खूब फाटीं उरतले आसले. अशें आसुनूय आमी लक्ष्यां, मोखी पुरायपणान साध्य करूंक पावले नात. ताचें मुख्य कारण, आमचे प्रयत्न मोटवे पडले. लक्ष्यांमेरेन पावपाक जें करपाचें थारायिल्लें तें आमी पुरायपणान

करूंक ना. अशें जरी आसलें तरी खुबशा मळांर आमी लक्षणीय उदरगत केल्या. कांय क्षेत्रांनी आमी स्वयंपूर्णताय मेळयल्या. स्वतंत्रताये पयलीं जी स्थिती आसली ती आतां ना. आतां आमकां विंगड विंगड मळांचेर खूब येस प्राप्त जालां. हाचें कारण म्हळ्यार आमी नियोजनाची संकल्पना आपणायल्या आनी तिची अंमलबजावणी केल्या. हें नियोजन केल्लें नासल्यार आमी इतली उदरगत करूंक शकचे नासले.

मनशाचे आनी राष्ट्राचे जिणेंत नियोजनाक खूब म्हत्व आसा हें सगल्यांक कळ्ळां. लोकसंख्या आळाबंदा हाडपाक नियोजन करूंक जाय हें ल्हान भुरग्यांक लेगीत कळ्ळां. शिक्षणक्षेत्रांत लेगीत नियोजनाक खूब म्हत्व आसा. अभ्यासक्रम वेवस्थीत रितीन पूर्ण करपाक नियोजन करप अपरिहार्य जावन आसा.

अभ्यासक्रमाचें वर्सुकी नियोजन कशें करप, आनी हे नियोजन प्रक्रियेचें स्वरूप कितें हें जणएका शिक्षकान जाणा जावन घेवंक जाय. आतां कोंकणी भाशेच्या अभ्यासक्रमांत नियोजन कशें करचें हेविशीं चर्चा करूंया.

सुरवेक कोंकणी भास शिकोवपाक आमकां वर्साक वट्ट कितल्यो तासिका मेळटल्यो हें जाणा जावंक जाय. दर एका शिक्षकान कॅलेंडर पळोवन दर एका म्हयन्यांत दर एका सप्तकांत कितल्यो तासिका मेळटल्यो हें जाणा जावंकूच जाय. तातुंतल्यो सुटयो कितल्यो हें समजून घेवंक जाय. वर्साक म्हाका अमूक तासिका मेळटल्यो आनी प्रत्येक म्हयन्यांतल्या दर एका सप्तकांत म्हाका अमूक तासिका मेळटल्यो हें शिक्षणीक वर्स सुरू जावचे आदीं जाणा जावप खूब गरजेचें. वर्सुकी नियोजन हें शिक्षणीक वर्स सुरू जावचे आदीं तयार आसूंक जाय.

नियोजनाचें दुसरें सपण म्हळ्यार जो अभ्यासक्रम निर्धारीत जाल्लो आसा, तो वर्साक ज्यो तासिका मेळटात, तातूंत वांटून घालूंक जाय. हें कशें करप? अभ्यासक्रमाचें घटकांनी विभाजन करूंक जाय. हांव अभ्यासक्रमाचे अमूक घटक करतलों अशें थारावंक जाय. घटकाचे संकल्पनेची पुराय कल्पना शिक्षकाक आसूंक जाय. घटक म्हळ्यार कितें? घटक म्हळ्यार अभ्यासक्रमाचो भाग. जण एका घटकांत उपघटक आसतात. तेन्ना घटक म्हळ्यार उपघटकांचो चोमो. ह्या उपघटकांचें वैशिश्ट म्हळ्यार उपघटक हें खंयच्या तरी एका समान तत्वाचेर आदारिल्ले आसतात. भाशेच्या संदर्भांत उलोवपाचें जाल्यार पयलीं भाशेच्या अभ्यासक्रमाचें स्वरूप कितें तें जाणा जावंक जाय. भाशेचें एक पाठ्यपुस्तक आसता. त्या पाठ्यपुस्तकांत गद्य पाठ आनी पद्य पाठ आसतात. हेभायर लेखन पाठ आनी कांय व्याकरणाचे पाठ शिकोवपाचे आसतात. कोंकणीच्या अभ्यासक्रमांत गद्यपाठ, पद्य पाठ, व्याकरण पाठ आनी लेखनपाठांचो आसपाव जाता. समजुंया, कांय पाठ अशे आसात

की ते विद्यार्थ्यांचेर बरे संस्कार घडयतात. तांचो एक चोमो करून तांचो एक घटक करूं येता. समजुंया, सैमाचेर कांय पाठ आसात. तांचो एक घटक करूं येता. तशेंच देशभक्तीची प्रेरणा दिवपी घटक, काणयांचो घटक, वर्णनात्मक पाठांचो घटक, अव्ययांचो घटक अशे विंगड विंगड घटक तयार करूंक येतात. तृतीय स्तराचेर कोंकणी शिकयतना हें शक्य जायना. हाचें मुख्य कारण म्हळ्यार तृतीय स्तराचेर थोडे गद्य पाठ आनी थोडे पद्य पाठ, थोडें व्याकरण आनी थोडें लेखन असो अभ्यासक्रम आसता. पूण खंयचें तरी तत्व सामकार दवरून अभ्यासक्रमाचे घटक तयार करूंक जाय.

पुस्तकाच्या बरोवप्याक अशें दिसता की तृतीय भाशेच्या अभ्यासक्रमाचे घटक तयार करतना अभ्यासक्रमाचीं सगलीं आंगां चडशा घटकांनी आसचीं. हाका लागून अभ्यासक्रमाचें समतोल अध्यापन जातलें. हाचो अर्थ असो की कोंकणी भाशेच्या अभ्यासक्रमाच्या प्रत्येक घटकांत चडकरून एक तरी गद्य-पाठ, एक तरी पद्य-पाठ, एक तरी व्याकरणाचो विशय आनी एक तरी लेखन पाठ आसचो. दर एका घटकांत एकूच गद्याचो, एकूच पद्याचो, एकूच व्याकरणाचो आनी एकूच लेखनाचो पाठ आसचो अशें न्हय. एका घटकांत चारूच उपघटक आसूंक जाय अशेंय न्हय. घडये पांच वा स उपघटक लेगीत आसुं येतात. कांय पाठ खूब सोपे आसतात, कांय पाठ खूब कठीण आसतात. सोपो पाठ शिकोवपाक उण्यो तासिका लागतात आनी कठीण पाठ शिकोवपाक चड तासिका लागतात.

जर उपघटकांचो काठीण्य-स्तर (difficulty level) वयलो आसलो तर तो घटक ल्हान आसचो, म्हळ्यार हातूंत कमी उपघटक आसतले आनी उपघटक सोपे आसल्यार घटक व्हड आसचो, म्हळ्यार हातूंत उपघटक चड आसतले. प्रत्येक घटकाक समान तासिका दिवंक जाय अशें बंधन ना. कठीण घटकांक चड तासिका लागतल्यो आनी सोप्या घटकाक थोड्यो तासिका लागतल्यो.

अभ्यासक्रमाचें घटकांत विभाजन केलेउपरांत आनी दर एका घटकाचे उपघटक थारायले उपरांत आमी उद्दिश्टांविशीं विचार करूंक जाय. कोंकणी भाशेचीं 'ज्ञान, आकलन, रसास्वादन, अभिव्यक्ती आनी उपयोजन' हीं मुखेल उद्दिश्टां जावन आसात. प्रत्येक उपघटकाचीं उद्दिश्टां निश्चीत करूंक जाय. ह्या उद्दिश्टां भितरल्या खंयच्या उद्दिश्टांक कितलें म्हत्व (weightage) दिवंक जाय हेंवूयबी निश्चीत करूंक जाय. हाचेफुडें आठवे यत्तेच्या कोंकणीच्या अभ्यासक्रमाच्या नियोजनाचो तकतो (chart) दिल्लो आसा. उद्दिश्टांचेंय 'खूब', 'सादारण' वा 'उणें' अशें म्हत्वाचे नदरेन वर्गीकरण केलां. खूब म्हत्व हाका 'क' वर्णाक्षर, सादारण हाका

‘ख’ वर्णाक्षर आनी उणें हाका ‘ग’ वर्णाक्षर वापरलां. क, ख, ग हीं अक्षरां उद्‌दिश्टांचें म्हत्व (weightage) दाखयतात. खंयचोय पाठ शिकयतना त्या पाठाच्या उद्‌दिश्टांक कितलें म्हत्व दिवंक जाय हें मतींत दवरून अध्यापन करूंक जाय. दर एका उपघटकाचें अध्यापन करपाक कितल्यो तासिका लागतल्यो आनी मूल्यमापनाक कितल्यो तासिका लागतल्यो हेंवूयबी निश्चीत करूंक जाय. दर एका घटकाच्या अध्यापनाक आनी ताच्या मूल्यमापनाक कितल्यो तासिका लागतल्यो हेंवूय तकत्यांत दाखोवंक जाय. खंयच्या म्हयन्यांत अभ्यासक्रमाचो खंयचो भाग येतलो हें तकत्यांत आसूंक जाय. घटक परीक्षा वा हेर सत्रीय परीक्षा आसल्यार त्यो केन्ना घेतले तेंवूयबी दाखोवप खूब गरजेचें.

गोंयच्या मध्यमीक शाळांनी आतां वर्साक तीन परीक्षा घेतात. तिसरे परिक्षेआदीं मौखीक (तोंडी) परीक्षा घेतात. विद्यार्थ्यांक दोन स्वाध्याय (assignments) तयार करचे पडटात. स्वाध्यायाच्या मार्गदर्शनापासत कितल्यो तासिका लागतल्यो, विद्यार्थ्यांच्यो मौखीक परीक्षा केन्ना घेतले आनी हे परिक्षेक कितल्यो तासिका लागतल्यो हेंवूय बी निश्चीत करूंक जाय. वर्सुकी नियोजनांत वयर सांगिल्ल्या मुखेल गजालींचो आसपाव करूंक जाय. अशें जाल्यार शाळेच्या मुख्याध्यापकांक वा पर्यवेक्षकांक शिक्षकाच्या अध्यापनाचें निरीक्षण करपाक सोपें जातलें. शिक्षकाचें अध्यापन लेगीत सुवेवस्थीत जातलें. अध्यापनांत एक सुसूत्रताय येतली आनी वर्साच्या शेवटामेरेन पुराय अभ्यासक्रम बरे तरेन शिकोवन जातलो.

आठवीच्या अभ्यासक्रमाचें वर्सुकी नियोजन ह्या पुस्तकांत आयलां. ताचें शिक्षकान जतनायेन अध्ययन करचें. हांगा एक गजाल सांगन दिसता आनी ती म्हळ्यार दर एके शाळेंत ह्या पुस्तकांत दिल्लो तकतो उपकरा पडटलोच अशें ना. वयर जें बरयलां तें ‘मार्गदर्शक तत्वां’ (guidelines) म्हूण. मतींत दवरून अभ्यासक्रमाचें नियोजन करचें अशी अपेक्षा आसा.



यत्ता : आठवी
विशय : कोंकणी

## आठवी यत्तेच्या कोंकणी भाशेचें वर्सुकी नियोजन

उद्दिश्टांक महत्व :
(क) खूब (ख) सादारण (ग) उणें

| घटक क्रमांक | उपघटक | म्हयने तारखो | उद्दिश्टां | | | | | अध्यापनाक लागपाच्यो तासिका | मूल्यांकनाक लागपाच्यो तासिका | घटकांक दिल्ल्यो वट्ट तासिका |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | | | ज्ञान | आकलन | अभिव्यक्ती | रसग्रहण | उपयोजन | | | |
| | १) उदकांतलें धाडस (गद्य) | जून | ख | क | ख | | ग | ३ | १ | |
| १. | २) त्रिश्तांवाक (पद्य) | ५ – ३० | | क | ख | क | | २ | १ | |
| | ३) निबंध लेखन | | ख | | क | | | १ | १ | |
| | ४) नाम (व्याकरण) | | क | | | | ख | २ | १ | १२ |
| | १) मिकी (गद्य) | जुलय | ख | क | ख | | ग | २ | १ | |
| | २) आर्यभट (गद्य) | | ख | क | ख | | ग | ३ | १ | |
| २ | ३) शोव रे कोंब्या शोव (पद्य) | | | क | ख | क | | १ | १ | |
| | ४) म्हजो खुरीस (पद्य) | १ – ३० | | क | ख | क | | १ | १ | |
| | ५) पत्र-लेखन | | ख | | क | | | १ | १ | |
| | ६) नामांचे प्रकार (व्याकरण) | | क | | | | ख | २ | १ | १६ |
| | १) होंव सत्त तें उलयतलों (गद्य) | आगश्ट | ख | क | ख | | ग | २ | १ | |
| | २) सैम (गद्य) | | ख | क | ख | | ग | ३ | १ | |
| ३ | ३) कोणाक कांय नाका (पद्य) | १-३१ | | क | ख | क | | १ | १ | |
| | ४) अर्थ (पद्य) | | | क | ख | क | | १ | १ | |
| | ५) काणी लेखन | | ख | | क | | | १ | १ | |
| | ६) लिंग, वचन (व्याकरण) | | क | | | | ख | ३ | १ | १७ |



| | | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ४. | १) मिस्तीर (गद्य) | सप्टेंबर | ख | क | ख | | ग | ३ | १ | |
| | २) नवें किरण (पद्य) | ८ – ३० | | क | ख | क | | १ | १ | |
| | ३) सार-ग्रहण | | ख | क | ख | | | १ | १ | |
| | ४) विशेशण (व्याकरण) | | क | | | | ख | २ | १<br>पयली परिक्षा<br>१½ वरां | ११ |
| ५ | १) कावळ्या पील (गद्य) | आक्टोबर | ख | क | ख | | ग | ३ | १ | |
| | २) झाड (पद्य) | | | क | ख | क | | १ | १ | |
| | ३) निबंधलेखन | १ – २४ | ख | | क | | | १ | १ | |
| | ४) सर्वनाम | | क | | | | ख | २ | १ | ११ |
| ६. | १) पिशें वाचपाचें (गद्य) | नोवेंबर | ख | क | ख | | ग | ४ | १ | |
| | २) बाळाचो हांसो (पद्य) | | | क | ख | क | | १ | १ | |
| | ३) पत्र-लेखन | १२ – ३० | ख | | क | | | १ | १ | |
| | ४) सर्वनामाचे प्रकार | | क | | | | ख | २ | १ | १२ |
| ७. | १) लागणूक (गद्य) | डिसेंबर | ख | क | ख | | ग | ३ | १ | |
| | २) काणी लेखन | | ख | | क | | | १ | १ | |
| | ३) क्रियापदां (व्याकरण) | ८ – २३ | क | | | | ख | १ | १<br>दुसरी परीक्षा<br>१½ वरां | ८ |

| घटक क्रमांक | उपघटक | म्हयनो तारखो | उद्दिश्टां | | | | | अध्यापनाक लागपाच्यो तासिका | मूल्यांकनाक लागपाच्यो तासिका | घटकांक दिल्ल्यो वट्ट तासिका |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | | | ज्ञान | आकलन | अभिव्यक्ती | रसग्रहण | उपयोजन | | | |
| ८ | १) मनाली (गद्य) | जानेवारी | ख | क | ख | | ग | ३ | १ | |
| | २) मकर संक्रांत (गद्य) | | ख | क | ख | | ग | ३ | १ | |
| | ३) सवण्यांची शाळा (पद्य) | २ – ३१ | | क | ख | क | | १ | १ | |
| | ४) सारग्रहण | | ख | क | ख | | | १ | १ | |
| | ५) क्रियापदांचे काळ/क्रियाविशेशण (व्याकरण) | | क | | | | ख | ४ | १ | १७ |
| ९ | १) पाम्कां (गद्य) | फेब्रुवारी | ख | क | ख | | ग | ४ | १ | |
| | २) निबंध लेखन | | ख | | क | | | १ | १ | |
| | ३) संबंदी अव्यय (व्याकरण) | १ – २८ | क | | | | ख | ४ | १ | |
| | ४) जोड अव्यय (व्याकरण) | | क | | | | ख | | | १२ |
| | उमाळें अव्यय (व्याकरण) | | | | | | | | | |
| १० | अभ्यासक्रमाची उजळणी | मार्च<br>१ – २० | | | | | | | तोंडी परीक्षा<br>वार्षिक परीक्षा<br>२ वगां | |

११.

# घटक नियोजन

अभ्यासक्रमांचें वर्सुकी नियोजन करतना पयलीं अभ्यासक्रमाचें विभाजन विंगड विंगड घटकांनी करूंक जाय. उपरांत दर एका घटकाचें वेवस्थीत नियोजन करूंक जाय. घटकाचें नियोजन करतना त्या घटकांत ज्या उपघटकांचो आसपाव केला त्या उपघटकांचो उल्लेख करूंक जाय. घटकाचें अध्यापन करपाक कितल्यो तासिका लागतल्यो तेंवूय बी दाखोवंक जाय. घटक शिकयतना खंयचीं उद्दिश्टां मतींत दवरूंक जाय, तीं उद्दिश्टां नियोजनांत बरोवंक जाय. उपरांत पुराय घटकांचें विहंगावलोकन (overview) नियोजनांत समाविश्ट करूंक जाय. ह्या विहंगावलोकनांत थोडेभितर दर एका उपघटकाचो सारांश दिवंक जाय.

वयल्यो गजाली बरयले उपरांत सात स्तंभ करूंक जाय आनी दर एका स्तंभांत सकयल दाखयल्ले प्रमाण म्हायती दिवंक जाय.

पयलो स्तंभ – उपघटक क्रमांक
दुसरो स्तंभ – दर एका उपघटकाचे विशय-वस्तूचे म्हत्वपूर्ण मुद्दे
तिसरो स्तंभ – दर एक उपघटक कसलीं परिवर्तनां करतलो ताचो उल्लेख
चौथो स्तंभ – दर एका उपघटकांत शिक्षक-कृतीचो उल्लेख
पांचवो स्तंभ – दर एक उपघटकांत छात्र-कृतीचो उल्लेख
सवो स्तंभ – दर एक उपघटक शिकोवपाक ज्या शिक्षणीक साधनांचो उपेग जातलो तांचो उल्लेख
सातवो स्तंभ – पुराय घटकांचें मूल्यमापन करपाच्यो पद्दती

आठवे यत्तेच्या अभ्याक्रमाच्या तिसऱ्या घटक क्रमांकाच्या नियोजनाचो नमुनो दिला.

सातव्या स्तंभांत (मूल्यमापन स्तंभांत) घटक परिक्षेचो उल्लेख केला. घटक परिक्षेची प्रस्नपत्रिका तयार करतना बत्तिसाव्या प्रकरणांत जीं मार्गदर्शक तत्वां दिल्यांत, त्या तत्वांप्रमाण प्रस्नपत्रिका तयार करूंक जाय. घटक परीक्षा सादारणपणान एके तासिकेची आसता.

**घटक नियोजनाचो तक्तो**

**विशय: कोंकणी** **यत्ता: आठवी**

**घटक क्रमांक ३** **अध्यापनाक वट्ट तासिका—**

**उपघटक:** १) गद्य: हांव सत तें उलयतलों

२) गद्य: सैम

३) पद्य: कोणाक कांय नाका

४) पद्य: अर्थ

५) रचना: काणी लेखन

६) लिंग, वचन

**उद्दिश्टां :** ज्ञान, आकलन, अभिव्यक्ती, उपयोजन, अभिरुची

**घटकाचें विहंगावलोकन:** (Overview of the Unit)

**हांव सत तें उलयतलों:**

जुझे हो एक इश्कोलांत वचपी विद्यार्थी. ताका फट उलोवपाची वायट संवय. एक फट मारतकूच ताका ती फट पचोवपाक आनिकूय फटी मारच्यो पडटात. ताचें फटकिरेंपण उकताडा येता. निमाणें आपूण हाचेफुडें केन्नाच फट उलोवचोंना, अशें तो थारायता.

**सैम:**

मोनजात आनी वनस्पत हांचो मनीस-जिणेलागीं लागशिल्लो संबंद आसा. उदरगतीच्या नांवान मनीस मोनजातीचो सवण्यांचो आनी वनस्पतींचो संहार करता. बरोवप्याचे नदरेन मनशाची ही वागणूक समा न्हय. आयजकाल पर्यावरणाचें म्हत्व जण एकलो वळखूंक लागला. सैमाचें संतुलन राखप हें खूब गरजेचें जावन आसा.

**कोणाक कांय नाका:**

हे कवितेंत कवीन मनशाच्या अती वेव्हारपणाचे वायट प्रवृत्तीचेर टीका केल्या.

**अर्थ:**

आयचें यूग हें यंत्र-यूग. विज्ञानाच्या मळार मनशान खूब उदरगत केल्या. पूण

मनशां मनशां मदलीं झुजां सोपूंक नात. मनशाची जीण कवीक निरर्थक दिसता. मनशाक सूख सैमूच दिवंक शकता अशें कवीक दिसता. रुतूंच्या फुलपांतल्यानच जिणेचो अर्थ सोदपाचो, अशें कवीक दिसता.

**काणी-लेखन :**

विद्यार्थ्यांक काणी बरोवपाचे पद्धतीचें, तंत्राचें ज्ञान मेळटा. तो आपल्या उतरांनी काणी बरयता आनी तिका फावो तसलो माथाळो दिता.

**लिंग, वचन :**

१. विद्यार्थी नामांचीं लिंगां वळखता (पुल्लिंग, स्त्रीलिंग, नपुसकलिंग).
   विद्यार्थी कांय नामांचें लिंग-परिवर्तन करूंक शकता.
२. विद्यार्थ्याक वचनाचें ज्ञान मेळटा (एकवचन, भोववचन).
   विद्यार्थी विंगड विंगड नामांचीं वचनां वळखूंक शकता.
   विद्यार्थी एकवचनाचें भोववचन करूंक शकता.

| उपघटक | विशय-वस्तू | अपेक्षीत बदल | शिक्षक-कृती | छात्र-कृती | शिक्षणीक साधनां | मूल्यमापन (पुराय घटकाखातीर) |
|---|---|---|---|---|---|---|
| हांव सत तें उलयतलों | पाठांत आयिल्लीं कठीण उतरां आनी वाक्प्रचार –<br>**कठीण उतरां :** अवचीत, कोंवीत, दबाजो, प्रमाणीक, रेस्पेर, नावरूपां, गमप<br>**वाक्प्रचार :** बेजार जावप, लजेंत घालप, वयर खाला जावप<br>**म्हत्वपूर्ण मुद्दे :**<br>जुझेची फटकिरींपणां, मांयक आनी हेडमास्तराक फटोवप, फटकिरींपणां उक्ताडाक येवप, हेडमास्तराचो जुझेक उपदेश | **ज्ञान :** विद्यार्थी पाठांत आयिल्ल्या कठीण उतरांचें आनी वाक्प्रचारांचें अर्थ-ग्रहण करता.<br>**उपयोजन :** विद्यार्थी कठीण उतरांचो आनी वाक्प्रचारांचो सार्थक वाक्यांत उपेग करता.<br>**आकलन :** विद्यार्थ्याक पाठांत आयिल्ल्या म्हत्वपूर्ण मुद्यांचें आकलन जाता.<br>**अभिव्यक्ती :** विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो आपल्या उतरांनी दिता. | शिक्षक पाठाचें आदर्श वाचन करता.<br>शिक्षक फळ्यार हेतू प्रस्न बरयता.<br>शिक्षक कठीण शब्द आनी उतरांचे अर्थ फळ्यार बरयता.<br>शिक्षक विशय वस्तूचेर विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारता.<br>शिक्षक कठीण वळींचें स्पश्टीकरण करता. | विद्यार्थी शिक्षकाचें आदर्श पठन जतनायेन आयकता.<br>विद्यार्थी पाठाचें मूक वाचन करता.<br>विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो दिता.<br>विद्यार्थी कठीण उतरां आनी वाक्प्रचारांचो सार्थक वाक्यांत उपेग करता.<br>विद्यार्थी धड्याचें तोंडी वाचन करता. | | १. मौखीक प्रस्न<br>२. घर पाठ<br>३. घटक परीक्षा |

| उपघटक | विशय-वस्तू | अपेक्षीत बदल | शिक्षक-कृती | छात्र-कृती | शिक्षणीक साधनां | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| सैम | पाठांत आयिल्लीं कठीण उतरां : दायज, म्हालगडे, उपदव्याप, अच्छेव, नियाळप, भंगिल्लें, मिरास, उद्देगीकरण.<br>**वाक्प्रचार :** संतुला सादप, हालळ हाडप, हांसो फुलोवप.<br>**पाठांत आयिल्ले म्हत्वाचे मुद्दे :**<br>१) आमगेल्या म्हालगड्यांची शिकवण.<br>२) मनशाक सदांच सुकण्या सावजांची ओड.<br>३) मनशान सैमाची लायिल्ली वाट.<br>४) अभयारण्यां करपाफाटलो उद्देश्य.<br>५) विद्यार्थ्यांकरवीं सैमाची नियाळणी.<br>६) पर्यावरणाचें रक्षण करून मनशाचे जिविताक खोस हाडप. | **ज्ञान :** विद्यार्थी पाठांत आयिल्ल्या कठीण उतरांचें आनी वाक्प्रचारांचे अर्थ ग्रहण करता.<br>**उपयोजन :** विद्यार्थी कठीण उतरांचो आनी वाक्प्रचारांचो सार्थक वाक्यांत उपेग करता.<br>**अभिव्यक्ती :** विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो आपल्या उतरांनी दिता.<br>**आकलन :** पाठांत आयिल्ल्या म्हत्वपूर्ण मुद्द्यांचें ताका आकलन जाता. | शिक्षक पाठाचें आदर्श वाचन करता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्यांक विशय-वस्तुचेर विंगड विंगड प्रस्न करता.<br>शिक्षक कठीण उतरां आनी वाक्प्रचारांचे अर्थ फळ्यार बरयता.<br>शिक्षक कठीण वळींचें स्पश्टीकरण करता. | विद्यार्थी शिक्षकाचें आदर्श वाचन जतनायेन आयकता.<br>विद्यार्थी पाठाचें मूक वाचन करता.<br>विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो दिता.<br>विद्यार्थी कठीण उतरां आनी वाक्प्रचारांचो सार्थक वाक्यांत उपेग करता.<br>विद्यार्थी पाठाचें मौखीक वाचन करता. | मनशान सैम कसो इबाडला हें दाखोवपी चित्रां. | |

| उपघटक | विशय-वस्तू | अपेक्षीत बदल | शिक्षक-कृती | छात्र-कृती | शिक्षणीक साधनां | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| कोणाक कांय नाका | कविनेंत आयिल्ले म्हत्वपूर्ण मुद्दे :<br>१) मनशाची वेव्हारी जींण<br>२) मनशाचो सुवार्थ<br>३) आपलो सुवार्थ सादपा पुरतोच मनशाक हेर मनीस जाय. फायदो नाजाल्यार ताका हेर मनीस नाका. | **आकलन :** विद्यार्थ्याक कवितेचो आशय समजता. विद्यार्थ्याक कवितेची मध्यवर्ती कल्पना कळटा.<br>**रसग्रहण :** विद्यार्थी कवितेंतल्यो सुंदर वळी सोदून काडटा. | शिक्षक कवितेचें भावपूर्ण वाचन करता.<br>शिक्षक कवितेचें स्पश्टीकरण करता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्याक विशय वस्तूचेर प्रस्न विचारता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्याकडल्यान कवितेची मध्यवर्ती कल्पना काडून घेता. | विद्यार्थी शिक्षकाचें आदर्श वाचन आयकता.<br>विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो दिता.<br>विद्यार्थी कवितेंतल्यो अर्थपूर्ण आनी सुंदर वळी सोदून काडटा.<br>विद्यार्थी कवितेची मध्यवर्ती कल्पना सांगता. | | |
| अर्थ | **कविनेंत आयिल्ले म्हत्वपूर्ण मुद्दे :**<br>१) आयचें यंत्रयूग.<br>२) भौतीक उदरगतीचे वाटेन मनशाचें वचप.<br>३) मनशामनशां मदलीं झुजां.<br>५) जिणेचो अर्थ रुतूंच्या फुलपांतूच मेळटा. | **आकलन :** विद्यार्थ्याक कवितेच्या आशयाचें आकलन जाता.<br>**रसग्रहण :** विद्यार्थी कवितेंतल्यो अर्थपूर्ण वळी सोदून काडटा. | शिक्षक कवितेचें आदर्श वाचन करता.<br>शिक्षक कवितेचें स्पश्टीकरण करता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्याक विशयवस्तूचेर प्रस्न विचारता. | विद्यार्थी शिक्षकाचें आदर्श वाचन आयकता.<br>विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो दिता.<br>विद्यार्थी कवितेंतल्यो अर्थपूर्ण आनी सुंदर वळी सोदून काडटा.<br>विद्यार्थी कवितेची मध्यवर्ती कल्पना सोदून काडटा. | | |

| उपघटक | विशय-वस्तू | अपेक्षीत बदल | शिक्षक-कृती | छात्र-कृती | शिक्षणीक साधनां | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| काणी लेखन | **म्हत्वपूर्ण मुद्दे :**<br>१) काणी बरोवपाचें तंत्र.<br>२) काणयेक योग्य माथाळो दिवप.<br>३) योग्य उतरां वापरून काणी बरोवप.<br>**काणयेचे मुद्दे :** म्हातारो मरपाक पावप - पूत आळशी - ताका अपोवन हाडप - मुयेदांचो हांडो शेतांत - शेत खणप - भरपूर पीक. | **ज्ञान :** विद्यार्थ्याक काणी बरोवपाच्या तंत्राचें ज्ञान मेळटा.<br>**अभिव्यक्ती :** विद्यार्थी आपल्या उतरांनी काणी फावो त्या क्रमान विकसीत करता. तो योग्य उतरां आनी वाक्प्रचारांचो उपेग करता.<br>विद्यार्थी काणयेची शिकवण वरयता;<br>विद्यार्थी काणयेक योग्य माथाळो दिता. | शिक्षक विद्यार्थ्याक योग्य प्रस्न विचारता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्यांच्या पालवान काणी फळ्यार विकसीत करता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्याक काणयेची शिकवण विचारता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्याक काणयेक एक योग्य माथाळो दिवंक सांगता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्याक पुराय काणी सांगूंक सांगता. | विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो दिवन काणी विकसीत करता.<br>विद्यार्थी फावो त्या उतरांचो आनी वाक्प्रचारांचो उपेग करता.<br>विद्यार्थी काणयेची शिकवण सांगता.<br>विद्यार्थी काणयेक एक योग्य माथाळो दिता.<br>विद्यार्थी काणी मौखीक रुपांत अभिव्यक्त करता. | गुठलावंक येता तसलो फलक. | |
| लिंग वचन | **लिंगां :** पुरुशलिंग, स्त्रीलिंग, नपुसकलिंग<br>**लिंग बदल**<br>**वचनां :** एक वचन, भोव बचन, एकवचनाचें भोववचन रूप बरोवप. | **ज्ञान :** विद्यार्थ्याक लिंग आनी वचन ह्या संकल्पनांचें ज्ञान जाता.<br>**उपयोजन :** लिंगां आनी वचनांचो वाक्यांत उपेग करता. | शिक्षक उद्गामी पद्दतीन शिकयता.<br>शिक्षक देखी दिता.<br>शिक्षक लिंगां आनी वचनां ओळखूंक शिकयता.<br>शिक्षक प्रस्न विचारता. | विद्यार्थी देखींचे निरीक्षण करता.<br>विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो दिता.<br>विद्यार्थी एकवचनाचें भोववचनी रूप सांगता.<br>विद्यार्थी नामांचीं लिंगां वळखता.<br>विद्यार्थी लिंग परिवर्तन करता.<br>विद्यार्थी व्याकरणाचे नेम सांगता. | गुठलावंक येता तसलो फलक; रंगीत खडू. | |

## १२.

# पाठाचें नियोजन

दर एका शिक्षकान पाठ वर्गांत शिकोवचे आदीं पाठाचें जतनायेन नियोजन करूंक जाय. अध्यापन प्रभावी करपापासत नियोजन हें खूब गरजेचें हें आमी 'अभ्यासक्रमाचें वर्सुकी नियोजन' आनी 'घटक-नियोजन' ह्या प्रकरणांत पळयलां. पाठाचें नियोजन कशें करचें हेविशीं आतां विचार करूंक जाय. जो पाठ शिकोवपाचो आसा तो पाठ शिक्षकान शिकूंक जाय. ताका पाठाचें पुराय आकलन जावंक जाय. शिक्षकाकूच जर त्या पाठाचें आकलन जावंक ना तर तो प्रभावीपणान तो पाठ विद्यार्थ्यांक शिकोवंक शकचोना. शिक्षकाचें आपल्या विशयाचेर प्रभुत्व आसूंक जाय. पाठाविशीं ताका समग्र ज्ञान आसूंक जाय. पाठाचें नियोजन करचेआदीं पाठाविशीं ताणें खूब चिंतन करूंक जाय. कशे तरेन हांव पाठ रोचक, जिवो करतलों हेविशीं ताणें खूब विचार करूंक जाय. ही चिंतनाची प्रक्रिया खूब गरजेची. हे चिंतनाचे प्रक्रियेक लागून शिक्षकाक तो पाठ प्रभावी करपाक खूब विचार सुचतले.

पाठाचें नियोजन करतना त्या पाठाचीं उद्दिश्टां कितें हें आदीं थारावंक जाय. अध्यापन उद्दिश्टानुगामी जावंक जाय. पाठ शिकोवप म्हळ्यार त्या पाठाचीं जीं उद्दिश्टां आसात तीं साध्य करप. पाठाचीं विंगड विंगड उद्दिश्टां आसात. देखीक : ज्ञान, आकलन, अभिव्यक्ती, उपयोजन, अभिरूची आदी. त्या उद्दिश्टांभितर खंयच्या उद्दिश्टांक चड म्हत्व दिवप, खंयच्च्यांक कमी हें लेगीत थारावंक जाय.

म्हत्व ह्या बदला 'भार-प्रदान' (weightage) हेंवूय उतर आमच्यानी वापरूं येता. कसल्या शिक्षणीक साधनांचो आमी उपेग करतले हेंवूय थारावंक जाय.

खंयचोय पाठ शिकयतना पांच सोपणांचो वा पांवड्यांचो उपेग करूंक जाय. हर्बार्ट नांवाच्या शिक्षणतज्ज्ञान हे पांच पांवडे विकसीत केले म्हूण हाका 'हर्बार्टची पंचपदी' अशें म्हणटात. खूब वर्सांसावन ह्या पांच पांवड्यांचो उपेग करून शिक्षक अध्यापन करतात. हे पांच पांवडे म्हळ्यार – १) प्रस्तावना (Set Induction or Motivation), २) हेतू कथन (Statement of the Topic), ३) विशय-प्रतिपादन (Presentation or Development), ४) संकलन वा मूल्यमापन (Recapitulation or Evaluation), ५) स्वाध्याय (Home Work) वा घरपाठ.

प्रस्तावना हो पाठाचो पयलो पांवडो. ह्या पांवड्याचो उद्देश कितें? वर्गांत भितर सरलेबरोबर 'आयज आमी अमूक धडो शिकुंया' अशें विधान करचे आदीं शिक्षकान प्रस्तावना करूंक जाय. हे प्रस्तावनेवरवीं विद्यार्थ्यांक जो पाठ शिक्षक शिकयतलो, ताचेविशीं कुतूहल वा उमळशीक निर्माण करूंक जाय. ही प्रस्तावना संक्षिप्त आसूंक जाय. प्रस्तावना करपाच्यो दोन पद्धती आसात. १) सामान्य पद्धत, २) नाविन्यपूर्ण पद्धत. सादारण बुद्धिचो शिक्षक पयले पद्धतीचो उपेग करता आनी प्रभावी शिक्षक दुसरे पद्धतीचो उपेग करता. नाविन्यपूर्ण पद्धतीन प्रस्तावना केली जाल्यार विद्यार्थ्यांची उमेद वाडटली आनी त्या पाठाचें अध्ययन करपाक विद्यार्थी चड उत्सूक जातले. देखीक, समजुंया त्रिश्तांव ब्रागांज कुन्यांचेर धडो शिकोवपाचो आसा. सामान्य शिक्षक अशे पद्धतीन प्रस्तावना करतलो: "गोंयच्या कांय सुटके झुजाऱ्यांचीं नांवां सांगात." विद्यार्थी कांय नांवां सांगतले. ह्या नांवांमदीं त्रिश्तांव ब्रागांज कुन्य हें नांव घडये आसुंये. नासल्यार शिक्षक सांगतलो, "त्रिश्तांव ब्रागांज कुन्य हो असोच एक व्हड सुटके झुजारी आसलो." ही प्रस्तावना सादारण स्वरुपाची. चडकरून शिक्षक असले तरेची प्रस्तावना करतात. हातुंतल्यान विद्यार्थ्यांचें कुतूहल जाग्रुत जायना. ह्या पुस्तकांत 'त्रिश्तांवांक' ह्या पाठाच्या नियोजनाचो आसपाव आसा. तो शिक्षकांनी वाचचो, म्हणटकूच प्रस्तावना वेगळे तरेन कशी करूं येता हेविशीं कल्पना येतली. प्रस्तावना करतना एकेच तरेन करूंक जाय अशें समजुंचें न्हय. योग्य प्रस्न विचारून, एक सान काणी सांगून, पाठाक अनुकूल अशा प्रसंगांचें वर्णन करून, चित्रां दाखोवन, विद्यार्थ्यांच्या पूर्व-ज्ञानाचो उपेग करून प्रस्तावना करूं येता. प्रस्तावनेचें नियोजन करतना शिक्षकान आपणाक प्रस्न करूंक जाय. खंयचे पद्धतीन प्रस्तावना केल्यार पाठाविशीं विद्यार्थ्यांची उत्सुकताय जाग्रुत जातली? प्रस्तावनेंत मौलिकताय (originality) आसूंक जाय. विद्यार्थ्यांच्या पूर्वज्ञानाचो उपेग करून प्रस्तावना करूं येता. 'ज्ञातासावन अज्ञातामेरेन'

ह्या अध्यापन सुत्राचो उपेग प्रस्तावनेंत करूं येता. देखीक : क्रियाविशेशण शिकोवपाक क्रियापद ह्या पूर्वज्ञानाची उजळणी प्रस्तावनेंत करूंक जाय.

हेतूकथन हो पाठाचो दुसरो पांवडो जावन आसा. प्रस्तावना सोंपलेउपरांत शिक्षकान हेतूकथन करूंक जाय. 'आयज आमी अमूक धडो शिकुंया'. हेतूकथन संक्षिप्त आसूंक जाय. मुखेल गजाल म्हळ्यार प्रस्तावना आनी हेतू-कथन हांचेमजगतीं शिक्षकान सहज संबंद प्रस्थापीत करूंक जाय. ह्या पुस्तकांत विंगड विंगड पाठांचो आसपाव केल्लो आसा. त्या पाठांचीं हेतू-कथनां कशीं केल्यांत तीं शिक्षकांनी वाचचीं.

तिसरो पांवडो म्हळ्यार विशय-प्रतिपादन. हो सगल्या पांवड्यांमजगतीं म्हत्वपूर्ण पांवडो. विशय प्रतिपादनांत जे अध्ययनानुभव समाविश्ट केल्ले आसतात, तांचेवरवीं त्या पाठाचीं उद्दिश्टां शिक्षक साध्य करतात. विशयप्रतिपादनांत शिक्षक आनी छात्र हांचेमजगतीं आंतरक्रिया (Interaction) चलता. शिक्षक कांय कृती करता आनी विद्यार्थी कांय क्रिया करतात. विंगड विंगड प्रकारांच्या पाठांत विंगड विंगड कृती आसतात. शिक्षक विशय वस्तूचेर प्रस्न विचारता, विद्यार्थी जापो दिता. शिक्षक शैक्षीक मुद्यांचें स्पश्टीकरण करता, फळ्याचो उपेग करता, शिक्षणीक साधनांचो उपेग करता, विचारोत्तेजक प्रस्न विचारता. आयज शिक्षण हें छात्र-केंद्रीत आशिल्ले कारणान (pupil-centred education) विद्यार्थ्यांचो पाठांत सहभाग आसुंकूच जाय. कांय वर्साआदीं शाळेंत शिक्षक व्याख्यानबाजी करताले. आयज व्याख्यानबाजीचें म्हत्व कमी जालां. वर्गांतले चडांत चड विद्यार्थी पाठांत सहभागी जातले हाची शिक्षकान जतनाय घेवंक जाय. विशय प्रतिपादनांत फकत प्रस्न आनी जापो आसूंक जायनात. शिक्षक जर प्रश्न-जाप पद्धत आपणायत तर अध्यापन निरस, अळणी जातलें. विशयवस्तूचेर चड उजवाड घालपाक शिक्षकान अतिरिक्त पूरक म्हायती दिवंक जाय. देखीक, 'जालियनवाला बाग घडणूक' अशीं उतरां आयलीं तर शिक्षकान हे घडणुकेविशीं योग्य म्हायती दिवंक जाय. ही म्हायती दिलीना जाल्यार पाठाचें आकलन विद्यार्थ्यांक जावचेंना. शिक्षकाचें सामान्यज्ञान विस्तृत आसूंक जाय. ह्या सामान्य ज्ञानाचो उपेग विशय प्रतिपादन प्रभावी करपाक करूंक जाय. केन्ना केन्ना पाठांत इतिहासीक, पुराणीक संदर्भ येतात. तेन्ना ह्या विशयांचें ज्ञान शिक्षकाक आसूंक जाय. हें ज्ञान जर शिक्षकाक नासलें तर अध्यापन रुचीक जावचें ना. हो पांवडो प्रभावी करपाक शिक्षकान शब्दकोश, विश्वकोश, संस्कृताय कोश आनी हेर संदर्भ-ग्रंथांचो उपेग करूंक जाय. पाठांत आशिल्ल्या कांय मुद्द्यांची म्हायती विंगड विंगड स्त्रोतांतल्यान ताणें मेळोवंक जाय. हाचो अर्थ असो की शिक्षकाचें अवांतर वाचन खूब आसूंक

जाय. अशें अवांतर वाचन करून शिक्षकाक भाशेचेर प्रभुत्व मेळटलें, विंगड विंगड विशयांची ताका म्हायती मेळटली आनी हे म्हायतेचो उपेग करून तो विशय-प्रतिपादनांत रस निर्माण करूंक शकतलो. ज्या शिक्षकाच्या अध्यापनांत विविधताय आसता तें अध्यापन प्रभावी जाता आनी ज्या अध्यापनांत एकरसता (तेंचतेंचपण, monotony) आसता तें अध्यापन विद्यार्थ्यांक आवडना. हो पांवडो सगल्या पांवड्यांमजगतीं म्हत्वपूर्ण आशिल्ल्यान ह्या पांवड्याक हेर पांवड्यापरस चड वेळ दिवंक जाय. ह्या पांवड्यांत खूब विचार करून योग्य शिक्षणीक अणभवांचो उपेग करून पाठाचीं उद्दिश्टां साध्य करूंक जाय. शिक्षणीक अणभवांची निवड खूब विचार करून करूंक जाय. भाशेच्या शिक्षकाचें भाशेचेर प्रभुत्व आसलें जाल्यार, विंगड विंगड विशयांचें अवांतर वाचन आसलें जाल्यार, 'विशय-प्रतिपादन' हो विद्यार्थ्यांक सुखद अणभव (enjoyable experience) थरता. विशय-प्रतिपादन अशे तरेन करूंक जाय की विद्यार्थ्यांकडेन शिक्षकाचो सुसंवाद (rapport) प्रस्थापीत जावंक जाय. ताणें क्रीडन पद्धतीचो (Play-way Method) उपेग करूंक जाय. विशय प्रतिपादनांत शिक्षकान विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारपाक प्रोत्साहीत करचें. फुडें विंगड विंगड पाठांचें नियोजन पुस्तकांत दिल्लें आसा. गद्य पाठ, पद्य पाठ, व्याकरण पाठ, लेखन पाठ ह्या विंगड विंगड पाठांचें विशय-प्रतिपादन कशें करचें हें दिल्लें आसा. ताचो प्रशिक्षणार्थ्यान अभ्यास करचो. एक गजाल पर्थून सांगन दिसता आनी ती म्हळ्यार शिक्षकान शिकोवपाचो धडो वाचचोच; वांगडाच त्या धड्याचें आकलन प्रभावी जावपाक क्रमीक पुस्तकांभायर हेर पुस्तकां, संदर्भ-ग्रंथ वाचचे, अणभवी शिक्षकांचें मार्गदर्शन मुजरत घेवचें. विशय-प्रतिपादनांत रोचकताय आनी रंजकताय हाडून शिक्षक विद्यार्थ्यांमजगतीं भाशेविशीं अभिरुची (Interest) निर्माण करूंक शकतलो. फकत ज्ञान, आकलन, अभिव्यक्ती आनी उपयोजन हीं उद्दिश्टां मतींत दवरून अध्यापन करचें न्हय. 'अभिरुचीची निर्मणी' हेंवूय पाठाचें उद्दिश्ट आसा हें शिक्षकान मतींत दवरूंक जाय. पाठाची उद्दिश्टपुर्तताय ह्या पांवड्याचेर आदारून आसा. तेन्ना विशय-प्रतिपादन हो पांवडो बरयतना शिक्षकान खूब कश्ट घेवंक जाय. आपले कल्पकतायेचो उपेग करूंक जाय.

पाठाचो चवथो पांवडो म्हळ्यार 'संकलन वा मूल्यमापन'. जें विशय-प्रतिपादनांत शिकयलां, ताचें आकलन जालां काय ना, हें कळपाक शिक्षक ह्या पांवड्यांत विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारता. हो पांवडो संक्षिप्त आसूंक जाय. फकत पाठांत आशिल्ल्या म्हत्वपूर्ण मुद्द्यांचेरूच प्रश्न आसूंक जाय. पाठांत खूब गजाली आयिल्ल्यो आसतात. पूण आशयाचें विश्लेशण (content analysis) करून म्हत्वपूर्ण मुद्दे वेगळे काडूंक जाय आनी ह्या मुद्द्यांचेर प्रस्न विचारूंक जाय. हो पांवडो चालू आसतना विद्यार्थ्यांनी

समर्पक जापो दिल्यो तर पाठाची उद्दिश्ट-पूर्तताय व्हड प्रमाणांत जाल्या अशें समजूं येता. ह्या पांवड्याचो आनीक एक फायदो म्हळ्यार विशय प्रतिपादनांत शिकयिल्ल्या गजालींचें दृढीकरण जाता आनी खूब तेंपमेरेन विद्यार्थ्यांचे यादींत तो पाठ उरता. पाठाचें येस वा अपेस विद्यार्थी जो प्रतिसाद ह्या पांवड्यांत दिता ताचेर आदारून आसता.

स्वाध्याय वा घरपाठ हो पाठाचो निमणो पांवडो. जो पाठ शिकयला, ताचेर शिक्षकान कांय प्रस्न वा हेर तरांचे भाशीक घरपाठ दिवचे. हांगाय शिक्षकान आपली कल्पकताय वापरूंक जाय. शिकयिल्लो पाठ आनी घरपाठ हांचे मजगतीं योग्य संबंद आसूंक जाय. घरपाठ हो एक 'उपचार' म्हूण दिवचो न्हय. शिकयिल्ल्या पाठाचें दृढीकरण जावचें आनी पाठाच्या विशयाविशीं विद्यार्थ्यांक अदीक म्हायती मेळची हे नदरेन घरपाठ दिवचो.

वयर पाठाचें नियोजन कशें करचें हेविशीं चर्चा केल्या. अध्यापन क्षेत्रांत एक गजाल मतींत दवरूंक जाय आनी ती म्हळ्यार शिक्षकान केन्नाच आत्मसंतुश्ट (complacent) आसूंक फावना. अध्यापन आनीक प्रभावी कशें करचें हेविशीं ताणें नवीन नवीन तंत्रां आत्मसात करून आपलो विशय आनी नवीन अध्यापन पद्धतीचें अध्ययन करून अध्यापन प्रभावी करूंक जाय.

पाठाचें नियोजन हें जण एका शिक्षकान करूंकूच जाय. नियोजनाक लागून ताची तयारी बरी जातली. हे पूर्वतयारेक लागून तो वर्गांत आत्मविश्वासान शिकोवंक शकतलो. तो शिकयतना अविचलीत जावन शिकयतलो. ताच्या अध्यापनांत सुसूत्रताय येतली. आत्मविश्वासपूर्वक अध्यापनाक लागून शिक्षक विद्यार्थ्यांच्या आदराक पात्र जातलो. जे अध्यापन क्षेत्रांत नवे आसात, तांणी पाठाचें नियोजन करूंक जायच. पूण जांकां अध्यापन-क्षेत्रांत प्रदीर्घ अणभव आसा तांणी लेगीत पाठाचें नियोजन करूनूच वर्गांत वचूंक जाय. अध्यापन-क्षेत्रांत नवे नवे प्रयोग जायत आसात. शिक्षण-क्षेत्रांत तंत्रज्ञानाचो प्रादुर्भाव जाला. जो शिक्षक — मागीर तो कितलोय अणभवी आसूं — ह्या नव्या तंत्रज्ञानाचें शिक्षण घेवन आपल्या पाठाच्या नियोजनांत बदल करिना, तो शिक्षणाचीं उद्दिश्टां साध्य करूंक शकचो ना.



१३.

# गद्य पाठाचें अध्यापन

पाठ दितना खंयच्या पांवड्याचो उपेग करूंक जाय हेविशीं बाराव्या प्रकरणांत विवेचन केलां. गद्याचो पाठ शिकयतना ह्या पांवड्याचो उपेग करूंक जाय. तेभायर पाठ शिकयतना आनिकूय बारीकसारीक गजाली शिक्षकान मतींत दवरूंक जाय. गद्याचो पाठ हो गहन वाचनाचो (Intensive Reading) पाठ जावन आसा. गहन वाचन म्हळ्यार भास शिकतना ती खोलायेन शिकप. वयलेवयर शिकप न्हय. एक मुखेल गजाल भास शिकयतना मुजरत मतींत दवरूंक जाय आनी ती म्हळ्यार आमी पाठ शिकयतना 'म्हायती' (Information) दिवपाखातीर पाठ शिकयनात. इतिहास शिकयताना आमी विद्यार्थ्यांक इतिहासांतल्या व्यक्तीविशीं, घडणुकांविशीं म्हायती दितात. पूण भास शिकयतना आमी 'भास' शिकोवपाचेर भर दिवंक जाय. शिकयताना आमी पूरक म्हायती दितात, पूण तिचो मुखेल उद्देश पाठांत आयिल्ल्या शिक्षणीक मुद्द्यांचें स्पश्टीकरण करप हो आसता.

पयलीं सांगिल्लेप्रमाण गद्याच्या पाठांत पांच पांवडे आसपावतात. पयलो पांवडो 'प्रस्तावना'. ही प्रस्तावना कशी करची? प्रस्तावना पाठानुकूल आसूंक जाय. पूण एके विशिश्ट पद्धतीनूच प्रस्तावना करूंक जाय असो नेम ना. प्रस्न विचारून, प्रसंगांचें कथन करून, चित्रां दाखोवन आनी त्या चित्रांचेर प्रस्न विचारून, विद्यार्थ्यांच्या अणभवविश्वासंबंदान प्रस्न विचारून, काणी सांगून दिसपट्टे जिणेंत जें घडटा त्या घडणुकांचेर प्रस्न विचारून प्रस्तावना करूंक जाय. पूण जी कृती अध्यापक प्रस्तावनेंत करता तिचो पाठाकडेन संबंद आसूंक जाय. प्रस्तावना परिणामकारक कशी करची हें शिक्षकाच्या कल्पकतायेचेर आदारून आसता. ज्या शिक्षकाचें सामान्य ज्ञान खूब आसता, तो परिणामकारक पद्धतीन प्रस्तावना करूंक शकतलो. प्रस्तावना ही साचेबंद आसची न्हय. विद्यार्थ्यांची पाठाविशींची उत्सुकताय जागृत

जावची ह्या उद्देशान प्रस्तावना करची. प्रस्तावनेचो मुखेल उद्देश विद्यार्थ्यांक उत्प्रेरीत (motivate) करप.

प्रस्तावना जालेउपरांत शिक्षकान हेतू-कथन करूंक जाय. प्रस्तावना आनी हेतू-कथन हांचेमजगतीं सहज संबंद प्रस्थापीत करूंक जाय. हो संबंद कृत्रीम आसूंक फावना.

हेतू-कथन जाले उपरांतचो पांवडो म्हळ्यार विशय प्रतिपादन. हें विशय-प्रतिपादन कशें करचें हेविशीं विचार करुंया. सुरवेक शिक्षकान पाठाचें 'आदर्श' मौखीक (तोंडी) वाचन करूंक जाय. हांगा 'आदर्श' हें उतर खूब म्हत्वाचें. खुबशे शिक्षक मौखीक वाचन एक उपचार (ritual) म्हूण करतात. मौखीक वाचन उपचारीक स्वरुपाचें आसचें न्हय. मौखीक वाचन करतना उतरांचें शुद्ध आनी स्पश्ट उच्चारण करचें. विरामचिन्नांचेर लक्ष (attention) दवरून वाचन करचें. वाचनांत एकरसताय आसची न्हय. आरोह-अवरोह आसचो. मुखेल गजाल म्हळ्यार मौखीक पठन भावानुकूल आसचें. पाठांत तरांतरांच्या भावनांचो आसपाव जाता. त्या भावनांप्रमाण मौखीक वाचन करूंक जाय. अप्रभावी वाचनाक लागून आकलनांत बादीकार येता. पूण वाचन प्रभावी जाल्यार विशयाचें आकलन सोपें जाता. तेन्ना शिक्षकान जतनायेन मौखीक वाचन करूंक जाय. ज्या शिक्षकाचें मौखीक (तोंडी) वाचन बरें ना, ताणें घराकडेन वाचनाची खूब येसाय मारूंक जाय. मौखीक वाचनाचो सराव (drill) करूंक जाय. सराव केलोना जाल्यार तो वाचतना आडखळटलो. विद्यार्थ्यांचेर ताचो प्रभाव पडचोना.

हेउपरांत पाठाचेर दोन वा तीन हेतू-प्रस्न दिवचे. हे प्रस्न सामके सोपे वा सामके कठीण आसचे न्हय. पुराय पाठ विद्यार्थ्यान वाचचो, ह्या हेतून हेतू-प्रस्न फळ्यार दिवचे. हेतू-प्रस्न दिले उपरांत शिक्षकान विद्यार्थ्यांक पाठाचें मूक वाचन (silent reading) करपाक लावचें. हेतू-प्रस्नांच्यो जापो दिवपाखातीर विद्यार्थ्यांक जतनायेन वाचचें पडटलें. पाठांत जो आशय आयला, ताचेर ताका आपलें लक्ष केंद्रित करचें पडटलें आनी पाठाचो जो आशय आसा, ताची ताका पुराय न्हय जाल्यार सादारण तरी, कल्पना येतली. विद्यार्थी मूक वाचन करतना शिक्षकान विद्यार्थ्यांकडेन लक्ष दिवचें. ते मूक वाचन करतात वा ना हें पळोवचें. पुराय वर्गाचेर ताणें आपली नदर भोंवडावची. विद्यार्थ्यांचें मूकवाचन सोंपले उपरांत कांय विद्यार्थ्यांक हेतू-प्रस्न वाचूंक लावचे आनी तांच्यो जापो सांगूंक लावच्यो. हे उपरांत पाठाचें विस्तृत अध्ययन (detailed study) सुरू करचें. विशय प्रतिपादनांत विविधताय आसची. कांय शिक्षक आपुणूच उलयत वा स्पश्टीकरण करीत रावतात, हें समा न्हय. पाठांत विद्यार्थ्यांक सहभागी करून घेवंक जाय. विद्यार्थ्यांक पाठांत 'कृतीशीळ भागीदार' (active participants) करून घेवंक जाय. तांकां निश्क्रीय

श्रोते (passive listeners) करूंक जायना. आयची शिक्षण पद्धत छात्र-केंद्रीत (pupil-centred) जावन आसा. देखून पाठांची सफळताय विद्यार्थ्यांच्या सहभागाच्या प्रमाणाचेर आदारून आसा. विद्यार्थ्यांक विशय-वस्तूचेर प्रस्न विचारचे आनी तांकां प्रस्नाच्यो जापो सांगपाक सांगचें. जापो बरोबर आसल्यो जाल्यार तांकां आशयाचें आकलन जालां अशें समजूं येता. प्रस्नांचे खूब फायदे आसात. प्रस्न केल्ल्यान विद्यार्थी वर्गांत 'अवधान' (लक्ष) दिता. शिक्षकान आपल्याक प्रस्न विचारलो म्हूण ताकाय बरें दिसता. प्रश्नांत प्रेरक-शक्त (motivational force) आसता. जेन्ना विद्यार्थी जापो दितात, तेन्ना तांकां भाशेचो उपेग करचो पडटा. ती भास ते उलयतात. वर्गांत भाशीक वातावरणाची (linguistic climate) निर्मणी जाता. जेन्ना विद्यार्थी भास उलयतात, तेन्ना ती एक कृतीशीळ प्रक्रिया (active process) आसता. वर्गांतल्या चडांत चड विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारूंक जाय. फकत प्रस्न विचारले म्हूण जायना. विशय-प्रतिपादन म्हळ्यार प्रस्न आनी जापांची वळेरी न्हय. विशय प्रतिपादनांत मदीं मदीं पाठाच्या विशयांचेर योग्य अशें भाश्य वा कथन वा विधानां करूंक जाय. तांकां योग्य म्हायती दिवंक जाय. विद्यार्थ्यांचें अणभव-विश्व सिमीत आसता. तांचें ज्ञानाचें भांडार व्हड नासता. तेन्ना शिक्षकान आपल्या अणभव विश्वाचो आदार घेवन आनी आपल्या गिन्यानाचो उपेग करून जंय जंय जाय पडटा थंय थंय स्पश्टीकरण करूंक जाय. गद्याच्या पाठांत केन्ना केन्ना गर्भितार्थ आशिल्लीं वाक्यां आसतात. असल्या वाक्यांचें विस्तारपूर्वक स्पश्टीकरण जावंक जाय. प्रसंग-निर्मिती करून केन्ना केन्ना स्पश्टीकरण करचें पडटा. जेन्ना पाठांत कठीण उतरां येतात, तेन्ना शिक्षकान विद्यार्थ्यांकडल्यान तांचो अर्थ काडून घेवंचो, नाजाल्यार आपणें अर्थ सांगचो. तांकां त्या उतरांचो अर्थ सामको कळ्ळा अशी खात्री अध्यापकाक करून घेवंक जाय. निसंदिग्ध रुपांत शब्दाचो वा वाक्प्रचाराचो अर्थ सांगूंक जाय. एकदां जर उतराचो चूक अर्थ तांचे तकलेंत गेलो, तर उपरांत तो अर्थ तांचे तकलेंतल्यान वचपाक खूब कठीण. It is difficult to unlearn what has already been learnt. एकदां चुकीची संकल्पना जातकूच बरोबर संकल्पना जावप खूब कठीण जाता. वाक्प्रचारांचो अर्थ शिक्षकान सांगचो आनी त्या वाक्प्रचारांचो अर्थ पुराय वाक्यांत उपेग करून दाखोवचो. विद्यार्थ्यांकूय कठीण उतरां आनी वाक्प्रचारांचो सार्थक वाक्यांत उपेग करूंक सांगचें. गरज थंय शिक्षणीक साधनांचोय उपेग करचो. कठीण उतरां आनी वाक्प्रचार तांच्या अर्थासयत फळ्यार बरोवचे. फलक-लेखन शुद्ध आनी सोबीत आसूंक जाय. शुद्ध आनी सोबीत अध्यापकी कृतीचें विद्यार्थी अनुकरण करतात. शिक्षकान विशयप्रतिपादनांत रंजकताय हाडपाचे नदरेन अध्यापन करचें. ज्या शिक्षकाचें विंगड विंगड विशयांचें खूब वाचन आसता

आनी पाठाचें नियोजन तो खूब चिंतन करून करता अशा शिक्षकाचें विशय-प्रतिपादन खूब प्रभावी जाता. विद्यार्थी त्या विशयांत गुल्ल जातात. वेळ कसो गेलो हें तांकां समजना. शिकयतना समानार्थी, विरुद्धार्थी उतरां दिवचीं. पाठांत ओपार आयली जाल्यार तिचो अर्थ स्पश्ट करचो. देखीक: 'पानवेलीच्या धर्मान म्हस्काक उदक'. खंयचेंय उतर शिकयतना ताची व्युत्पत्ती कशी जाल्या हें जर शिक्षकान सांगलें तर तें उतर विद्यार्थी केन्नाच विसरचोना. देखीक, पंकज हें उतर घेवंया. पंक म्हळ्यार चिखल आनी ज म्हळ्यार जल्मल्लो. तेन्ना पंकज म्हळ्यार चिखलांत जल्म घेतिल्लें अशें कमळ. सगल्यांक खबर आसा कीं गणपतीक गजानन म्हणटात. पूण ताचें स्पश्टीकरण केल्यार विद्यार्थ्यांक चड बरें समजतलें. गज म्हळ्यार हती आनी आनन म्हळ्यार तोंड. हतयाचें तोंड आशिल्लो गणपती. अशेतरेन शिक्षकान स्पश्टीकरण केल्यार पाठांत रंजकताय येतली आनी वर्गांत अनुशासन लेगीत बरें निर्माण जातलें. भाशेविशीं विद्यार्थ्यांमदीं प्रेम उत्पन्न जातलें. शिकयतना शिक्षकान विद्यार्थ्यांकडेन नेत्र-संपर्क (eye-contact) वा नदर-संपर्क स्थापीत करूंक जाय. कांय कांय शिक्षक एकेच दिकेन पळोवन शिकयतात हें समा न्हय. शिकयतना विद्यार्थ्यांक शिक्षकाक प्रश्न विचारपाची स्वतंत्रताय दिवंक जाय. तांची बारीकसाण चेपूंक जायना. अशे तरेन प्रस्न-जापो, शब्दार्थ, प्रसंग कथन, आशयानुकूल म्हायती, शिक्षणीक साधनांचो उपेग अशा सगल्या तंत्रांचो उपेग करून विशय-प्रतिपादन करूंक जाय.

विशय-प्रतिपादना उपरांत संकलन वा पुनरावृत्ती हो पांवडो येता. शिकयिल्ल्या पाठाचेर वा पाठ्यांशांचेर शिक्षकान कांय म्हत्वपूर्ण विचारप्रवर्तक प्रस्न विचारचे. हो पांवडो चलतना शिक्षकान स्पश्टीकरण करूंक जायना. ह्या पांवड्याचो मुखेल उद्देश म्हळ्यार पाठाचीं उद्दिश्टां कितल्या प्रमाणांत पुराय जाल्यांत हें जाणा जावन घेवप. हांगा जर विद्यार्थ्यांनी बऱ्यो जापो दिल्यो तर असो निश्कर्श काडूं येता की शिक्षकाक पाठांत येस मेळ्ळां. प्रस्नांच्यो जापो काडून घेतले उपरांत शिक्षकान कांय विद्यार्थ्यांक पाठाचें मौखीक वाचन करूंक सांगचें. तांचे उच्चार अशुद्ध आसल्यार ते सुदारचे. ते विरामचिन्नां वा कुरवो मतींत दवरून वाचतात काय ना हाची जतनाय घेवची. ते भावानुकूल वाचतात वा ना हें पळोवचें.

निमणो पांवडो म्हळ्यार स्वाध्याय, गृहपाठ वा घरपाठ. शिकयिल्ल्या पाठाचेर तांकां घरा करपाक योग्य गृहपाठ दिवचो. हो गृहपाठ फकत प्रस्नांच्या स्वरुपांत आसचो न्हय. केन्ना केन्ना तांकां पाठाच्या आशयाक योग्य असो निबंध बरोवंक लावचो. शाळेच्या ग्रंथालयांतल्यान पाठाच्या विशयाचेर पूरक म्हायती दिवपी पुस्तक वाचपाक सांगचें. घरपाठ दिता आसतनायबी शिक्षकान आपली कल्पकताय वापरूंक जाय.

## १४.

# गद्य पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो

**विशय : कोंकणी** **यत्ता : आठवी**
**पाठाचें नांव : लागणूक** वेळ ———

**उद्दिश्टां**

**ज्ञान :** विद्यार्थी पाठांत आयिल्ल्या कठीण उतरांचें आनी वाक्प्रचाराचें अर्थ-ग्रहण करता.

**आकलन :** विद्यार्थ्यांक सकयल बरयिल्ल्या मुद्द्यांचें आकलन जाता.

१) गुळी लागून मेजर विश्वनाथ जबर जखमी जावप.

२) झुजाक लागून सैमाचो आनी मनशाचे जिणेचो विद्वाट.

३) देशा देशामजगतीं युद्धाक लागून जो रक्तखेव जाता तो बंद करपाविशीं विश्वनाथाचे विचार.

४) घायाळ जावन पडला थंय मेजर विश्वनाथाक जाल्लो भास.

५) घायाळ जावन पडिल्ल्या जवानाक मेजर विश्वनाथान उदक पियेवपाक दिवप.

**उपयोजन :** विद्यार्थी पाठांत आयिल्ल्या कठीण उतरांचो आनी वाक्प्रचारांचो सार्थक वाक्यांत उपेग करता.

**अभिव्यक्ती :** विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो आपल्या उतरांनी दिता.

**अभिरूची :** विद्यार्थ्यांमदीं कोंकणी भाशेविशीं प्रेम निर्माण जाता.

**शिक्षणीक साधनां :** झुजांत मनशाचे जिणेचो, मालमत्तेचो आनी सैमाचो जो नाश जाता तें दाखोवपी चित्रां.

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| प्रस्तावना | हांव तुमकां आतां एक पद म्हणून दाखयतां:<br>'ए मेरे वतन के लोगों<br>जरा आँख में भर लो पानी<br>जो शहीद हुए हैं उनकी<br>जरा याद करो कुरबानी.' | विद्यार्थी लक्ष दिवन आयकता. |
| लता मंगेशकरान.<br><br>म्हज्या देशांतल्या लोकांनो, दोळ्यांत दुकां हाडात आनी देशापासत जे हुतात्मे जाले तांच्या बलिदानाची याद करात. | हें पद तुमी खुबदां आयकलां जातलें. हें पद कोणें गायलां? ह्या पदाचो अर्थ कितें? | विद्यार्थी याद करून सांगता. |
| | अशें सांगतात की नामनेच्यो गायिका लता मंगेशकरान जेन्ना हें पद म्हळें तेन्ना भारताचे पंतप्रधान सर्गेस्त जवाहरलाल नेहरू हांच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. तुमकां खबर आसतली की आमच्या देशाची सेना ही संवसारांत विंगड विंगड देशांतल्यो ज्यो सेना आसात, तांचेभितर एक शक्तिमान सेना जावन आसा. ज्या देशांआड आमी लडायो लडले, त्या लडायांत आमच्या जवानांनी खूब पराक्रम दाखयलो. ह्या पराक्रमाक लागून खूब सैनिकांक तरांतरांच्यो तसरिपो मेळ्ळ्यो. तुमी परमवीर चक्र, वीरचक्र आनी अशा खूब तसरिपांचीं नांवां आयकल्यांत आसतलीं.<br>आमचे सैनीक देशाचें रक्षण करतातूच. पूण हेभायर जेन्ना देशाभितर कांय कारणांक लागून अशांतताय जाता, तेन्नाय बी ते सुवेवस्था हाडटात. जेन्ना दंगे जातात, तेन्ना ते मदत करतात. जेन्ना हुंवार येतात, तेन्नाय बी आमी तांची मदत घेतात. आपल्या प्राणांची पर्वा करिनासतना ते देशाची सेवा करतात. तांचेमजगतीं देशासंबंदान एक जाज्वल्य अभिमान आसता. सगले सैनीक भावभाव कशे वागतात. हांव वयल्या पांवड्यावयलो सैनीक, तो सकयल्या पांवड्यावयलो सैनीक असो भेद करून, कोण कोणाचो तिरस्कार करिना. वेळ पडल्यार आपलो प्राण दिवन तो आपले सकयल आशिल्ल्या जवानांची जीण वांचयता. आपलो प्राण अर्पण करून हेर सैनिकांचे प्राण वांचयिल्ल्यांच्यो खूब देखी आमकां सांपडटात. | विद्यार्थी लक्ष दिवन आयकता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| हेतू-कथन : तर आयज आमी 'मेजर विश्वनाथ' हाणें आपल्या प्राणांची पर्वा करिनासतना एका जवानाच्या जिविताचें कशें रक्षण केलें हें 'लागणूक' ह्या पाठांत शिकुंया. | | |
| विशय प्रतिपादन | शिक्षक पाठाचें मौखीक वाचन करता. | विद्यार्थी उच्चारण, आरोह, अवरोह, विराम चिन्नां हांचेर सारकें लक्ष दिता. |
| | शिक्षक विद्यार्थ्याक पाठाचें मूक वाचन करूंक सांगता. | विद्यार्थी पाठांत आयिल्ल्या आशयाचेर लक्ष दवरून वाचता. |
| | शिक्षक फळ्याचेर हेतू-प्रस्न बरयता आनी विद्यार्थ्यांचें मूक वाचन सोंपले उपरांत तांकां प्रस्नांच्यो जापो दिवंक लायता.<br>१) झुजामळार येवंक भायर सरचे पयलीं कर्नल सिन्हान कितें म्हणिल्लें ?<br>२) मेजर विश्वनाथाक जेन्ना गुंगी आयली, तेन्ना ताका दोळ्यांमुखार कसलें दृश्य दिसलें ?<br>३) मेजर विश्वनाथान आपल्या हातांतली बाटली जवानाच्या तोंडाक कित्याक लायली ? | |
| | शिक्षक 'लागणूक' ह्या उतराचो अर्थ स्पश्ट करता. 'लागणूक' म्हळ्यार 'कर्तव्य'. | विद्यार्थी अर्थग्रहण करता. |
| | शिक्षक 'लागणूक' ह्या उतराचो सार्थक वाक्यांत उपेग करता. पिडेस्त लोकांची सेवा करप ही दर एका मनशाची लागणूक जावन आसा. तुमी आतां लागणूक हें उतर वापरून सार्थक वाक्य तयार करात. | विद्यार्थी सार्थक वाक्य तयार करता. |
| गुळी लागून | मेजर विश्वनाथ घायाळ कसो जालो ? | |
| | आजकाल झुजां कशीं जातात तें तुमकां खबर आसतलेंच. टँको, प्रक्षेपणास्त्र, बाँब अशा तरेकवार सामग्रीचो उपेग जाता. तुमी वर्तमानपत्रांत ह्या झुजांविशीं वाचलां आसतलेंच. इराक आनी अमेरिका हांचे मजगतीं जें झूज जालें, तें तुमी दूरदर्शनाचेर पळयलां आसतलें. आयजकाल जीं झुजां जातात, तीं भयांकृत आसतात. | विद्यार्थी आयकता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| ऊंच मातिल्ल्या तणाच्या आडोसाक उबो रावन तो दुस्मानाचेर फारपेट करतालो. तेन्ना ताच्या पोटाक गुळी लागली. | मेजर विश्वनाथाक गुळी केन्ना लागली ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| तो तणांत पडलो. | गुळी लागले उपरांत तों खंय पडलो ?<br>शिक्षक 'पुराय रात आकांताचो रणसंवर चलिल्लो' ह्या वाक्याचें स्पश्टीकरण करता.<br>दोनय बाजूंमजगतीं जें झूज चलतालें, तें भयानक आशिल्लें. खूब सैनीक ह्या झुजांत मेले. रगत खूब व्हांवलें. जखमी सैनीक पिडेन आड्डताले. तोफांचो भडिमार चलतालो. धुंवोर सगल्याक पातळिल्लो. कोणूच फाटीं सरपाक तयार नाशिल्लो. | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| फांत्यापाराक | उजवाडटकूच दुस्मान फाटी सरूंक लागलो हें सांगपाक लेखकान खंयच्या उतराचो उपेग केला ? | विद्यार्थी जाप सोदून काडटा. |
| सकाळ जालेबरोबर | फांत्यापाराक म्हळ्यार कितें ?<br>फलक-लेखन : फांत्यापाराक – उजवाडटकूच | विद्यार्थी अर्थग्रहण करता. |
| आपूण झुजामळार मुखार वचूंक पावलो ना म्हूण खंत भोगताली. | मेजर विश्वनाथाक कसली खंत भोगताली ? | |
| खंत भोगप | मेजर विश्वनाथाक 'वायट दिसतालें' हें सांगपाक लेखकान खंयच्या वाक्प्रचाराचो उपेग केला ? | विद्यार्थी वाक्प्रचार सोदून काडटा. |
| वायट दिसप, दुख्ख भोगप | खंत भोगप म्हळ्यार कितें ? | विद्यार्थी वाक्प्रचाराचो अर्थ सांगता. |
| | शिक्षक 'खंत भोगप' ह्या वाक्प्रचाराचो सार्थक वाक्यांत उपेग करून दाखयता. | विद्यार्थी वाक्य आयकता. |
| | लातुराच्या भुंयकांपांत हजारांनी लोक सोंपले हें वाचून म्हाका खूप खंत भोगली. तुमी ह्या वाक्प्रचाराचो वाक्यांत उपेग करात. | विद्यार्थी सार्थक वाक्य करता. |
| मरणाआड | मेजर विश्वनाथाच्या जिविताचें कित्याआड झूज चलिल्लें ?<br>शिक्षकाचें स्पश्टीकरण : मेजर विश्वनाथाक गुळी लागली. तो घायाळ जालो. रगत खूब व्हांवपाक लागलें. शक्त कमी जायत गेली आनी तो मरणाच्या दारांत पावलो. | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| 'बंदुकेंत निमाणी गुळी आसासर आनी निमाणो जवान उबो आसा मेरेन मांयभुंयेचे राखणेखातीर आमकां झुजचें आसा आनी जैत मेळोवचें आसा. | मेजर विश्वनाथाच्या कानांत कर्नल सिन्हाचीं खंयचीं उतरां घुंवतालीं ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| अभिमानान हड्डें भरून येवप. | हीं उतरां कानांत घुंवतकूच विश्वानाथाक खूब अभिमान दिसतालो हें सांगपाक लेखकान खंयच्या वाक्प्रचाराचो उपेग केला ? | विद्यार्थी वाक्प्रचार सोदून काडटा. |
| | शिक्षक: 'अभिमानान हड्डें भरून येवप' ह्या वाक्प्रचाराचो सार्थक वाक्यांत उपेग करता: जेन्ना कपिल देवान क्रिकेटच्या खेळांत ४५३ विकेटी घेतल्यो, तेन्ना म्हजें हड्डें अभिमानान भरून आयलें; जेन्ना नीता एस.एस.सी.चे परिक्षेंत पयलें आयलें हें ताच्या आवयबापायक कळ्ळें, तेन्ना तांचें हड्डें अभिमानान भरून आयलें. | विद्यार्थी सार्थक वाक्य आयकता. |
| | तुमी ह्या वाक्प्रचाराचो वाक्यांत उपेग करात. | विद्यार्थी वाक्यांत उपेग करता. |
| जिवार उदार जावप. | भारताचे सैनीक जिवाची पर्वा करिनासतना लडले हें पाठांत आयिल्ल्या खंयच्या वाक्प्रचारांतल्यान कळटा ? | विद्यार्थी वाक्प्रचार सोदून काडटा. |
| | शिक्षक: 'जिवार उदार जावप' ह्या वाक्प्रचाराचो वाक्यांत उपेग करता: बाजीप्रभू देशपांडे जिवार उदार जावन लडलो. | |
| | तुमी ह्या वाक्प्रचाराचो एका सार्थक वाक्यांत उपेग करात. | विद्यार्थी सार्थक वाक्य करता. |
| आक्रमण करप | घुरी घालप हाचो अर्थ कितें ? | विद्यार्थी अर्थ सांगता. |
| रणगाडे, तोफखानो आनी तुबकां | भारतीय सैनिकांनी खंयच्या शस्त्रांचो उपेग केलो ? | पाठाच्या आदारान जाप दिता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| तो घायाळ जाल्ल्यान झुजांत वांटो घेवंक शकना. | 'निमाणें जैत आमचेंच आसा. पूण हांव मात....' अशें मेजर विश्वनाथान कित्याक म्हळें ? | विद्यार्थी विचार करून जाप दिता. |
| ताका घुंवळ येता अशें ताका दिसलें. | खूब रगत गेल्ल्यान कितें परिणाम जालो ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| सुर्याचीं कंवळीं किरणां चोंयवाटारार पातळिल्लीं. | सूर्या उदेतकूच चोंय वाटाराक कितें जालें ? | |
| | शिक्षक : सकाळचीं किरणां कुंवळीं आसतात, पूण बारा वरांचेर् किरणां खर आसतात. | |
| एकाय सवण्यां-सुकण्यांचो आवाज नासलो. खंयच जित्या जिवांची सुलूस नासली. चोंय वटेनच्या रुखांच्या आंगार फारपेटान आनी बाँबगुळ्यांनी जाल्ले घाय दिश्टी पडटाले. तांचे शेंडे बाविल्ले वरी दिसताले. आशिकुशिचीं शेतांय फारपेटान लासून गेल्लीं. निकतोच झुजाच्या तडाख्यान भिवन गेल्लो हो वाटार पडींग तिठ्यावरी भिरांकूळ दिसतालो. | झुजाक लागून सरभोंवतणी कितें दिसून आयलें ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. विद्यार्थी पाठांत आयिल्ले योग्य मुद्दे सांगता. |
| | शिक्षक सांगता : झुजाक लागून सवणीं पळून गेल्लीं. कांय फारपेटाक लागून मेल्लीं आसतलीं. | |
| खंयच जिव्या जिवांची सुलूस नासली. | एकूय जितो प्राणी दिसनासलो हें खंयच्या उतरांवेल्यान कळटा ? | विद्यार्थी फावो तीं उतरां सोदून काडटा. |
| रूख | झाड ह्या उतराबदला लेखकान खंयचें उतर वापरलां ? | विद्यार्थी फावो तें उतर सोदून काडटा. |
| | जेपरी सैनिकांचे कुडीचेर फारपेटाक लागून घाय जाल्ले, तेपरी रुखांच्या आंगांचेरूय घाय जाल्ले अशें लेखकाक दिसता. | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | बाँबगुळ्यांनी झाडांच्यो ताळयो मोडून पडल्यो आसतल्यो. झाडां कातरिल्लीं आसतलीं. | |
| पडींग तिठयावरी भिरांकूळ दिसतालो. | झुजाचो वाठार कसो दिसतालो ?<br>शिक्षक 'पडींग' उतराचो अर्थ स्पश्ट करता.<br>पडींग – झाडां पेडां विरयत. | विद्यार्थी अर्थ-ग्रहण करता. |
| हो सैमाचो आनी मनशाचे जिणेचो विद्वाट खऱ्यांनीच गरजेचो आसलो व्हय ? | मेजर विश्वनाथाच्या मनांत कसलो विचार आयलो ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| | शिक्षक चित्रां दाखोवन झुजाक लागून जो विध्वंस जाता, तें दाखयता. | चेतक बदलाक लागून विद्यार्थी लक्ष दिता. |
| उदेन्त आनी अस्तन्त दिकांनी सगलेकडेन सारकोच उजवाड घालता. | सुर्या भेदभाव कसो करिना ?<br>जे दिकेन सुर्याचो उदय जाता, तिका उदेन्त म्हणटात आनी जे दिकेन सुर्या बुडटा, तिका अस्तन्त दिका म्हणटात. | विद्यार्थी अर्थग्रहण करता. |
| वारो शिमेचें बंधन मानिनासतना व्हांवत रावता. | वाऱ्याविशीं लेखक कितें म्हणटा ? | |
| धर्तरी | पृथ्वी ह्या उतराबदला लेखकान खंयच्या उतराचो उपेग केला ?<br>फलक लेखन : धर्तरी – पृथ्वी, भूंय | विद्यार्थी फावो ती जाप दिता. |
| सूर्यापसून तुटून जल्माक आयली. | धर्तरी कशी जल्माक आयली ? | |
| हून तापिल्लो गुळो कशी आशिल्ली. | सुरवेक ती कशी आशिल्ली ?<br>आयज आमी पळयतात की हे धर्तरेचेर खूब देश आसात – भारत, चीन, इंग्लंड, अमेरिका, इराण, इराक, जर्मनी आदी खूब देश आसात. पयलीं धर्तरेचे वांटे जावंक नाशिल्ले. आतां हे धर्तरेचे देशांच्या रुपांत कुडके जाल्यात आनी जण एका देशाचोच ताचेर शेक म्हळ्यार अधिकार चलता. हेर देशांत वतलो जाल्यार सोपें न्हय. थंय वचपाक पासपोर्ट लागता. कांय देश एकामेकांचे दुस्मान जाल्यात. मनशाच्या सुवार्थाक लागून हें धतरेचें विभाजन जालां. तुमी इतिहासाचो अभ्यास करतात. खूब पयलींसावन विंगड विंगड देशांमजगतीं | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | जीं झुजां जाल्यांत, तेविशीं तुमकां म्हायती आसा. आयज लेगीत कांय देश एकामेकांआड झुजां करतात आनी हाकालागून मनीस कुळयेचें खूब लुकसाण जालां. | |
| सुरवेक धतरेचेर खंयच्यो शिमो आसल्यो? देशांदेशांचो वेगळेचार कोणे मांडलो? ह्यो शिमो कोणे आंखल्यो? | लेखक आपणांकूच कसले प्रस्न विचारता? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| हे दुस्मानकायेक आनी झुजाक कांय अर्थ ना. | देशांदेशांम्रदीं आयज जी दुस्मानकाय आनी झुजां चलतात, तांचेविशीं मेजर विश्वनाथाक कितें दिसता? | |
| | मेजर विश्वनाथाचे हे विचार मनशाक खुबूच विचार करपाक लायतात. आयज झुजाक लागून धतरेचें खूब लुकसाण जालां. खंयचेय गजालीची निर्मणी करप खूब कठीण. पूण तिचो नाश करप हें खूब सोपें. देखीक, एक झाड व्हडलें जावपाक खूब वर्सां वतात. पूण तें तोडपाक चड वेळ लागना. आमी संस्कृतायेची निर्मणी केल्या. ती करपाक हजारांनी वर्सां लागल्यांत. पूण तीं काबार करपाक वेळ लागचोना. आयज कांय देशांकडेन असले बॉंब आसात, जे उडोवन कांय खिणांत पुराय धतरेचो नाश करूं येता. | विद्यार्थ्यांक पाठाच्या आशयाचें आकलन जाता. |
| स्वतंत्रतायेची आनी संस्कृतायेची राखण. | देशाची राखण म्हळ्यार कितें? | |
| | आमी इंग्लेजांआड झगडले. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार आमकां स्वतंत्रताय जाय आशिल्ली. तांणी आमचेकडसून स्वतंत्रताय काडून घेतिल्ली आनी आमकां गुलाम कशे वागयताल्ले. देखून आमकां तांचेआड झुजचें पडलें. पुर्तुगेजांचो शेक आमच्या माणकुल्या गोंयाचेर खूब वर्सां चल्लो. तांणी आमची संस्कृताय काबार करपाचे खूब यत्न केले. गोंयकारांनी स्वतंत्रतायेचें झूज सुरू केलें आनी पुर्तुगेजांक हांगासून वच्चें पडलें. गोंयकारांनी स्वतंत्रताय मेळोवपाक आनी आमची संस्कृताय राखपाक हें स्वतंत्रतायेचें झूज केलें. | विद्यार्थ्यांक लेखकाच्या विचारांचें आकलन जाता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | शिक्षक 'रक्तखेव' ह्या उतराचो अर्थ सांगता. रक्तखेव – खूब रगत सांडप. | विद्यार्थी अर्थग्रहण करता. |
| पुराय देशांनी भावपणान, एकचारान आनी मोगान जियेल्यार हो रक्तखेव जावचोना. | दुसऱ्या जागतीक म्हाझुजांत खूब रक्तखेव जालो. मेजर विश्वनाथाक हो रक्तखेव कसो ना जातलो अशें दिसता ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| | शिक्षकाचें कथन : ह्या पाठांतलो हो एक म्हत्वपूर्ण विचार. महात्मा गांधीजीन हो विचार संवसारामुखार मांडिल्लो. तांणी संवसाराक मनीसपणाचो, अहिंसेचो आनी मोगाचो संदेश दिलो. | |
| तो आपल्या गांवांत पावलो. ताचो एकलोच भुरगो, ताची बायल ताच्या दोळ्यांमुखार उबीं रावलीं. तो झुजामळार येवंक भायर सरिल्लो, तेन्ना पूत हात हालोवन ताका निरोप दितालो, बायल दोळ्यांत दुकां घेवन दारांत उबी आशिल्ली. | मेजर विश्वनाथाक खूब थकाय आयिल्ली. तो सपनेल्लेवरी जालो. ताचे सामकार कसलो देखाव उबो रावलो ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| हांव हांगाच सोंपलों जाल्यार तीं कितें करतलीं ? तांचें कशें जातलें ? झूज म्हळ्यार केदो व्हडलो विद्वाट संवसाराचो ? सैमाची आनी मनशाचे नीज जिणेची केदी नासधूस ? | हो देखाव दोळ्यांसामकार येतकूच ताच्या मनांत कसले विचार आयले ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| ताका खूब तान लागली. | वत खर जाल्ल्यान ताची कितें अवस्था जाली ? | |
| तानेचो सामको सोंस लागलो. | ताका खूब तान लागली हें लेखकान खंयच्या उतरांनी सांगलां ? | विद्यार्थी फावो तीं उतरां सोदून काडटा. |
| ताका सू जालें. | ताची चिंता कमी जाली वा ताचो हुसको कमी जालो हें सांगपाक लेखकान खंयच्या वाक्प्रचाराचो उपेग केला ? | विद्यार्थी फावो तो वाक्प्रचार सोदून काडटा. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | शिक्षक वाक्प्रचाराचो उपेग करून दाखयता : तो जे बसीन मडगांवां गेल्लो, तिका ॲक्सीडेंट जालो म्हूण पेपरांत वाचलें. पूण मागीर ताका कांयच जावंक ना म्हूण कळ्ळें तेन्ना म्हाका सू जालें. | विद्यार्थी अर्थ ग्रहण करता. |
| | तुमी ह्या वाक्प्रचाराचो सार्थक वाक्यांत उपेग करात. | विद्यार्थी वाक्यांत उपेग करता. |
| | 'बाटलेंतलें उदक ताका संजीवनी कशें दिसलें.' ह्या वाक्याचें शिक्षक स्पश्टीकरण करता : संजीवनी म्हळ्यार जें जीण दिता तें. विश्वनाथाक खूब तान लागिल्ली. ताका मरण सामकार दिसूंन लागलें. पूण जेन्ना ताका कळ्ळें की बाटलेंत उदक आसा, तेन्ना ताका दिसलें की तो वांचतलो. | |
| कोणाची तरी दुख्खाची पिरंगणी ताका आयकूंक आयली. | कमराक बांदिल्ली बाटली सोडोवन हातांत घेतली, तेन्ना ताका कितें आयकूंक आयलें ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| कान दिवप | 'बारीकसाणेन आयकप' ह्या अर्थाचो खंयचो वाक्प्रचार पाठांत आयला ? | विद्यार्थी वाक्प्रचार सोदून काडटा. |
| एक जवान | कोण जखमी जाल्लो ? | विद्यार्थी सोदून काडटा. |
| जे प्रमाण एक दुयेंत मनीस खूब जोर येतकूच पिरंगता, तेभाशेन तो पिरंगतालो. | तो कसो पिरंगतालो ? | विद्यार्थी सोदून काडटा. |
| सावचीत | तो साबुद्‌देर आयलो, हें सांगपाक लेखकान खंयचें उतर वापरलां ? | विद्यार्थी फावो तें उतर सोदून काडटा. |
| मेजर विश्वनाथाच्या पलटणीचो | तो जवान खंयचे पलटणीचो आसलो ? | विद्यार्थी फावो तें उतर सोदून काडटा. |
| हांव एक अधिकारी आनी तो म्हजो जवान. ताचें हीत पळोवप ही म्हजी लागणूक. ह्या उदकाचेर ताचो पयलो अधिकार. | मेजर विश्वनाथाच्या मनांत खंयचो विचार आयलो ? | विद्यार्थी फावो तें उतर सोदून काडटा. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| भोव कश्टान भुंयेचेर घसटत घसटत मेजर त्या जवानासरीं गेलो. आपल्या हातांतली उदकाची बाटली ताणें त्या जवानाच्या तोंडाक लायली. | मेजर विश्वनाथान कितें केलें ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| आपलो हात उखलून बाटलेचें तोंड धरलें आनी सगलें उदक घटाघटा पियेलो. | जवानान कितें केलें ? | विद्यार्थी जाप सोदून काडटा. |
| जवानाच्या तोंडार चैतन्य खेळिल्लेवरी दिसलें. | जवानाच्या तोंडार टवटवसाण आयली हें लेखकान खंयच्या उतरांनी सांगलां ? | विद्यार्थी फावो तीं उतरां सांगता. |
| थकिल्ल्या, तानेन तरशेल्ल्या मेजराचो जीव खासावीस जालो, साबुद्द वतांवतां ताणें आपली तकली भुंयेर तेंकयली. | मेजर विश्वनाथाक हें पळोवन खूब खोस भोगली. पूण ताची परिस्थिती कितें जाली ? | |
| | विद्यार्थ्यांनो, मेजर विश्वनाथान आपल्याक गरज आसतना जवानाक उदक दिलें. आपल्याक गरज आसतना खंयचीय वस्तू दुसऱ्याक दिवप हाकाच संस्कृताय म्हणटात. तुमकां हांव संस्कृतायेचो अर्थ अदीक स्पश्ट करून सांगतां. भूक लागतकूच खावप म्हळ्यार प्रकृती, भूक नासतना खावप ही विकृती आनी आपल्याक भूक आसतनाय भुकेल्ल्या दुसऱ्या मनशाक खावंक दिवप ही संस्कृती. आमच्या देशाची ही संस्कृताय, आमच्या सैनिकांची संस्कृताय. ह्या आमच्या भारतीय सैनिकांचो आमकां खूब अभिमान आसा. | |

**संकलन :**

१) मेजर विश्वनाथ घायाळ स्थितींत आसतना कर्नल सिन्हाचीं खंयचीं उतरां ताच्या कानांत घुंवघुंवतालीं ?

२) झुजाविशीं मेजर विश्वनाथाच्या मनांत कसले विचार आयले ?

३) झुजांत जो रक्तखेव जाता, तो थांबोवपाक कितें करूंक जाय अशें मेजर विश्वनाथ सांगता ?

४) घायाळ जावन पडला थंय मेजर विश्वनाथाक कसलो भास जालो ?

५) मेजर विश्वनाथान जवानाक आपले बाटलेंतलें उदक किंत्याक दिलें ?

**उपयोजन :** शिक्षक विद्यार्थ्यांक पाठाचें मौखीक वाचन करूंक लायता.

**स्वाध्याय :** 'एका निवृत्त सैनिकाची आपजीण' ह्या विशयाचेर १५-२० वळींचो निबंध बरयात.

## फलक लेखन

**उतरांचे अर्थ**

| | |
|---|---|
| लागणूक | – कर्तव्य |
| फांत्यापारार | – उजवाडटकूच |
| रूख | – झाड |
| तुबक | – आर्म |
| तिठो | – बाजार |
| पडींग | – कसलीच पीक दिनाशिल्ली |
| तरशेवप | – व्याकूळ जावप |

**वाक्प्रचारांचे अर्थ**

| | |
|---|---|
| खंत भोगप | – वायट दिसप |
| मरणाआड झूज चलप | – जिवीत वाटोवपाखातीर यत्न करप |
| घुरी घालप | – आक्रमण करप |
| अभिमानान हड्डें भरप | – खूब अभिमान जावप |
| जिवार उदार जावप | – जीवाची पर्वा करप ना |
| सू जावप | – चिंता ना जावप |
| कान दिवप | – बारीकसाणेन आयकून घेवप |
| चैतन्य खेळप | – टवटवसाण येवप |
| सावचीत जावप | – साबुद्देर येवप. |

१५.

# कवितेचें अध्यापन

गद्य शिकोवपाचें मुख्य उद्दिश्ट म्हळ्यार भाशेचें गहन वाचन (Intensive Reading). गहन वाचन म्हळ्यार कितें हेविशीं चर्चा आमी 'गद्याचें अध्यापन' ह्या प्रकरणांत केल्या. उतरांचे अर्थ, वाक्प्रचारांचे अर्थ, कठीण उतरांचे आनी वाक्प्रचारांचे सार्थक वाक्यांत उपेग, भाशेचीं गठणां (structures) शुद्ध भाशेचो उपेग, उतरांची व्युत्पत्ती, भाशेचीं वैशिश्टां आदी भाशीक तत्वांचें अध्ययन करपाक गद्याचो पाठ शिकयतात. विद्यार्थ्यांची भास समृद्ध (गिरेस्त) करप आनी ते भाशेंत जें बरयलां तें समजप हें गद्य पाठाचें मुखेल उद्दिश्ट. गद्य पाठाचीं मुखेल उद्दिश्टां जावन आसात — ज्ञान, आकलन, अभिव्यक्ती आनी उपयोजन. हातूंत मुख्य उद्दिश्ट जावन आसा, भाशेचें आकलन.

गद्याचो पाठ शिकयतना जी पद्धत आपणायतात ती पद्धत कवितेचो पाठ शिकयतना आपणावंक जायना. पाठाचे पांवडे तेच आसतले म्हळ्यार प्रस्तावना, हेतूकथन, विशयप्रतिपादन, संकलन आनी गृहपाठ. पूण विशयप्रतिपादन हें वेगळे तरेन करचें पडटलें.

कविता म्हळ्यार कितें हें पयलीं जाणा जावंक जाय. कवितेच्यो खूब व्याख्या केल्ल्यो आसात. कांय व्याख्या खूब कठीण आसात. ह्या कठीण व्याख्यांकडेन आडनदर करून आमी जी सामकी सोपी व्याख्या आसा ती जाणा जावन घेवंया. 'काव्य म्हळ्यार सौंदर्य' – ही काव्याची सोपी आनी सगल्यांक समजुपासारकी

व्याख्या. कवितेंत सौंदर्य आसप म्हळ्यार कितें? कवितेंत सौंदर्य-सुवातो आसतात. ह्यो सौंदर्य-सुवातो खंयच्यो? कवितेंत जें सौंदर्य आसता तें कसलें सौंदर्य? कवितेंत सकयल बरयिल्ल्या कांय सौंदर्य घटकांचो आसपाव जाता.

**सोबीत उतरां:** कवी कवितेंत ज्या उतरांचो उपेग करता तांचें एक वेगळेंच वैशिश्ट आसता. तीं उतरां वाचतकूच वाचप्याक एक प्रकारची खोस जाता. इंग्लिशींत हाका (poetic diction) अशें म्हणटात. ताचें कवीहृदय ह्या उतरांची निवड करता. हीं उतरां वाचप्याच्या काळजामेरेन पावतात आनी वाचप्याक एक प्रकारची अवर्णनीय आनंदानुभुती जाता. ताका कित्याक खोस जाता, हाचें विश्लेशण तो करूंक शकना. पूण ताका रसानुभुती जाता हें मात खरें.

**सोबीत कल्पना:** एका विश्वविख्यात इंग्लीश कवीन म्हळां:

"The lunatic, the lover and the poet,
are all made of imagination compact."

पिसो, प्रेमी आनी कवनां करपी हांची कल्पनाशक्त जबरदस्त आसता. कवी ज्यो कल्पना करता तो सामान्य मनीस करूंक शकना. ही एक ईश्वर-दत्त देणगी जावन आसा. सादारण मनीस खंयचीय वस्तू पळयता आनी कवी त्यो वस्तू पळयता ह्या दोगांयच्या पळोवपांत खूब अंतर पडटा. कवितेंत कल्पनांचें सौंदर्य आसता.

**सुंदर विचार:** कवी आपले कवितेंत एक वळ बरयता. ती वळ वाचप्याक विचार करपाक बाध्य करता. ज्या विचारांचें संप्रेशण करपाक गद्य लेखकाक खूब पानां बरोवचीं पडटात, तो विचार कवी एके वळींत समाविश्ट करता, हें कवीचें सामर्थ्य. वाचपी ह्या सोबीत विचारांनी भारावन वता.

**सोबीत उपमा:** कवीची निरीक्षण शक्त सूक्ष्म आशिल्लेकारणान ताका सुंदर सुंदर उपमा येवजतात. जेन्ना आमकां ह्यो उपमा कवितेंत सांपडटात, तेन्ना आमच्या तोंडांतल्यान "कितल्यो सुंदर उपमा ह्यो!" अशीं उतरां भायर पडटात. कविता वाचतना आमच्या तोंडांतल्यान उमाळी अव्ययां भायर पडटात. अशें दिसता की कवी कविता बरयतना तकलेचो न्हय तर काळजाचो उपेग करता. 'सहृदयताय' हें कवीचें वैशिश्ट्य.

**अव्यक्त अर्थ:** (Implicit Meaning) कवी केन्ना केन्ना ज्यो वळी बरयता, त्यो वयर वयर वाचल्यार ताचो अर्थ सादोच असो दिसता. पूण खोलायेन विचार केल्यार ताचो खरो अर्थ वेगळोच आसता. त्या साद्या अर्थाभायर ताका आनी कितें अभिप्रेत आसता, तें वाचकान सोदून काडूंक जाय.

**भावनांचें अधिशठान :** कवी अशे तरेन बरयता की ती कविता वाचतकूच आमच्यो सुप्तावस्थेंतल्यो भावना जाग्रुत जातात. तीं उतरां आमचीं काळजां हालोवन उडयतात. कवितेचो प्रभाव फकत वाचता आसतना उरना. ती वाचले उपरांत लेगीत खूब वेळमेरेन आमच्या काळजांत ती भोंवता आनी आमकां उत्तेजीत करता.

**मुल्यांचें संप्रेशण :** कांय कवी कवितांवरवीं आमकां कसली तरी शिकवण दिवंक सोदतात, कसल्यातरी मुल्यांचें संप्रेशण करूंक सोदतात. अशो खूब कविता आसात, जांकां लागून खूब व्यक्तींक मुल्याधिश्ठित जीण जगपाची प्रेरणा मेळ्ळ्या.

वयर काव्याचीं कांय वैशिश्टां बरयल्यांत. हीं वैशिश्टां सोदपाक एक वेगळीच नदर लागता. वाचप्यांमदीं ही सौंदर्यदृश्टी आसूंक जाय.

कविता शिकोवपाचीं उद्दिश्टां कितें ? भास शिकोवप हें कवितेचें मुखेल उद्दिश्ट न्हय. कवितेचें आकलन जावन वाचप्याक सौंदर्यानुभुती जावप हें कवितेच्या अध्यापनाचें मुखेल उद्दिश्ट. आनंदानुभुती वा रसग्रहण हें कवितेचें मुख्य उद्दिश्ट जावन आसा. कवितेंत जो 'रस' आसा ताची अनुभुती विद्यार्थ्याक जावपाचे नदरेन अध्यापन करूंक जाय.

कवितेची प्रस्तावना करतना शिक्षकान कल्पकतायेचो उपेग करूंक जाय. ताका स्वता काव्यांत अभिरूची आसूंक जाय. तो जर अरसीक आसलो तर तो कवितेची प्रस्तावना परिणामकारकपणान करूंक शकचोना. प्रस्तावना करचेआदीं ताणें खूब चिंतूंक जाय आनी नवेच, वेगळेच शैलींत प्रस्तावना करूंक जाय.

विशय प्रतिपादनांत शिक्षकाची पयली कृती म्हळ्यार कवितेचें मौखीक (तोंडी) वाचन. ह्या वाचनान कवितेंत आयिल्ली भावनात्मकताय प्रकट जावंक जाय. कवितेचें प्रकट वाचन गद्य शैलींत जालें जाल्यार ताचो परिणाम विद्यार्थ्यांचेर जावचोना. देखून कविता वाचनाचें हें कौशल्य शिक्षकान आत्मसात करूंक जाय. विशय-प्रतिपादनांत उतरांचे अर्थ, कठीण उतरांचे सार्थक वाक्यांत उपेग टाळूंक जाय. कविता शिकोवपाचो मुख्य उद्देश म्हळ्यार रसनिश्पत्ती (रसाची निर्मणी) करप. ही रसनिश्पत्ती करपाक शिक्षकामदीं तशीच कुवत आसूंक जाय. कवितेकडेन ताचें तादात्म्य (एकरूपपण) स्थापीत जावंक जाय. दोगांयच्या काळजांतल्यो तारो एकेच भाशेन छेडूंक जाय. जीं सौंदर्य-थळां कवितेंत आयिल्लीं आसात, तांचेकडेन शिक्षकान विद्यार्थ्यांचें लक्ष ओडून घेवंक जाय. विद्यार्थ्यांक सौंदर्य-बोध (aesthetic sense) जावंक जाय. शिक्षकान कवितेचेर कांय प्रस्न विचारूंक जाय आनी काव्यपंक्तीचें जाय थंय स्पश्टीकरण करूंक जाय. विद्यार्थ्यांच्या अंत:चक्षूंसामकार कवितेंत वर्णन केल्ले देखाव येवंक जाय. गर्भीत अर्थ आशिल्ल्या वळींचें प्रभावीपणान स्पश्टीकरण

करूक जाय. कवितेंत आयिल्ल्यो कांय सुंदर वळी शिक्षकान बोर्डाचेर बरोवंक जाय. कवितेंत जीं सौंदर्य-थळां आयल्यांत तीं मतींत दवरून कवितेचें अध्यापन करूक जाय. अशें म्हणटात की the poem can never be taught, it can only be caught. कवितेच्या सौंदर्याचें स्पश्टीकरण करूक जायना, तें फकत अणभवचें पडटा. कविता शिकोवप शिक्षकाक एक आव्हान आसता.

संकलन करतना 'आकलन आनी रसग्रहण' हीं उद्दिश्टां साध्य जाल्यांत काय नात तें पळोवपाक विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारचे. (कोंकणीच्या तृतीय स्तरावयल्या अभ्यासक्रमांत 'रसग्रहण' ह्या उद्दिश्टाचो आसपाव ना, पूण ह्या लेखकाक अशें दिसता की थोड्या प्रमाणांत तरी कवितेचें विद्यार्थ्यांनी रसग्रहण करप हें गरजेचें.)

कवितेच्यो खंयच्यो वळी विद्यार्थ्यांक आवडल्यात हेविशीं प्रस्न विचारचे. शिक्षकान जमल्यार चालीर कविता म्हणून दाखोवची. केन्ना केन्ना तांकांय चाल लावपाक सुचोवचें. गृहपाठ विंगड विंगड प्रकारांचो आसचो. विद्यार्थ्यांक कवितेची मध्यवर्ती कल्पना बरोवंक लावची. तांकां कविता पाठ करूक लावची आनी अशाच तरांच्या कवितांचें घरा वाचन करूक लावचें.



## १६.

# कवितेच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो

विशय : कोंकणी

यत्ता : णववी

पाठाचें नांव : गोमटें गोंय गायता (पद्य)

वेळ :

**सामान्य उद्दिश्टां**

**आकलन :** सकयल बरयिल्ल्या मुद्द्यांचें विद्यार्थ्यांक आकलन जाता.

१) गोंय स्वतंत्र जाल्ल्यान आनंद जावप.

२) जुवारेचें नृत्य आनी मांडवीच्या मांदोलिनांचें वाजप.

३) सैमाचो आनंद

४) दोन संस्कृतायांचो संगम

**रसास्वादन :** विद्यार्थी कवितेचें रसास्वादन करता :

१) कवितेंत आयिल्लीं सुंदर उतरां

२) कवितेंत आयिल्ल्यो सुंदर कल्पना

३) कवितेंत आयिल्ल्यो उपमा.

**शिक्षणीक साधनां :** गोंयच्या प्राकृतीक सौंदर्याचीं चित्रां.

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| प्रस्तावना | | |
| १९ डिसेंबर हो आमचो मुक्ती-दीस | १९ डिसेंबर आमी गोंयकार व्हड दबाज्र्यान मनयतात. हो दीस आमी कित्याक मनयतात? | |
| पुर्तुगेज | १९ डिसेंबर १९६१ पयलीं गोंयचेर कोण राज्य करताले? | विद्यार्थी याद करून सांगता. |
| | ज्या दिसा आमकां स्वतंत्रताय मेळ्ळी त्या दिसा आमकां खूब खोस जाली. गोंयकारांची गुलामगिरी संपुश्टांत आयली. ते ताठ मानेन चलूंक लागले. गोंयांक जेन्ना स्वतंत्रताय मेळ्ळी, तेन्ना साबार कवींक स्फूर्त मेळ्ळी. तांणी आपलो आनंद कविता बरोवन उक्तायलो. सर्गेस्त शंकर भांडारी एक कोंकणी कवी. तांणी एक कविता बरयली. | विद्यार्थ्यांची उमळशीक जाग्रुत जाता. |

हेतू-कथन: ते कवितेचें नांव 'गोमटें गोंय गायता'. ती कविता आज आमी शिकुंया.

| | | |
|---|---|---|
| विशय प्रतिपादन | शिक्षक कवितेचें मौखीक (तोंडी) पठन करता. | विद्यार्थी लक्ष दिवन आयकता. |
| गावन | गोंयाक स्वतंत्र जाल्ल्याचो खूब आनंद जालो. हो आनंद तें कशें व्यक्त करता? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| गोड आनी मेकळ्या गळ्यान | तें कशें गायता? | फावो तीं उतरां सांगता. |
| गोमटें | आमचें गोंय सोबीत हें सांगपाक कवीन खंयचें उतर वापरलां? | फावो तें उतर सांगता. |
| | आमचें गोंय सोबीत म्हळ्यार सुंदर. हांगाच्यो न्हंयो, हांगाच्यो वेळो, हांगाचीं झाडां, फुलां, धबधबे, सगलें सुंदर. (शिक्षक प्राकृतीक सौंदर्याचीं चित्रां दाखयता) | विद्यार्थ्यांची उत्सुकताय वाडटा. |
| | शिक्षक सांगता: कवीन 'ग' चो उपेग केला. गोड, गोमटें, गोंय, गाता. हातूंत 'ग' ची पुनरावृत्ती जाल्लेकारणान ह्या वळींनी सुंदरताय दिसून येता. (ह्यो वळी शिक्षक फळ्यार बरयता). | सुंदर ओवकडेन लक्ष ओडटा. |
| होरायता. | गोंयचें गीत निर्मितल्याक, म्हळ्यार देवाक, उलो मारता हें खंयच्या उतरावेल्यान कळटा? शिक्षक 'होरायता' फळ्यार बरयता. (फलक-लेखन). | फावो तें उतर सांगता. |
| | ताका इतली खुशालकाय जाल्या की ताका ईश्वराची याद जाता. देवाक उलो मारून तें आपली कृतज्ञताय व्यक्त करता. | स्पश्टीकरण आयकता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| ल्हारार ल्हार | तालार कोण नाचता ? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| जुवारी न्हंयचीं | खंयचे न्हंयचीं ल्हारां नाचतात ? | विद्यार्थी फावो तें उतर सोदता. |
| | शिक्षक जुवारी न्हंयचें चित्र दाखयता. गोंय मुक्त जालें. जुवारी न्हंयेक आनंद जालो. न्हंयचीं ल्हारां नाचूंक लागलीं. कवी अशी कल्पना करता की जुवारी न्हंय आपल्या पायांत पांयजणां घालून नाचता. तुमी हो देखाव तुमच्या दोळ्यांमुखार हाडात. | विद्यार्थी काव्य कल्पनेचो आस्वाद घेता. |
| मांडवीचीं मांदोलिनां | सुरान एक तान कितें वाजता ? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| मांडवीचीं मांदोलिनां वाजतात | कवी मांडवी न्हंय पळयता. मांडवी न्हंय पळोवन ताका खंयची कल्पना येवजता ? मांदोलीन म्हळ्यार गिताराभाशेन वाजोवपाचें वाद्य. तुमी गोंयचे माड आनी माडयो पळयल्यात आसतल्यो. | फावो ती कल्पना सांगता. |
| समुद्रकिनाऱ्याचेर | माड खंय दिश्टी पडटात ? | |
| कुळागरांनी | माडयो खंय दिश्टी पडटात ? शिक्षक माड आनी माडयांचीं चित्रां दाखयता. जेन्ना वारो व्हांवता, तेन्ना माड आनी माडयो हालतात आनी हो देखाव खूब सुंदर दिसता. | विद्यार्थी जाप दिता. |
| माड आनी माडयो मांडे म्हणटात. | हो देखाव कवी पळयता आनी ताका एक कल्पना सुचता. तो कितें म्हणटा ? 'माड-माडयो म्हणटात मांडे'. ही कितली सुंदर वळ (शिक्षक फळ्यार वळ बरयता). मांडो हें आमच्या गोंयकारांचें लोक-संगीत. मांडो आयकतना बरें दिसता. मांडो म्हणटना म्हणपी तकल्यो हालयता हें तुमी पळयलां आसतलें. तुमी शब्दुलीं पळयल्यांत आसतलीं. | काव्य-कल्पना समजून घेता आनी काव्य-कल्पनेचो आस्वाद घेता. |
| दुल्पदां म्हणटात | तीं कितें करतात अशें कवी म्हणटा ? दुल्पद – लोकसंगिताचो एक प्रकार. आमचें लोकसंगीत खूब सुंदर. तें आयतकूच आमी आमकांच विसरतात. | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| जायांचो आनी जुयांचो | आमच्या गोंयांत तरेकवार फुलां फुलतात. कांय फुलांचो वास गोड. कवीन खंयच्या फुलांचो उल्लेख केला ? | फावो तीं उतरां सांगता. |
| म्हाड्डोळच्यो | खंयच्यो जायो प्रसिद्ध आसात ? | फावो तीं उतरां सांगता. |
| | आमी देवाक हीं फुलां घालतात. चलयो जायांच्यो फांतयो माळटात. | |
| मोनी पदां म्हणटात | आबोलीं कितें करतात ?<br>आबोलीं ओग्गी आसात. जरी तीं ओग्गी आसात, तरी तीं पदां म्हणटात अशें कवीक दिसता. | |
| हरवळें आनी दूदसागर | आमचे गोंयचे धबधबे खूब प्रसिद्ध आसात. खंयचे धबधबे प्रसिद्ध आसात ? (धबधब्यांचीं चित्रां दाखयता). | सामान्य गिन्यानाच्या आदारान जाप दिता. |
| मृदंगाचो बोल जसो दुदाचो घसघसो | उदक जेन्ना वयल्यान पडटा, तेन्ना दूद सकयल पडटा अशें दिसता. हो देखाव मनाक खूब भुलयता. खंयच्या उतरांत धबधब्याच्या आवाजाचें वर्णन केलां ? | पुस्तकांत पळोवन जाप दिता. |
| | तुमी मृदंग पळयला आसतलो. देवळांनी मृदंग वाजयतात. जेन्ना धबधब्याचो आवाज जाता, तेन्ना कवीक तो मृदंगाच्या आवाजाभशेन दिसता. | |
| | धबधब्याच्या आवाजाची सर मृदंगाच्या आवाजाकडेन केल्या. तुमी पिंपळ पळयला आसतलो. | विद्यार्थ्यांचें लक्ष काव्य-तुलनेकडेन ओढून घेता. |
| पिसो | पिंपळाक कवी कितें म्हणटा ? | |
| पानां मोखून मारता. | पिंपळं कितें करता ? | |
| पोवनांकडेन | पानांची सर कोणाकडेन केल्या ? | विद्यार्थी तुलना समजून घेता. |
| सोबीत | गोंयचीं सुकणीं कशीं दिसतात ? | |
| देखणीं | तीं कितें नाचतात ?<br>देखणीं गोंयचो लोकनाच. शिक्षक 'देखणीं' म्हणून दाखयता. गोंय स्वतंत्र जालां म्हणून सुकण्यांक खोस जाल्या. ह्या आनंदाच्या नेटार तीं नाचतात. | विद्यार्थी रस घेतात. |
| रुखा कणकणीं | दर झाडाचेर सुकणीं आसात हें खंयचे वळींत सांगलां ? | फावो ती वळ सांगता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | सुकर्णीं – देखर्णीं – कणकर्णीं... कितलीं सुंदर उतरां हीं! सगलो सैम गीत म्हणटा आनी हें गीत आयकून रातराणी झेमता. | कवितेच्या सौंदर्याचो आस्वाद घेता. |
| | रातराणी दिसाची न्हिदता. रातची ती जागी आसता आनी सगल्या आसंमतांत परिमळ पातळायता. | विद्यार्थ्यांक वळीचें आकलन जाता. |
| जन गण मन अधिनायक जय हे | मुक्त गोंयचें गीत खंयचें? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| | १९ डिसेंबर १९६१ चे पयलीं हें गीत गोंयकार म्हणूंक शकनाशिल्ले. आतां स्वतंत्रताय आयिल्ल्यान ते कोणाक भियेनासतना हें पद म्हणूंक शकतात. | वळीचो अर्थ समजता. |
| दो-रे-मी-फा, सा रे नी सा | गोंयकार आनी कसलीं गीतां म्हणटात?<br>हे पाश्चात्य संगिताचे सूर.<br>भारतीय संगिताचे सूर आसात – सा रे ग म प ध नी सा, सा नी ध प म ग रे सा.<br>गोंयांत भारतीय आनी पाश्चात्य संस्कृतायांचो संगम दिसून येता.<br>शिक्षक कवितेचो सारांश सांगता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्यांक कवितेचें मूक वाचन करपाक सांगता.<br>शिक्षक विद्यार्थ्यांक पुस्तक बंद करपाक सांगता. | कवितेच्या मुख्य कल्पनांचें आकलन जाता. |

मूल्यांकन

**संकलन**

| | |
|---|---|
| १) | गोमटें गोंय कशें गायता ? |
| २) | जुवारी आनी मांडवी न्हंयो कितें करतात ? |
| ३) | माड आनी माडयो कितें करतात ? |
| ४) | धबधब्याची सर कोणाकडेन केल्या ? |
| ५) | सुकणीं कितें करतात ? |
| ६) | गोंयांत दोन संस्कृतायांचो संगम जाला हें कवी कशें सांगता ? |
| ७) | तुमकां खंयच्यो ओळी आवडल्यो ? |
| ८) | तुमकां खंयच्यो उपमा आवडल्यो ? |

**उपयोजन :** शिक्षक विद्यार्थ्यांक कविता चालीर म्हणूंक सांगता.

**स्वाध्याय :** १) ही कविता पाठ करात.

२) 'गोंयचो सैम' ह्या विशयाचेर २० वळींचो निबंध बरयात.

**फलक-लेखन**

| | | |
|---|---|---|
| होरायता | गोमटें गोंय गायता | सोबीत सुकणीं नाचतीं देखणीं. |
| दुल्पदां | गोड गोड मेकळ्या गळ्यान<br>गोमटें गोंय गायता | रुखा रुखा कणकणीं. |
| | वाजता सुरान एक तान<br>मांडवीचीं मांदोलिनां | दो रे मी फा सा रे नी सा<br>गोमटें गोंय गायता |
| | माड-माडयो म्हणटात मांडे<br>मृदंगाचो बोल जसो<br>दुदाचो घसघसो | |

# गोमटें गोंय गायता

शंकर भांडारी

गोड गोड मेकळ्या गळ्यान
गोमटें गोंय गायता
संगीताच्या निजान ताज्या
निर्मितल्याक होरायता.

नाचता तालार ल्हारार ल्हार
जुवारेचीं पांयजणां
वाजता सुरान एक तान
मांडवीचीं मांदोलिनां.

माड-माडयो म्हणटा मांडे
शब्दुल्यांचीं दुल्पदां
जायां-जुयां परमळांत
आबोल्यांचीं मोनी पदां.

मृदंगाचो बोल जसो
दुदाचो घसघसो
पानां-पोवनां मारती मोखून
वाऱ्यावांगडा पिंपळ पिसो.

सोबीत सुकणीं नाचती देखणीं
रुखा रुखा कणकणीं
वाजपा नादार झेमता पळय
जागराची रातराणी.

जन गण मन अधिनायक
मेकळ्या गोंयचें गीत आयक
दो रे मी फा, सा रे नी सा
गोमटें गोंय गायता.

१७.

# कवितेच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो

विशय : कोंकणी | यत्ता : आठवी

पाठाचें नांव : त्रिश्तांवाक | वेळ ———

उद्दिश्टां

**आकलन :** सकयल बरयिल्ल्या मुद्द्यांचें विद्यार्थ्यांक आकलन जाता.

१) त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्य हांणी गोंयचे स्वतंत्रतायेखातीर खूब त्याग केलो.

२) गोंय स्वतंत्र जावचे आदीं कुन्यांक मरण आयलें.

३) त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्याच्या व्यक्तिमत्वाचीं वैशिश्टां.

४) गोंयकारांक आपले मांयभुंयेचेर प्रेम करपाक लेगीत भंय.

५) त्रिश्तांवाच्यो अस्थी गोंयचे भुंयेंत ना म्हूण कवीक खंत.

**रसास्वादन :** विद्यार्थी कवितेंत आयिल्ल्या सौंदर्य-सुवातींचें रसग्रहण करता :

१) कवितेंत आयिल्ल्यो उपमा

२) कवितेंत आयिल्ल्यो सुंदर ओळी

३) त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्याविशीं कवीच्या मनांतलो आदरभाव.

**अभिव्यक्ती :** विद्यार्थी प्रस्नांच्यो जापो आपल्या उतरांनी दिता.

**अभिरुची :** विद्यार्थ्यांमदीं कोंकणी काव्याविशीं प्रेम निर्माण जाता.

**शिक्षणीक साधनां :** १) त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्याचें आझाद मैदानाचेर आशिल्ल्या स्मारकाचें चित्र.

२) त्रिश्तांव ब्रागांझाचें चित्र.

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| प्रस्तावना<br>१८ जून | शिक्षक विचारता: गोंयांत खंयचो दीस दर वर्सा 'क्रांती दीस' म्हूण मनयतात?' | विद्यार्थी याद करून जाप दिता. |
| पणजे, आग्वाद, म्हापशां, मडगांवात मनयतात. | हो दीस खंय खंय मनयतात? | विद्यार्थी याद करून जाप दिता. |
| पणजे आझाद मैदानाचेर | मुखेल दबाजो खंय जाता? | विद्यार्थी याद करून जाप दिता. |
| ह्या दिसा डॉ. राममनोहर लोहियान गोंयचे स्वतंत्रतायेची चळवळ सुरू केली. | हेच तारखेक हो दीस कित्याक मनयतात? | सामान्य गिन्यानाचेर आदारून जाप दिता. |
| | शिक्षक कथन करता: ह्या दिसा गोंयांत मुक्ततायेच्या झुजांत वांटो घेवपाक भौसाक प्रेरणा मेळ्ळी म्हूण हे तारखेक खूब म्हत्व आसा. आझाद मैदानाचेर लोक, विद्यार्थी, मंत्री, सरकारी अधिकारी जमतात. व्हडलो शामियानो उबारिल्लो आसता. पुलीस हुतात्मा स्मारकाक मानवंदना दितात. कितल्याशाच सुटके झुजाऱ्यांनी आपली जीण स्वतंत्रतायेपासत ओंपली. तांचेविशीं मुखेलमंत्री आपल्या भाशणांत कृतज्ञताय व्यक्त करता. इश्कोलाचीं भुरगीं स्वातंत्र्य-गितां म्हणटात. ह्या दिसा सरकार स्वातंत्र्य सैनिकांचो भोवमान करता. हुतात्मा स्मारकाचेर पुष्पचक्रां ओंपतात. सगलें वातावरण देशभक्तीन भरून वता. मैदानाचेर जमिल्ल्या लोकांचीं अंतस्करणां उपाट देशभक्तीन भरून वतात. | विद्यार्थ्यांची उमळशीक जागृत जाता. |
| | शिक्षक हुतात्मा स्मारकाचें चित्र दाखयता. | विद्यार्थी चित्र पळयतात. |
| डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्य हांचें | ह्या हुतात्मा स्मारकालागीं गोंयच्या एका व्हड सुटकेझुजाऱ्याचें स्मारक आसा. तें स्मारक कोणाचें हें तुमी सांगूंक शकतात? | सामान्य गिन्यानाच्या आदारान जाप दिता. |
| | शिक्षक डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्याचें चित्र दाखयता. | विद्यार्थी चित्र पळयतात. |
| | डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्यांनी गोंयांक परकी गुलामगिरेंतल्यान मुक्तताय दिवपाखातीर खूब कार्य | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | केलां. गोंयचे स्वतंत्रतायेच्या झुजांत तांचो शिंवाचो वांटो आसा. स्वतंत्रताय मेळोवपाखातीर तांणी आपली जीण ओंपली. ते स्वतंत्रतायेचे भक्त आसले. तांणी गोंयाखातीर खूब कश्ट आनी यातना सहन केल्यो. पूण दुख्खाची गजाल म्हळ्यार गोंय स्वतंत्र जाल्लें पळोवंक ते ह्या संवसारांत उरले नात. २६ सप्टेंबर १९५८ ह्या दिसा ते सोंपले. १९ डिसेंबर १९६१ हो दीस तांचे जिणेंत आयलो ना. | |

**हेतू कथन:** जेन्ना डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्य सोंपले आनी ती खबर गोंयचे नामनेचे कवी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांकां कळ्ळी, तेन्ना तांकां खूब दुख्ख जालें. तांणी गोंयकारांवरवीं तांच्या त्यागाविशीं कृतज्ञताय व्यक्त करपाक एक कविता बरयली. ते कवितेचें नांव जावन आसा 'त्रिश्तांवाक'. ती कविता आयज आमी शिकुंया.

| | | |
|---|---|---|
| विशय-प्रतिपादन | डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्य हांणी स्वतंत्रतायेच्या झुजांत आपली जीण ओंपली हेविशीं शिक्षक विद्यार्थ्यांक म्हायती दिता.<br>डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्य हे चांदरचे. ते सुर्वेक पणजे लिसेंवात शिकले. उपरांत ते पोंडिचरीक गेले आनी थंय बी.ए. पास जाले. मागीर ते फ्रान्साक गेले आनी सोरबोन विश्वविद्यालयांतल्यान इलेक्ट्रिक इंजिनियराची पदवी तांणी मेळयली. भारताचे स्वतंत्रतायेविशीं फ्रेंच नेमाळ्यांनी तांणी जायतें बरप केलें. 'जालियनवाला बाग' घडणुकेचें सत तांणी फ्रेंच लोकांमुखार दवरलें. इंग्लेज सरकार संवसाराक फटी सांगून खरें कशें लिपोवंक सोदता तें दाखोवन दिलें. महात्मा गांधींच्या जिविताचेर तांणी लेख बरयले. साम्राज्यवाद्यांआड एक संस्था उबारूक ते मुखार सरले. १८ जून १९४६ हो दीस गोंयचे स्वतंत्रतायेच्या इतिहासांत अजरंवर जाल्लो आसा. त्या दिसा डॉ.राम मनोहर लोहिया हांणी गोंयचे स्वतंत्रतायेची चळवळ सुरू केली. तांणी एक व्हड सभा घेतली. हे सभेंत हजारांनी गोंयकार हाजीर रावले. डॉ.लोहियांक धरून पुर्तुगेज सरकारान बंदखणींत घाले. पूण चळवळ बंद पडली ना. जुनाचे ३०वेर एक व्हडली सभा जाली. सभाबंदीचो कायदो मोडून डॉ.कुन्यांनी भाशण केलें. | विद्यार्थ्यांचें कुतूहल जागृत जाता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | पुलिसेन तांकां मारलें. मरणांतले ते वाटावले. पुलिसांनी तांकां बंदखणींत घालें. कोणाक जागमाग लागनासतना तांकां पुर्तुगालाक व्हेलें आनी बंदखणींत व्हरून घालें. १९५० वर्सा ते बंदखणींतले मेकळे जाले. ४ सप्टेंबर १९५३ ह्या दिसा तांणी पुर्तुगालांतल्यान भारताचे भुंयेचेर परतें पावल दवरलें. मुंबय रावन ते स्वतंत्रतायेच्या वावराक लागले. तांणी 'गोवा ॲक्शन कमिटी' स्थापन केली आनी गोंयचे सुटकेखातीर वावुरपाक सगल्या राजकी पंगडाच्या लोकांखातीर तेवरवीं एकूच माची तयार केली. गोंयकारांक राजकी नदर दिवपाखातीर तांणी कोंकणींतल्यान 'आझाद गोंय' आनी इंग्लिशींतल्यान 'फ्री गोवा' हीं नेमाळीं उजवाडाक हाडलीं. गोंयचे सुटकेखातीर ते निमाणेमेरेन वावुरले. तांचें Denationalisation of Goans हें पुस्तक खूब फामाद जालां. गोंयकारांच्या मनांत ह्या देशभक्ताविशीं खूब आदर आसा. तांचो त्याग कोणूच विसरचोना. | |
| | शिक्षक कवितेचें मौखीक वाचन करता. | विद्यार्थी आयकता. |
| डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्य | 'पिका आदीं रोवपी गेलो' – हो रोवपी कोण ? | विद्यार्थी चिंतून जाप दिता. |
| ताणें शेतांत सारें कालयलें. | ताणें शेतांत कितें कालयलें ? | पाठाच्या आदारान जाप दिता. |
| गोंयची स्वतंत्रताय | हांगा 'पीक' म्हळ्यार कितें ?<br>शिक्षक विद्यार्थ्यांचें कविकल्पेनकडेन लक्ष ओडून घेता. शिक्षक स्पश्टीकरण करता :<br>कवी म्हणटा की एक शेतकामती शेत रोयता. शेतांत खूब कश्ट करता. शेताची मशागत करता आनी शेतांत सारें घालें म्हणटकूच बरें पीक येता. मात ह्या शेतकामत्यान बरें पीक येवपाखातीर खूब कश्ट केले. पूण तो तें पीक पळोवपाक पावलोना. हाचो अर्थ असो की त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्यांनी गोंयचे स्वतंत्रतायेपासत खूब कश्ट भोगले. तांणी आपली पुराय जीण स्वतंत्रतायेखातीर ओंपली. पूण गोंयची स्वतंत्रताय ते पळोवंक पावले नात. कवीन हें सांगपाक एके सुंदर कल्पनेचो आदार घेतला. | सुंदर कल्पनेचें रसग्रहण करता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| उज्या कोंब फुलयलो. | स्वातंत्र्य सैनिकान जे रगताचे थेंबे गळयल्यात, तातुंतल्यान कितें फुलतलें ? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| | शिक्षक स्पश्टीकरण करता :<br>डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्यांनी गोंयचे स्वतंत्रतायेपासत आपलें रगत दिलें. पूण तांचो हो त्याग फुकट वचचोना. ते जरी सोंपले, तरी तांचे देशभक्तीक लागून हेर गोंयकारांक स्फूर्त मेळटली. ते स्वतंत्रतायेच्या ह्या लढ्यान अदीक उर्बेन वांटो घेतले. उज्या कोंब फुलतलो, म्हळ्यार स्वतंत्रतायेंचो जो संग्राम सुरू जाला तो अदीक प्रखर जातलो. गोंयकारांच्या मनांत स्वतंत्रतायेची जोत अदीक नेटाक पेट्टली.<br>कवीन सुंदर कल्पनेचो हांगा आदार घेतला. तुमकां खबर आसतली की खंयचेय गजालींत जें सामान्य मनशाक दिसना, तें कवीक दिसता. 'जें सुर्याक दिसना तें कवीक दिसता' अशें म्हणटात. | |
| | शिक्षक "तुज्या रगता कणकणीं, उज्या-कोंब फुलतले" ह्यो वळी फळ्यार बरयता. | विद्यार्थ्यांचें लक्ष सुंदर वळींकडेन ओढून वता. |
| | कवी म्हणटा की त्रिश्तांव ब्रागांझांचो वावर फुकट वचचो ना. गोंयकारांच्या मनांत स्वतंत्रतायेची ज्योत चड प्रखर जातली आनी स्वतंत्रतायेच्या आंदोलनाक चड गती येतली. | |
| माडालागीं | कवीन त्रिश्तांव ब्रागांझाच्या मनाची सर कोणालागीं केल्या ? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| मळबाचो | तो कित्याचो मोग करपी ? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| | शिक्षक स्पश्टीकरण करता :<br>कवी अशें म्हणटा की त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्यांचें मन माडावरी. गोंयांत खूब माड जातात. माड हें गोंयचे संस्कृतायेचें एक वैशिश्ट्य. माड हो खुबूच उंच आसता. तो वयर मळबांत वता. कुन्याचें मन हें माडावरी. कुन्यांक वयर वचपाक आवडटा. जशी माडाची नदर सदांच वयर, तेचपरी कुन्यांचें मन. तांचीं ध्येयां उच्च. जे प्रमाण माड तायट | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | उबो रावता, तेचपरी कुन्य तायट रावपी, ते बागोवपी न्हय. कुन्याचें जिवीत म्हळ्यार उच्च तत्वांनी भरिल्लें जिवीत. ह्या उच्च तत्वांपासत तांचो कसलोय त्याग करपाची तयारी. कसलींय संकश्टां आयलीं जाल्यार तायट उबे रावन त्या संकश्टांकडेन झगडप. पूण तत्व सोडप ना. जेपरी माड मळबाचो मोग करता, ते परी कुन्यांनी आपल्या जिवितांत मळबाचो -- म्हळ्यार उच्च तत्वांचो मोग केलो. वयर मळबांत मुक्त अशें वातावरण आसता. असल्या मुक्त वातावरणाचो -- म्हळ्यार स्वतंत्रतायेचो -- मोग कुन्यांनी केलो. | विद्यार्थी कवितेंत चड रस घेता. |
| दरयालागीं. | कवीन त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्यांचे जिणेची सर कोणालागीं केल्या ? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| संवसाराक | ती कोणाक पोटलावपी ? | कवितेच्या आदारान जाप दिता. |
| | शिक्षक स्पश्टीकरण करता :<br>कुन्यांची जीण ही दरयावरी. तुमी दरया पळयला आसतलो. दरया विशाळ आसता. तो आख्ख्या संवसाराक आपलो मानता. | |
| | कुन्य हे उदार अंतस्कर्णाचे मनीस आसले. दरयाभाशेन तांचें मन व्हड आसलें. तांचे विचार केन्नाच आकुंचीत नासले. कुन्य हे जरी गोंयचे आसले तरी तांणी खूब देश पळयिल्ले. तांची नदर उदार आनी विशाळ जाल्ली. ते आपलेपुरतेंच पळयनासले. गरीब आनी चिड्डल्ल्या लोकांविशीं कितेंय तरी करचें अशें तांकां दिसतालें. परमार्थ हें तांचें ध्येय आसलें. आख्खें जग हें तांणी आपलें मानलें. | |
| | परत परत कवी म्हणटा, ''दरयावरी जीण तुजी.'' दरया उदकान उफाट भरिल्लो आसता, तेचप्रमाण तुजी जीण ही त्यागान आनी कर्तुबान भरिल्ली आसा. | विद्यार्थी कवितेच्या आशयाचें आकलन करता. |
| मोड जाता | दरयांत केन्ना केन्ना कितें जाता ?<br>दरयांत मोड जाता. वारें-वादळ धुमशण घालता. पूण दरया भिना. ह्या वादळाकडेन तो झुजता. | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | कुन्याचे जिणेंत लेगीत खूब संकश्टां आयलीं. सुर्वेक हावें तुमकां कुन्याचे जिणेविशीं म्हायती दिली. तांणी स्वतंत्रतायेखातीर खूब सोंसलें. खूब वावर केलो. ते भिले नात. संकश्टां कडेन तांणी भियेनासतना लडाय दिली. तांचें मन विचलीत जालें ना. तांणी धीर सोडलो ना. एक दीस आपलें ध्येय साध्य जातलें हेविशीं तांकां आत्मविस्वास आसलो. हांसून तांणी संकश्टां हुपलीं. | |
| विजेलागीं | कवीन संकश्टांची सर कोणालागीं केल्या ? | उपमा सोदता. |
| सगलें जग घर म्हजें | सगल्या जगाकडेन पळोवपाची तांची नदर कशी आसली ?<br>कुन्य हे संकुचीत वृत्तीचे मनीस नासले, ते फकत आपलेविशीं चिंती नासले. सगलें जग म्हजें, अशी तांची धारणा आशिल्ली. अशे जे लोक आसतात, तांकांच म्हान म्हणटात. महात्मा गांधीक महात्मा अशें म्हणटात. कारण महात्मा गांधी हे मानवतावादी आशिल्ले. सगल्या संवसाराचें बरें जावचें अशी तांची इत्सा आशिल्ली. ते मनशामजगतीं भेद मानिनाशिल्ले. | कवितेच्या आशयाचें आकलन जाता. |
| घरूच मात जाली कादय | कुन्य जरी अख्ख्या जगाक घर मानताले, तरी घरूच तांची बंदखण जाल्ली, हें कवीन खंयचे वळींत सांगलां ? | वळ सोदून काडटा. |
| | तुमकां खबर आसतली की आमचें गोंय १९ डिसेंबर १९६१ आदीं स्वतंत्र नासलें. पुर्तुगेजांचो शेक आमचेर चलतालो. आमचो अपमान जातालो. पुर्तुगेज आमकां उणे लेखताले. आमकां कसलीच स्वतंत्रताय नाशिल्ली. आमचें गोंय ही एक कादय जाल्ली. | कवितेच्या आशयाचें आकलन जाता. |
| भांगरावरी | आमचे मांयभुंयेची सर कोणालागीं केल्या ?<br>कवीक गोंयचो इतलो मोग आसा की तो म्हणटा, गोंय आमचें भांगरावरी. | पाठाच्या आदारान जाप दिता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| पुर्तुगेज गोंयांत आशिल्ल्यान गोंयच्या स्वतंत्रतायेखातीर झुजल्यार गोंयकारांक ख्यास्त भोगताली. स्वातंत्र्य सैनिकांक बंदखणींत उडयताले. मारपेट करताले. | 'मोग करपाक भंय' अशें कवी कित्याक म्हणटा ? | विद्यार्थी विचार करून जाप दिता. |
| | तुमी गोंयच्या सुटके झुजाचो अभ्यास केल्यार तुमकां कळटलें की ज्या गोंयकारांनी गोंयचो मोग केलो, गोंय स्वतंत्र जावचें म्हूण चळवळ केली, तांचो पुर्तुगेज सरकारान खूब छळ केलो. गोंयचेर प्रेम करप आनी ताका स्वतंत्र करपाक यत्न करप हो पुर्तुगेजांचे नदरेन एक गुन्यांव आशिल्लो आनी हो गुन्यांव करतल्याक ख्यास्त भोगची पडटाली. | |
| | शिक्षक 'भांगरावरी मांय-भुंयेचो मोग करपाक आमकां भंय' ह्यो वळी फळ्यार बरयता. | म्हत्वपूर्ण वळीचेर विद्यार्थ्यांचें लक्ष केंद्रीत जाता. |
| | शिक्षक 'तुजी नदर सोदता अजून, तुजो उलो सळसळटा' ह्या वळीचें स्पश्टीकरण करता.<br>जरी त्रिशतांव ब्रागांज कुन्य आयज संवसारांत नात, तरी पूण कवीक अशें दिसता की तांच्या आत्म्याची नदर कितें तरी सोदता. तांचो आत्मो असंतुश्ट आसा अशें कवीक दिसता. कवी अशें म्हणटा की कुन्यांची नदर गोंयचेर आसा. गोंयाक स्वतंत्रताय मेळ्ळी काय ना हें ते जाणा जावंक सोदतात. वारो जसो सळसळटा, तसो कुन्यांचो आवाज गोंयांत घुमता. तो उलो मारिल्लेवरी दिसता. ''गोंयकारांनो, तुमकां जर स्वतंत्रताय मेळूंक ना, तर तुमी चड प्रयत्न करून, त्याग करून, प्राण अर्पण करून गोंयचे दासतायेंतून सुटावो करात. | |
| कुन्यांच्यो अस्थी कुशींत घेवंक | गोंयची भूंय कित्याक तळमळटा ? | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| अस्थी | हाडांबदला कवीन खंयच्या उतराचो उपेग केला ?<br><br>गोंयाक स्वतंत्रताय मेळचे आदीं त्रिश्तांव कुन्य सोंपले. तांची कूड मुंबयचे सिमितेरींत पुरली. कवीक हे गजालीची खंत भोगता. ताका दिसता की ज्या मनशान गोंयाखातीर आपली जीण ओंपली ताचे कुडीक मर्णाउपरांत गोंयचे भुयेंत विसव दिवंक जाय आशिल्लो. कुन्यांची कूड गोंयचे मातयेंत विलीन जावंक ना म्हूण कवीक खूब खंत भोगता. कवीची ही इंत्सा उपरांत फळादीक जाली. त्रिश्तांव ब्रागांझाच्यो अस्थी मुंबयचे सिमितेरींतल्यान काडून त्यो गोंयांत हाडल्यो आनी आझाद मैदानाचेर तांचें स्मारक केलें. | विद्यार्थी उतर सोदून काडटा. |

मूल्यमापन

१) पीक हें कसलें आनी रोवपी म्हळ्यार कोण ?
२) कवीन कुन्यांच्या मनाची सर कोणालागीं केल्या ?
३) कवीन कुन्यांचे जिणेचें वर्णन कशें केलां ?
४) 'घर कादय जाली' अशें कवी कित्याक म्हणटा ?
५) गोंयची भूंय कित्याक तळमळटा ?
६) तुमकां खंयच्यो ओळी आवडल्यो ?

शिक्षक विद्यार्थ्यांक कवितेचें मौखीक वाचन करूंक सांगता.

**स्वाध्याय :** ''आयज आमचें राज्य आयलें, आयलें आमचें राज्य'' हीं डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांची कविता वाचात, ती पाठ करात आनी चालीर म्हणात.

**फलक – लेखन**

तुज्या रगता कणकणीं
उज्या-कोंब फुलतलो

भांगरावरी माय-भुंयचो
मोग करपाक आमकां भंय

अस्थी तुज्यो घेवंक कुशींत
आमची भूंय तळमळटा.



१८.

# व्याकरणाचें अध्यापन

व्याकरणाचें अध्ययन आनी अध्यापन हो एक वादाचो विशय जावन आसा. शिकप्यांक आनी शिकोवप्यांक 'व्याकरण' क्लिश्ट आनी कठीण दिसता. व्याकरणाची तासिका विद्यार्थ्यांक आनी शिक्षकांक उबगण हाडटा अशें सर्वसादारण मत आसा. व्याकरण शिकोवचें वा शिकोवचें न्हय हेविशीं विंगड विंगड मतां आयकूंक येतात. व्याकरण शिकोवचेंच जाल्यार तें कितलें शिकोवचें आनी खंयचे पद्धतीन शिकोवचें हेविशीं विचार करूंकूच जाय. इत्सेआड खंयचेय गजालीचें अध्ययन केलें जाल्यार तें चड तेंप तिगचें ना. खंयचेंय अध्ययन तिगपाक शिकपाचो 'परिणाम' आनंद दिवपी आसूंक जाय अशें प्रसिद्ध मानसशास्त्रज्ञ थोर्नडायक हांणी सांगलां. तो तसो नासत तर विद्यार्थी जें शिकला तें रोखडेंच विसरतलो. विद्यार्थी, विद्यार्थी दशेंत आसतना व्याकरण शिकतात. पूण जाणटेपणांत त्या व्याकरणाची तांकां याद जाता ?

पयलींच्या काळांत व्याकरणाच्या अध्ययनाक खूब म्हत्व आशिल्लें. व्याकरण शिकतकूच विद्यार्थी बुदवंत जातात, तांची स्मरणशक्त वाडटा अशो खूब समजुती प्रचलीत आशिल्ल्यो. भाशेचेर प्रभुत्व येवपाक व्याकरण सामकें पाठ येवंक जाय अशी धारणा आशिल्ली. पूण आमी पळयतात की जाणटेपणांत व्याकरणाचीं पुस्तकां म्हऱ्यांत दवरिनासतना लोक शुद्ध आनी प्रभावी भास उलोवंक आनी बरोवंक शकतात. तेन्ना शुद्ध उलोवपाक आनी बरोवपाक व्याकरणाचे नेम तोंडपाठ आसुंकूच

जाय ही गजाल खरी न्हय. ल्हान भुरगीं भास उलयतात. कुटुंबांतले लोक जी भास उलयतात, तांचें तीं अनुकरण करतात. तीं शुद्ध उलयतात. आवय तांकां नामां, विशेशणां, क्रियापदांचे काळ, विभक्ती आनी हेर व्याकरणीक सिद्धान्त घरांत शिकयना. भुरगीं अनुकरणान भास शिकतात. ज्या वाठारांत भुरगीं रावतात त्या वाठारांतले लोक जी भास उलयतात तांचें अनुकरण तीं भुरगीं करतात. ते भाशेची तांकां संवय लागता आनी तीं शुद्ध भास उलयतात. जाण्टे लेगीत बरयतना व्याकरणाचो मात लेगीत विचार करिनात. इतलेंय आसून ते शुद्ध भास बरयतात.

व्याकरणाची तासिका विद्यार्थ्यांक नीरस लागता हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार व्याकरण हो अमूर्त विशय. तेभायर जे पद्धतीन व्याकरण शिकयतात ती पद्धत लेगीत उबगण हाडीसारकी. प्राथमीक वर्गांत व्याकरण शिकयलें जाल्यार ताचो कांय उपेग जावचोना. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार विद्यार्थी अमूर्त गजाली शिकपांत रस घेनात. अमूर्त गजाली शिकपाची तांची बुद्दीक तयारी (mental readiness) नासता. खंयचीय गजाल शिकतलो जाल्यार मानसीक परिपक्वताय (maturation) आसूंक जाय. तेन्ना पिरायेन ल्हान विद्यार्थ्यांक व्याकरणाचे अमूर्त सिद्धान्त आनी संकल्पना शिकयल्यार कांयच फायदो जावचो ना. विद्यार्थ्यांक कितेंय शिकोवचे आदीं आमी थोर्नडायकाचो सज्जतेचो वा तयारेचो नेम (Law of Readiness) मतींत दवरूंक जाय. हांव ह्या विद्यार्थ्याक जें आतां शिकयतलों तें शिकपाची ताची बुद्धीक तयारी आसा? ती तयारी नासत जाल्यार त्या विद्यार्थ्यान कितलेंय पाठांतर केलें जाल्यार ताका ताचें आकलन जावचें ना. आनीक एक मानसशास्त्रीय गजाल मतींत दवरूंक जाय आनी ती म्हळ्यार जें शिक्षक शिकयता, तें अर्थपुराय जालां काय ना हें पळोवपाक जाय. हाका इंग्लिशींत Meaningful Learning अशें म्हणटात. अर्थपुराय अध्ययन खूब तेंप यादींत उरता. जाचें आकलन जावंक ना तें विद्यार्थी बेगीन विसरता. आयजकाल भासशास्त्रज्ञांचें अशें मत आसा की पयलीं जितल्या विस्तारान व्याकरण शिकयताले, तितलें व्याकरण शाळेंत शिकोवचें न्हय. जाका व्याकरणाचें शास्त्रीय रूप खोलायेन शिकपाचें आसा ताणें महाविद्यालयीन पांवड्याचेर तें शिकचें.

व्याकरण केन्ना शिकोवचें? पयलीं भाशेची निर्मणी जाल्या आनी मागीर ताचें व्याकरण तयार जालां. व्याकरणाचें स्वरूप पृथक्करणात्मक (analytical) आशिल्ल्यान विद्यार्थ्यांक जाय तितलें भाशेचें गिन्यान मेळ्ळे उपरांत आनी भाशेचेर प्रभुत्व आयले उपरांतूच ताका व्याकरणाची वळख करून दिवची. भास शिकपाक व्याकरणाची गरज ना. विद्यार्थ्यांची भाशीक तयारी जातकूच आनी बुद्धीक परिपक्वताय

(maturation) आयले उपरांतच व्याकरणाचें अध्यापन सुरू करचें. ही परिपक्वताय येतकूच विद्यार्थ्यांक व्याकरणाची थोडीभोव वळख करून दिवची आनी उपरांत व्याकरणाक अदीक म्हत्व दिवचें.

व्याकरणाचीं दोन रुपां आसात. एक ताचें शास्त्रीय रूप आनी दुसरें कार्यात्मक (functional) रूप. शास्त्रीय रूप हें कठीण आनी रूक्ष आसता. पूण व्याकरणाच्या कार्यात्मक रुपाचेर जर भर दिलो, तर विद्यार्थ्याक तें कठीण आनी क्लिश्ट लागचें ना. भाशीक कुशळताय मेळोवपाक शास्त्रीय व्याकरणाची गरज नासता. गरज आसलीच जाल्यार कांय प्रमाणांत कार्यात्मक व्याकरणाची. भाशेच्या अध्यापनात व्याकरणाक स्वतंत्र तासिका आसतात आनी व्याकरण स्वतंत्रपणान शिकयतात. असले पद्धतीन विद्यार्थ्यांक जरी व्याकरणाचें गिन्यान मेळ्ळें, तरी ताचे भाशीक अभिव्यक्तीचेर व्हडलो परिणाम जायना. व्याकरणाक लागून अभिव्यक्ती सुदारतली आशिल्ली जाल्यार व्याकरण बरोवपी हे व्हडले साहित्यीक जातले आशिल्ले! पूण आमकां अशें चित्र दिसना. आमी अशें खूबदां वाचलां की व्हड साहित्यीक शाळेंत आसतना व्याकरण ह्या विशयांत नापास जाताले वा तांकां तातूंत सामके उणे गूण मेळटाले. कार्यात्मक व्याकरणाच्या सिद्धांताप्रमाण व्याकरणाचो संबंद रचनेकडेन जोडप खूब गरजेचें. विद्यार्थ्यांनी नाम, सर्वनाम, विशेशण आदींच्यो व्याख्या (definitions) पाठ केल्यो म्हूण कांय फायदो जावचोना. वाक्यरचनांनी, भाशेंत तांचो योग्य पद्धतीन उपेग करपाचें कसब तांच्यांत निर्माण जावंक जाय.

आतां व्याकरण शिकोवपाचे पद्धतीविशीं विचार करुंया. व्याकरण शिकोवपाच्यो दोन पद्धती आसात. १) अवगामी पद्धत (Deductive Method) आनी २) उद्गामी पद्धत (Inductive Method). अवगामी पद्धत ही पारंपारीक पद्धत जावन आसा. हे पद्धतीप्रमाण शिक्षक पयलीं परिभाशा, व्याख्या वा सिद्धांत दिता आनी उपरांत देखी दिता. मात, ही पद्धत आयजकाल सोडून दिल्ली आसा. सिद्धान्त कसो आयलो, परिभाशा/व्याख्या कशी आयली, हें शिक्षक सांगिना.

व्याकरण शिकयतना आयजकाल उद्गामी पद्धतीचो अवलंब करतात. हे पद्धतीप्रमाण परिभाशा, व्याख्या वा नेम शिक्षक पयलीं दिना. शिकोवपाचो नेम सकयल दिल्ल्या क्रमान आसता:

१. देखी
२. पृथक्करण
३. वर्गीकरण
४. सिद्धांत, नेम
५. उपयोजन

हे पद्धतींत सुरवेक विंगड विंगड देखी विद्यार्थ्यांसामकार दवरच्यो. ह्या देखींचें पृथक्करण (Analysis) करून तांचें वर्गीकरण (Classification) करचें. मात सिद्धांत वा नेम शिक्षकान सांगचो न्हय, तर तो विद्यार्थ्यांकडल्यान काडून घेवचो. हे पद्धतींत शिक्षकाक अध्यापन सुत्रांचो उपेग करूंक मेळटा. ह्या पुस्तकाच्या चवथ्या प्रकरणांत ह्या अध्यापन सुत्रांचो उल्लेख केला. उद्‌गामी पद्धतीन 'विशिश्टासावन सामान्यामेरेन' म्हळ्यार देखींसावन व्याख्येमेरेन ह्या अध्यापन सुत्रांचो उपेग करूंक मेळटा. एकदां नेम वा परिभाशा विद्यार्थ्यांकडल्यान काडून घेतली की मागीर देखी दिवपाक सांगचें. तो जेन्ना देखी दिता, तेन्ना आपल्या ज्ञानाचें तो उपयोजन करता. पूण फकत देखी आपणावन/मानून घेवन अध्यापकान वोगी रावंक जायना. विद्यार्थ्यांक रचनेंत तांचो उपेग करूंक लावंक जाय. देखीक: विशेशणांचो उपेग करून परिच्छेद वा काणी बरयात अशी सुचोवणी विद्यार्थ्यांक दिवची. अशें करतकूच विद्यार्थ्यांच्या व्याकरणाच्या ज्ञानाची उजळणी जातली आनी ताचें लेखनूय सुदारतलें.



१९.

# व्याकरणाच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो

विशय : कोंकणी यत्ता : आठवी

वेळ :

**पाठ** : क्रियाविशेशण आनी ताचे प्रकार

**उद्दिश्टां**

**ज्ञान** : विद्यार्थ्याक 'क्रियाविशेशण'चे संकल्पनेचें ज्ञान जाता. विद्यार्थी वाक्यांतलीं क्रिया-विशेशणां सोदून काडूंक शकता.

**उपयोजन** : विद्यार्थी आपल्या लेखनांत क्रियाविशेशणांचो उपेग करूंक शकता.

**शिक्षणीक साधन** : गुंडाळी फलक

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| प्रस्तावना | शिक्षक विद्यार्थ्यांक सकयल दिल्ल्या वाक्यांतलीं क्रियापदां आनी विशेशणां सोदून काडूंक सांगता. | विद्यार्थी सोदून काडटा. |
| येतलो – क्रियापद | १) तो फाल्यां येतलो. | |
| रावता – क्रियापद | २) अशोक थंय रावता. | |
| उलयता – क्रियापद | ३) तूं ल्हवू उलयता. | |
| आसा – क्रियापद; गोड – विशेशण | ४) हो आंबो खूब गोड आसा. | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| आयलो – क्रियापद | ५) तो पयर आयलो. | |
| आसा – क्रियापद<br>काळी – विशेशण | ६) ती चली चड काळी आसा. | |
| फाल्यां | १) पयल्या वाक्यांत 'येतलो' ह्या क्रियापदाच्या अर्थांत विशेश भर घालपी उतर खंयचें? | विद्यार्थी उतर सोदता. |
| थंय | २) दुसऱ्या वाक्यांत 'रावता' ह्या क्रियापदाच्या अर्थांत विशेश भर घालपी उतर खंयचें? | |
| ल्हवू | ३) तिसऱ्या वाक्यांत 'उलयता' ह्या क्रियापदाच्या अर्थांत विशेश भर घालपी उतर खंयचें? | |
| खूब | ४) चवथ्या वाक्यांत 'गोड' ह्या विशेशणाच्या अर्थांत विशेश भर घालपी उतर खंयचें? | |
| पयर | ५) पांचव्या वाक्यांत 'आयलो' ह्या क्रियापदाच्या अर्थांत विशेश भर घालपी उतर खंयचें? | |
| चड | ६) सव्या वाक्यांत 'काळी' ह्या विशेशणाच्या वाक्यांत विशेश भर घालपी उतर खंयचें? | |
| | तर फाल्यां, थंय, ल्हवू, पयर, खूब, चड हीं उतरां क्रियापदां आनी विशेशणांच्या अर्थांत चड भर घालतात. | |

**हेतू कथन :** आयज क्रियापदां आनी विशेशणांच्या अर्थांत चड भर घालपी उतरांविशीं शिकुंया.

| | | |
|---|---|---|
| **विशय प्रतिपादन :** | सकयल्या वाक्यांतलीं क्रियापदां आनी विशेशणां सोदून काडात आनी तांच्या अर्थांत विशेश भर दिवपी उतरां सोदून काडात. | विद्यार्थी क्रियापदां आनी विशेशणां आनी तांच्या अर्थांत भर घालपी उतरां सोदून काडटा. |
| वच – क्रियापद<br>भितर – विशेश भर घालपी उतर | तूं भितर वच. | |
| यो – क्रियापद<br>फाल्यां – विशेश भर घालपी उतर | तूं फाल्यां यो. | |
| लांब – विशेशण<br>मातशें – विशेश भर घालपी उतर. | हें खोमीस मातशें लांब कर. | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| बसला – क्रियापद<br>वोगी – विशेश भर घालपी उतर | तो वोगी बसला. | |
| आंबट – विशेशण<br>खूब – विशेश भर घालपी उतर | हें तोर खूब आंबट आसा. | |
| | भितर, फाल्यां, मातशें, वोगी, खूब हीं उतरां, क्रियापदां वा विशेशणांच्या अर्थांत चड भर घालतांत. | |
| क्रियाविशेशण | असल्या उतरांक कितें म्हणटात ? | विद्यार्थी फावो तें उतर सुचयता. |
| जें उतर क्रियापद वा विशेशणाच्या अर्थांत चड भर घालता, ताका क्रियाविशेशण म्हणटात. | खंयच्या उतराक क्रियाविशेशण म्हणटात ? | विद्यार्थी परिभाशा दिता. |
| | शिक्षक व्याख्या फळ्याचेर बरयता.<br>**उजळणी**<br>सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं क्रिया विशेशणां सोदून काडात. | विद्यार्थी क्रियाविशेशणां सोदून काडटा. |
| थंयसर<br>परवां<br>ल्हवू<br>आनीक | १) तूं थंयसर बस.<br>२) हांव परवां वतलों.<br>३) ल्हवू उलय<br>४) फुगो आनीक मोटो जालो. | |
| | सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं क्रियाविशेशणां सोदून काडात. | विद्यार्थी क्रियाविशेशणां सोदून काडटा. |
| अंदू<br>रोखडो<br>मागीर<br>तेन्ना | १) हांव अंदू गायन शिकतलें.<br>२) तो रोखडो आयलो.<br>३) तूं मागीर वच.<br>४) तो तेन्ना न्हिदिल्लो. | |
| वेळ | अंदू, रोखडो, मागीर, तेन्ना ह्या क्रियाविशशेणांपसून कितें समजता ? वेळेक 'काळ हें दुसरें उतर आसा. | |
| काळवाचक | काळ दाखोवपी क्रियाविशेशणांक कसलें क्रियाविशेशण म्हणुंया ? | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| ज्या क्रियविशेशणाक लागून क्रिया केन्ना घडली हें कळटा ताका काळवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात | काळवाचक क्रियाविशेशण म्हळ्यार कितें ? | विद्यार्थी व्याख्या सांगता. |
| | शिक्षक फळ्याचेर व्याख्या बरयता. | |
| | परवड: सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं कालवाचक क्रियाविशेशणां सोदून काडात. | विद्यार्थी कालवाचक क्रियाविशेशणां सोदून काडटा. |
| उसरां | १) राजेश उसरां येता. | |
| व्हदळ | २) टोनी व्हदळ खंय गेल्लो ? | |
| | सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं क्रियाविशेशणां सोदून काडात. | |
| वयर | १) पतंग वयर उडलो. | |
| सकयल | २) कोळसुली सकयल पडली. | |
| हांगा | ३) तूं हांगा बस. | |
| मदीं | ४) ती मदीं बसली. | |
| सुवातेचो | वयर, सकयल, हांगा, मदीं ह्या क्रियाविशेशणांपसून कसलो बोध जाता ? | |
| | सुवातेक 'थळ' हें दुसरें उतर आसा. | |
| थळवाचक क्रियाविशेशण | तेन्ना सुवात वा थळ ह्या क्रियाविशेशणाक कितें म्हणुंया ? | विद्यार्थी फावो तें उतर सुचयता. |
| ज्या क्रियाविशेशणाक लागून खंय क्रिया घडली तें कळटा, त्या क्रियाविशेशणाक थळवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात. | थळवाचक क्रियाविशेशणाची व्याख्या सांगात. | विद्यार्थी व्याख्या सांगता. |
| | शिक्षक व्याख्या फळ्याचेर बरयता. | |
| | परवड : सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं थळवाचक क्रियाविशेशणां सोदून काडात. | विद्यार्थी थळवाचक क्रियाविशेशणां सोदून काडटा. |
| थंयसर | १) तूं थंयसर वतलो ? | |
| पेल्यान | २) आमी पेल्यान बसले. | |
| | सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं क्रियाविशेशणां सोदून काडात. | विद्यार्थी क्रियाविशेशणां सोदून काडटा. |
| | १) दामू वर्गांत वोगी बसता. | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
| --- | --- | --- |
| | २) मेजर कर्तार सिंग दुस्मानाचेर एकदम तुटून पडलो.<br>३) पावस अचानक आयलो.<br>४) तूं ल्हवू उलय. | |
| क्रिया कशी जाली तें कळटा. | वोगी, एकदम, अचानक, ल्हवू ह्या क्रियाविशेशणांपसून कसलो बोध जाता?<br>ह्या क्रियाविशेशणांपासून क्रिया कशी जाली म्हळ्यार क्रियेची रीत कळटा. | |
| रितीवाचक क्रियाविशेशण | ज्या क्रियाविशेशणाक लागून क्रियेची रीत कळटा, त्या क्रियाविशेशणाक कितें म्हणुंया? | |
| ज्या क्रियाविशेशणाक लागून क्रियेची रीत कळटा त्या क्रियाविशेशणाक रितीवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात. | रितीवाचक क्रियाविशेशणाची व्याख्या सांगात. | विद्यार्थी व्याख्या सांगता. |
| | शिक्षक फळ्याचेर व्याख्या बरयता.<br>उजळणी: सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं रितीवाचक क्रियाविशेशणां सोदून काडात: | विद्यार्थी रितीवाचक क्रियाविशेशणां सोदून काडटा. |
| हेभाशेन<br>जूस्त | १) हेभाशेन बरोवंक जाय.<br>२) तो काम जूस्त करतलो. | |
| | सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं क्रियाविशेशणां सोदून काडात. | विद्यार्थी क्रियाविशेशणां सोदून काडटा. |
| खूब<br>इल्लें<br>चड<br>अदीक | १) रामू खूब हांसलो.<br>२) इल्लें कमी उलय.<br>३) तुवें चड जेवंक जाय.<br>४) तो अदीक उलयलो आनी घाणलो. | |
| परिमाणवाचक क्रियाविशेशण | ज्या क्रियाविशेशणाक लागून कितलें तें वा मेजमाप वा परिमाण कळटा, ताका परिमाणवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात.<br>खूब, इल्लें, चड, अदीक ह्या क्रियाविशेशणांक लागून कितलें तें वा मेजमाप वा परिमाण कळटा. असल्या क्रियाविशेशणांक कितें नांव दिवंया? | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| ज्या क्रियाविशेशणाक लागून कितलें तें वा मेजमाप वा परिमाण कळटा ताका परिमाणवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात. | परिमाणवाचक क्रियाविशेशणाची व्याख्या सांगात. | विद्यार्थी व्याख्या सांगता. |
| | उजळणी: सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं परिमाणवाचक क्रियाविशेशणां सोदून काडात. | |
| मातसो | १) राजू, तूं मातसो वोगी राव. | |
| उणे | २) सुण्यान उणें खालें. | |

**संकलन:**

सकयल बरयिल्ल्या वाक्यांतलीं क्रियाविशेशणां सोदून काडात आनी तांचे प्रकार सांगात.

१) तो खूब जेवलो आनी देखून ताका सुस्ती आयली.

२) राजू, लागीं यो.

३) हें तुवें कशें सादलें?

४) म्हाका आनीक जाय.

५) पोस्टमन केन्ना येतलो?

६) तुवें म्हज्या वाडदिसा मुजरत येवचें.

७) तो रातचो थोडें जेवता.

८) सद्या म्हाका फावना.

**स्वाध्याय:** थळवाचक, काळवाचक, रितीवाचक आनी परिमाणवाचक क्रियाविशेशणांचो उपेग करून एक ७-८ वळींची काणी बरयात.

**फलक लेखन:**

**क्रियाविशेशण:** जें उतर क्रियापद वा विशेशणाच्या अर्थांत चड भर घालता ताका क्रियाविशेशण अव्यय म्हणटात.

**काळवाचक क्रियाविशेशण:** ज्या क्रियाविशेशणाक लागून क्रिया केन्ना घडली हें कळटा ताका काळवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात.

**थळवाचक क्रियाविशेशण:** ज्या क्रियाविशेशणाक लागून खंय क्रिया घडली हें कळटा, त्या क्रियाविशेशणाक थळवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात.

**रितीवाचक क्रियाविशेशण:** ज्या क्रियाविशेशणाक लागून क्रियेची रीत कळटा, त्या क्रियाविशेशणाक रितीवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात.

**परिमाणवाचक क्रियाविशेशण:** ज्या क्रियाविशेशणाक लागून कितलें तें वा मेजमाप वा परिमाण कळटा ताका परिमाणवाचक क्रियाविशेशण म्हणटात.

# २०.

# लेखनाचें अध्यापन

शाळेंत शिक्षक विद्यार्थ्यांवरवीं विंगड विंगड प्रकारांचें लेखन करून घेता. देखीक : परिच्छेद लेखन, पत्र-लेखन, मुद्यांवयल्यान काणी लेखन आनी निबंध-लेखन. शिक्षक विद्यार्थ्यांक विशय दिता आनी विद्यार्थ्यांक ताचेर बरोवंक सांगता. विद्यार्थी शाळेंत वा घरा हें लेखन करतात. विद्यार्थ्यांक स्वतंत्रपणान बरोवपाक लावपाआदीं तांकां विंगड विंगड प्रकारांचें लेखन कशें करचें हेविशीं तांकां शिकोवंक जाय. स्वतंत्र रचनेआदीं (Free Composition) नियंत्रीत रचनेचे (Controlled Composition) पाठ शिक्षकान वर्गांत घेवंक जाय. विंगड विंगड रचना शिकयले उपरांत आनी तांची भाशीक क्षमताय वाडले उपरांत तांकां स्वैर रचना (Free Composition) करूंक लावचें. शिक्षकान 'तुमी ह्या विशयाचेर बरयात' अशें म्हणप समा न्हय. शिक्षकान लेखन करपाक विद्यार्थ्यांक मार्गदर्शन करप हें खूब गरजेचें. ह्या मार्गदर्शनाबगर विद्यार्थी वेवस्थीत बरोवंक शकचो ना. तो जे मुद्दे बरयता, तातूंत सुसुत्रताय येवची ना. तो आपल्याक जाय तशें बरयतलो आनी ताचें लेखन प्रभावी जावचें ना. तेन्ना आदीं नियंत्रीत रचनांचे (Controlled Composition or Guided Composition) पाठ वर्गांत घेवचे. अशे पाठ शिकयले उपरांत विद्यार्थ्यांक विशिश्ट प्रकारची रचना कशी बरोवची हेविशीं ज्ञान मेळटलें आनी मागीर तो वेवस्थीतपणान बरोवंक शकतलो.

रचना-शिक्षण शिकोवपाआदीं रचना-शिक्षणाचीं उद्दिश्टां शिक्षकाक खबर आसूंक

जाय. हीं उद्दिश्टां अशीं जावन आसात: १) ज्ञान, २) अभिव्यक्ती, ३) उपयोजन.

कसलेंय लेखन करतलो जाल्यार कशेयभाशेन तें करूंक जायना. देखीक, निबंध बरयतना निबंधाचे खंयचे खंयचे भाग आसतात हें विद्यार्थ्याक खबर आसूंक जाय. निबंधाचे तीन भाग आसतात – १) प्रस्तावना, २) मध्य, ३) अंत (शेवट). कांय कांय विद्यार्थी जेन्ना निबंध बरयतात तेन्ना तांच्या बरोवपांत ह्या भागांचो आसपाव नासता. ते एकाच परिच्छेदांत निबंध बरयतात. निबंधाची प्रस्तावना कशी आसची, ताचो उपसंहार कसो आसचो हेंवूयबी तांकां शिकोवंक जाय. म्हणजेच, निबंध लेखनाची पद्धत ताका खबर आसूंक जाय. पत्र बरोवपाचे पद्धतीविशीं तांकां म्हायती दिवंक जाय. सुरवेक नामो, मागीर तारीख, उपरांत संबोधन, मागीर पत्राचो आशय आनी निमणें पत्राचो शेवट ह्या क्रमान पत्र बरोवंक जाय. विंगड विंगड प्रकारांच्यो रचना बरोवपाच्यो विधी विद्यार्थ्यांक शिकोवंक जाय.

लेखनाच्या पाठाचें दुसरें आनी मुखेल उद्दिश्ट म्हळ्यार अभिव्यक्ती. पूण ही अभिव्यक्ती वा प्रकटीकरण कोणाचें? अर्थांत लेखनाचें मुखेल उद्दिश्ट 'विद्यार्थ्यांची' अभिव्यक्ती जावन आसा. 'विद्यार्थ्यांची' हें मुजरत अवतरण चिन्नांमदीं बरोवपाचें मुखेल कारण म्हळ्यार खुबशे शिक्षक आपुणूच मुद्दे सांगतात आनी त्याच मुद्द्यांचेर विद्यार्थ्यांनी बरोवचें अशी तांची अपेक्षा आसता. हें समा न्हय. अशें केल्ल्यान विद्यार्थ्यांची कल्पकताय आनी सृजनशीलताय आमी चेपून उडयतले. तांच्यांत जी मौलिकताय (Originality) आसा ती आमी फुलोवपाक पावचे नात. हांचो परिणाम असो जातलो की तांचें लेखन साचेबंद जातलें. तें आकर्शक जावचें ना. तेन्ना रचनेचो पाठ शिकयतना ती लेखनकृती तांची आसची हाची शिक्षकान जतनाय घेवंक जाय. नियंत्रीत रचनेच्या पाठाचें अध्यापन करतना लेगीत शिक्षकान विद्यार्थ्यांक तांचे मुद्दे कितें आसात, हें काडून घेवपाचे नदरेन प्रयत्न करूंक जाय. शिक्षकान आपले मुद्दे विद्यार्थ्यांच्या माथ्यार मारचे न्हय. तिसरें उद्दिश्ट म्हळ्यार 'उपयोजन'. जशेजशे भुरगे वाडटात, तांचीं उतरांची संपदाय वृद्धिंगत जाता. क्रमीक पुस्तकां भायर विद्यार्थी खूब अवांतर वाचन करतात. ग्रंथालयांतलीं पुस्तकां, दिसाळीं, नेमाळीं ते वाचतात. शिक्षक जेन्ना अध्यापन करता आनी ज्या सोबीत उतरांचो आनी वाक्प्रचारांचो तो उपेग करता, तांची नोंद ते चोपड्यांनी करतात. कांय कांय विद्यार्थी त्या उतरांचो सांठो आपले तकलेंत दवरतात आनी जेन्ना ते कितेंय बरयतात तेन्ना त्या उतरांचो आनी वाक्प्रचारांचो ते आपल्या बरोवपांत उपेग करतात. आतां लेखनाचो पाठ कसो शिकोवचो? पाठाचे पयले दोन पांवडे म्हळ्यार प्रस्तावना आनी हेतू-कथन हेविशीं बरोवपाची गरज ना. हेविशीं चर्चा केल्ली आसा. पूण विशय-प्रतिपादन कशें करचें हेविशीं म्हायती घेवपाक जाय. विशय प्रतिपादनांत

विद्यार्थ्यांक 'तांचे विचार, तांचे मुद्दे, तांचीं मतां, तांच्यो कल्पना आनी तांच्या अणभवांचें प्रकटीकरण' करपाक प्रवृत्त करूंक जाय. सगल्याच विद्यार्थ्यांक मौखीक रुपांत तांचे विचार व्यक्त करूंक लावंक जाय. विद्यार्थी शिक्षकाच्या प्रस्नांच्यो ज्यो जापो दितात, त्या जापांचो स्विकार करूंक जाय. आपलेच मुद्दे विद्यार्थ्यांनी बरोवचे असो हट्ट शिक्षकान धरचो न्हय. विद्यार्थ्यांक मतप्रदर्शनाची स्वतंत्रताय दिवंक जाय. ह्या पुस्तकाच्या लेखकाक एका प्रशिक्षणार्थ्यान दिल्ल्या निबंध लेखनाच्या सराव पाठाची (Practice Lesson) याद येता. निबंधाचो विशय आसलो 'वर्तमानपत्रांचो उपेग'. शिक्षकान विचारलें, वर्तमानपत्रांचे खंयचे खंयचे उपेग जातात? एका भुरग्यान जाप दिली, "नुस्तें गुठलावपाक". शिक्षकान ही जाप न्हयकारली. भुरग्याचें कितें चुकलें? भुरगीं आपले सरभोंवतणी जें चलता, ताचे जतनायेन निरीक्षण करतात आनी तांच्या सामान्यज्ञानांत भर पडटा. ह्या सामान्य ज्ञानाच्या आदारान तीं नवीन ज्ञान मेळयतात. तेन्ना विद्यार्थी जें अणभवतात ताचें प्रकटीकरण ते करतात. तेन्ना भुरगे जे मुद्दे दितात ते बरोबर आसल्यार शिक्षकान तांचो स्विकार करूंक जाय. हे मुद्दे शिक्षकान फळ्यार बरोवंक जाय. प्रस्न विचारतकूच ते आडखळ्ळ्यार तांकां वेवस्थीत मार्गदर्शन करून तांचेकडल्यान योग्य मुद्दे काडून घेवंक जाय. योग्य उतरां आनी वाक्प्रचार तांकां सुचोवपाक सांगूंक जाय. ते अशुद्ध उलयले जाल्यार तेन्नाच तांकां सुदारूंक जाय. अशे तरेन विशय-प्रतिपादनांत विद्यार्थ्यांच्या पालवान लेखन पाठ विकसीत करूंक जाय. संकलनांत योग्य प्रस्न विचारून मुद्द्यांची पुनरावृत्ती करूंक जाय. विद्यार्थ्यांक आपल्या चोपड्यांनी फलक-लेखन बरोवंक लावंक जाय. निमणें तांकां तो निबंध वा ती काणी वा तें पत्र घरा बरोवंक लावंक जाय. घरपाठ दितना अशी सुचोवणी करूंक जाय की तांणी वर्गांत शिकयिल्लेच मुद्दे बरोवंक जाय अशें ना. तांकां जर हेर मुद्दे सुचता आसत तर ते लेगीत तांणी बरोवचे. हें स्वातंत्र्य तांकां दिवप खूब म्हत्वाचें.

रचना बरयले उपरांत तें तपासप खूब गरजेचें. कांय विद्यार्थी बरयतना तरातरांच्यो चुको करतात. ह्यो चुको सुदारूंक जाय. ह्रस्व, दीर्घ, विराम चिन्नां आनी व्याकरणाच्यो चुको सुदारूंक जाय. विद्यार्थ्याक म्हर्‍यांत घेवन ताची रचना तपासप एकदम उत्तम. पूण वेव्हारीक नदरेन हें शक्य जायना. हें जरी शक्य जालें ना तरी केन्ना केन्ना हे वैयक्तीक तपासणी पद्धतीचो अवलंब शिक्षकान करचो. केन्ना केन्ना खुबशे विद्यार्थी विशिश्ट प्रकारांच्यो चुको करतात. ह्यो चुको शिक्षकान वर्गांत विद्यार्थ्यांचे नदरेक हाडच्यो. रचना बरयले उपरांत रोखडीच तपासणी जावंक जाय आनी विद्यार्थ्याक रोखड्योच आपल्यो चुको कळूंक जाय. विद्यार्थ्यांनी बरयलें आनी पांच म्हयन्यांउपरांत तांच्यो चोपड्यो परत्यो केल्यो जाल्यार कांय फायदो

जावचो ना. विद्यार्थ्यांचें लेखन तपासप हो एक उपचार जावंक फावना. एका वर्सांत १०-१२ रचना बरोवन कितें सादतलें? पूण आयजकाल विद्यार्थ्यांची संख्या खूब वाडिल्ल्यान आनी शिक्षकांक हेर कार्यक्रम खूब आशिल्ले कारणान विद्यार्थी खूब लेखन करूंक शकनात ही गजालूय खरी. पूण जें लेखन विद्यार्थी करतात, तें वयलेवयर तपासचें न्हय. तें जतनायेन तपासप ही शिक्षकाची लागणूक जावन आसा. खुबदां शिक्षक रचनेखाला एकदम शेरे बरयतात. हे शेरे बरयतना शिक्षकान जतनाय घेवपाक जाय. 'बरो' असो शेरो आसत तर विद्यार्थ्याक बरें दिसतलें. पूण 'खराब' असो शेरो मारलो तर ताका खूब वायट दिसतलें. ताचें मनोबळ उणें जातलें. अशे तरेचे वायट शेरे विद्यार्थ्यांच्या अंतस्कर्णाचेर केन्नाच भरून येवचे नात अशे घाय घालतात. तेन्ना शेऱ्यांबदला जर दुसरी पद्धत आपणायली तर बरें जातलें. शिक्षकान अक्षरांचो उपेग करचो. देखीक क, ख, ग आदी. 'क' म्हळ्यार उत्तम, 'ख' म्हळ्यार सादारण आनी 'ग' म्हळ्यार वायट हाची तांकां पयलींच कल्पना दिवची. 'वायट' अशें वाचले उपरांत ताका जो धक्को बसतलो आशिल्लो ताची तिव्रताय 'ग' ह्या अक्षरान उणी जातली.

विद्यार्थ्यांच्यो चुको दाखयतना लेगीत आपलेपणान त्यो चुको दाखोवच्यो. तांचें मनोबळ वाडोवचें. शिक्षकांनी शिक्षणीक मनोविज्ञानाचें अध्ययन केल्लें आसताच. मात त्या मनोविज्ञानाची कारवाय शिकयतना जावंक जाय.



## २१.

# निबंध लेखनाच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो

विशय : कोंकणी — यत्ता : णवी

पाठ : निबंध-लेखन (गोंय – भोंवडेकारांचो सर्ग) — वेळ : ———

**उद्दिश्टां**

**ज्ञान** : विद्यार्थ्याक निबंध बरोवपाचे पद्धतीचें ज्ञान मेळटा.

**अभिव्यक्ती** : विद्यार्थी निबंधाच्या मुद्द्यांचें आपल्या उतरांनी मौखीक आनी लेखी स्वरुपांत प्रकटीकरण करता.

**उपयोजन** : विद्यार्थी फावो त्या उतरांचो उपेग करून निबंध बरयता.

**शिक्षणीक साधनां** : गोंयचे सैमीक सोबितकायेचीं चित्रां, गोंयचीं देवळां आनी इगर्जांचीं चित्रां; भारतांतल्या विंगड विंगड राज्यांतलीं पर्यटक वैशिश्टां दाखोवपी चित्रां.

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| प्रस्तावना | | |
| | शिक्षक विद्यार्थ्यांक कळंगूटचे वेळेचें चित्र दाखयता आनी विचारता. | |
| कळंगूटचे वेळेचें | हें खंयचे वेळेचें चित्र ? | चित्र पळोवन जाप दिता. |
| हय. | तुमीं हे वेळेर केन्ना गेल्यात ? | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्‌दिश्ट |
|---|---|---|
| ही वेळ खूब सोबीत. हांगा खूब भोंवडेकार येतात. दरयाचीं ल्हारां वयर वयर वतात. बरो वारो व्हांवता. वेळेदेगेर माडाचीं झाडां धोलतात... | हे वेळेचें तुमी वर्णन करात. | विद्यार्थी वर्णन करता. |
| | ही वेळ खूब सुंदर. देखून हांगा खूब भोंवडेकार येतात. | |
| मिरामार, हणजूण, कोलवा, वागातोर, हरमल, मोर्जे. | हे वेळेभायर आनीक खूब वेळो गोंयांत आसात. त्यो खंय आसात तें सांगात. | विद्यार्थी याद करून सांगता. |
| | गोंयच्यो वेळो सोबीत. वेळांभायर हेर कांय गजाली हांगा आसात जांकांलागून भारतांतले आनी विदेशी भोंवडेकार गोंयांत येतात. तांकां 'गोंय' हो एक सर्ग असो दिसता. | विद्यार्थ्यांची उत्सुकताय जागृत जाता. |

**हेतूकथन :** आयज आमी 'गोंय – भोंवडेकारांलो सर्ग' ह्या विशयाचेर एक निबंध बरोवया.

| | | |
|---|---|---|
| **विशय प्रतिपादन :** प्रस्तावना, मध्य, अंत. | निबंधाचे कितले भाग आसतात ? | विद्यार्थी याद करून सांगता. |
| | आतां निबंधाची प्रस्तावना करुंया. | |
| महाराष्ट्र, ओरिसा, केरळ, काश्मीर, उत्तर प्रदेश.. | आमच्या देशांत खंयच्या खंयच्या राज्यांनी वचपाक भोंवडेकार आंवडेतात ? | विद्यार्थी सामान्य गिन्यानाच्या आदारान जाप दिता. |
| अजंठा, एलोरा, मुंबय शार | महाराष्ट्रांत कितें पळोवपासारकें आसा ? (शिक्षक अजंठा, एलोराचीं चित्रां दाखयता). | ,, |
| कोणार्काचें सूर्यमंदीर | ओरिसांत कितें पळोवपाक भोंवडेकार वतात ? (शिक्षक कोणार्क मंदिराचें चित्र दाखयता) | ,, |
| काश्मीर हो एक सोबीत सुंदर प्रदेश. | काश्मीर प्रदेशाचें वैशिश्ट कितें ? | ,, |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| थंयचे किल्ले | राजस्थानाचें खाशेलपण कितें? (राजस्थानाच्या किल्ल्यांचीं चित्रां दाखयता.) | ,, |
| मदुरायचें मिनाक्षी मंदीर | तामीळनाडूंत पळोवपासारकें कितें आसा? (मिनाक्षी मंदिराचें चित्र दाखयता.) | ,, |
| | देशी आनी विदेशी भोंवडेकार भारतांतल्या विंगड विंगड राज्यांत वतात. थंय पळोवपासारकें खूब आसता. | |
| हय. | आमच्या गोंयांत भोंवडेकार येतात? | विद्यार्थी जाप दिता. |
| | जे भशेन हेर राज्यांनी भोंवडेकार वतात, तेच भाशेन गोंयांत लेगीत भोंवडेकार येतात. | |
| गोंय हें एक सोबीत राज्य. | गोंयांत ते कित्याक येतात? | विद्यार्थी सामान्य ज्ञानाच्या आदारान जाप दिता. |
| आमच्या भारतांत खूब राज्यां आसात. थंय भोंवेडेकारांक पळोवपासारक्यो खूब सुवाती आसतात. आमच्या गोंय राज्यांत, तें सोबीत आशिल्ल्यान, देशी आनी विदेशी भोंवडेकार येतात. | तर निबंधाची प्रस्तावना तुमी कशे करतले? | विद्यार्थी फावो ती प्रस्तावना करता. |
| | आतां निबंधाचो मदलो भाग बरोवया. मदल्या भागाचे तीन परिच्छेद करुंया. मदल्या भागाच्या पयल्या परिच्छेदांत गोंयचे सैमीक सोबितकायेचें वर्णन करुंया. | |
| गोंयचे सुंदर वेळो, थंडाय दिवपी वारें, हाताक सूख दिवपी भांगरासारकी रेंव, धोलपी पाड, गोंयचीं शेतां, कुळागरां. | गोंयच्या सोबितकायेचें वर्णन तुमी कशें करतले? (विंगड विंगड विद्यार्थ्यांकडल्यान शिक्षक जापो काडून घेता.) | विद्यार्थी पाठाच्या आदारान जाप दिता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्देश्ट |
|---|---|---|
| पाचवीचार | तुमी शेतांचें वर्णन करपाक खंयच्च्या विशेशणांचो उपेग करतले? | विद्यार्थी फावो त्या विशेशणाचो उपेग करता. |
| पाचवो शालू | भूंय कितें न्हेसल्या अशें दिसता? | कल्पनेच्या आदारान जाप दिता. |
| पाचवी ल्हारां, व्हांविल्लेवरी | वारो व्हांवतकूच हीं शेतां कशीं दिसतात? | ,, |
| जायोजुयो, मोगरीं, चांफो, आबोलीं. | गोंयांत कसलीं फुलां मेळटात? | फावो ती जाप दिता. |
| मांडवी, जुवारी | गोंयांत खंयच्यो न्हंयो आसात? | ,, |
| मन तृप्त जाता, धादूस जाता. | ह्यो न्हंयो पळयतकूच भोंवडेकाराक बरें दिसता हें तुमी दुसऱ्या उतरांनी कशें सांगतले? शिक्षक न्हंयांचीं चित्रां दाखयता. | विद्यार्थी परिणामकारक उतरांचो उपेग करता. |
| हांगाचे दोंगर, व्हाळ | हांगा पळोवपासारकें आनी कितें आसा? | |
| खळखळून | व्हाळ कशे व्हांवतात? | विद्यार्थी फावो त्या उतरांचो उपेग करता. |
| हरवळें आनी दूदसागर | गोंयचे खंयचे धबधबे फामाद आसात? | निबंध विकसीत करता. |
| | शिक्षक धब्धब्यांचीं चित्रां दाखयता. | |
| बोंडला, खोतीगांव, मोलें. | गोंयांत खंय खंय अभयारण्यां आसात? | विद्यार्थी निबंधांत चड रस घेता. |
| सुंदर जनावरां आनी सवणीं | हांगा कितें पळोवपाक मेळटा? | |
| नयनरम्य | तर गोंयचे सोबितकायेचें वर्णन करपाक तुमी खंयच्या विशेशणांचो उपेग करतले? | फावो ती जाप दिता. |
| | आतां दुसरो परिच्छेद बरोवया. | |
| हांगां खूब हिंदुंचीं देवळां आनी किरिस्तांवांच्यो इगर्जो आसात. | गोंय सैमीक सोबितकायेखातीर प्रसिद्ध आसा. गोंयांत सैमीक सोबितकायेवांगडा धर्मीक वातावरण दिसून येता ती कशी? | सामान्य ज्ञानाच्या आदारान जाप दिता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| मंगेश, महालसा, शांतादुर्गा | खंयचीं देवळां प्रसिद्ध आसात ? | याद करून सांगता. |
| मनाची शांतताय | ह्या देवळांनी पावतकूच भोंवडेकारांक कितें मेळटा ? | विचार करून जाप दिता. |
| पोरण्या गोंयच्यो | गोंयांत खंयच्यो इगर्जो चड फामाद आसात ? | फावो ती जाप दिता. |
| सेंट फ्रान्सीस शावियेराचे इगर्जेंत | गोंयांत खंयचे इगर्जेंत भारतांतलेच न्हय तर विदेशांतले भोंवडेकार चड येतात ? | फावो ती जाप दिता. |
| भव्य | ह्या इगर्जांचें वर्णन करपाक तुमी खंयच्या विशेशणाचो उपेग करतले ? | विद्यार्थी फावो त्या विशेशणाचो उपेग करता. |
| | आतां तिसऱ्या परिच्छेदांत गोंयचे संस्कृताये संबंदान बरोवया. तुमकां खबर आसतली की गोंय १९ डिसेंबर १९६१ दिसा मेकळें जालें. ताचेपयलीं ४५० वर्सां तें पुर्तुगेजांच्या शेकापोंदा आशिल्लें. | |
| अस्तंतेची संस्कृताय | पुर्तुगेजांच्या शेकापोंदा आशिल्ले कारणान हांगा खंयची संस्कृताय आयली ? | विद्यार्थी जाप दिता. |
| चवथ, दिवाळी, नागपंचम, शिगमो | हांगा हिंदूंचे खंयचे सण/परबो मनयतात ? | |
| जात्रा | देवळालागीं कितें भरता ? | |
| नातलां, खांदार खुरीस.. | किरिस्तांवांचे खंयचे सण/परबो मनयतात ? | सामान्य गिन्यानाच्या आदारान जाप दिता. |
| फेस्तां | इगर्जेलागीं कितें भरता ? | |
| | गोंयची संस्कृताय म्हळ्यार हांगाचे धर्म, हांगाची जियेवपाची पद्धत, हांगाचें संगीत, हांगाचीं नाटकां, हांगाचे नाच. | विद्यार्थी संस्कृताय ह्या उतराचें अर्थ-ग्रहण करता. |
| | हांगा धालो, फुगड्यो पळोवंक मेळटात. तशेंच युरोपांत जे भाशेन लोक नाच करतात, तेंवूय बी पळोवंक मेळटा. हांगा भारतीय संगीत आयकूंक मेळटा आनी अस्तंतेचें संगीत आयकूंक मेळटा. हांगा शिगमो आसा आनी कार्नावाल आसा. | |
| मिश्र, मिस्तुराद | म्हणटकूच हांगाचे संस्कृतायेचें वैशिश्ट्य कितें ? गोंयांत दोन संस्कृतायांचें मिश्रण जालां. | विचार करून जाप दिता. |
| बरे. लोकांक शांतताय जाय. | हांगाच्या लोकांचे एकामेकांमदले संबंद कशे आसात ? | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | आतां निमाणो परिच्छेद बरोवया. गोंयचें सैमीक, धर्मीक आनी संस्कृतीक म्हत्व आमी पळयलें. | |
| गोंय हो एक शांत प्रदेश | भोंवडेकारांचें गोंयाविशीं कितें मत जालां? | सामान्य ज्ञानाच्या आदारान जाप दिता. |
| शांतताय | गोंयांत ते कितें अणभवतात? | |
| गोंय हो सोबीत प्रदेश. हो भारताचो सर्ग. हांगा परत परत येवचेंशें दिसता. | गोंयाविशीं ते कितें म्हणटात? | निबंधाक बरो शेवट सुचयता. |

**संकलन :**

१) तुमी निबंधाची प्रस्तावना कशे करतले?

२) गोंयचे सैमीक सोबितकायेविशीं खंयचे मुद्दे बरयतले?

३) गोंयच्या धर्मीक म्हत्वाविशीं निबंधांत कितें बरयतले?

४) गोंयचे संस्कृतायेविशीं भोंवडेकारांक कित्याक ओड दिसता?

५) निबंधाचो शेवट तुमी कशे करतले?

**स्वाध्याय :** 'गोंय – भोंवडेकारांचो सर्ग' ह्या विशयाचेर तुमच्या उतरांनी २०-३५ वळींचो एक निबंध बरयात.

**फलक लेखन :**

**गोंय – भोंवडेकारांलो सर्ग**

**प्रस्तावना** – भारतांत खूब पर्यटन थळां – गोंय लेगीत फामाद थळ.

**मध्य** – गोंयची सैमीक सोबितकाय – गोंयच्यो वेळो, न्हंयो, शेतां, कुळागरां, दोंगर, फुलां, घोगे.

गोंयचें धर्मीक म्हत्व – हांगाचीं देवळां, इगर्जो, जात्रा, फेस्तां, गोंयच्या धर्मीक वातावरणाक लागून मनाक शांतताय.

गोंयचें संस्कृतीक वैशिश्ट – हिंदूंचे आनी किरिस्तांवांचे विंगड विंगड धर्मीक सण, भारतीय आनी अस्तंत देशांच्या संस्कृतायांचें मिश्रण.

**शेवट** – गोंय हो भोंवडेकारांचो सर्ग.

२२.

# पत्र लेखनाच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो

विशय : कोंकणी — यत्ता : आठवी

पाठ : पत्र-लेखन — वेळ : ————

उद्दिश्टां

**ज्ञान** : विद्यार्थ्याक पत्र बरोवपाच्या विधींचें ज्ञान जाता.

**अभिव्यक्ती** : विद्यार्थी पत्रांच्या मुद्द्यांचें मौखीक आनी लेखी स्वरुपांत प्रकटीकरण करता.

**उपयोजन** : विद्यार्थी फावो त्या उतरांचो लेखनांत उपेग करता.

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| प्रस्तावना | तुमचे शाळेंत शिक्षक तुमकां विंगड विंगड विशय शिकयतात. हेभायर शाळेंत विंगड विंगड कार्यक्रम जातात. | |
| १५ आगश्ट, गांधी जयंती, शिक्षक दीस, प्रजासत्ताक दीस... | तुमचे शाळेंत खंयचे दीस मनयतात ? | विद्यार्थी जाप दिता. |
| | तुमी हे दीस मनयतात. हाकालागून तुमचो खूब फायदो जाता. तुमकां ह्या दिसांच्या म्हत्वाविशीं खूब म्हायती मेळटा. | |
| हय. | तुमी असल्या कार्यक्रमांत वांटो घेतात ? | |
| | तुमी शाळेंत विंगड विंगड विशय शिकतात आनी विंगड विंगड कार्यक्रमांनी भाग घेतात. | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
| --- | --- | --- |
| | केन्ना केन्ना हे कार्यक्रम पळोवपाक तुमचे पालक येतात. भाग घेवप्यांची शिक्षक तोखणाय करता. जेन्ना तुमची तोखणाय जाता, तेन्ना तुमकां बरें दिसता आनी तुमकां कितलो आनंद जाला हें दुसऱ्यांक सांगन दिसता. तुमचे शाळेंत जे कार्यक्रम जातात आनी तुमी तातूंत जो वांटो घेतिल्लो आसता, तेविशीं तुमकां तुमच्या इश्टांक सांगचें अशें दिसता. | शिक्षकाचें कथन आयकता. |
| चीट बरोवन | दर एके शाळेंत १५ आगश्ट मनयतात. समजुंया, तुमचो इश्ट दुसऱ्या शारांत वा गांवांत शिकता आनी तुमचे शाळेंत तो १५ आगश्टाचो सुवाळो जालो तेविशीं तुमी तुमच्या इश्टाक कळोवंक सोदतात, तर ताका तुमी कशे कळयतले ? | योग्य जाप दिता. |
| **हेतू कथन :** | तर आयज आमी 'शाळेंत जाल्ल्या १५ आगश्टाच्या सुवाळ्याचें वर्णन' करून इश्टाक एक पत्र बरोवया. | |
| विशय-प्रतिपादन<br>पयलीं नामो बरयतले. | तुमी पत्रां कशीं बरोवंक जाय हें जाणात.<br>पत्राची सुरवात तूं कशी करतलो ? (शिक्षक विद्यार्थ्यांच्या पालवान चीट बोर्डार बरयता.)<br><br>शिक्षक एका विद्यार्थ्याक ताचो नामो सांगपाक सांगता. | आदल्या गिन्यानाच्या आदारान जाप दिता. |
| तारीख | नाम्यासकयल कितें बरोवंक जाय ? | आदल्या गिन्यानाच्या आदारान जाप दिता. |
| संबोधन<br>मोगाळ... | तारीख बरयले उपरांत कितें बरोवंक जाय ?<br>तूं हें कशें करतलो ? | ''<br>'' |
| | तुमी तुमच्या इश्टाक चिटयो बरयतात. इश्टूयबी तुमकां चिटयो बरयता. | |
| विंगड विंगड जापो.<br>देखीक : म्हाका तुजी खबर मेळ्ळी. तुज्या घरचीं सगळीं बरीं आसात हें वाचून खूब खोस जाली. तुजो अभ्यास बरो चल्ला हें वाचुनूय आनंद जालो. | आतां सुरवेक तुमी कितें बरयतले ? | |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | ही जाली चिटयेची प्रस्तावना. तुमचे शाळेंत जो १५ आगश्टाचो दबाजो जालो, ताचें आतां तुमी वर्णन करूंक जाय.<br>शिक्षक विंगड विंगड विद्यार्थ्यांचो पालव घेवन पत्राचे मुद्दे तांकां सांगूंक लायता. | विद्यार्थी पत्राचो विस्तार करता. |
| त्या दिसा सकाळीं ९ वरांचेर आमी विद्यार्थी शाळेच्या मैदानांत जमले. | तुमी सगले विद्यार्थी केन्ना आनी खंय जमले? | याद करून जाप दिता. |
| मुखेल अध्यापकान तिरंगी बावटो स्तंभाचेर वयर चडयलो. | मुखेल अध्यापकान कितें केलें? | याद करून जाप दिता. |
| ध्वजारोहण | बावटो वयर चडोवप हाका एक उतर सांगात. | योग्य उतर दिता. |
| आमी राष्ट्रगीत गायलें. | ध्वजारोहण जालेउपरांत तुमी कितें गायलें? | पत्राचो विस्तार करता. |
| राष्ट्रगीत जाले उपरांत प्रधान अध्यापकान स्वतंत्रताये दिसाचें म्हत्व स्पश्ट करून भाशण दिलें. | राष्ट्रगीत जाले उपरांत प्रधान अध्यापकान कितें केलें? | क्रमान मुद्दे सांगता. |
| तांणी सांगलें की आमकां ही स्वतंत्रताय सुटके झुजाऱ्यांच्या त्यागाक आनी हौतात्म्याक लागून मेळ्ळ्या. आमकां तांचेविशीं कृतज्ञताय व्यक्त करूंक जाय. हे स्वतंत्रतायेचें रक्षण करपाक आमी सदांच जाग्रुत रावंक जाय. | भाशणांत तांणी कितें सांगलें? | भाशणाचो आशय सांगता. |
| देशभक्तीची | हें भाशण आयकतना तुमच्या मनांत कसली भावना उचंबळून आयली? | योग्य जाप दिता. |
| 'भारत माता की जय' ही घोशणा दिली. | भाशण सोंपले उपरांत तुमी कसली घोशणा दिली? | ,, |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| देशभक्तीच्या गितांची सर्त जाली. | भाशण जाले उपरांत कसलो कार्यक्रम जालो ? | घडणुकेचो तपशील सांगता. |
| हे सर्तींत हांवें वांटो घेतिल्लो. | हे सर्तींत तुवें वांटो घेतिल्लो व्हय ? | |
| म्हाका हे सर्तींत पयलें पारितोशीक मेळ्ळें. | तुका हे सर्तींत खंयचें पारितोशीक मेळ्ळें ? | |
| समेस्त विद्यार्थ्यांक गोड खाण वाटलें. अशे तरेन आमी १५ आगश्ट मनयलो. | गीत गायनाचे सर्ती उपरांत कितें जालें ? | फावो तो मुद्दो सांगता. |
| तुजेय शाळेंत १५ आगश्टाचो दबाजो व्हड उमेदीन मनयला आसतलो. ताचें वर्णन करून तूं म्हाका चीट बरय. तुजे चिटयेची हांव वाट पळयतां. | पत्रांत निमणें तुमी कितें बरयतले ? | |
| तुज्या आवयबापायक म्हजे मायेमोगाचो नमस्कार सांग. | आनी फुडें तुमी कितें बरयतले ? | फावो ती जाप दिता. |
| तुजो मोगाळ इश्ट...' | चिटयेचो शेवट तुमी कशे करतले ? | |
| | शिक्षक विद्यार्थ्यांक फळ्यार बरयिल्ल्या पत्राचें मूक वाचन करूंक सांगता. | फावो ती जाप दिता. विद्यार्थी मूक वाचन करता. |

**संकलन :**

१) पत्राचे सुर्वेक तुमी कितें बरयतले ?

२) तुमी संबोधन कशे तरेन करतले ?

३) संबोधन केले उपरांत सुर्वेच्या वळींनी कितें बरयतले ?

४) स्वतंत्रतायेच्या दबाज्याचें वर्णन तुमी कशें करतले ?

५) पत्राच्या निमण्या वळींनी तुमी कितें बरयतले ?

६) पत्राचो शेवट तुमी कशे करतले ?

**स्वाध्याय :** तुमचे शाळेंत 'गांधी जयंती'चो दबाजो जालो, ताचें वर्णन करून इश्टाक चीट बरयात.

---

**फलक लेखन**

नामो
तारीख

मोगाळ अशोकाक,

तुजी चीट मेळ्ळी. तुमचे घरचे सगले लोक बरे आसात हें वाचून खूब खोस भोगली. तुजो अभ्यास वेवस्थीत चल्ला हें वाचुनूय बरें दिसलें.

आमचे शाळेंत १५ आगश्ट मनयलो. आमी सगले विद्यार्थी मैदानार जमले. मुख्याध्यापकान ध्वजारोहण केलें. ताचे उपरांत आमी राष्ट्रगीत गायलें. राष्ट्रगीत जाले उपरांत मुख्याध्यापकान १५ आगश्टाचें म्हत्व स्पश्ट करून भाशण केलें. तें आयकून आमचें मन देशभक्तीन उपाट भरलें. भाशणा उपरांत देशभक्तीच्या गितांची सर्त जाली. ते सर्तींत म्हाका पयलें बक्षीस मेळ्ळें. मागीर आमकां सगल्यांक गोड खाण दिलें.

तुजेय शाळेंत १५ आगश्टाचो दबाजो जालो आसतलोच. ताचें वर्णन करून तूं चीट बरय. हांव तुजे चिटयेची वाट पळयतां.

तुज्या आवय बापायक म्हजो मायेमोगाचो नमस्कार मुजरत सांग.

तुजो मोगाळ इश्ट,
राजेश

२३.

# मुद्द्यांवयल्यान काणी-लेखनाच्या पाठाच्या नियोजनाचो नमुनो

विशय : कोंकणी | यत्ता : आठवी

पाठ : मुद्द्यांवयल्यान काणी-लेखन | वेळ : ————

**उद्दिश्टां**

**ज्ञान** : विद्यार्थ्याक काणी बरोवपाच्या विधींचें गिन्यान जाता.

**अभिव्यक्ती** : विद्यार्थी मौखीक आनी लेखी स्वरुपांत काणयेचें प्रकटीकरण करता.

**उपयोजन** : विद्यार्थी फावो तीं उतरां आनी वाक्प्रचारांचो लेखनांत उपेग करता.

**अभिरुची** : विद्यार्थ्यांमदीं लेखनांत रुची निर्माण जाता.

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| प्रस्तावना | शिक्षक विद्यार्थ्याक एक काणी सांगता.<br><br>एके न्हंयचे देगेर एक झाड आशिल्लें. त्या झाडाचेर एक पारवो बशिल्लो. ते न्हंयेंत एक मूय पडली आनी ती न्हंयेंत व्हांवत वचूंक लागली. पारव्यान तें पळयलें. ताका ते मुयेची काकूट दिसली. ताणें | विद्यार्थी जतनायेन आयकता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | ते मुयेक वांचोवपाचें थारायलें. झाडावयले एके ताळयेचें एक पान ताणें तोडलें आनी तें न्हंयेंत उडयलें. मूय त्या पानार आयली. ल्हवू ल्हवू तें पान व्हांवत व्हांवत न्हंयचे देगेर आयलें. मुयेचो अशे तरेन प्राण वांचलो.<br>एक दीस न्हंयेदेगेर एक शिकारी आयलो. ताणें त्या पारव्याक झाडाचे ताळयेर बशिल्लो पळयलो. ताणें आपलें आर्म काडलें आनी पारव्याचेर नेम धरलो. पारव्यान वांचयिल्ली मूय न्हंयचे देगेर आशिल्ली. तो शिकारी उबो आशिल्लो थंय ती आशिल्ली. पारव्याचें जिवीत संकश्टांत सांपडलां हें तिका कळ्ळें. पारव्यान तिचेर उपकार केल्ल्याची तिका याद जाली. तिणें आनीक विचार केलो ना. शिकारी चाप ओडपाचो आशिल्लो. इतल्यांत ती ताच्या पांयांक किंवाट्यान चाबली. शिकाऱ्यान 'हाय' म्हळें आनी ताचो नेम चुकलो. आर्माचो व्हड आवाज जालो. पारव्याक कळ्ळें की शिकारी आयला! ताणें उशीर केलो ना. तो भुर्र करून मळबांत उडून गेलो.<br>मूय हो सामको ल्हान प्राणी. पूण ल्हान प्राणीलेगीत व्हड प्राण्याच्या उपकारा पडूंक शकता. | |

**हेतू-कथन** -- अशेच तरेची एक काणी आमी मुद्द्यांच्या आदारान आयज बरोवया

| | | |
|---|---|---|
| विशय-प्रतिपादन | शिक्षक गुंडाळ फलकावयले मुद्दे विद्यार्थ्यांक वाचूंक सांगता :<br>एक शींव – न्हिदप – उंदरान येवप – शिंवाचे कुडीचेर उडयो मारप -- शींव जागो जावप – उंदराची प्रार्थना – शींव जाळ्यांत सांपडप – उंदरान जाळें तोडप -- शिकवण. | विद्यार्थी मुद्द्यांचें मूक वाचन करता. |
| एक रान आसलें. | तुमी काणयेची सुरवात कशे करतले ? | विद्यार्थी विचार करून जाप दिता. |
| त्या रानांत शींव, वाग, हत्ती, कोले, घोडे आदी जनावरां रावतालीं. | त्या रानांत कोण रावताले ? | सामान्य गिन्यानाच्या आदारान जाप दिता. |
| शिंवाक | त्या तेंपार खंयच्या प्राण्याक जंगलाचो राजा म्हणटाले ? | विद्यार्थी जाप दिता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| | शिक्षक कथन करता.<br>तर आमी काणयेची सुरवात अशे तरेन करुंया. ‘एक रान आसलें. त्या रानांत तरांतरांचे प्राणी रावताले. त्या तेंपार शींव त्या सगल्या प्राण्यांचो राजा आसलो.... | |
| तो न्हिदिल्लो. | शींव झाडापोंदा कितें करतालो ? | फावो त्या उतरांचो उपेग करता. |
| सुस्त | तो कसो न्हिदिल्लो ? | ,, |
| तो व्हडल्या व्हडल्यान घोरेतालो. | न्हिदांत तो कितें करतालो ? | ,, |
| ना | तो राजा आशिल्ल्यान ताच्या म्हऱ्यांत वचपाक कोणाची कापास्ताद आसली ? | ,, |
| एक उंदीर | शींव न्हिदिल्लो आसतना थंय अचकीत कोण आयलो ? | जाप दिता. |
| तो एक ल्हान आनी फ्राक प्राणी आशिल्लो. | तुमी त्या उंदराचें वर्णन कशे करतले ? | वर्णन करतात. |
| | शिक्षक : शींव सुस्त न्हिदिल्लो आनी अचकीत थंय एक इल्लोसो उंदीर आयलो. | |
| ताका दिसलें, शींव सुस्त न्हिदला. तो उठपाक कठीण. मात्शी मजा करुंया. | उंदरान कितें येवजिलें ? | मुद्द्यांच्या आदारान जाप दिता. |
| तो शिंवाच्या आंगार चडलो आनी उडयो मारूंक लागलो. | उंदरान कितें केलें ? | |
| अचकीत एका बिळांतल्यान एक उंदीर आयलो. ताणें त्या सुस्त न्हिदिल्ल्या शिंवाक पळयलो आनी थोडी मजा करपाचें थारायलें. तो शिंवाच्या आंगार उडयो मारपाक लागलो. | आतां तुमी ही काणी फुडें कशी सांगतले ? | विद्यार्थी काणयेचो विस्तार करता. |
| शींव जागो जालो. | उंदरान उडयो मारिल्ल्यान कितें जालें ? | फावो ती जाप दिता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतर-क्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| एक ल्हान प्राणी आपल्यासारक्या राजाच्या आंगाचेर नाचता. | जागो जालेबरोबर ताका कितें दिसलें ? | फावो ती जाप दिता. |
| ताका तिडक मारली. | शिंवाक कितें जालें ? शिक्षक : आमकां मनशांक लेगीत न्हिदेंतल्यान कोणेंय उठयतकूच तिडक मारता. | |
| तो फुरयोज जालो. | शिंवाक खूब तिडक मारली, हें सांगपाक खंयच्या वाक्प्रचाराचो उपेग करतले ? | फावो तो वाक्प्रचार सुचयता. |
| शिंवान त्या उंदराक आपल्या दावकुलांनी धरलो. | शिंवान कितें केलें ? | |
| तोंकाळ | शिंवाचे पंजे कशे आसतात ? | कल्पनाशक्तीच्या आदारान जाप दिता. |
| | शिंवान उंदराक आपल्या दावकुलांनी घट्ट धरलो. तांचे मजगतीं संवाद सुरू जालो. तो तुमी आपल्या उतरांनी आतां सांगूंक जाय. | |
| तो थरथरूंक लागलो. | पयलीं सांगात, उंदराची स्थिती कितें जाली ? | योग्य जाप दिता. |
| शिंवान एक व्हड आरड मारली आनी म्हळें, ''आरे तूं येदोसो सामान्य प्राणी. हांव ह्या रानाचो राजा, तुजी कितली कापास्ताद म्हज्या आंगार चडून उडयो मारपाची ?'' | शिंवान उंदराक कितें म्हळें ? | विद्यार्थी काणयेचो विस्तार करता. |
| ''तुजी आतां धडगत ना. तुजे करणेक ख्यास्त भोगुंकूच जाय. जंगलाच्या राजाचो तूं अपमान करता ? तुका आतां हांव खावन उडयतां.'' | शिंवान फुडें कितें म्हळां आसतलें ? | विद्यार्थी काणयेचो विस्तार करता. |
| ''ए राजा, हांव तुजी क्षमा मागतां. म्हाका गुन्यांव भोगोस. हांव हाचे फुडें असली करणी केन्नाच करचोंना. म्हाका मातशी दया दाखय.'' | हे उपरांत उंदरान कितें म्हळ्ळां आसतलें ? | विद्यार्थी काणयेचो विस्तार करता. |

| विशय-वस्तू | अध्यापक-छात्र आंतरक्रिया | विशिश्ट उद्दिश्ट |
|---|---|---|
| ''तुवें म्हाका दया दाखयल्यार हांवूय बी केन्ना तुज्या उपकरा पडटलों.'' | आनीक उंदरान शिंवाक कितें सांगलां आसतलें? | विद्यार्थी काणी विकसीत करता. |
| तो खो खो करून हांसूंक लागलो. | शिंवान हें आयकून कितें केलें? | '' |
| ''तूं म्हाका मदत करतलो? तूं इल्लोसो मरे! हांव खंय आनी तूं खंय, म्हजी शक्त कितली ती तूं जाणा मरे? तूं इल्लोसो! तुज्या आंगांत शक्त तरी आसा मरे?'' | शिंवान उंदराक कितें म्हळ्ळां आसतलें? | |
| ''हांव तुका शरण आयलां. म्हाका सोडून दी.'' | उंदरान कितें म्हळें? | काणयेचो विस्तार करता. |
| उंदराक सोडून दिलो. | शिंवान कितें केलें? | '' |
| तो एका शिकाऱ्याच्या जाळ्यांत सांपडलो. | एक दीस शिंवाची कितें गत जाली? | '' |
| जाळ्यांतल्यान सुटपाक खूब यत्न केले. | ताणें कितें केलें? | मुद्द्यांच्या आदारान जाप दिता. |
| बिळांतल्यान उंदीर आयलो. | इतल्यांत थंय कोण आयलो? | '' |
| आपल्या तोंकाळ दातांनी जाळें तोडलें. | उंदरान कितें केलें? | '' |
| | शिक्षक सांगता: अशे तरेन शींव मेकळो जालो. | |
| तुवें सांगिल्लें खरें करून दाखयलें. | ताणें उंदराक कितें म्हळें? | |
| ल्हान लेगीत व्हडाक मदत करूंक शकता. | हे काणयेवरसून कितें शिकवण मेळटा? | विद्यार्थी 'शिकवण' सांगता. |

**संकलन :**

१) रानांत कोण न्हिदिल्लो ?

२) थंय कोण आयलो ?

३) उंदरान कितें केलें ?

४) जागो जातकूच शिंवान कितें केलें ?

५) उंदरान शिंवाक कितें सांगलें ?

६) उंदरान शिंवाक जाळ्यांतल्यान कसो मेकळो केलो ?

७) हे काणयेवरवीं तुमकां कसली शिकवण मेळटा ?

८) हे काणयेक तुमी एक फावो तसो माथाळो दियात.

शिक्षक (वेळ आसल्यार) एका विद्यार्थ्याक पुराय काणी सांगूंक लायता.

**घरपाठ :** तुमी ही काणी घरा बरोवन हाडात.

## फलक लेखन

एका रानांत एका झाडापोंदा एक शींव सुस्त न्हिदिल्लो. इतल्यांत एका बिळांतल्यान एक उंदीर आयलो. तो शिंवाचेर चडून ताचेर उडयो मारपाक लागलो. शींव जागो जालो. तो फुरयोज जालो. ताणें उंदराक आपल्या दावकुलांनी घट्ट धरलो आनी ताका सांगलें, ''तुजी इतली कापास्ताद ? हांव तुका आतां मारून उडयतां.'' उंदीर थरथरूंक लागलो. ताणें शिंवाक सांगलें, ''म्हजी चूक जाली. म्हाका क्षमा करात. म्हाका गुन्यांव भोगोस. हांव हाचेफुडें अशें केन्नाच करचोंना. तूं संकश्टांत सांपडल्यार हांव तुका केन्नाय तरी मदत करतां.'' शींव हांसलो. पूण ताणें उंदराक सोडून दिलो. एक दीस शींव शिकाऱ्याच्या जाळ्यांत सांपडलो. तो खूब धडपडलो. पूण तो भायर येवंक शकलोना. इतल्यांत उंदीर थंय पावलो. ताणें आपल्या तोंकाळ दातांनी जाळें तोडलें, शिंवाची सुटका केली आनी आपलीं उतरां खरीं केलीं. हे काणयेंतल्यान शिकवण मेळटा ती अशी – ल्हान लेगीत व्हडांक मदत करूंक शकता.

## २४.

# प्रस्न विचारपाचें कसब

अध्यापनाच्या मळार एक काळ असो आसलो की 'शिकोवप' म्हळ्यार ''म्हायतेची पुरवण करप'' असो समज आशिल्लो. विद्यार्थ्यांची भुमिका निश्क्रीय श्रोत्यांची आशिल्ली आनी शिक्षक हो वर्गाचो केंद्रबिंदू जावन आशिल्लो. आयज शिक्षकाची भुमिका वेगळी जाल्या. तो फकत ज्ञान पुरोवपी न्हय तर तो 'प्रवर्तक आनी पथप्रदर्शक' जावन आसा. विद्यार्थ्यांक प्रेरीत (motivate) कसो करचो हेविशीं तो सादूर आसता. पाठांत तांचो वांटो कसो चड जातलो हेविशीं तो प्रयत्नशीळ आसता. आयज शिक्षणाची प्रक्रिया द्वी-ध्रुवीय (bi-polar) जाल्या. शिक्षक आनी शिकपी हांचेमदली आंतरक्रिया वाडत चल्ल्या. विद्यार्थ्यांक पाठांत सहभागी करून घेवपाक शिक्षकान प्रस्न विचारपाचें कसब आत्मसात करूंक जाय. मनशान पुर्विल्ल्या काळासावन आपल्याक प्रस्न विचारल्यात. 'हें कशें जाता?' ह्या प्रस्नाची जाप दिवपाक ताणें आपले बुद्धीक खूब ताणून पळयलां. ताचे तर्कलेंतल्या 'प्रस्नांक' लागून सदांच विचारमंथन चालू उरलें आनी गूढ प्रस्नांच्यो जापो सोदून काडपाक ताका येस मेळ्ळें. आयज आमी दर एका मळार जी उदरगत पळयतात हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार मनशाचे 'प्रस्नांच्यो' जापो सोदपाचे यत्न. मनीसकुळयेचें जें दायज आसा, तें विंगड विंगड क्षेत्रांतल्या प्रस्नांच्यो जापो सोदपाच्या मनशाच्या कश्टांक लागून अस्तित्वांत आयलां. अध्यापन क्षेत्रांत लेगीत प्रस्नांक खूब म्हत्व आसा. तेन्ना दर एका शिक्षकान प्रस्न विचारपाचें तंत्र आपणावंक जाय.

प्रस्न विचारपाच्या कसबांविशीं आतां चर्चा करुंया. प्रस्न विचारप सोपें न्हय. ताचो उद्देश फकत पाठ केल्ले म्हायतेची विद्यार्थ्यांक याद करूक लावप इतलेंच न्हय तर तो अध्ययन करता, ताचें चिकित्सकतायेन विश्लेशण करपाक आनी ताका मेळिल्ले म्हायतेच्या आदारान 'सामान्यीकरण' (generalisation) करपाक ताका प्रवृत्त करप होवूय आसा. प्रभावीपणान प्रस्न करपाचें कसब आत्मसात करपाक दर एका शिक्षकांत सकयल बरयिल्ले गूण आसूंक जाय.

१) ताचे विचार करपाचे पद्धतींत स्पश्टताय आसूंक जाय आनी ताच्यांत तर्कसंगत पद्धतीन विचार करपाची तांक आसूंक जाय. विशयाचें ताका भरपूर ज्ञान आसूंक जाय. ज्या शिक्षकाचें गिन्यान जेमतेम आसता तो प्रभावीपणान प्रस्न विचारूंक शकचोना.

२) ताका सापेक्षीक मूल्यांचें भान (sense of relative values) आसूंक जाय. म्हत्व नाशिल्ले प्रस्न विचारपाचें ताणें टाळूंक जाय. फकत म्हत्वपूर्ण प्रस्न ताणें विचारूंक जाय.

३) प्रस्नांच्या जापांची रचना कुशळतायेन करूंक जाय. प्रस्नांची रचना सारकी नासल्यार ताका योग्य जापो मेळच्योनात.

४) ताणें आत्मविश्वासपूर्वक पद्धतीन प्रस्न विचारूंक जाय. असले शैलीन ताणें प्रस्न विचारलेनात जाल्यार वर्ग जापो दिवपाक तयार जावचोना.

**प्रस्नांचीं कार्यां** (Functions)

१) प्रस्न विद्यार्थ्याक विचार करपाक प्रवृत्त करता.

२) प्रस्नांक लागून अभिरूची निर्माण जाता.

३) उद्दिश्टां कितल्या प्रमाणांत साध्य जाल्यांत हें प्रस्नांवरवीं कळटा.

४) शिक्षणीक अणभवांचें वेवस्थापन (organisation) आनी अन्वयार्थ प्रस्नांवरवीं जाता.

५) म्हायती आनी संकल्पनांचो अभ्यास (drill) प्रस्नांक लागून जाता. प्रस्नांक लागून मेळयिल्ल्या ज्ञानाचें दृढीकरण जाता.

६) विशयवस्तूंचे जे म्हत्वपूर्ण घटक (elements) आसतात, तांचेकडेन शिक्षक विद्यार्थ्यांचें लक्ष ओढून घेवंक शकता.

७) प्रस्नांचें मानसशास्त्रीय म्हत्व आसा. विद्यार्थी ही एक व्यक्ती वर्गांत आसा अशें कांय शिक्षक मानीचनात. तांकां आपुणूच खूब म्हत्वपूर्ण व्यक्ती अशें दिसता. विद्यार्थ्यांचे हाजेरेची दखल ते घेनात. तांचेकडेन नदर-संपर्क

(eye-contact) स्थापीत करिनात. जेन्ना शिक्षक विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारता, तेन्ना विद्यार्थ्यांमदीं 'अहं' बळटा. प्रवर्तनाचो एक सिद्धांत असो जावन आसा की शिक्षकान विद्यार्थ्यांच्या अहंभावाचें चडांत चड पोशण कशें जातलें (ego-maximisation) हाचेकडेन लक्ष दिवंक जाय. विद्यार्थ्यांक दिसूंक जाय की शिक्षक म्हाका किंमत दिता. तो म्हाका कमी लेखिना. तो म्हाका वळखता (recognition). विद्यार्थ्याकडेन अवधान दिवप आनी ताका वळखप (attention and recognition) ह्यो गजाली खूब गरजेच्यो आनी त्यो प्रस्न विचारून साध्य जातात. प्रस्नांवरवीं शिक्षक विद्यार्थ्यांकडेन सुसंवाद (rapport) प्रस्थापीत करूंक शकता. शिक्षकान सदांच मतींत दवरूंक जाय की विद्यार्थी म्हळ्यार निर्जीव वस्तू न्हय. तो खूब संवेदनशीळ आसता. वांगडाच प्रस्नांचें मानसशास्त्रीय म्हत्व खूब आसता.

८) प्रस्नांवरवीं उद्दिश्टांचें मूल्यमापन जाता.

९) जर शिक्षकाक दिसलें की विद्यार्थी अवधान दिनात, तर हाचेर उपाय म्हळ्यार प्रस्न विचारप.

१०) विद्यार्थ्यांत जे सूप्त गूण आसतात, तांचो सोद प्रस्नांवरवीं घेवं येता.

प्रस्नांविशीं कांय म्हत्वपूर्ण सुचोवण्यो सकयल दिल्यात:

१) विचार प्रवर्तक (Thought provoking) प्रस्न विचारचे.

२) प्रस्नांचें स्वरूप संक्षिप्त आसचें.

३) प्रस्न संदिग्ध आसचे न्हय. ते नि:संदिग्ध, स्पश्ट आसचे. शिक्षकान कितें विचारलां हें विद्यार्थ्यांक कळूंक जाय. 'तुमकां आर्यभटाविशीं कितें खबर आसा?' हो संदिग्ध प्रस्न. असले प्रस्न शिक्षकान विचारचे न्हय.

४) विद्यार्थ्यांची पिराय, तांची बुद्धीक तांक, तांचे अणभव मतींत दवरून प्रस्न विचारचे.

५) ज्या प्रस्नांच्यो जापो 'हय' वा 'ना' अशो आसतात, असले प्रस्न विचारचे न्हय. असले प्रस्न विचारांक वयर सरपाची संद दिनात.

६) प्रस्न उद्दिश्टाधिश्ठीत आसचे (objective based) म्हळ्यारूच प्रस्न विचारतना पाठाचें खंयचें तरी उद्दिश्ट मतींत दवरूंक जाय.

७) दोन नाळ्यांच्या स्वरुपाचे (double barreled) प्रस्न टाळचे. एकाच प्रस्नांत दोन प्रस्नांचो आसपाव आसचो न्हय. देखीक, 'पुर्विल्ल्या काळांत ज्योतिशांची कितें कल्पना आशिल्ली आनी आर्यभटान पृथ्वी सूर्याभोंवतणी फिरता हें सिद्ध करपाक कसलो प्रयोग केलो?'

८) प्रतिध्वनी प्रस्न टाळचे. देखीक, 'त्रिशतांवांचो जल्म चांदरा जाल्लो. त्रिशतांवांचो जल्म खंय जाल्लो?'

९) पाठांत आयिल्ल्या उतरांचो उपेग शक्यतो प्रस्नांत करचो न्हय.

१०) पुराय वर्गाक लेखून प्रस्न विचारचो. उपरांत एका विद्यार्थ्याकडेन बोट दाखोवचें आनी ताका प्रस्नाची जाप दिवपाक सांगची. पुराय वर्गाक संबोधिल्ल्यान सगले विद्यार्थी मनांतल्या मनांत जापो तयार करून रावतले. प्रस्न विचारतनाच जर एका विद्यार्थ्याकडेन बोट दाखयलें तर हेर विद्यार्थी प्रस्नाची जाप दिवपाखातीर विचार करचे नात.

११) प्रस्न विचारले उपरांत जाप दिवपाक कांय कळाव दिवचो. कांय शिक्षक प्रस्न विचारतात आनी विद्यार्थ्यान सट्ट करून जाप दिवची अशी तांची अपेक्षा आसता, हें समा न्हय.

१२) फकत थोड्याच विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारचे न्हय. चडांत चड विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारचे. कांय शिक्षक फकत बुदवंत विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारतात.

१३) तशेंच कारण आसलेबगर प्रस्नांची पुनरावृत्ती करची न्हय.

१४) 'हें फूल खूब सोबीत आसा. हें फूल खूब सोबीत न्हय?' असले प्रस्न विचारचे न्हय. असल्या प्रस्नांक 'अधिकसिद्ध करपी' (corroborative) प्रस्न म्हणटात.

१४) प्रस्न एका विशिश्ट भोंवताड्यान (rotation) विचारचे न्हय. समजा, वर्गांत विद्यार्थ्यांच्यो चार वळी आसात. शिक्षक पयलो प्रस्न पयले वळींत बशिल्ल्या खंयच्याय विद्यार्थ्याक, उपरांत दुसरे वळींत बशिल्ल्या खंयच्याय विद्यार्थ्याक, उपरांत तिसरे वळींत बशिल्ल्या खंयच्याय विद्यार्थ्याक आनी निमणें चौथे वळींत बशिल्ल्या खंयच्याय विद्यार्थ्याक आनी मागीर पयल्या, दुसऱ्या, तिसऱ्या.... अशा एकाच विशिश्टूच पद्धतीन विचारता. अशे पद्धतीन प्रस्न विचारचे न्हय. हाचें कारण म्हळ्यार विद्यार्थ्यांक शिक्षकाची ही अशी प्रस्न विचारपाची पद्धत कळ्ळी म्हणटकूच ताका कळटलें की आनीक कांय वेळ मेरेन शिक्षक आपले वळींतल्या विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारचोना, आनी ते वर्गांत लक्ष दिवचे नात.

प्रस्न तीन तरांचे आसतात:

१) **प्रास्तावीक प्रस्न:** पाठाचो पयलो पांवडो म्हळ्यार 'प्रस्तावना' (set-induction). तो पांवडो चलता आसतना प्रस्न विचारूं येता. ह्या प्रास्तावीक प्रस्नांचो मुख्य उद्देश म्हळ्यार विद्यार्थ्यांमदीं अध्यापनाच्या विशयांविशीं कुतूहल जाग्रुत करप.

२) **विकासात्मक प्रस्न :** हे प्रस्न 'विशय-प्रतिपादक' ह्या पांवड्यार करचे. हे प्रस्न खूब म्हत्वपूर्ण जावन आसात. विशयवस्तूंत जे म्हत्वपूर्ण शिक्षणीक मुद्दे आयिल्ले आसतात, तांचेर हे प्रस्न विचारूंक जाय. पाठाचें येस वा अपेस विकासात्मक प्रस्नांचेर आदारून आसता.

३ **मूल्यमापनात्मक प्रस्न :** पाठाचीं जीं उद्दिश्टां निश्चीत केल्लीं आसतात तांचें मूल्यमापन करपाक म्हळ्यार उद्दिश्टां कितल्या प्रमाणांत साध्य जाल्यांत हें कळपाक हे प्रस्न विचारूंक जाय.



२५.

# अभ्यासानुवर्ती कार्यक्रम वा पूरक अध्ययन अणभव

शिक्षक शाळेंत विंगड विंगड विशयांचें अध्यापन करतात. गृहपाठ आनी स्वाध्याय दितात. विद्यार्थ्यांच्यो मौखीक आनी लेखी परीक्षा घेतात. हेभायर मदीं मदीं तरांतरांचे कार्यक्रम आयोजीत करतात. शाळांनी विंगड विंगड दीस मनयतात. देखीक, स्वतंत्रताय दीस, शिक्षक दीस, गांधी जयंती, गोंयचो मुक्ती-दीस, प्रजासत्ताक दीस. विद्यार्थ्यांक पिकनिकेक व्हरतात. केन्ना केन्ना गोंयाभायलीं राज्यां आनी इतिहासीक म्हत्वाच्यो सुवाती दाखोवपाक विद्यार्थ्यांक व्हरतात. दर वर्सा पालक-दीस मनयतात वा वर्सुकी दीस मनयतात. हे अभ्यासक्रमाभायले अशे जे कार्यक्रम करतात, तांकां कांय वर्साआदीं अभ्यासेतर कार्यक्रम (extra-curricular activities) अशें म्हणटाले आनी तांकां व्हडलें म्हत्व दिना आशिल्ले.

पूण जेन्ना उद्दिश्टांचेर आदारिल्ली अध्यापनाची संकल्पना अस्तित्वांत आयली आनी अध्यापन म्हळ्यार फकत अभ्यासक्रम शिकोवप न्हय, तर विंगड विंगड विशयांचीं उद्दिश्टां साध्य करप हें लक्षांत आयलें, तेन्ना शिक्षण तज्ज्ञांक अशें दिसून आयलें कीं फकत पाठ्यपुस्तकांचें आनी अभ्यासक्रमाचें अध्यापन करून उद्दिश्टांची पुरायेन पुर्तताय जायना. अभ्यासक्रमाभायर आनिकूय तरांतरांच्या शिक्षणीक अणभवांचें आयोजन केलें जाल्यार साध्यामेरेन पावपाक सोपें जातलें.

जांकां एका तेंपार extra-curricular – अभ्यासेतर कार्यक्रम अशें म्हणटाले, त्या कार्यक्रमांक आयज खूब म्हत्व प्राप्त जालां आनी तांकां आतां अभ्यासेतर / अभ्यासबाह्य अशें संबोधिनासतना तांकां 'अभ्यासानुवर्ती' वा 'पूरक अध्ययन अणभव' अशें म्हणटात. ह्या कार्यक्रमाचें शिक्षणीक म्हत्व आयजकाल खूब वाडलां.

जरी आमी म्हळें की अध्यापन हें छात्र-केंद्रीत आसूंक जाय, तरी सूक्षीम निरीक्षण केल्यार अशें दिसून येतलें कीं आयज लेगीत अध्यापन हें अध्यापक केंद्रीत जावन आसा. परिक्षेंत खूब गूण मेळोवप हें ध्येय जालां. विद्यार्थ्याच्या सर्वांगीण विकासाकडेन आमी लक्ष दिनात. मानसशास्त्राचे नदरेन जें शाळांनी चलता ताका अभिसंधान (conditioning) अशें म्हणूं येता. शिक्षक वर्गांत प्रस्न विचारतात, प्रस्नांच्यो जापोय सांगतात. तेंच प्रस्न परिक्षेंत येतात आनी वर्गांत दिल्ल्यो जापो विद्यार्थ्यान जाप-पत्रिकेंत बरोवच्यो अशो चडशा शिक्षकांच्यो अपेक्षा आसतात. विद्यार्थ्यान जाप बरयतना मौलिकताय दाखयली तर ताका स्रेय दिवचे बदला ताका आमी कमी वा शून्य गूण दिवन दंडयिल्लेवरी करतात. आमी ताची सृजनशीळताय चिड्डितात. सगल्या विद्यार्थ्यांक एकाच सांच्यान घडोवंक सोदतात.

शिक्षकान मतींत दवरूंक जाय कीं दर एका विद्यार्थ्यांत कसलो ना कसलो गूण आसता. दर एक विद्यार्थी हो एकमेवाद्वितीय! ताच्यांत कसलें तरी वैशिश्ट आसताच. कांय विद्यार्थ्यांक गावपाची सैमीक क्षमताय आसता, कांय विद्यार्थ्यांक चित्रकलेची देणगी सैमान दिल्ली आसता. कांय विद्यार्थी क्रिडाक्षेत्रांत पर्जळूंक शकतात. आमच्या विद्यार्थ्यांमदीं विंगड विंगड क्षमतायो आसतात. विद्यार्थ्यांमदले हे सुप्त गूण सोदून काडप (to identify) आनी ते विकसीत जावपाखातीर योग्य कार्यक्रम आयोजीत करप, विद्यार्थ्यांक ह्या कार्यक्रमांनी वांटो घेवपाक प्रोत्साहीत करप ही शिक्षकांची लागणूक जावन आसा. वर्गांत भावी लेखक, कवी, चित्रकार, वक्ते, शास्त्रज्ञ, क्रिडापटू, वकील, दोतोर, इंजिनियर, वास्तूशास्त्रज्ञ आसात हें शिक्षकान मतींत दवरूंक जाय. तांच्या क्षमतायांप्रमाण तांकां योग्य त्या पूरक अणभवांनी वांटो घेवपाक प्रेरीत करूंक जाय आनी अशे तरेन तांची सर्वांगीण उदरगत करपाक शिक्षकांनी यत्न करूंक जाय. जशी अभ्यासक्रमाची वर्सुकी येवजण शिक्षक करता, तेचभाशेन अभ्यासपूरक अणभवांची लेगीत वर्सुकी येवजण करूंक जाय. ह्या अभ्यासपूरक अणभवांक लागून शालेय जिणेंत विविधताय आनी रंजकताय येता आनी शाळेंत वचून शिकप म्हळ्यार एक सुखद अणभव अशें विद्यार्थ्यांक दिसता.

अभ्यासक्रम, पाठ्यपुस्तकां आनी विंगड विंगड अभ्यासक्रमबाह्य शिक्षणीक

अणभवांवरवीं शिक्षणीक उद्दिश्टां साध्य करूं येतात हें आयज शिक्षणक्षेत्रांत वावुरप्यांक कळ्ळां. दर एके शाळेंत तरांतरांचे अभ्यासक्रमबाह्य कार्यक्रम आयोजीत करतात. हाचो मुखेल उद्देश, विद्यार्थ्यांची सर्वांगीण उदरगत आनी शिक्षणीक उद्दिश्टां चड प्रमाणांत साध्य करप.

'The Battle of Waterloo was won on the playing fields of Eton.' वॉटरलूच्या झुजांत जैत मेळ्ळें, इटन ह्या फामाद शाळेच्या मैदानाचेर. हाचो अर्थ हे शाळेचे विद्यार्थी खेळ आनी विंगड विंगड कार्यक्रमांनी वांटो घेताले. विंगड विंगड कार्यक्रमांनी वांटो घेवन विंगड विंगड गूण विकसीत जातात आनी हाचो फायदो तांकां फुडारांत मेळटा. तांचें व्यक्तिमत्व फुलता.

अभ्यासाभायल्या शिक्षणीक अणभवांक खूब म्हत्व आसा हें आतां सगल्यांक कळ्ळां. दर एका विशयासंबंदान असले शिक्षणीक कार्यक्रम आयोजीत करूं येतात. आतां कोंकणी भाशेच्या संदर्भांत कसले कसले कार्यक्रम करूं येतात, हेविशीं विचार करुंया. कोंकणीविशीं चड लक्ष दिवपाची गरज आसा. जरी कोंकणी मध्यमीक शिक्षणाचें माध्यम जावंक ना तरी ती एक दीस शिक्षणाचें माध्यम जातली अशी आस्त आमी बाळगूंक जाय आनी सगले विशय एक दीस ह्याच माध्यमांतल्यान शिकोवपाखातीर सगल्यांनीच यत्न करूंक जाय. आयज मध्यमीक शाळांनी कोंकणी तिसऱ्या स्तराचेर शिकयतात. पूण हे भाशेचें म्हत्व वाडोवपाखातीर सगल्या तरांचे यत्न करूंक जाय. कोंकणींत अभ्यासक्रमबाह्य शिक्षणीक अणभव चड प्रमाणांत आयोजीत करपाक शाळेच्या जाळवणदारांनी प्रयत्नशीळ रावंक जाय.

सकयल कोंकणी भाशेपासत खंयचे अभ्यासक्रमबाह्य पूरक शिक्षणीक अणभव आयोजीत करूं येतात, हेविशीं म्हायती दिल्या.

**विस्तारान वाचन :** फकत एक ल्हान पाठ्यपुस्तकाचें अध्ययन करून भाशेचेर प्रभुत्व मेळना. कोंकणीचें अवांतर वाचन करपाची उमेद तांचेमदीं निर्माण करूंक जाय. शाळेच्या ग्रंथालयाचो उपेग करपाक विद्यार्थ्यांक तयार करूंक जाय. कोंकणींत जीं दिसाळीं आनी नेमाळीं येतात तांचें वाचन करपाक तांकां सांगूंक जाय. ग्रंथालयांनी आशिल्लीं कोंकणी पुस्तकां तांकां वाचूंक सांगूंक जाय. शिक्षकान तांकां हेविशीं मार्गदर्शन करूंक जाय.

**सर्ती :** कोंकणी भाशेच्यो खूब सर्ती आयोजीत करूंक जाय. देखीक, वक्तृत्व (उलोवप), लेखन, वाचन, शुद्धलेखन, कविता-वाचन, गायन, नाट्य, कोंकणी कोडीं, कथाकथन, विद्यार्थ्यांक स्पर्धांनी वांटो घेवपाक प्रोत्साहीत करूंक जाय. जैत मेळयतल्यांक हुनहुनीत परबीं दिवंक जाय. शाळेचे जिणेंत एक म्हत्वाची

गजाल म्हळ्यार विद्यार्थ्यांक खंयचेय तरी शाळेच्या कार्यक्रमांत येस मेळूंक जाय. येस प्रवर्तकाचें (motivation) कार्य करता. Nothing succeeds like success ही इंग्लीश म्हण दर एका शिक्षकान मतींत दवरूंक जाय. येसाक लागून विद्यार्थ्यांचें मनोबळ वाडटा आनी तो उमेदीन शिकता. विद्यार्थ्यांमदीं विफळताय येवची ना हाची जतनाय शिक्षकान घेवंक जाय.

कोंकणीचीं हस्तलिखित मासिकां वा भित्ती-पत्रकां सारके कार्यक्रम आसूंक जाय. कोंकणीतल्या कांय मानेस्त लेखकांच्यो आनी कवींच्यो साहित्यीक कार्यावळी शाळेंत आयोजीत करूंक जाय. कोंकणीच्या नामनेच्या लेखकांच्यो जल्मतिथ्यो आनी पुण्यतिथ्यो मनोवंक जाय आनी कोंकणी साहित्यांत तांचें म्हत्व कितें आसा हें तपशीलान सांगूंक जाय. ज्या दिसा कोंकणीचो संविधानाचे आठवे वळेरेंत आसपाव जालो तो दीस व्हड दबाज्यान मनोवंक जाय. विद्यार्थ्यांक कोंकणी भाशेच्या ओपारींचो आनी वाक्प्रचारांचो संग्रह करूंक सांगूंक जाय.

दर एके शाळेंतले विद्यार्थी सकाळीं खेळांच्या मैदानाचेर जमतात. राष्ट्रगीत म्हणटात. मुख्याध्यापक वा हेर शिक्षक समयोचीत विशयाचेर भाशण करतात. हें भाशण कोंकणींत करचें. विद्यार्थ्यांक लेगीत कोंकणींत भाशण करपाक सांगचें. फळ्याचेर कोंकणी भाशेंत सुविचार वा दिसपट्ट्यो घडिल्ल्यो म्हत्वपूर्ण घटना बरोवच्यो. शाळेच्या वर्सुकी संमेलनांत कोंकणी नाटकुल्यांचो आनी कांतारांचो आसपाव करचो.

कोंकणीचो अभ्यासक्रमबाह्य पूरक अणभवांत चड प्रमाणांत उपेग केलो जाल्यार कोंकणी भाशेचीं उद्दिश्टां साध्य करपाक सोपें जातलें. ह्या कार्यक्रमांच्यो परीक्षा नासतात. देखून विद्यार्थी तणावामेकळे जावन हातूंत वांटो घेतात. शिक्षकान आपले कल्पकतायेचो उपेग करून विंगड विंगड कार्यक्रमांचें आयोजन करूंक जाय. असले कार्यक्रम म्हळ्यार विशय क्रीडन पद्धतीन शिकोवप. क्रीडन पद्धत ही परिणामकारक पद्धत, हेविशीं सगल्या शिक्षणतज्ज्ञांचें एकमत आसा.



## २६.

# वाचन आनी वाचनाचे प्रकार

आयज गिन्यानाच्या दर एका क्षेत्रांत दोळे दिपकावपी अशी प्रगती दिसून येता. नवीं तंत्रां, नवें ज्ञान, नवे सिद्धांत ज्ञानाच्या दर एका मळार दिसून येतात. ह्या गिन्यानाची गती इतली तीव्र आनी नेटाची आसता कीं आयज जाका आमी 'ज्ञान' म्हणटात तें कांय दिसांनीच काळाभायलें (outdated) जाता. हे ज्ञानाचे वाडीक 'ज्ञानाचो विस्फोट' (Explosion of Knowledge) अशें म्हणटात. विस्फोट ह्या उतरावयल्यान आमकां ज्ञानाचे वाडीचे गतीची कल्पना येवंक जाय. आयज जिणेंत येस मेळोवपाखातीर जें नवें ज्ञान निर्माण जाता, तें बेगोबेग आपणावंक जाय. हें नवें ज्ञान आत्मसात केलेंना तर जिणेचे सर्तींत आमी फाटीं उरतले. ज्ञानाच्या क्षेत्रांत आत्मतुश्टीचो भाव आसप हें उदरगतीक मारक. जें राष्ट्र ज्ञानाचे बाबतींत आत्मसंतुश्ट रावता, तें राष्ट्र फाटीं उरता. देखून विंगड विंगड विशयांच्या अभ्यासक्रमांत नव्या ज्ञानाचो आसपाव जावंक जाय. नव्या ज्ञानाचो आसपाव केलोना तर आमी कालबाह्य अभ्यासक्रम विद्यार्थ्यांक शिकयत रावतले आनी विद्यार्थ्यांक ताचो फायदो जावचो ना. उपचारीक शिक्षण काबार जाले उपरांत लेगीत दर एके व्यक्तीन ताच्या क्षेत्रांत जें नवें ज्ञान निर्माण जालां, तें आत्मसात करूंकूच जाय. ताणें अशें केलेंना जाल्यार ताच्या वांट्याक अपेस येतलें.

नवें गिन्यान कशें मेळोवप? ज्या पुस्तकांनी हें नवें ज्ञान लिपीबद्ध जालां, त्या पुस्तकांचें वाचन करून नवीन ज्ञानाचें अर्जन करूंक जाय. विद्यार्थ्यांक शाळेंत

शिकतना अवांतर वाचनाची आवड आनी वाचपाची संवय जाली जाल्यार तो उपचारीक शिक्षण जाले उपरांत लेगीत वाचन करतलो आनी नवीन ज्ञान प्राप्त करून घेतलो.

विद्यार्थ्यांक वाचनाची संवय करूंक लावप ही शिक्षकाची जापसालदारकी जावन आसा. व्यक्तिचो बुद्दीक आनी भावात्मक विकास वाचनाचेर आदारून आसा. वाचनाक लागून मनशाक ज्ञान-प्राप्ती आनी आनंद प्राप्ती जाता.

पठण योग्यतायेचेर भाशेच्या हेर कसबांचो (श्रवणाकलन, उलोवप आनी लेखन) विकास आदारून आसता. उलोवपाखातीर (वार्तालाप, भाशण, वाद-विवाद, विचार-विमर्श आदी) वाचुनूच उपेगी सामुग्री प्राप्त करतात. खंयच्याय विशयाचेर बरोवचे आदीं आमकां पयलीं वाचचें पडटा. विद्यार्थ्यांची शब्द संपदा वा उतरावळ वाचनाक लागून वाडटा. विद्यार्थ्यांक विंगड विंगड साहित्यकारांचे शैलीची वळख जाता आनी तांची स्वताची स्वतंत्र शैली विकसीत जाता. देखून, पठण-शिक्षणाचे सफळतायेचेर विद्यार्थ्यांची ज्ञानात्मक आनी भावात्मक उदरगत वेव्हारीक आनी साहित्यीक योग्यतायेची वाड, भाशेच्या विंगड विंगड कसबांचो विकास आदी आदारून आसतात. वाचन हें विचार, भाव, ज्ञान, रस, आनंद आदी मोलादीक गजालींचो विकास करपाचें साधन जावन आसा.

**सस्वर वाचन :** (मौखीक/तोंडी वाचन) (Oral Reading)

प्राथमीक वर्गांत सुरांत वाचन करपाक खूब म्हत्व आसता. विद्यार्थी जेन्ना ल्हान आसता, तेन्ना ताका मूक वाचन (silent reading) करूंक जमना. मनांतल्या मनांत वाचूंक सांगल्यार लेगीत तो उतरां पुटपुट्टा. ताचे ओंठ हालतात. मूकवाचन तो केन्ना करूंक शकतलो हें निश्चीतपणान सांगूंक कठीण. ताका असलें वाचन करपाक प्रशिक्षीत करूंक जाय. शारिरीक नदरेन तो तयार जाले उपरांतच ताका मूक वाचन करूंक लावंक जाय. सुरवेक तो सुरांत वाचन करता.

सुरांत वाचन म्हळ्यार कितें ? लिपीक प्रतिकां पळोवन ताका तीं ध्वनींत परिवर्तीत करचीं पडटात. अर्थांत दोळे लिपयेचें अनुसरण करतात आनी वाणी दोळ्यांचें. सस्वर वाचनांत लिपी, वाणी आनी अर्थग्रहण हांचे मजगतीं पारस्परीक संबंद उरता. लिपयेंत बांदिल्ल्या विचारांक वाणी भायर काडटा आनी मस्तकामेरेन पावोवपाचें काम करता. लिपीबद्ध भाशेक तोंडांतल्यान उक्तावप (उतरांत बांदप) म्हळ्यार सस्वर वाचन करप.

**प्रभावी सस्वर वाचनाचीं वैशिश्टां**

१) शुद्ध आनी स्पश्ट उच्चारण

२) आत्मविश्वासान वाचन

३) योग्य स्वराघात
४) भावानुरूप स्वरांचें उंच-सकयलपण (आरोह आनी अवरोह)
५) वाचपाची योग्य गती जिकालागून वाणी सुश्राव्य (आयकुपासारकी) आनी बोधगम्य (समजुपासारकी) जाता.
६) प्रसंगाक धरून वाणयेंत (वाचनात) ओजस्विताय, प्रसादत्व (प्रसन्नता) आनी मधुरताय.
७) विराम चिन्नांचेर लक्ष दिवन वाचप.
८) योग्य आसन.
९) भावाभिव्यक्तीचे स्पश्टतायेचे नदरेन उतरांचेर जोर.
१०) अर्थान्वितीचे नदरेन फावो त्या उतरांच्या चोम्याचें वाचन.
११) जें वाचता ताचो आशय आयकुप्याक समजता अशे तरेन वाचप.

शिक्षकाचें वाचप 'आदर्श' आसूंक जाय. धडो वाचतना ताणें उपचार म्हूण वाचचें न्हय. वयर प्रभावी सस्वर वाचनाचीं जीं वैशिश्टां बरयल्यांत तीं मतींत दवरून ताणें वाचन करूंक जाय. विद्यार्थी शिक्षकाचें अनुकरण करतात. विद्यार्थ्यांकूय सस्वर वाचन करूंक सांगूंक जाय. तो वाचतना फावो ते रितीन ताका सुदारूंक जाय. वाचतना ताणें चूक केल्यार मदींच ताची चूक सुदारची न्हय. पुराय वाचन जाले उपरांत ताच्यो चुको सुदारूंक जाय. ताका योग्य मार्गदर्शन करूंक जाय.

**गहन वाचन :** (सुक्षीम वाचन) (Intensive Reading)

भाशेच्या क्रमीक पाठ्यपुस्तकांत ज्या धड्यांचो आसपाव केल्लो आसता, ते धडे भाशेच्या गहन वाचनापासत आसतात. गहन वाचन करपाचो मुखेल उद्देश म्हळ्यार भाशेचें खोलायेन अध्ययन-अध्यापन करप. पाठाचें फकत आकलन जावप हें उद्दिश न्हय, तर पाठांत आशिल्ल्या पुराय भाशीक घटकांचो (Linguistic Components) खोलायेन अभ्यास करप. देखीक, पाठांत नवीन उतरां येतात. प्रत्येक उतराचो शुद्ध उच्चार, ताचो अर्थ, व्याकरणांत त्या उतरांक कितें म्हणटात, ताची व्युत्पत्ती, समानार्थी (सारक्या अर्थाचें) उतर, विरुद्धार्थी (उरफाट्या अर्थाचें) उतर, ताचो वाक्यांत उपेग आदी सगल्यो गजाली शिक्षकान मतींत दवरूंक जाय. हाचोच अर्थ भाशेचो सम्यक अभ्यास जावंक जाय. धड्यांत विशिश्ट प्रकारच्यो वाक्य-रचना (structures) आसल्यो जाल्यार तांचोय अभ्यास जावंक जाय. पाठांत वाक्प्रचार आयले जाल्यार तांचो अर्थ शिक्षकान विद्यार्थ्यांक सांगूंक जाय आनी तांचो सार्थक वाक्यांत उपेग करूंक जाय. विद्यार्थ्यांकूय ह्या वाक्यांचो उपेग करूंक सांगूंक जाय. आमच्या देशांत बहुभाशिकत्व आशिल्ल्यान भाशे भाशेमदल्या अंतरांक लागून खुबदां गोंदळ जाता. देखीक, कोंकणींत तीन लिंगां आसात, हिंदींत फकत

दोन. जें उतर कोंकणींत पुरुशलिंग आसता तें उतर हिंदींत स्त्रीलिंग. देखीक 'आँख' स्त्रीलिंग नाम. पूण 'दोळो' कोंकणींत पुल्लिंग नाम. खूब भासो शिकच्यो पडिल्ल्यान खंयचीय भास शिकतना गोंदळ जावपाची शक्यताय आसता. शिक्षकान कोंकणी शिकयतना कोंकणी भाशेचीं वैशिश्टां विद्यार्थ्यांक दाखोवन दिवंक जाय. अशें करतकूच विद्यार्थी व्याकरण संमत आनी शुद्ध प्रमाण भास उलयतलो आनी बरयतलो. कविता शिकयतना एका कवीची काव्य बरोवपाचीं कांय वैशिश्टां आसलीं जाल्यार शिक्षकान विद्यार्थ्यांचें अवधान ह्या वैशिश्टांकडेन ओडपाक जाय. भाशेचेर शिक्षकाचें प्रभुत्व आसलें जाल्यार तो पाठाचें गहन वाचन प्रभावीपणान करूंक शकतलो. अध्यापनांत रंजकताय येतली. एका उतराचो अर्थ दिवन भागना. जर अध्यापकाक त्या उतराचे व्युत्पत्तीचें गिन्यान आसलें जाल्यारूच त्या उतराचो अर्थ तो प्रभावीपणान सांगूंक शकतलो. देखीक, 'सन्त' हें उतर घेवंया. जे व्यक्तीन 'स' रिपुंचो म्हळ्यार स शत्रुंचो अन्त केला तो सन्त. काम, क्रोध, लोभ, मोह, मद, मत्सर हे मनशाचे शत्रू. अशे तरेन स्पश्टीकरण केल्यार भाशेचें अध्यापन खूब प्रभावी जातलें. 'जनेल' हें उतर 'जानेल' ह्या पुर्तुगेज उतरावेल्यान आयलां अशें सांगल्यार विद्यार्थ्यांक शिकपाक मजा येतली. गहन वाचन हें विद्यार्थ्यांक भाशेचें पुराय गिन्यान दिवपाक खूब उपेगी जावन आसा.

**मूक वाचन** (Silent Reading)

सस्वर वाचन करतना दोळ्यांनी आमी लिपी पळयतात. बुद्दीवरवीं अर्थग्रहण करतात आनी वागेंद्रियांवरवीं (वाणीच्या आंगांवरवीं) उलयतात. तीन प्रक्रियांच्या मिलनान सस्वर पठन प्रक्रिया संपन्न जाता. नदर-प्रक्रिया, बुद्धी-प्रक्रिया आनी वाणी-प्रक्रियांचें मीलन म्हळ्यार सस्वर पठण. पूण मूक पठणांत फकत पळोवप आनी अर्थग्रहण ह्या दोन प्रक्रियांचो आसपाव जाता. हातूंत दोळे आनी मस्तकाचो सुयोग गरजेचो जावन आसा.

मूकवाचनाचो मुखेल फायदो म्हळ्यार वेळ आनी शक्त हांची बचत. मूक-वाचनान विद्यार्थ्यांच्या वाचनाची गती वाडटा. तांच्या वाचनाची व्याप्ती वाडटा आनी ज्ञानप्राप्तीय चड जाता. एके विशिश्ट पिरायेउपरांत मनशाचें वाचन हें चड करून मूक स्वरुपाचें आसता. व्यक्ती जेन्ना 'विस्तृत' वाचन (extensive reading) करता, तेन्ना त्या वाचनाचें स्वरूप 'मूक' आसता. मूक वाचन करतना चित्ताची एकाग्रताय आसप खूब गरजेचें. वयल्या वर्गांत गद्याचो पाठ शिकयतना शिक्षक फळ्याचेर कांय प्रस्न बरयता आनी विद्यार्थ्यांक मूक वाचन करपाक लावन त्या प्रस्नांच्यो जापो दिवपाक सांगता. विद्यार्थी जेन्ना मूक वाचन करतात, तेन्ना ते ओंठ हालयतात काय पुटपुट्टात, काय उतरांचेर बोट दवरून वाचतात तें पळोवंक जाय. विद्यार्थ्यांक

मूक वाचनाची संवय लावंक जाय. ग्रंथालयांत बसून ते जेन्ना मूक वाचन करतात, तेन्ना तांच्या वाचनाचें पर्यवेक्षण करूंक जाय. मूक वाचन करपाखातीर तांकां तांचे पिरायेप्रमाण, तांचे अभिरुचीप्रमाण, तांच्या बुद्‌ध्यांकाप्रमाण – अर्थात मानसशास्त्रीय सिद्‌धांत मतींत दवरून – वाच्चपासारकी सामुग्री मेळोवन दिवंक जाय. मनशाक फुडले जिणेंत लेगीत मूकवाचनापसून खूब फायदे जातात. मूकवाचनापसून ज्ञानप्राप्ती जाता, मनोरंजन जाता आनी मनीस सुसंस्कारीत जाता. ताची जीण आनंदान भरता. ज्या मनशाक मूकवाचन करपाची संवय आसता, ताका वेळ कसो सारचो हो प्रस्न पडच ना!

**विस्तृत वाचन** (Extensive Reading)

भाशेच्या विद्यार्थ्याक क्रमीक पुस्तक शिकचें पडटाच. पूण एका क्रमीक पुस्तकाचें अध्ययन करून ताका भाशेचेर प्रभुत्व प्राप्त जायना. भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवपाखातीर ताणें नेमान ते भाशेतलीं पुस्तकां आनी हेर वाचपासारकें खूब साहित्य वाचूंक जाय. क्रमीक पुस्तकाभायर जेन्ना खंयचोय विद्यार्थी पठनीय सामग्री वाचता, तेन्ना तो भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवंक शकता. भाशेविशीं अभिरुची निर्माण करपाक शिक्षकान प्रवर्तकाचें (motivator) कार्य करूंक जाय. ताणें भाशेचें अशे तरेन अध्यापन करूंक जाय, जाका लागून विद्यार्थी अवांतर वाचन करपाक तयार जातलो. केन्ना केन्ना घरचें वातावरण भुरग्याक अवांतर वाचन करपाक प्रेरीत करता. घरांत आवयबापूय आनी कुटुंबाच्या हेर घटकांक वाचनाची आवड आसल्यार ही आवड भुरग्याकूय लागता. तोवूय खूब उमेदीन ते भाशेंतलीं पुस्तकां वाचता. तो काणयो, निबंध, कादंबऱ्यो, प्रवास वर्णनां, कविता वाचता, तो विंगड विंगड विशयांवेलीं पुस्तकां वाचता. तेभायर तो दिसाळीं, नेमाळीं आनी हेर मॅगेझिनां वाचता. विस्तारीत वाचनाक लागून तो बहुश्रुत जाता. ताचें ज्ञान वाडटा. ताची शब्दसंपदा वृद्‌धिंगत जाता. ताची भास परिश्कृत जाता. हाकालागून ताचें पुराय व्यक्तिमत्व परजळून वता. ज्ञान वाडिल्ल्यान ताची विचार करपाची शक्त वाडटा. ताची बुद्‌धीक क्षमताय वाचनाक लागून वाडटा. भाशीक क्षमतायांक लागून तो आपले विचार समर्थपणान मौखीक (तोंडी) आनी लेखी रुपान व्यक्त करूंक शकता. भाशीक क्षमतायांक लागून तो हेरांचेर आपलो प्रभाव घालूंक शकता, विस्तारीत वाचन म्हळ्यार विंगड विंगड साहित्य प्रकारांचें आनी विंगड विंगड विशयांचें वाचन. हाकालागून ताच्या ज्ञानाच्यो कक्षा वाडटात. विस्तृत वाचनाक लागून गिन्यान मेळटाच. तेभायर ताका आनंदाचे अणभव मेळटात. फाविल्ल्या वेळाचो उपेग विस्तृत वाचनाखातीर करूं येता. ज्ञान-प्राप्ती आनी आनंदप्राप्ती हे विस्तृत वाचनाचे फायदे. शाळेच्या ग्रंथालयांत विद्यार्थ्यांचे पिरायेक आनी अभिरुचींक फावोशीं पुस्तकां आसूंक जाय. ग्रंथालयांत

दिसाळीं, नेमाळीं आनी वाचपासारकें खूब साहित्य आसूंक जाय. शिक्षकांनी विद्यार्थ्यांक अतिरिक्त वाचन करपाक तयार करूंक जाय. ते वाचन करतात वा ना हेविशीं पर्यवेक्षण करूंक जाय. तांकां योग्य पुस्तकांची निवड करपाक मदत करूंक जाय. वाचन हें एक 'व्यसन' जावंक जाय.

**पूरक वाचन** (supplementary reading)

पाठ्यपुस्तकांत थोड्या गद्य पाठांचो आनी थोड्या पद्य पाठांचो (कवितांचो) आस्पाव केल्लो आसता. पूण एका पाठ्यपुस्तकाचें अध्ययन करून विद्यार्थ्यांक भाशेचेर प्रभुत्व मेळना. भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवपाखातीर दर एकल्यान ते भाशेचें भरपूर वाचन नेमान करूंक जाय. ते भाशेकडेन सदांच संपर्क दवरूंक जाय. पूण विद्यार्थ्यांक हेर विशय लेगीत शिकपाचे आशिल्ले कारणान भाशेच्या भरपूर पुस्तकांचें अध्ययन करप शक्य जायना. पूण केन्ना केन्ना विद्यार्थ्यांची भाशीक उदरगत जावची म्हूण 'पूरक पुस्तक' (supplementary reader) शिकपाची येवजण आसता. सुक्षीम वा गहन वाचनाखातीर जें पुस्तक लायिल्लें आसता ताचें 'पूरक पुस्तक' म्हण विद्यार्थ्यान अध्ययन करचें अशी अपेक्षा आसता. हाकालागून ताचो भाशेकडेन इल्लो चड संपर्क जाता. 'भास शिकपाचें मुखेल साधन म्हळ्यार ते भाशेकडेन सतत संपर्क दवरप' हो सिद्धांत मान्य जाल्लो आसा. पूरक पुस्तकाक लागून विद्यार्थ्यांची शब्द संपदाय वाडटा. पूरक पुस्तक शिकोवपाची पद्धत आनी गहन वाचनाखातीर जें पुस्तक आसता तें शिकोवपाची प्द्धत हातूंत अंतर आसता. गहन वाचनाखातीर पुस्तकांचें अध्यापन करतना शिक्षक तें सवकास शिकयता. धड्यांत आशिल्ल्या भाशीक घटकांचें तो खोलायेन अध्यापन करता. तो धडो वयलेवयर शिकोवंक शकना. पूण पूरक वाचनाखातीर जें पुस्तक लायिल्लें आसता तें जलद वाचना (rapid reading) खातीर आसता. शिक्षक सुरवेक धड्याची थोडी कल्पना दिता. कांय कठीण उतरां त्या धड्यांत आसल्यार तांचो अर्थ स्पश्ट करता. धड्याचें स्पश्टीकरण तो करिना. मागीर तो विद्यार्थ्यांक तो धडो मनांतल्या मनांत वाचूंक लायता. वाचून जातकूच तो विद्यार्थ्यांक विशय-वस्तूचेर प्रस्न विचारता. विद्यार्थ्यांक विशय वस्तूचें आकलन जालां वा ना तें जाणा जावपाक शिक्षक तांकां प्रस्न विचारता. पूरक वाचनाखातीर जें पुस्तक लायिल्लें आसता, तें क्रमीक पाठ्यपुस्तका परस कठीण आसूंक फावना. जर तें खूब कठीण आसलें तर धड्यांचें आकलन विद्यार्थ्यांक जावचेंना. पूरक पुस्तकाच्या धड्यांत क्रमीक पुस्तकांत (गहन वाचनाखातीर पुस्तक) आशिल्ल्या भाशीक घटकांचो आस्पाव केल्यार बरें. ह्या घटकांची पुनरावृत्ती जावन भाशेचें दृढीकरण जाता. विद्यार्थ्यांक स्वतंत्रपणान एक पुस्तक वाचपाची संवय लागपाक पूरक पुस्तकाची गरज आसा.

२७.

# सूक्ष्म अध्यापन (Micro-teaching)

अध्यापनाच्या क्षेत्रांत एक काळ असो आशिल्लो की शिकोवपाखातीर शिक्षकांक फकत विशयाचें ज्ञान आसल्यार पुरो अशी धारणा आशिल्ली. पूण फकत विशयाचें ज्ञान आसल्यार पुरो जायना. तर तो विशय शिकोवपाची पद्धत जाणा जावंक जाय आनी योग्य पद्धतीचो उपेग केलोना जाल्यार अध्यापन प्रभावी जावचें ना अशें उपरांत शिक्षणतज्ञांक कळून आयलें. तातुंतल्यान अध्यापन-शास्त्र (Pedagogy) अस्तित्वांत आयलें. विशयाचें ज्ञान आनी अध्यापन-शास्त्र शिक्षकान आत्मसात केलें म्हणटकूच शिक्षक शिकोवपाक पात्र जालो अशें समजूंक लागले. उपरांत अशें दिसून आयलें की विशयाचें ज्ञान आनी अध्यापनशास्त्राचें ज्ञान आसलें तरी अध्यापन प्रभावी जायना. अध्यापनाच्या क्षेत्रांत जांणी सोद-कार्य केलां तांकां दिसून आयलें की विशयाचें ज्ञान आनी अध्यापन-शास्त्राच्या ज्ञाना भायर शिक्षकांक खूब कसबां (skills) आत्मसात करूंक जाय.

जांणी शिक्षकांच्या अध्यापनाचें निरीक्षण करून सोदकार्य (Research) केलां, तांकां दिसून आयलें कीं विंगड विंगड शिक्षकांच्या अध्यापनांत कांय वैशिश्टां आसात. हीं वैशिश्टां म्हळ्यार 'अध्यापकीय कसबां' (teaching skills). कांय शिक्षक प्रस्तावना (set-induction) खूब नाविन्यपूर्ण आनी प्रभावी शैलीन करताले. कांयजाण कठीण शिक्षणीक मुद्यांचें स्पश्टीकरण एकदम बरें करताले. कांय शिक्षकांचें कथन (narrative) बेस बरें आसतालें. कांय शिक्षकांचें लेखन सोबीत आनी

वेवस्थीत आसतालें. कांय शिक्षकांनी विद्यार्थ्यांचें अवधान मेळोवपाचें तंत्र आत्मसात केल्लें. कांय शिक्षक पाठाचो शेवट (closure) सुंदर तरेन करताले. कांय शिक्षक प्रभावीपणान प्रस्न विचारताले. ह्या शिक्षणतज्ज्ञांनी विंगड विंगड कसबांची वळेरी तयार केली. अध्यापकीय कसबांच्यो कांय देखी सकयल दिल्यात:

१. प्रस्तावना करपाचें कसब
२. कथन करपाचें कसब
३. फलक-लेखन करपाचें कसब
४. पाठाचो शेवट करपाचें कसब
५. विचार-प्रवर्तक प्रस्न करपाचें कसब (skill of asking probing questions)
६. धारा-प्रवाह प्रस्नांचें कसब (fluency in questioning)
७. विद्यार्थ्यांचें अवधान प्राप्त करपाचें कसब, जाका चेतक-बदलाचें कसब म्हणटात (stimulus variation)
८. संकल्पनांचें स्पश्टीकरण करपाचें कसब (skill of explaining)
९. शाबासकी दिवपाचें कसब (skill of giving reinforcement)

आनिकूय खूब कसबां आसात आनी हीं कसबां शिक्षकान आत्मसात केलीं जाल्यार ताचें अध्यापन खूब प्रभावी जातलें आनी ताचें अध्यापन उद्दिश्टांक धरून जातलें हेविशीं दुभाव ना.

आतां 'कसब' हे संकल्पनेविशीं विचार करुंया. ज्या शिक्षणतज्ज्ञांनी अध्यापकीय कसबांचें निरीक्षण करून सोदकार्य केलां, तांणी अशें प्रतिपादन केलां की शिक्षकाच्या अध्यापकीय वर्तनांत (teacher behaviour) वट्ट २०,००० घटक आसतात.

शिक्षक वर्तन



२०,००० घटक

शिक्षक शिकयतना खूब गजाली करता. तो प्रस्न विचारता, फळ्यार बरयता, देखी दिता, स्पश्टीकरण करता, शाबासकी दिता, विद्यार्थ्यांकडेन बोट दाखयता, कसलीय वस्तू दाखयता, धडो वाचता... अशो विंगड विंगड कृती करता. आतां अध्यापनांत कसब म्हळ्यार कितें? तांणी कसबाची अशी व्याख्या केल्या: कसब

म्हळ्यार अर्थपूर्ण घटकांचो चोमो (skill is meaningful clustering of components) दर एका कसबांत २० हजारांतले कांय विशिश्ट घटक आसतात. दर एका घटकाचीं चार वैशिश्टां आसतात.

१. कसबाची व्याख्या करूं येता (skill is definable).

२. कसब पळोवंक मेळटा (skill is observable).

३. कसबाचें मापन करूं येता (skill is measurable).

४. कसब शिकोवपाचें प्रशिक्षण दिवं येता (skill is trainable).

कसबाची व्याख्या करूं येता. देखीक, चेतक-बदलाची देख घेवंया. विद्यार्थ्यांचें लक्ष ओडून घेवपाक चेतक बदलाच्या (skill of stimulus-variation) कसबाचो उपेग करूंक जाय. चेतक-बदलाचे घटक सकयल बरयल्यात.

१. हावभाव (gestures)

२. हालचाली (movements)

३. थांबप (pausing)

४. जोर दिवप (focussing)

५. श्राव्य-दृश्य बदल (Aural-visual switching)

६. आंतर-क्रियेच्या शैलींत बदल (change in interaction style)

७. उलोवपाचे शैलींत बदल. (change in speech pattern)

हेर कसबांचे विंगड विंगड घटक (components) आसतात. कसबाचें दुसरें वैशिश्ट म्हळ्यार कसब पळोवंक मेळटा. चेतक-बदलाचे देखींत जे घटक आसतात, ते शिक्षक शिकयतना निरीक्षकाक पळोवंक मेळटात. शिक्षक अवधान मेंळोवपाक मदीं मदीं हावभाव, हालचाली, थांबप, जोर दिवप, श्राव्य-दृक् बदल, आंतर-क्रियेंत बदल, उलोवपाचे शैलींत बदल ह्यो कृती करता वा ना तें पळोवंक मेळटा. तिसरें वैशिश्ट म्हळ्यार कसबाचें मापन करूं येता. ताच्या शिकोवपांत कितले खेपे हे घटक आयले तें मेजूं येता. चौथें वैशिश्ट म्हळ्यार ज्या शिक्षकान हें कसब आत्मसात करूंक ना, ताच्यान हें कसब प्रशिक्षण (training) घेवन आत्मसात करूं येता. शिक्षकान अशें कसब आत्मसात करपाचे प्रक्रियेक 'सूक्ष्म अध्यापन' (micro training) म्हणटात. आतां सूक्ष्म-अध्यापनाच्या प्रशिक्षणाचें स्वरूप कशें आसता तें पळोवया. पयली गजाल म्हळ्यार सूक्ष्म अध्यापन हें खंयचोय 'विशय' शिकोवपाक न्हय, तर 'कसब' आत्मसात करपाखातीर करतात. ह्या प्रशिक्षणाक सूक्ष्म (micro) कित्याक म्हणटात, तें आतां पळोवया.

जेन्ना वर्गांत शिक्षक शिकयता, तेन्ना वर्गांत ४०-५० विद्यार्थी आसतात. तासिका ३५-४० मिनटांची आसता आनी जो पाठ शिकोवपाचो आसता, तातुंतूय खूब

विशय-वस्तू (matter) आसतात. पूण सूक्ष्म अध्यापनांत सगल्योच गजाली कमी प्रमाणांत (सूक्ष्म) आसतात. तासिका ५-६ मिनटांची आसता. विशय-वस्तू ५-६ मिनटांत सोंपोवपा इतलो आसता. ह्या अध्यापनांत शाळेंत शिकपी विद्यार्थ्यांचो आसपाव नासता, तर शिक्षकूच हातूंत भाग घेतात. चडकरून ११ शिक्षकांचो एक चोमो सूक्ष्म अध्यापनांत भाग घेता. ११ शिक्षकां (peer-teachers) भितर एक सूक्ष्म अध्यापक (micro-teacher), ५ शिक्षक-विद्यार्थी (peer-students) आनी ५ शिक्षक-निरीक्षक आसतात. 'सूक्ष्म-अध्यापक' एक विशिश्ट कसब आत्मसात करपाक शिकयता. ५ शिक्षक विद्यार्थी हे वर्गांतले विद्यार्थी म्हूण भाग घेतात आनी ५ शिक्षक-निरीक्षक सूक्ष्म अध्यापकाच्या सूक्ष्म-पाठाचें निरीक्षण करतात. निरीक्षण करतना ते 'सूक्ष्म-अध्यापका'च्या शिकोवपांत कसबांच्या घटकांचो आसपाव आसा वा ना तें पळयतात. कसबाचो दर एक घटक अध्यापनांत कितले फावट आयला हाचें निरीक्षण करून ताची ते नोंद करतात आनी सूक्ष्म पाठ सोंपले उपरांत सूक्ष्म अध्यापकाक प्रतिसंभरण (feedback) (गूण-दोश विवेचन) दितात. तासिका ल्हान, विशय-वस्तूंचें प्रमाण कमी आनी फकत थोड्या विद्यार्थ्यांक पाठ शिकोवप हाकालागून असल्या अध्यापनाक (micro) सूक्ष्म अध्यापन अशें म्हणटात.

आतां सूक्ष्म अध्यापनाचो पाठ शिकोवपापासत कितें कितें करूंक जाय हेविशीं चर्चा करुंया. सूक्ष्म अध्यापनाचें एक चक्र (Micro-teaching Cycle) आसता. तें चक्र सकयल दाखयलां.




पयली गजाल म्हळ्यार अध्यापकान पाठाचें नियोजन करूंक जाय. जें कसब आत्मसात करपाचें आसा, त्या कसबाच्या घटकांचो चडांत चड उपेग पाठांत करूंक जाय. कसबांच्या ह्या चडांत चड उपेगांक Maximisation or Optimisation of Components अशें म्हणटात. पाठाचें नियोजन जाले उपरांत शिक्षकान तो पाठ विद्यार्थ्यांक (वर्गांतल्या विद्यार्थ्यांकूच न्हय) आनी सह-शिक्षकांक (peer-group) शिकोवपाक जाय. सूक्ष्म अध्यापकान जर प्रस्न विचारले, तर सह-शिक्षकांनी आपूण ल्हान विद्यार्थी अशें समजून जापो दिवंक जाय. त्यावेळार आपूण जाणटे शिक्षक



हें तांणी विसरूक जाय. हाका (simulation) अशें म्हणटात. पाठ ५-६ मिनटांचो आसतलो. पाठ चालू आसतना शिक्षक निरीक्षक (peer-observers) जतनायेन पाठाचें निरीक्षण करतात. निरीक्षण करप म्हळ्यार कसबांच्या घटकांचो सूक्ष्म-निरीक्षकान कितलो उपेग केला हाची नोंद करप. देखीक, चेतक-बदलाच्या पाठांत शिक्षकान १) हावभाव, २)..... ७) कितले खेपो केला, हाची नोंद करूक जाय. समजा, ताणें कांय घटकांचो एकदांय उपेग केलो ना, वा सामको उणो उपेग केला, तर ताचीय नोंद जावंक जाय. पाठ सोंपलेउपरांत शिक्षक निरीक्षकांनी प्रतिसंभरण सूक्ष्म-अध्यापकाक दिवंक जाय. प्रतिसंभरण म्हळ्यार पाठाचें गूण-दोश विवेचन. अमूक घटकाचो तुवें इतले फावट उपेग केलो, तुवें अमूक घटकाचो खूब कमी उपेग केलो, ताचो उपेग आनीक जावंक जाय आशिल्लो, अमूक घटकाचो एकूय फावट उपेग केलो ना अशें ताका सांगूंक जाय. हें प्रतिसंभरण सूक्ष्म अध्यापकान जतनायेन आयकूंक जाय. हें आयकतकूच ताच्या अध्यापनांत खंयचे दोश आशिल्ले हाची ताका कल्पना येता. मागीर ताणें पाठाचें परत नियोजन करूक जाय. पयलीं केल्लें पाठाचें नियोजन कसब आत्मसात करपाक फावो सारकें नाशिल्लें जाल्यार ताका दुसऱ्या योग्य पाठाचें नियोजन करचें पडटलें वा पयल्याच पाठांत योग्य ते बदल करचे पडटले. अशा पाठाचें पुनर्नियोजन (re-plan) जाले उपरांत ताणें तो पाठ परत एकदां दिवंक जाय (re-teach). सहशिक्षकांनी पाठाचें पुनर्निरीक्षण करून पुनर्प्रतिसंभरण (re-feedback) दिवंक जाय. चड करून अशें दिसून येता की पुनर्अध्यापनांत ज्या घटकांचो ताणें कांयच उपेग करूंक नाशिल्लो वा सामको उणो उपेग केलो, तांचो उपेग आतां तो करता. सूक्ष्म शिक्षक जेन्ना कसबांच्या घटकांचो फावो त्या प्रमाणांत उपेग करतलो, तेन्ना ताणें तें कसब आत्मसात केलें अशें समजूं येता.

### सूक्ष्म पाठाचें निरीक्षण करपाची पद्धत

पयलीं कसबाचे घटक क्रमान बरोवंक जाय. देखीक, चेतक-बदल कसब.

| घटक | कितले फावट घटकांचो उपेग केला ताची नोंद | Tallies |
|---|---|---|
| १. हावभाव | ||| | (तीन) |
| २. हालचाली | ||||| | (पांच) |
| ३. थांबप | | | (एक) |
| ४. जोर दिवप | |||| | (चार) |
| ५. श्राव्य-दृक बदल | || | (दोन) |
| ६. आंतर-क्रियेचे शैलींत बदल | ||||| | (पांच) |
| ७. उलोवपाचे शैलींत बदल | — | ··एकूयदां ना |

वयर बरयिल्ली पद्धत पदनिश्चयन श्रेणींत (Rating Scale) बदलूं येता.

| घटक | एकूयदां ना | कमी | सादारण | खूब | एकदम खूब |
|---|---|---|---|---|---|
| १. हावभाव | १ | २ | ३ | ४ | ५ |
| २. हालचाली | १ | २ | ३ | ४ | ५ |
| ३. थांबप | | | | | |
| ४. जोर दिवप | | | | | |
| ५. श्राव्य-दृक बदल | | | | | |
| ६. आंतर-क्रियेचे शैलींत बदल | | | | | |
| ७. उलोवपाचे शैलींत बदल | | | | | |

**सूक्ष्म-निरीक्षकांची भूमिका :** सूक्ष्म निरीक्षकांनी पाठाचें निरीक्षण करतना आपूण जाणटे हें विसरूंक जाय. तांणी आपल्याक ल्हान भुरगे समजून विद्यार्थ्यांची भुमिका करूंक जाय. हाचो एक मुखेल फायदो म्हळ्यार तांकां विद्यार्थ्यांच्या पुराय मानसशास्त्राची मर्मदृश्टी (insight) मेळटा.

एक कसब आत्मसात केले उपरांत दुसरें कसब, उपरांत तिसरें, अशें करून सगल्या कसबांचें विलिनीकरण (integration) करून तो एक प्रभावी शिक्षक जातलो.



२८.

# भास-शिक्षण आनी शिक्षणीक उपकरणां

एक काळ असो आशिल्लो, जेन्ना शिक्षक आपलो विशय शिकयतना उलयत रावतालो आनी विद्यार्थी आयकताले. शिक्षक केन्ना केन्ना तांकां प्रस्नूय विचारतालो आनी विद्यार्थी त्या प्रस्नांच्यो जापोय दिताले. शिक्षक फळ्याचोय उपेग करतालो. पूण शिक्षणतज्ज्ञांक अशें दिसून आयलें की ज्या अध्यापनांत अध्यापकाचें उलोवप चड जाता आनी विद्यार्थी फकत मोने आयकुपी जावन आयकत रावतात, तें अध्यापन प्रभावी जायना. फळ्याभायर विंगड विंगड शिक्षणीक साधनांचो (Instructional Material or Teaching Aids) उपेग केलो जाल्यार अध्यापन चड प्रभावी जातलें असो शिक्षणतज्ज्ञांनी सोद लायलो. आयज तंत्रज्ञान इतलें विकसीत जालां की शिक्षण-क्षेत्रांत लेगीत तंत्रज्ञानाचो उपेग करूं येता अशें दिशिल्ल्यान शिक्षणीक तंत्रज्ञान (Educational Technology) ह्या विशयाचो बी.एड्‌. च्या अभ्यासक्रमांत आसपाव जाल्लो आसा.

फकत उतरां वापरून कांय संबोध वा संकल्पना (concepts) स्पश्ट जायना. उतरांचें स्वरूप अमूर्त (abstract) आसता. देखीक, शिक्षकाक 'ऊंट' हें उतर शिकोवंक जाय. जर शिक्षकान 'ऊंट' म्हळ्यार चार पांय, दोन दोळे आशिल्लें जनावर म्हूण सांगलें तर विद्यार्थ्यांक ऊंटाची वेवस्थीत कल्पना येवची ना. पूण जर ताका ऊंट पळोवपाची संद मेळ्ळी तर तें जनावर पळोवन तांकां ऊंट म्हळ्यार कितें हें रोखडें समजतलें. ऊंट वर्गांत हाडप शिक्षकाक शक्य नासता. देखून, शिक्षक विद्यार्थ्यांक ऊंटाचो 'प्रत्यक्ष अणभव' (Direct Experience)

दिवंक शकना. पूण तो विद्यार्थ्यांक ऊंटाचें चित्र मात्त खात्रीन दाखोवंक शकता. जेन्ना विद्यार्थी तें चित्र पळयतात, तेन्ना तांकां 'ऊंटा'ची कल्पना येता.

संबोधाचें आकलन कशें जातले हे नदरेन अध्यापन करूंक जाय. विशयाचें आकलन जावपाखातीर आतां विंगड विंगड शिक्षणीक साधनांचो उपेग दर एका शिक्षकाक करुंकूच जाय. शिक्षणीक साधनांचो उपेग केल्ल्यान अध्यापनांत विविधताय आनी रंजकताय येता. फकत शिक्षकाचीं उतरां आयकून विद्यार्थ्यांक उबगण येता. ही उबगण उणी करपाक, अध्यापन प्रभावी करपाक आनी विशयाचीं उद्दिश्टां व्हड प्रमाणांत साध्य करपाक शिक्षकान शिक्षणीक साधनांचो उपेग करुंकूच जाय. ताणें जर ह्या शिक्षणीक साधनांचो उपेग केलोना तर ताचें अध्यापन नीरस जातलें. अध्यापन प्रभावी जावपाखातीर शिक्षकान विद्यार्थ्यांच्या विंगड विंगड ज्ञानेंद्रियांक आवाहन करूंक जाय.

शिक्षकाच्यान भाशेच्या अध्यापनांत खंयच्या शिक्षणीक साधनांचो उपेग करूं येता, हेविशीं आतां चर्चा करुंया. शिक्षकान अध्यापनांत दृक-श्राव्य साधनांचो उपेग करूंक जाय. दृक् साधनां म्हळ्यार विद्यार्थी पळोवंक शकता तीं साधनां. ज्या साधनांवरवीं विद्यार्थी आयकूंक शकता, तांकां श्राव्य साधनां म्हणटात. जीं साधनां विद्यार्थी पळोवंक आनी आयकूंक शकतात, तांकां दृक-श्राव्य साधनां म्हणटात.

आतां विंगड विंगड साधनांविशीं चर्चा करुंया:

**फळो:** फळो हें अध्यापनाचें एक मुखेल साधन जावन आसा. दर एका शिक्षकान फळ्याचो उपेग करुंकूच जाय. भास शिकयतना हेतू-प्रस्न बरोवपाक, कठीण उतरांचे आनी वाक्प्रचारांचे अर्थ बरोवपाक फलक-लेखन करूंक जाय. कविता शिकयतना कवितेंतल्यो कांय सुंदर वळी वा कांय सुंदर उतरां फळ्यार बरोवंक जाय. व्याकरण शिकयतना व्याकरणाचे नेम बरोवपाक फळ्याचो उपेग करूंक जाय. लेखन शिकयतना लेखनाचे मुद्दे फळ्यार बरोवंक जाय. फलक-लेखन सुंदर आसूंक जाय. फलक-लेखनाक लागून गिन्यानाचें दृढीकरण जाता. शिक्षक जे मुद्दे सांगता, ते मुद्दे विद्यार्थी आयकता, उपरांत ते मुद्दे तो फळ्यार पळयता. आयकप आनी पळोवप हाका लागून गिन्यानाचें दृढीकरण जाता. 'फळो हो शिक्षकाचो इश्ट' हो अध्यापकीय सिद्धांत सगल्यांक खबर आसा.

**वस्तू:** कांय उतरांचो शाब्दीक अर्थ दिवन कांय फायदो जायना. देखीक, 'घुलो' हें उतर घेवंया. ह्या उतराच्या शब्दीक स्पश्टीकरणाबदला शिक्षकान वर्गांत घुलो हाडल्यो आनी हांकां घुलो म्हणटात अशें जर सांगलें तर तांकां 'घुलो'ची

संकल्पना सोंपेपणान समजतली. शब्दीक स्पश्टीकरण केलें जाल्यार संकल्पनेची संदिग्ध कल्पना येतली.

**चित्रां :** चित्रांचो शिक्षणीक साधनां म्हूण बेस बरो उपेग करूं येता. समजा, पाठांत दूधसागर धबधब्याचें वर्णन आयलां. तेन्ना 'दूधसागर' धबधब्याचें चित्र दाखोवं येता. शिक्षकान कॅलेंडरांचीं चित्रां, मॅगेझिनांतलीं चित्रां कातरून एकठांय करूंक जाय आनी तांचो भाशाध्यापनांत उपेग करूंक जाय.

**प्रतिकृती** (Models): केन्ना केन्ना प्रतिकृतींचो उपेग करूंक जाय. देखीक: ताजमहालाची प्रतिकृती. प्रत्यक्ष अणभव मेळूंक शकना, तेन्ना अशे तरेन अप्रत्यक्ष शिक्षणीक अणभव दिवप शक्य जाता.

**वस्तू :** गुळगुळीत, खडबडीत, घमघमीत, बुळबुळीत ह्या उतरांचो अर्थ योग्य त्यो वस्तू दाखोवन आनी विद्यार्थ्यांक तांकां आफडूंक लावन वा वास घेवपाक लावन (विंगड विंगड आंगांचो उपेग करून) स्पश्ट करूंक जाय.

**तक्ते :** (चार्ट) अध्यापनांत तक्त्यांचोय बी उपेग करूंक जाय. चित्रांचो तक्तो दाखोवन, चित्रांचेर प्रस्न विचारून काणी लेखनांत काणी विकसीत करूं येता.

**क्षण-दर्शिका** (Flash-cards): सकयल्या वर्गांत नवीन उतरां शिकोवपाक क्षण दर्शिकांचो उपेग करूं येता. ३० x २५ सें.मी. आकाराचीं कार्डां तयार करचीं. दर एका कार्डाचेर एक नवीन उतर बरोवन आनी उतराचे कुशीक चित्र काडून बिद्यार्थ्यांक दोनूय म्हळ्यार उतर आनी चित्र एकूच दृश्टीक्षेपांत दाखयल्यार उतराचें लेखन आनी चित्राकृती ह्या दोगांयचो मिश्र परिणाम जावन उतर विद्यार्थ्यांचे मतींत घट्ट उरतलें. क्षण-दर्शिकांचो उपेग कठीण आनी जोडगिरीं अक्षरां दाखोवपाक लेगीत करूं येता.

**ध्वनिमुद्रिका :** (tape recorders) भाशेचीं कांय आंगां शिकोवपाक ध्वनिमुद्रिकांचो उपेग करूं येता. स्पश्ट आनी शुद्ध उच्चार शिकोवपाक आरोह-अवरोह, स्वराघात आदी कशे करचे हें शिकोवपाक, भाशणाचें शिक्षण दिवपाक, कविता चालीर म्हणपाक ध्वनिमुद्रिकांचो उपेग करूं येता. विद्यार्थ्यांक ध्वनिमुद्रिका आयकूंक लावच्यो आनी कर्णेंद्रिय-प्रशिक्षण (ear-training) दिवचें. समजा, एका विद्यार्थ्याचे उच्चार दोशपूर्ण आसात जाल्यार शिक्षकान ताचें सस्वर वाचन ध्वनिमुद्रीत करचें. उपरांत ती ध्वनिमुद्रिका चालू करची. खंयचीं उतरां तो अशुद्ध रितीन उच्चारता तें ताका सांगचें आनी ताका शुद्ध उच्चार शिकोवचे. देशभक्तीचेर गितां, कविता आनी प्रभावी व्याख्यानां ध्वनिमुद्रीत करून तांचो वर्गांत उपेग करूं येता.

**आकाशवाणी :** आयजकाल रेडियोचेर विंगड विंगड भाशा-पाठांचें आयोजन

करतात. हे पाठ आयकुपाक विद्यार्थ्यांक तयार करचें.

**भाशेची प्रयोगशाळा** (Language Laboratory): विदेशी भाशा शिकपाक भाशेचे प्रयोगशाळेचो खूब उपेग जाता. आमच्या देशांत कांय विदेशी भाशा शिकोवपाक हाचो उपेग जाता.

**दूरदर्शन (टेलिविजन) :** आयजकाल टी.वी.चेर यु.जी.सी.चे शिक्षणीक कार्यक्रम पळोवंक मेळटात. भास शिकोवपाक टी.वी.चो उपेग करूं येता. कोंकणी भाशेच्या आदर्श पाठाच्यो कॅसेटी तयार करून त्यो टी.वी.चेर दाखोवं येतात. दूरदर्शन हें दृक-श्राव्य साधन आशिल्ले कारणान भाशेचें अध्यापन ताचेवरवीं खूब प्रभावीपणान जावपाची शक्यताय आसा.



# २९.

# स्वाध्याय (Assignments)

जे लोक अध्यापनाच्या क्षेत्रांत वावुरतात, तांणी पर्थून पर्थून जी अध्यापन पद्धत प्रचलीत आसा तिचें मूल्यमापन करूंक जाय. शिक्षणाचे नदरेन हें मूल्यमापन खूब गरजेचें जावन आसा. अशें दिसून येता कीं कांय अध्यापक आत्म-तुश्ट (self-complacent) आसतात. ही आत्मतुश्टीची भावना शिक्षणाचे उदरगतीक बाधक जाता. शिक्षकांनी अंतर्मुख जावन अध्यापन पद्धतीविशीं चिंतन करूंक जाय आनी ती पद्धत सुदारपाक प्रयत्नशील रावंक जाय. जे विद्यार्थी शाळांतल्यान वा विश्वविद्यालयांतल्यान भायर येतात, ते देशाचे कर्तुबी नागरीक आसतात? ते समाजाचे उदरगतीपासत कितें योगदान दिवंक शकतात?

वयल्या प्रस्नांच्यो जापो दिवपाचो आमी यत्न केलो जाल्यार त्यो जापो निर्शेणी उत्पन्न करतल्यो. अध्यापन विद्यार्थी-केंद्रीत आसूंक जाय अशें केन्नासावन शिक्षणतज्ज्ञ सांगत आयल्यात. पूण छात्र-केंद्रीत अध्यापनाची संकल्पना फकत अध्यापन-शास्त्राच्या पुस्तकांत उरल्या. ती फकत सैद्धांतीक स्वरुपांत आसा.

आमची अध्यापन पद्धत आयज लेगीत अध्यापक-केंद्रीत आसा हें विधान कोणूच न्हयकारचोना. विद्यार्थी अध्यापनाचो केंद्रबिंदू जावचे बदला ताका आमी कमी म्हत्व दितात. ही परिस्थिती अशीच उरली जाल्यार आमचे भावी नागरीक राष्ट्र वयर काडपाच्या कार्यांत फावो त्या प्रमाणांत योगदान दिवंक शकचेनात.

जें अध्यापन आयजकाल विंगड विंगड शिक्षण-संस्थांनी चलता, ताचें निरीक्षण केल्यार शिक्षक फकत विद्यार्थ्यांक विंगड विंगड विशयांची म्हायती (information)

दितात अशेंच दिसतलें. विद्यार्थ्यांची क्रियाशिळताय, सृजनशिळताय आनी मौलिकताय विकसीत जावपाचे नदरेन आमी फावो ते यत्न करिनात. अभ्यासक्रम पुराय करप, परीक्षा घेवप, उत्तर-पत्रिका तपासप, असल्या दिसपट्ट्या अध्यापकीय वेव्हारांत शिक्षक गुल्ल जाल्ले आसतात. दर एका विद्यार्थ्यांत कांय सुप्त गूण आसतात. ते सुप्त गूण सोदून काडून तांकां त्या गुणांचो विकास करपाक आनी तांकां 'स्वयंसिद्ध' (self-reliant) करपाक योग्य संदी दिवंक जाय. आयजकाल जें 'कुलेरान भरोवप' (spoon feeding) चल्लां तें सामकें उणें करूक जाय आनी स्वयं-अध्ययन करपाक तांचें प्रवर्तन (motivation) करूक जाय. गिन्यान तकलेंत भरपा बदला तांकां विचार करपाक प्रवृत्त करूक जाय. अशे तरेन शिकोवंक जाय की शिकपाची तांकां स्वयं-प्रेरणा (intrinsic motivation) जातली.

स्वयं-शिक्षणाचे नदरेन स्वाध्यायांचो (assignments) खूब उपेग जाता. विशयांतले कांय घटक विद्यार्थ्यांनी आपले आपूण शिकचे म्हूण शिक्षकान प्रयत्न करूक जाय. हालीं मध्यमीक शाळांनी दर एका विशयांत दोन स्वाध्याय विद्यार्थ्यांनी करचे अशी येवजण आसा.

आतां 'स्वाध्याय' हे संकल्पनेच्या स्वरुपाविशीं विचार करुंया. स्वाध्याय म्हळ्यार स्व-अध्ययन करप. विद्यार्थ्यान आपलेआपूण शिकप. आयजकाल विद्यार्थी निश्क्रीय आयकुपी जावन शिक्षक दितात तें आपणायतात. स्व-अध्ययन (self-learning) हें अध्ययनाचें सर्वोत्तम साधन. शिक्षकान विद्यार्थ्याक बेनुल्ल (parasite) करूक जायना. तांकां स्वयं-अध्ययन करपाक प्रवृत्त करूक जाय. स्वयं-अध्ययन करपाचे नदरेन 'स्वाध्यायाचो' आसपाव अभ्यासक्रमांत केला. पाठ शिकयतकूच घर-पाठ दितात. पूण घर-पाठ आनी स्वाध्याय हे एकामेकांक पर्याय न्हय.

आतां स्वाध्यायाची परिभाशा स्पश्ट करूंया. स्वाध्याय म्हळ्यार नवो घटक वा नवे संकल्पनेविशींची शिक्षणीक कृती वा शिकयिल्ल्या घटकाची वा संकल्पनेविशींची अदीक विस्तृत म्हायती घेवपाची शिक्षणीक कृती. ही शिक्षणीक कृती विद्यार्थ्यान करूक जाय. Assignment is an instructional activity pertaining to a new unit or a concept or it could also be an extended activity of what has already been learnt.

वयर दिल्ले परिभाशेंत चार म्हत्वपूर्ण गजालींचो आसपाव जाता:

१) शिक्षक विद्यार्थ्याक विशिश्ट कृती (task) करूक सांगता.
२) ही कृती कशी करपाची हेविशीं विद्यार्थ्याक मार्गदर्शन करता.
३) शिक्षकान कृती करपाचे निर्देश (directions) विद्यार्थी आपणायता.
४) असले विद्यार्थी-कृतीन परिणामकारक अध्ययन (effective learning) जाता.

विद्यार्थी 'आप-खोशयेन' स्वाध्याय करपाची इत्सा दाखयता. शिक्षक थोडेंशें मार्गदर्शन करता. पूण पुराय स्वाध्याय करपाची जापसालदारकी विद्यार्थ्यांची जावन आसा. विद्यार्थ्यांनी अध्ययन-प्रक्रियेंत सक्रीय वांटेकारी जावचें हो स्वाध्याय दिवपाचो मुखेल उद्देश (active agents in the learning process).




स्वाध्यायाचें स्वरुप अशे तरेन दाखोवंक येता. स्वाध्याय दितना शिक्षकान सकयल दिल्लीं मार्गदर्शक तत्त्वां मतींत दवरूंक जाय. तांकां मनांत येता तो स्वाध्याय दिवंक फावना.

१. स्वाध्यायाचें स्वरूप स्पश्ट आनी निश्चीत आसूंक जाय. स्वाध्याय करून कितें साध्य जातलें, कसलो शिक्षणीक फायदो जातलो हें विद्यार्थ्यांक स्पश्ट जावंक जाय.

२. स्वाध्याय दितना विद्यार्थ्यांची बुद्दीक शक्त मतींत दवरूंक जाय.

३. विद्यार्थ्यांच्यो अभिरुची (interest) मतींत दवरूंक जाय.

४. विद्यार्थ्यांक विचार करपाक प्रवृत्त करपी स्वाध्याय दिवंक जाय.

५. विद्यार्थ्यांचे व्यक्तीकणकणीं आशिल्ले भेद शिक्षकान मतींत दवरूंक जाय.

६. विशयाचीं उद्दिश्टां साध्य करपाचे नदरेन स्वाध्याय दिवंक जाय.

७. स्वाध्यायाचें स्वरूप आव्हानात्मक (challenging) आसूंक जाय.

स्वाध्याय वैयक्तीक वा सामुहीक आसूं येता. शिक्षणीक प्रकल्प (project) हो सामुहीक स्वाध्यायाचो प्रकार.

**अध्यापकाची भुमिका :** पुराय स्वाध्याय विद्यार्थ्यांनूच करूंक जाय. शिक्षकान ताका फावो तें मार्गदर्शन करचें. खंयचे संदर्भ ग्रंथ ताणें वाचचे वा ताका जायती म्हायती खंय मेळटली हेविशीं निर्देश दिवचे. पूण शिक्षकान फकत मार्गदर्शन करून **स्वाध्याय पुरो करपाची जापसालदारकी विद्यार्थ्यांची** हें स्पश्ट करचें. स्वाध्यायांतल्यान जी कृती निर्माण जातली ती विद्यार्थ्यांची आसतली.

भाशेच्या विशयांत विंगड विंगड स्वाध्याय दिवं येतात. तांकां एक पुस्तक वाचून ताचो सारांश बरोवपाक लावचो. ज्यो म्हत्वपूर्ण घटना घडटात, तांचो

नियाळ बरोवपाक लावचो. तांकां काणयो, निबंद, नाटकुलीं बरोवपाक लावचीं. कांय विद्यार्थ्यांमदीं काव्य करपाची क्षमता आसता. असल्या विद्यार्थ्यांक कविता करपाक सांगचें. स्वाध्याय दितना शिक्षकान कल्पकताय वापरूंक जाय. समजा पुस्तकांत एका कवीची कविता आसा जाल्यार त्या कवीच्यो हेर कविता तांकां वाचूंक लावच्यो आनी त्या कवितांच्यो मध्यवर्ती कल्पना, मुख्य विचार, सौंदर्य-थळां सोदून काडूंक सांगचीं.

विद्यार्थ्यांच्या स्वाध्यायांचें मूल्यमापन करतना सकयल बरयिल्ल्यो गजाली मतींत दंवरच्यो :

१. विद्यार्थ्यान केल्लें स्वाध्यायाचें नियोजन आनी वेवस्थापन (Planning and Organisation)
२. विद्यार्थ्यान वापरिल्ली पद्धत.
३. स्वाध्याय पुराय करतकूच ताणें जें तयार केलां ताचो पांवडो.
४. ज्या विशय-वस्तुचो (content) स्वाध्यायांत समावेश जाता ताचो पांवडो.
५. स्वाध्यायाची मौलिकताय आनी खाशेलेंपण.
६. स्वाध्याय करपाक विद्यार्थ्यान घेतिल्ले कश्ट (मौखीक परिक्षेवरवीं हें कळूं येता.)
७. स्वाध्यायाचें प्रस्तुतीकरण (presentation)

स्वाध्याय वेवस्थीत केला काय अवेवस्थीत केला तें पळोवंक जाय. स्वाध्यायांत सौंदर्यात्मक नदर (aesthetic appearance) आसा वा ना तें पळोवंक जाय.



३०.

# मूल्यमापन

दर एका देशाक आपलें शिक्षणीक तत्वज्ञान आसता. स्वतंत्र भारताचें लेगीत एक शिक्षणीक तत्वगिज्ञान विकसीत जालां. आमचो देश स्वतंत्र जालेउपरांत सरकारान विंगड विंगड शिक्षणीक आयोग नियुक्त केले. देखीक, विश्वविद्यालय शिक्षण आयोग वा डॉ. राधाकृष्णन कमिशन रिपोर्ट, मध्यमीक शिक्षण आयोग वा डॉ. मुदलियार कमिशन रिपोर्ट, कोठारी आयोग, नवें शिक्षणीक धोरण आदी. ह्या आयोगांच्या नियाळांवयल्यान आमच्या देशाचें शिक्षणीक तत्वज्ञान कितें आसा तें कळून येता. स्वतंत्रताये पयलींच्या काळांत आमच्या फुडाऱ्यांनी भारताचें शिक्षणीक धोरण कशें आसचें हेविशीं दिका दाखयिल्ली. महात्मा गांधीजीनी तर भारताची शिक्षण पद्धत कशी आसची हेविशींच्या आपल्या विचारांचो विस्तृत स्वरुपांत (Basic Education) 'मूलभूत शिक्षणा'चे संकल्पनेंत आसपाव केला.

शिक्षणीक तत्त्वज्ञान आनी राजकी तत्त्वज्ञान हांचो दाट संबंद आसता. आमी 'लोकशाय' आपणायल्या. स्वतंत्रताय, एकचार, समानताय, बंधुत्व, सर्वधर्मसमभाव, शांततापूर्ण सह-अस्तित्व हे सगले घटक हीं आमच्या संविधानाचीं वैशिश्टां.

शिक्षणीक तत्वज्ञान हें राजकीय तत्वज्ञानाचेर आदारून आसता. शिक्षणीक तत्वज्ञानाचेर खुबशो शिक्षणीक गजाली अवलंबून आसतात. त्यो सकयल दिल्यात :

१) शिक्षणीक उद्दिश्टां

२) अभ्यासक्रम

३) अध्यापकीय पद्धत (Pedagogy)

४) शिक्षणीक वेवस्थापन

५) अनुशासनाचें स्वरूप

६) शिक्षकाची भुमीका

शिक्षण विशयक सगल्यो गजाली शिक्षणीक तत्वज्ञानाचेर आदारून आसतात अशें म्हळ्यार ती अतिशयोक्ती जावंचीना. शिक्षणीक तत्वज्ञानाच्या इतिहासाचें परिशीलन केलें जाल्यार अशें लक्षांत येता की शिक्षणाच्या इतिहासाचे सुर्वेक सावन विंगड विंगड शिक्षणीक तत्वज्ञानां अस्तित्वांत आयल्यांत. देखीक, अध्यात्मवाद, आदर्शवाद, वास्तववाद, निसर्गवाद, प्रयोगवाद, अस्तित्ववाद.

वयर ज्यो शिक्षणीक गजाली बरयल्यात, त्यो शिक्षणीक तत्वज्ञानाप्रमाण बदलतात. दर एका देशाचें शिक्षणीक तत्वज्ञान वेगळें आसता. देखून, विंगड विंगड देशांत विंगड विंगड शिक्षण पद्धती अस्तित्वांत आयल्यात.

आमच्या देशांत आमी जी शिक्षण पद्धत आपणायल्या, ती आमच्या शिक्षणीक तत्वज्ञानाचेर आदारल्या. विंगड विंगड पांवड्याचेर आमी अभ्यासक्रम निश्चीत केला. अभ्यासक्रम हो केन्नाच एकसारको नासता. देशांत जें कितें घडटा, जगांत ज्यो घडणुको जातात, तेप्रमाण अभ्यासक्रमांत बदल जाता. अभ्यासक्रम हो कालानुरूप बदलूंक जाय. नाजाल्यार आयच्या ज्ञानाच्या विस्फोटाच्या (Explosion of Knowledge) युगांत आमी फाटीं उरतले. अभ्यासक्रम ही एक परिवर्तनशीळ प्रक्रिया जावन आसा.

आमच्या देशाचें एक शिक्षणीक तत्वज्ञान आसा. भारताचो भावी नागरीक कसो आसचो हें शिक्षणीक तत्वज्ञान थारायता. शिक्षणावरवीं आमी कसलीं राष्ट्रीय उद्दिश्टां साध्य करूंक सोदतात हें शिक्षणीक तत्वज्ञान थारायता. ह्या तत्वज्ञानाच्या आदाराचेर आमी शिक्षणीक धोरण निश्चीत करतात. शिक्षणाची रचना (structure) तयार करतात. अभ्यासक्रमांत विंगड विंगड पांवड्यांचेर विंगड विंगड विशयांचो आनी अभ्यासक्रमबाह्य शिक्षणीक अणभवांचो आसपाव करतात.

सुर्वेक शिक्षणाचीं सामान्य उद्दिश्टां थारायतात. उपरांत विंगड विंगड पांवड्यांचेर जे विशय थारायिल्ले आसतात, तांचीं उद्दिश्टां थारायतात. आमी विद्यार्थ्यांच्या सभावांत जो बदल हाडूंक सोदतात, ताका उद्दिश्ट म्हणटात (Behavioural change). आतां हें परिवर्तन वा बदल कितल्या प्रमाणांत साध्य जाल्यात हें कळप खूब गरजेचें. जे प्रक्रियेवरवीं उद्दिश्ट कितल्या प्रमाणांत साध्य जालां हें पळयतात, तिका मूल्यमापन अशें म्हणटात.

कांय वर्सांपयलीं मूल्यमापन ह्या उतराचो उपेग करिनाशिल्ले. हाचें मुखेल कारण

म्हळ्यार ही संकल्पना तेन्ना नाशिल्ली. तेन्ना विशयाचो अभ्यासक्रम आसतालो. पूण अभ्यासक्रमाचीं उद्दिश्टां नासतालीं. कांय वर्सांपयलीं फकत अभ्यासक्रम आनी त्या अभ्यासक्रमाचेर लेखी परीक्षा आसताल्यो. आतां पयलीं दर एका विशयाचीं उद्दिश्टां निश्चीत करतात आनी हीं उद्दिश्टां साध्य करपाक कसले कसले शिक्षणीक आनी अभ्यासक्रमबाह्य उपक्रम/कार्यावळी वा अणभव दिवंक जाय हें थारायतात. हे अणभव दिले उपरांत तांचें मूल्यमापन करूंक जाय. मूल्यमापनाचो त्रिकोण सकयल दिला:




मूल्यमापन केले उपरांत अशें दिसून आयलें की उद्दिश्टां पुरायपणान साध्य जावंक नात वा कमी प्रमाणांत तीं साध्य जाल्यांत. हाचे दोन अर्थ आसूं येतात. एक म्हळ्यार आमी योग्य शिक्षणाच्या अणभवांचो आसपाव करूंक ना. उद्दिश्टांविशीं विस्तृत चर्चा पांचव्या प्रकरणांत केल्ली आसा. तिची पुनरावृत्ती करपाची गरज ना. तें प्रकरण वाचतकूच उद्दिश्टांची व्याप्ती कितली व्हड आसा हेविशीं कल्पना येता. आयज उद्दिश्टांचें मूल्यमापन फकत लेखी परिक्षेवरवीं शक्य जावचेंना. मूल्यमापन ही एक व्यापक प्रक्रिया जावन आसा. मूल्यमापन करपाचीं मुखेल साधनां सकयल दिल्यांत:

१] **परीक्षा:** लेखी परीक्षा, मौखीक परीक्षा, प्रात्यक्षीक परीक्षा.

२] **निरीक्षणात्मकं साधनां:** पडताळ्याची सुची (check-list), पदनिश्चयन श्रेणी (rating scale), प्रासंगीक नोंदी (Anecdotal Records).

३] **आत्मनिरीक्षणात्मक साधनां** (self-reporting techniques) मुलाखती, अभिरुचीच्या प्रस्नांची वळेरी (Interest Inventory).

**समस्या सुची:** (Problem check-list).

**व्यक्तिमत्व प्रस्नांची वळेरी** (Personality Inventory).

४] **आविश्कारात्मक साधनां:** (Projective Techniques) वाक्य पुराय करप, काणी पुराय करप, चित्र काडप, विद्यार्थ्यांची दीसपटी.

५] **समाजमिती तंत्र:** (Sociometric Technique).

मूल्यमापन करपाखातीर कितल्या साधनांचो उपेग करूंक जाय हेविशीं अध्ययन करतकूच ‘मूल्यमापन’ ही सोपी प्रक्रिया न्हय हें कळटा. मापन आनी मूल्यमापन हांचेमजगतीं फरक आसा. मापन संख्यात्मक (quantitative) जावन आसा आनी मूल्यमापन हें गुणात्मक (qualitative). समजा, एका विद्यार्थ्याक कोंकणीचे परिक्षेंत १०० भितरले ६० गूण पडले जाल्यार ६० गूण पडप हें मापन जालें. पूण जेन्ना शिक्षक म्हणटा की हो विद्यार्थी बुद्धिमान, ताणें जर चड अभ्यास केल्लो तर ताका निश्चितपणान ८५ गूण पडटले आसतले, हें जें मूल्यात्मक विधान (value judgement) आसा तें मूल्यमापन. शिक्षक फकत ताका गूण दिवन वोगी रावना. विद्यार्थ्यांचें जें सादरीकरण (performance) आसा, ताचेर तो मूल्यात्मक भाश्य करता. मूल्यमापनांत मापनाचो आसपाव जाल्लो आसताच. सांगातान तो मापनाचेर मूल्यात्मक भाश्य करता.

**मूल्यमापनाचे फायदे :**

१. **विद्यार्थ्यान विशयाचीं उद्दिश्टां खंयमेरेन साध्य केल्यांत तें कळटा.**
२. **मूल्यमापनावरवीं प्रत्याभरण** (feedback) मेळटकूच विद्यार्थ्यांक आनिकूय बरें शिकपाचें प्रवर्तन (motivation) मेळटा.
३. मूल्यमापनाचो फायदो शिक्षकाकूय मेळटा. विद्यार्थ्यांत अपेक्षीत परिवर्तन दिसून आयलेना जाल्यार तो चड परिणामकारक शिकोवपाच्यो पद्धती आपणायता आनी आपलें अध्यापन प्रभावी करता.
४. मूल्यमापनाच्या आदारान शाळा विद्यार्थ्यांच्या पालकांक तांच्या शिक्षणीक उदरगतीचो नियाळ धाडूंक शकता.
५. मूल्यमापनाच्या आदारान शिक्षक विद्यार्थ्यांचें शिक्षणीक मार्गदर्शन (educational guidance) करूंक शकता.
६. मूल्यमापनापासत अभ्यासक्रमांत जे दोश आसतात ते सुदारूं येतात.

**मूल्यमापनाचीं सामान्य तत्त्वां :**

१. शिक्षणीक उद्दिश्टां निर्धारीत करूंक जाय.
२. मूल्यमापनाच्या योग्य तंत्रांचो उपेग करूंक जाय. प्रत्येक तंत्राचे गूण दोश जाणा जावंक जाय.
३. सर्वकश मूल्यमापनापासत विंगड विंगड तंत्रांचो उपेग करूंक जाय.
४. मूल्यमापन हो एक उपचार जावंक फावना. शिक्षण-क्षेत्रांत सगल्या आंगांनी परिणामकारक बदल हाडपाक ताचो उपेग करूंक जाय.



# ३१.

# प्रस्नांचे प्रकार

कांय वर्सांपयलीं प्रस्नपत्रिकेंत फकत दिर्घोत्तरी प्रस्न (Essay type) आसपावताले. मात मूल्यमापनाच्या क्षेत्रांतल्या शिक्षणतज्ज्ञांक दिर्घोत्तरी प्रस्नांत खूब दोश दिसून आयले. असल्या प्रस्नांक लागून आनी परिक्षकांचे व्यक्तिनिश्ठतायेक लागून परिक्षार्थ्यांक फावो ताचेपरस चड वा उणें गूण पडूंक लागले. असल्या प्रस्नांक लागून विद्यार्थ्यांचेर अन्याय जावंक लागलो. देखून तांणी प्रस्न पत्रिकेंत हेर प्रकारांचो आसपाव जावंक जाय अशें प्रतिपादन केलें. हे हेर प्रस्न म्हळ्यार लघुत्तरी आनी वस्तुनिश्ठ प्रस्न. आयजकाल तिनूय तरांचे प्रस्न प्रस्न-पत्रिकेंत विचारतात. हाकालागून परिक्षांसंबंदान विस्वासाची भावना वाडल्या आनी परिक्षार्थ्यांचेर जो अन्याय जातालो आनी तांचें जें लुकसाण जातालें तें उणें जालां.

सुर्वेक दिर्घोत्तरी प्रस्नांविशीं विवेचन करुंया. ज्या उद्दिश्टांचें मूल्यमापन वस्तुनिश्ठ प्रस्नांवरवीं जायना तांचें मूल्यमापन दिर्घोत्तरी प्रस्नांवरवीं करूंक जाय.

**दिर्घोत्तरी प्रस्नांचे गूण :** दिर्घोत्तरी प्रस्नांची जाप खूब वळींनी बरोवची पडटा. सादारणपणान ४-५ वळींपरस चड जाप अपेक्षीत आसत तर ताका दिर्घोत्तरी प्रस्न अशें म्हणटात. दिर्घोत्तरी प्रस्नांच्यो जापो बरयतना परिक्षार्थी सकयल बरयिल्ल्यो बुद्दीक कृती करूंक शकता :

१. तो सामान्यीकरण करूंक शकता (Generalises).
२. तो तुळा करूंक शकता (Compares).
३. तो विरोध दाखोवंक शकता (Contrasts).

४. तो स्पश्टीकरण करूंक शकता (Explains).
५. तो टीका करूंक शकता (Criticizes).
६. तो सारांश बरोवंक शकता (Summarises).
७. तो विश्लेशण करूंक शकता (Analyses).
८. तो देखी दिवन स्पश्ट करूंक शकता (Illustrates).
९. तो वर्णन करूंक शकता (Describes).

ह्यो ज्यो वयर बरयिल्ल्यो मानसीक क्षमतायो आसात त्यो वयल्या पांवड्यावयल्यो आसात. देखून दिर्घोत्तरी प्रस्नांचो उपेग वयल्या पांवड्यावयल्या क्षमतायांचें मूल्यमापन करपाक जाता.

दिर्घोत्तरी प्रस्नांचो मुखेल उपेग म्हळ्यार विद्यार्थी आपल्यो कल्पना वेवस्थीतपणान मांडूंक शकता. तांचे मांडावळींत सुसूत्रपण येता. मूल्यमापनाच्या क्षेत्रांत जांणी शोधकार्य केलां, तांकां ह्या प्रस्नांक लागून विद्यार्थ्यांक अध्ययन करपाच्यो बऱ्यो संवयी लागतात अशें दिसून आयलां. दिर्घोत्तरी प्रस्न काडप हेर प्रस्नांचे तुलनेंत सोपें आसता. प्रस्न काडपाक शिक्षकाक त्रास पडनात. असल्या प्रस्नांच्यो जापो बरयतना विद्यार्थ्यांक स्वातंत्र्य आसता (Freedom to respond). असल्या प्रस्नांच्यो जापो पुरायपणान बरोबर वा चूक नासतात. विद्यार्थ्यांच्या प्रकटीकरणांचें, क्षमतायांचें मूल्यमापन असल्याच प्रस्नांवरवीं करूं येता. हेर प्रस्नांवरवीं 'अभिव्यक्ती' ह्या उद्दिश्टाचें मूल्यमापन करूंक येना.

**दिर्घोत्तरी प्रस्नांचे दोश :**

ह्या प्रस्नांचो मुखेल दोश म्हळ्यार पुराय अभ्यासक्रमाचें मूल्यमापन ह्या प्रस्नांवरवीं जायना. जापो खूब विस्तारान बरोवपाच्यो आशिल्ल्यान परीक्षक थोडेच प्रस्न विचारूंक शकतात. अभ्यासक्रमाचे बरेचशे घटक कुशींक काडचे पडिल्ल्यान ह्या प्रस्नांची वैधताय (validity) खूब उणी जाता.

दुसरो दोश म्हळ्यार दिर्घोत्तरी प्रस्नांचें मूल्यमापन वस्तुनिश्ठ (objective) जायना. मूल्यमापनांत व्यक्तिनिश्ठताय (subjectivity) येता. एका द्रिर्घोत्तरी प्रस्नाचें मूल्यमापन विंगड विंगड परिक्षकांनी केलें जाल्यार तांच्या मूल्यमापनांत खूब फरक दिसून येता. समजा, एका दिर्घोत्तरी प्रस्नाक २० गूण आसात आनी एका विद्यार्थ्याची जाप ४ विंगड विंगड परिक्षकांनी तपासली, जाल्यार एक परीक्षक ३ गूण, दुसरो ७ गूण, तिसरो १० गूण, चवथो १७ गूण दिता. हाचो अर्थ कितें ? मूल्यमापनांत व्यक्तिनिश्ठताय आयली. व्यक्तिनिश्ठताय (subjectivity) हो असल्या प्रस्नांचो मुखेल दोश जावन आसा. केन्ना केन्ना बाह्य घटकांचो (external factors)

मूल्यमापनाचेर परिणाम जाता. एका विद्यार्थ्याचें अक्षर खूब सोबीत. पूण जें ताणें बरयलां, तें सगलें चूक. मात परीक्षक ताच्या सोबीत अक्षराचेर भाळटा आनी ताका फावना ते गूण दिता. केन्ना केन्ना विद्यार्थ्यांचें अक्षर वाचपासारकें नासता. पूण ताची जाप बरोबर आसता. ताकालागून जाप बरोबर आसून लेगीत परीक्षक ताका सामके उणे गूण दिता. केन्ना केन्ना वायट अक्षराक लागून तो नापास लेगीत जाता. केन्ना केन्नाय कांय शिक्षकांचें कांय विद्यार्थ्यांविशीं कांय कारणांक लागून बरें मत जाल्लें आसता. ताकालागून विद्यार्थ्यान वेवस्थीत जाप दिल्ली नासतनाय कांय शिक्षक त्या विद्यार्थ्याक चड गूण दितात. हाका इंग्लिशींत Halo effect अशें म्हणटात. विशिश्ट विद्यार्थ्यां भोंवतणी 'वलय' (Halo) तयार जाता आनी शिक्षक ताका चड गूण दितात. हाचे उरफाटें केन्ना केन्ना कांय विद्यार्थ्यांविशीं कांय कारणांक लागून वायट मत जाल्लें आसता. ताका लागून ताणें जाप बरोबर बरोवन लेगीत शिक्षक ताका उणे गूण दितात. हाका Horn's Effect अशें म्हणटात. चित्रांत संतांचे तकलेभोंवतणीं वलय दाखयतात आनी सैतानाचे तकलेचेर दोन शिंगां दाखयतात हाकालागून Halo Effect आनी Horn's Effect हीं उतरां मूल्यमापनांत अस्तित्वांत आयल्यांत. परिक्षकाच्या विद्यार्थ्यांविशींच्या पूर्वग्रहदुशीत दिश्टीकोणाक लागून मूल्यमापनाचेर वायट परिणाम जाता. केन्ना केन्ना परीक्षक जायत्या गजालींक म्हत्व दिनात आनी नाका त्या गजालींक म्हत्व दिल्ले कारणान दिर्घोत्तरी प्रस्नांची सप्रमाणताय (validity) उणी जाता. कांय दिर्घोत्तरी प्रस्न संदिग्ध आसतात आनी हे संदिग्धतायेक लागून विद्यार्थ्याक खंयची जाप अपेक्षीत आसा तें कळना. आतां दिर्घोत्तरी प्रस्नांचे विस्वासीपणाविशीं (reliability) विचार करुंया.

समजा, शिक्षकान कांय उत्तर-पत्रिका तपासल्यो आनी अ विद्यार्थ्याक ४०/१०० गूण, ब विद्यार्थ्याक ४६/१०० गूण मेळ्ळे. समजा, कांय दिसांनी तांणी त्यो उत्तर-पत्रिका परत तपासल्यो, तर तेच गूण तांकां मेळटले हाची खात्री ना. तांकां चड वा उणे गूण मेळूं येतात. परिक्षकांच्यो तपासपाच्यो तरा विंगड विंगड आसतात. कांय परीक्षक खूब 'कडक' आसतात, तर कांय खूब दयेस्त आसतात. समजा, तपासतना आरंबाक कांय उत्तर-पत्रिका सादारण दर्जाच्यो मेळ्ळ्यो आनी मागीर बरी उत्तर पत्रिका मेळ्ळी, तर ही उत्तर-पत्रिका तपासतना परीक्षक फावो ताचेपरस चड गूण दिवपाची शक्यताय आसता आनी समजा आरंबाक कांय बऱ्या दर्जाच्यो उत्तरपत्रिका मेळ्ळ्यो आनी मागीर उण्या दर्जाची उत्तरपत्रिका मेळ्ळ्यार परीक्षक उत्तर-पत्रिकेक फावो ताचेपरस उणे गूण दिवपाची शक्यताय आसता. केन्ना केन्ना परीक्षक वैकल्पीक प्रस्न दिता. देखीक, ८ भितरल्या खंयच्याय ४ प्रस्नांच्यो जापो बरयात. विद्यार्थ्यांनी जर विंगड विंगड प्रस्नांच्यो जापो बरयिल्ल्यो आसल्यो जाल्यार

ह्या जापांची तुळा कशी करूं येता? केन्ना केन्ना जापो खूब व्हडल्यो आशिल्ले कारणान आनी खूब उत्तर-पत्रिका तपासच्यो पडिल्ल्यान परीक्षक सुर्वेक उमेदीन आनी बारीकसाणेन पेपर तपासता. उपरांत ती उमेद आनी ती बारीकसाण उणी जायत वता. ताका पुरो जाता आनी हाकालागून मूल्यमापनाचेर उरफाटो परिणाम जावंक शकता. ताका लागून दिर्घोत्तरी प्रस्नांचें विस्वासीपण उणें जाता.

**दिर्घोत्तरी प्रस्न सुदारणेपासत कांय सुचोवण्यो :**

दिर्घोत्तरी प्रस्नांत दोश आसतात हें खरें. पूण हाचो अर्थ ते परिक्षेक विचारपूच ना हें समा न्हय. पयलीं सांगिल्लेप्रमाण वयल्या पांवड्यावयल्या बुद्दीक क्षमतायांचें फकत दिर्घोत्तरी प्रस्नांवरवीं मूल्यमापन करूं येता. हे प्रस्न सुदारपापासत कांय सुचोवण्यो सकयल मांडल्यात:

१. कल्पनांची अभिव्यक्ती, मुद्द्यांची तर्कसंगत मांडावळ आनी हेर वयल्या पांवड्यावयल्या बुद्दीक क्षमतायांचें मूल्यमापन करपाक फकत दिर्घोत्तरी प्रस्नांचो उपेग करचो.
२. प्रस्नांची सुरवात 'कितें, कोण आनी केन्ना' ह्या उतरांनी करची न्हय.
३. प्रस्न स्पश्ट आसचो. प्रस्नांत निश्चीत कितें विचारलां तें स्पश्ट जावंक जाय.
४. प्रस्नाची भास विद्यार्थ्यांक समजुपासारकी, कळपासारकी आसची. केन्ना केन्नाय शिक्षक आपलें पांडित्य दाखोवपाक आनी विद्यार्थ्यांक गोंदळांत घालपाक कठीण आनी क्लिश्ट भाशेचो उपेग करता.
५. प्रस्न पत्रिकेंत फावो त्यो सुचोवण्यो बरोवच्यो. देखीक, प्रस्नांचे जापेंत कितलीं उतरां अपेक्षीत आसात तें बरोवचें.
६. प्रस्नांच्यो जापो बरोवपाक फावो तितलो वेळ दिवचो.
७. चर्चा करात, विवेचन करात, स्पश्टीकरण करात ह्या उतरांचो निश्चित अर्थ कितें तें विद्यार्थ्यांक सांगूंक जाय.

दिर्घोत्तरी प्रस्नांच्यो जापो तपासपापासत कांय सुचोवण्यो:

१. पयलीं प्रस्नांच्या जापांची/मुद्यांची एक रुपरेखा तयार करची.
२. जो प्रस्न-पत्रिका काडटा, ताणेंच उत्तर-पत्रिका तपासच्यो (पूण मंडळाच्या परिक्षांनी हें शक्य जायना).
३. समजा ४० विद्यार्थी आसात आनी प्रस्न-पत्रिकेंत ६ दिर्घोत्तरी प्रस्न आसात, जाल्यार ४० विद्यार्थ्यांच्या पयल्या प्रस्नांच्यो जापो पयलीं तपासच्यो. उपरांत दुसऱ्या, उपरांत तिसऱ्या. अशें करतकूच दर एका प्रस्नाच्या जापांची तुळा करपाक बरें जाता.

४. जाप-पत्रिकेंत विद्यार्थ्यांचें नांव आसचें न्हय. शिक्षकाचे पूर्वग्रहदूशीत नदरेक लागून मूल्यमापनाचेर वायट परिणाम जावंक शकता.

## लघुत्तरी आनी अतिलघुत्तरी प्रस्न

दिर्घोत्तरी प्रस्नांच्या दोशांची आमी चर्चा केल्या. ह्या प्रस्नांची वैधताय, वस्तुनिश्ठताय आनी विस्वासीपण उणें आसता म्हूण असले प्रस्न फकत वयल्या पांवड्यावयल्या बुद्दीक क्षमतायांचें मूल्यमापन करपापासत विचारचे, अशें मूल्यमापन क्षेत्रांतल्या तज्ज्ञांनी सुचयलां. वस्तुनिश्ठ प्रस्नांचो उपेग फकत तथ्यात्मक म्हायतेचें (factual information) मूल्यमापन करपाक करतात. वयल्या पांवड्यावयल्या क्षमतायांचें मूल्यमापन करपाक असले प्रस्न विचारप समा न्हय. हो दिर्घोत्तरी आनी वस्तुनिश्ठ प्रस्न ह्या दोन तोंकांमदलो एक मध्यममार्ग (via-media) जावन आसा. आमी सामके उणे दिर्घोत्तरी प्रस्न अभ्यासक्रमांचेर विचारूंक शकतात. देखून ह्या प्रस्नांची वैधताय उणी हें आमी पळयलां. आमच्यांनी अभ्यासक्रमाचेर लघुत्तरी प्रस्न विचारूं येतात. असल्या प्रस्नांची वैधताय लेगीत चड जावन आसा.

लघुत्तरी प्रस्न स्पश्ट (specific), निश्चित आसतात आनी तांची जाप लेगीत स्पश्ट आसता. (It is a specific question, requiring a specific answer). हे प्रस्न सरळ (direct) आसतात. लघुत्तरी प्रस्न विद्यार्थ्यांक विचार करपाक प्रवृत्त करतात (stimulate thinking). विद्यार्थी प्रस्नांची जाप दिवपाक फावो ते म्हायतेची निवड करता. अयोग्य जापो दिवपाची विद्यार्थ्यांची संवय ना जाता. जापांच्या मूल्यमापनांत वस्तुनिश्ठताय येता. लघुत्तरी प्रस्नांच्या ह्या वैशिश्टांक लागून प्रस्नपत्रिकेंत असल्या खूब प्रस्नांचो आसपाव जाता. असले प्रस्न सोंपेपणान तयार करूं येतात. वस्तुनिश्ठ प्रस्न तयार करप मात खूब कठीण. हें आमी उपरांत पळयतले.

दिर्घोत्तरी प्रस्न आनी लघुत्तरी प्रस्न हांचेमदली विभाजक रेशा (dividing line) थारावप खूब कठीण. सर्वसादारणपणान ज्या प्रस्नाची जाप ४-५ वळींनी वा लागीं लागीं ५० उतरांनी बरोवंक येता, ताका लघुत्तरी प्रस्न म्हणटात. परिक्षार्थी जाप दिता (answer is supplied by the examinee). ही जाप बरोवपाक सादारणपणान विद्यार्थ्यांक ४-५ मिनटां लागतात. लघुत्तरी प्रस्नांचें दुसरें वैशिश्ट म्हळ्यार विशयांच्या खुबशा उद्दिश्टांचें मूल्यमापन असल्या प्रस्नांवरवीं करूं येता. अभ्यासक्रमाचो व्हड भाग आनी विशयाच्या खुबशा उद्दिश्टांचेर लघुत्तरी प्रस्न विचारूं येतात. विद्यार्थी बी प्रस्नांच्यो जापो बरयतना बंडलां मारूंक शकनात (pupils cannot bluff). घटक परिक्षेचे प्रस्न-पत्रिकेंत लघुत्तरी प्रस्न विचारपाक खूब संद आसता.

**अतिलघुत्तरी प्रस्न** (Very short answer question)

ज्या प्रस्नांची जाप एक उतर वा कांय उतरांचो चोमो (phrase) आनी चडांत चड म्हळ्यार एका वाक्यांत दिवं येता, ताका अतिलघुत्तरी प्रस्न अशें म्हणटात. असल्या प्रस्नाक चड करून एक गूण आसता आनी असलो प्रस्न फकत एकूच मूल्यमापनात्मक मुद्याचेर (one testing point) आसता. असल्या प्रस्नांच्यो जापो निश्चीत आशिल्ल्यान कांय जाण मूल्यमापनांत असल्या प्रस्नांक वस्तुनिश्ठ प्रस्न मानतात. हांगा स्पश्ट करूक जाय की वस्तुनिश्ठ प्रस्नांचें मुखेल खाशेलेपण म्हळ्यार असल्या प्रस्नांत पर्याय दिल्ले आसतात आनी विद्यार्थ्यांनी फावो तो पर्याय वेंचून काडपाचो आसता. अतिलघुत्तरी प्रस्नाची जाप दितना विद्यार्थी निवड करिना. तो स्वतंत्र जाप (free response) दिता.

**वस्तुनिश्ठ प्रस्न :** ज्या प्रस्नाची जाप 'निश्चीत' आसता आनी ती तपासतना व्यक्तिनिश्ठताय (subjectivity) येना, असल्या प्रस्नाक वस्तुनिश्ठ प्रस्न म्हणटात. वस्तुनिश्ठ प्रस्नांत पर्याय दिल्ले आसतात आनी परिक्षार्थ्यान फावो ती जाप (पर्याय) सोदून काडूंक जाय. वस्तुनिश्ठ प्रस्न तयार करप कठीण. पूण ते तपासपाक सोपे. अभ्यासक्रमाच्या खुबशा भागांचें (wide sampling of content) मूल्यमापन असल्या प्रस्नांवरवीं करूं येता. वस्तुनिश्ठ प्रस्नांचे प्रकार सकयल दिल्यात.

१. बहुपर्यायी प्रस्न (Multiple Choice).
२. रिकामे सुवातेची पुर्तताय (Fill in the blanks).
३. द्विपर्यायी (बरोबर/चूक)
४. जोडयो करप
५. सुचोवणे प्रमाण जोडयो करप (Master Matching).

**भोवपर्यायी प्रस्न :** ह्या प्रस्नांचो उपेग आयजकाल खूब प्रमाणांत जाता. ते प्रस्न कशे करचे हेविशीं सकयल म्हायती दिल्या. भोवपर्यायी प्रस्नांत दोन भाग आसतात :

१) प्रस्नाचो मुखेल भाग वा दांडो (stem)
२) पर्याय (distractors)

बहुपर्यायी प्रस्न तयार करतना मतींत दवरपाचीं मार्गदर्शक तत्वां :

१) प्रस्न स्पश्ट स्वरुपांत आसूंक जाय.
२) जे पर्याय दिल्ले आसतात, तातुंतलो एक पर्याय बरोबर 'जाप' आसता आनी हेर पर्याय दिसतात बरोबर पूण खऱ्यांनी ते बरोबर नासतात. ज्या विद्यार्थ्यान विशयाचें वयलेवयर अध्ययन केलां, तो त्या पर्यायांनी फटवता. ह्या पर्यायांक इंग्लिशींत distractors म्हणटात. अर्दुकुटें गिन्यान आशिल्ल्या विद्यार्थ्यांचें लक्ष

विचलीत जाता. तो गोंदळटा. पूण ज्या विद्यार्थ्याक पुराय गिन्यान आसा तो फटवना. तो फावो तो पर्याय बेगीन सोदून काडटा.

**एक देख :** साश्टी तालुक्यांतलें शार सोदून काडात :

क) आसगांव

ख) साळगांव

ग) मडगांव

घ) शिरगांव

३) प्रस्न संक्षीप्त असूंक जाय.

४) पर्याय तयार करतना एकूच पर्याय सारकी जाप आसतली, हाची जतनाय घेवंक जाय.

५) प्रस्नांत व्याकरणाचे आनी हेर भायले सूचक (extraneous clues) टाळचे, देखीक :

शिक्षकान अशोकाक ———— दिलें.

क) पेन्सील

ख) पेन

ग) कादेर्न

घ) पावत

'दिलें' ह्या पर्यायावेल्यान फावो ती जाप 'पेन' म्हूण विद्यार्थ्याक रोखडेंच कळटलें.

६) उण्यात उणे चार वा पांच पर्याय आसुंकूच जाय. चारां परस उणें पर्याय आसूंक जायनात.

७) सारकी जाप हेर पर्यायांपरस सदांच व्हड वा ल्हान आसची न्हय.

८) दिल्ल्या पर्यायांत बरोबर आशिल्लो पर्याय विशिश्ट क्रमान येवंक जायना. समजा ८ बहुपर्यायी प्रस्न विचारल्यात. जर आठूय बहुपर्यायांची जाप (ग) थारायली जाल्यार तें समा जावचें ना. क्रम विंगड विंगड आसचो.

९) न्हयकारी पद्धतीन प्रस्न विचारचो न्हय. विचारलोच जाल्यार न्हयकारी जाप अधोरेखित करची. देखीक, सकयल बरयिल्ल्या नामांभितर खंयचें नाम भाववाचक न्हय?

क) संस्कृताय

ख) कुटुंब

ग) पिशेंपण

(घ) खंत

१०) पर्याय समजातीय (homogeneous) आसचे. देखीक, गोंयचे राजधानीचें नांव बरयात :

क) मडगांव

ख) वास्को

ग) म्हापशें

घ) पणजी

सकयल बरयिल्लेप्रमाण पर्याय बरयले जाल्यार ते समजातीय जावचेनात.

| | |
|---|---|
| क) चंदीगड | क) टोकियो |
| ख) कलकत्ता | ख) कोलंबो |
| ग) पाटणा | ग) लंडन |
| घ) पणजी | घ) पणजी |

(क, ख, ग हीं गोंयाभायलीं शारां आनी क, ख, ग हीं हेर देशांतलीं शारां)

११) रिती सुवात सुरवेक आसची न्हय.

————————न 'त्रिशतांवाक' ही कविता बरयल्या (र. वि. पंडित, मनोहरराय सरदेसाय, माधव बोरकार, नागेश करमली) हो प्रस्न असो बरयल्यार बरो :

'त्रिशतावांक' ही कविता बरयिल्ल्या कवीचें नांव जावन आसा ————————

(र. वि. पंडित, मनोहरराय सरदेसाय, माधव बोरकार, नागेश करमली.)

१२) प्रस्नाची भास कठीण आसची न्हय.

१३) पर्यायांची लांबाय लागीं लागीं एकसारकी आसची.

१४) जाप जर संख्यादर्शक आसली तर ती चडट्या वा देंवत्या क्रमान आसची. देखीक : गोंयांक खंयच्या वर्सा स्वतंत्रताय मेळ्ळी ?

क) १९४७

ख) १९६१

ग) १९७३

घ) १९७५

१३) प्रस्न उद्दिश्टांचेर आदारून आसचो. आदीं थारायिल्ल्या उद्दिश्टांचेर प्रस्न आसचो.

**द्विपर्यायी प्रस्न :** असल्या प्रस्नांत एक विधान दिल्लें आसता. तें चूक वा बरोबर

हें सांगूंक जाय. देखीक : सकयल दिल्लें विधान चूक वा बरोबर हें दाखोवपाखातीर फावो त्या उतराभोंवतणी वर्तुळ काडात.

मेजर विश्वनाथान आपणाक सामकी गरज आसतना लेगीत उदक तानेल्ल्या जवानाक दिलें. चूक/बरोबर

आयजकाल असल्या प्रस्नांचो उपेग चडकरून करिनात. विद्यार्थ्याक दोन पर्याय आशिल्ल्या कारणान अदमास करपाक (guessing) सोपें जाता.

**जोडयो करप :** 'क' स्तंभाचे सकयल वाक्प्रचार दिल्ले आसात. आनी 'ख' स्तंभाचे सकयल तांचे अर्थ दिल्ले आसात. वाक्प्रचार आनी तांच्या योग्य अर्थाच्यो जोडयो करात.

| क | ख |
|---|---|
| वाक्प्रचार | अर्थ |
| १) काळीज कळवळप | अ) कामाचो भार पडप |
| २) थार नासप | आ) पासयेक वचप |
| ३) भायर पडप | इ) दुख्ख भोगप |
| ४) हावळ हाडप | ई) ना करप |
| | उ) मरप |
| | ऊ) थरथरप. |

प्रस्नां सकयल फावो त्यो सुचोवण्यो, निर्देश (directions) दिवंक जाय. वयल्या देखींनी वाक्प्रचार आनी तांचे फावो ते अर्थ बरोवपाचो निर्देश दिला. पयल्या स्तंभांत जितले पर्याय आसतात ताचेपरस दोन तरी चड पर्याय दुसऱ्या स्तंभांत आसूंक जाय. केन्ना केन्ना कांय परीक्षक 'जोडयो करात' असो प्रस्न तयार करतात आनी पयल्या स्तंभांत विजातीय पर्यायांचो आस्पाव करतात. हें बरोबर न्हय.

सकयल दिल्लो प्रस्न दोशपूर्ण जावन आसा :

जोडयो करात :

| क | ख |
|---|---|
| १) बाकीबाब बोरकार | अ) भाववाचक नाम |
| २) सोबितकाय | आ) ना करप |
| ३) विद्‌वाट | इ) विशेशण |
| ४) हावळ हाडप | ई) फटी उलोवप |
| | उ) शोव रे कोंब्या शोव |
| | ऊ) नासधूस |

वयलो प्रस्न दोशपूर्ण आसा. 'क' स्तंभासकयल दिल्ले पर्याय सजातीय नात.

ते विंगड विंगड स्वरुपाचे आसात. तेचभाशेन 'ख' स्तंभासकयल जे पर्याय दिल्यात तेवूयबी सजातीय (homogeneous) नात. तेन्ना अशे तरेन प्रस्न करचे न्हय.

सकयल दिल्ल्यो 'जोडयो करात' प्रस्नाचें अध्ययन करात:

'क' स्तंभासकयल लेखकांचीं नांवां दिल्यात आनी 'ख' स्तंभासकयल तांणी बरयिल्ल्या धड्यांचीं नांवां दिल्यांत. 'क' स्तंभासकयल दिल्ल्या लेखकांचीं आनी 'ख' स्तंभासकयल दिल्ल्या योग्य धड्यांची निवड करून जोडयो करात.

| क | ख |
|---|---|
| १) कुरसिनु पिन्यु | अ) पिशें वाचपाचें |
| २) तोमाझिन्यु कार्दोज | आ) उदकांतलें धाडस |
| ३) दत्ताराम सुखठणकार | इ) मनाली |
| ४) पुंडलीक नायक | ई) मकर संक्रांत |
| | उ) मिस्तीर |
| | ऊ) हांव सत तें उलयतलों |

'क' स्तंभात सगले पर्याय बरोवप्यांचीं नांवां आसात आनी 'ख' स्तंभासकयल फकत धड्यांचीं नांवां आसात. हेर गजालींचें मिश्रण जावंक ना. आनीक एक तत्व मतींत दवरपाचें म्हळ्यार पयल्या स्तंभांतले पर्याय एका विशिश्ट क्रमान आयल्यात. 'क' व्यंजन 'त'चे पयलीं येता, 'त' 'द'चे पयलीं येता आनी 'द' 'प'चे पयलीं येता. पर्यायान क्रम व्यंजनाच्या क्रमाप्रमाण आसा.

**सुचोवणेप्रमाण जोडयो करप:** (Master Matching)

असल्या प्रस्नांत एक सुची दिल्ली आसता. सुचयेंत कांय पर्याय दिल्ले आसतात. हे सुचये सकयल कांय विधानां आसतात. जो पर्याय ज्या विधानाक लागता, तो पर्याय विधानाच्या दावे वटेन परिक्षार्थ्यान बरोवंक जाय,

देखीक: सकयल नामांच्या प्रकारांची सुची दिल्या. सुचयेसकयल १० वाक्यां दिल्यांत. ह्या वाक्यांत नामां अधोरेखीत केल्यांत. दर एका अधोरेखीत नामाचो प्रकार वाक्याचे दावेवटेन बरयात. क, ख, ग, घ हांचे भितरलें फावो तें व्यंजन सोदून काडून बरोवचें.

(क) जातीवाचक

(ख) विशेशनाम

(ग) रासनाम

(घ) भाववाचक

### वाक्यां

.... १) भारतीय पंगड बरो खेळ्ळो.

.... २) पेद्रून चार पेरां खालीं.

.... ३) लता सुंदर गायता.

.... ४) म्हारगाय खूब वाडल्या.

.... ५) हांव मुंबय वतलों.

.... ६) आमची सेना नेटान लडली.

.... ७) शिक्षकाक राग आयलो.

.... ८) झाडां कातरूं नाकात.

.... ९) आवय भुरग्याचो मोग करता.

.... १०) पिशेपण करूं नाकात.

**जापो अशे तरेन बरोवच्यो :**

ग १) ................................................

क २) ................................................

ख ३) ................................................

घ ४) ................................................

ख ५) ................................................

ग ६) ................................................

घ ७) ................................................

क ८) ................................................

घ ९) ................................................

घ १०) ................................................

# ३२.

# प्रस्न-पत्र तयार करपाचें तंत्र

शिक्षणीक वर्स सुरू जावपासावन तें सोंपमेरेन मदलो जो काळ आसता ताचेमदीं अभ्यासक्रमाचें मूल्यमापन करपाखातीर कांय परीक्षा जातात. घटक-परीक्षा (Unit Tests) आनी हेर सत्रीय परीक्षा घेतात. पयलीं फुडल्या वर्गांत विद्यार्थ्यांक घालपाक फकत वर्सुकी परिक्षेचो निकाल विचारांत घेताले आनी विद्यार्थ्याचें भवितव्य वर्सुकी परिक्षेचेर आदारून आसतालें. पूण आतां ही पद्धत काळाभायली थारल्या. आयजकाल सातत्यपूर्ण मूल्यमापनाचो (Continuous Evaluation) सिद्धांत मान्य जाला आनी विद्यार्थ्यांची फुडल्या वर्गांत बडटी ही वर्सांमदीं ज्यो परीक्षा घेतात, हेर मूल्यमापनात्मक तंत्रां आपणायतात, तांचेर आदारून आसतात. हाचो एक फायदो म्हळ्यार विद्यार्थी वर्सभर अभ्यास करता. सातत्यपूर्ण मूल्यमापन तांकां वर्सभर शिकपाक लायता. गोंयांत मध्यमीक शाळांनी सकयल बरयिल्ल्यो परीक्षा आनी हेर मूल्यमापनात्मक साधनांवरवीं फुडल्या वर्गांत बसोवपाचें थारायतात. हातूंत एस्.एस्.सी.च्या परिक्षेचो आसपाव ना.

१) तीन परीक्षा (लेखी)

२) दोन स्वाध्याय (assignments)

३) घरपाठ

४) तोंडी परीक्षा

तीन परिक्षांत १६० गूण, २ स्वाध्यायांत २० गूण, घरपाठाक १० गूण आनी तोंडी परिक्षेक १० गूण अशी मूल्यमापन करपाची पद्धत आपणायल्या.

वर्साचे निमणें २०० गुणांचे अर्दे गूण म्हळ्यार १०० गुणांभितर ताका कितले गूण मेळ्ळे हें ताचे प्रगतीपत्रकाचेर येता.

आतां ज्यो लेखी परीक्षा घेतात, म्हळ्यार ज्यो प्रस्न-पत्रिका शिक्षक काडटात, तांचें तंत्र कितें हेविशीं जाणा जावन घेवंया. खुबदां अशें दिसून येता की शिक्षक फाटल्यो प्रस्न-पत्रिका पळयतात आनी तातूंत मात्सो बदल करून प्रस्न-पत्रिका तयार करतात. पूण ही पद्धत समा न्हय. आनीक दुसरी एक गजाल दिसून येता की शिक्षक पाठ्यपुस्तक सामकार दवरता आनी प्रस्न-पत्रिका तयार करता.

ह्या पुस्तकाच्या 'उद्दिश्टांचेर आदारून अध्यापन' ह्या माथाळ्याच्या प्रकरणांत उद्दिश्टांची चर्चा केल्ली आसा. तेन्ना प्रस्न-पत्रिका तयार करतना ह्या उद्दिश्टांक खूब म्हत्व आसा.

प्रस्न-पत्रिका तयार करपाचें नवीन तंत्र (technique) आतां विकसीत जालां. त्या तंत्राचें स्वरूप कितें तें पळोवया. जे प्रमाण एक वास्तुशिल्पकार घराचो आराखडो (blue-print) तयार करता, तेचप्रमाण शिक्षकान प्रस्न-पत्रिका तयार करचेआदीं एक संविधान तक्तो (blue-print) तयार करूंक जाय. तो कसो तयार करचो, हेविशीं म्हायती मेळोवया.

जी प्रस्न-पत्रिका तयार करपाची आसा, ती अभ्यासक्रमाच्या खंयच्या भागाचेर, हें पयलीं थारावंक जाय. ह्या अभ्यासक्रमांत खंयच्या घटकांचो आनी उपघटकांचो आसपाव आसा हें पयलीं निश्चित करूंक जाय. उपरांत ह्या अभ्यासक्रमाच्या विंगड विंगड घटक-उपघटकांचीं उद्दिश्टां कितें हें थारावंक जाय. तिसरी गजाल म्हळ्यार खंयच्या प्रकारांच्या प्रस्नांचो आसपाव प्रस्न पत्रिकेंत आसतलो हेंवूयबी थारावंक जाय. हाचोच अर्थ असो की प्रस्न-पत्रिका तयार करतना तीन गजाली मतींत दवरप खूब गरजेचें. ह्यो तीन गजाली म्हळ्यार (१) अभ्यासक्रम (२) उद्दिश्टां आनी (३) प्रस्न-प्रकार.

ज्या उद्दिश्टांचें मूल्यमापन करपाचें आसा, तांचे भितरल्या दर एका उद्दिश्टाक कितलें म्हत्व (weightage) दिवचें हेंवूयबी थारावंक जाय. हें म्हत्व दर शेंकड्यांत (percentage) दाखोवंक जाय आनी दर शेंकड्यांचें गुणांत परिवर्तन करूंक जाय. अभ्यासक्रमांत जे घटक-उपघटक आसात, तांचेंय म्हत्व (weightage) वयर सांगिल्लेप्रमाण दाखोवंक जाय. निमणें प्रस्न-प्रकारांचें म्हत्व दाखोवंक जाय.

देखीक, आमी आठवे यत्तेच्या अभ्यासक्रमाचें जें वर्सुकी नियोजन केलां, तें उदाहरण म्हूण घेवंया. पयली परीक्षा सप्टेंबराच्या पयल्या सप्तकांत जातली आनी प्रस्न-पत्रिका ५० गुणांची आसतली. ही प्रस्न-पत्रिका १¹/₂ वरांची आसतली.

पयले परिक्षेंत सकयल बरयिल्ल्या घटक-उपघटकांचो आसपाव जातलो.

घटक १) अ) उदकांतलें धाडस (गद्य)
ब) त्रिश्तांवाक (पद्य)
क) निबंध लेखन
ड) नाम (व्याकरण)

घटक २) अ) मिकी (गद्य)
ब) आर्यभट (गद्य)
क) शोव रे कोंब्या शोव (पद्य)
ड) म्हजो खुरीस (पद्य)
त) पत्र-लेखन्
थ) नामांचे प्रकार (व्याकरण)

घटक ३) अ) हांव सत तें उलयतलों (गद्यं)
ब) सैम (गद्य)
क) कोणाक कांय नाका
ड) अर्थ (पद्य)
त) काणी लेखन
थ) लिंग, वचन (व्याकरण)

ह्या घटकांचें निरीक्षण केल्यार अशें दिसून येता की अभ्यासक्रमांत गद्य, पद्य, रचना आनी व्याकरणाचो आसपाव जाला. ज्या उद्दिश्टांचें मूल्यमापन करपाचें तीं म्हळ्यार ज्ञान, आकलन, अभिव्यक्ती आनी उपयोजन. प्रस्न तीन प्रकारांचे आसतले आनी ते म्हळ्यार दिर्घोत्तरी, लघुत्तरी, अतिलघुत्तरी आनी वस्तुनिश्ठ. उद्दिश्टां, विशय-वस्तू (अभ्यासक्रमाचो भाग) आनी प्रस्न-प्रकारांक कितलें म्हत्व दिवचें तें थारावंक जाय. फुडल्या पानार हाचो एक नमुनो दिल्लो आसा.

| उद्दिश्टां | दर शेंकड्यांत | गूण |
|---|---|---|
| ज्ञान | २६% | १३ |
| आकलन | ४०% | २० |
| अभिव्यक्ती | ३०% | १५ |
| उपयोजन | ४% | २ |
| | १००% | ५० |

| विशयवस्तू | दर शेंकड्यांत | गूण |
|---|---|---|
| गद्य | ३८% | १९ |
| पद्य | २०% | १० |
| रचना | ३०% | १५ |
| व्याकरण | १२% | ६ |
| | १००% | ५० |

| प्रस्न-प्रकार | दर शेंकड्यांत | गूण |
|---|---|---|
| दिर्घोत्तरी | ३०% | १५ |
| लघुत्तरी | ४८% | २४ |
| अतिलघुत्तरी | १२% | ६ |
| वस्तुनिश्ठ | १०% | ५ |
| | १००% | ५० |

उद्दिश्टां, विशय-वस्तू आनी प्रस्न-प्रकार हांकां जें म्हत्व दिल्लें आसा आनी गूण थारायिल्ले आसात तांचो एक संविधान तक्तो तयार करूंक जाय आनी

ह्यो सगल्यो गजाली ह्या तक्त्यांत दाखोवंक जाय.

आठवे यत्तेचे पयले परिक्षेच्या संविधान तक्त्याचो एक नमुनो सकयल दिल्लो आसा. तक्तो तयार केले उपरांत प्रस्न-पत्रिका ह्या नमुन्याप्रमाण तयार करूंक जाय. तेउपरांत प्रस्नांच्यो जापो आनी जापांच्या मुद्यांचें आंकडे-वांटणी दाखोवपी वितरणाचो तकतो तयार करूंक जाय. हें केलेउपरांत आनिकूय एक तकतो तयार करूंक जाय आनी ह्या तक्त्यांत सकयल बरयिल्ल्या गजालींचो आसपाव करूंक जाय. ह्या तक्त्याक प्रस्नाचें पृथ:करण (qustion-wise analysis) अशें म्हणटात.

१) प्रस्न क्रमांक
२) उद्दिश्ट
३) विशिश्ट उद्दिश्ट
४) उपघटकाचेर प्रस्न तयार केला, तो उपघटक
५) प्रस्नांचो प्रकार
६) प्रस्नाक दिल्ले गूण
७) प्रस्नाची जाप बरोवंक लागपी वेळ
८) प्रस्नाचो काठीण्य थर.

प्रस्नपत्रिका तयार करप म्हळ्यार फकत कागद घेवन ताचेर प्रस्न बरोवप न्हय. वयर दिल्ल्या मार्गदर्शक तत्वांप्रमाण कृती करूंक जाय. पयलीं उद्दिश्टां, विशय-वस्तू आनी प्रस्नप्रकार हांकां कितलें म्हत्व दिलां, तें दर शेंकड्यांत आनी गुणांनी तीन तक्त्यांनी दाखोवंक जाय. उपरांत एक संविधान तक्तो तयार करूंक जाय. उपरांत प्रस्न-पत्रिका तयार करूंक जाय. प्रस्न-पत्रिका तयार करतकूच प्रस्नांच्यो जापो आनी जापांच्या मुद्यांची गूण-वांटणी दाखोंवपी एक तक्तो तयार करूंक जाय. निमणें प्रस्नाचें पृथ:करण दाखोवपी तक्तो तयार करूंक जाय.

आठवेचे पयले परिक्षेची प्रस्न-पत्रिका कशी तयार केल्या, ताचो नमुनो फुडल्या पानार दिला :

दि : दिर्घोत्तरी ल : लघुत्तरी
अ.ल. : अतिलघुत्तरी व : वस्तुनिश्ठ

| उद्दिश्टां | ज्ञान | | | | आकलन | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| विशय-वस्तू | दी | ल | अ.ल. | व | दी | ल | अ.ल. | व |
| **गद्य पाठ** | | | | | | | | |
| १) उदकांतलें धाडस | | *१() | | १ (१) | | ४(१) खंयचेय तीन प्रस्न | | |
| २) मिकी | | | | | | ४ (१) | | |
| ३) आर्यभट | | *१() | | १ (१) | | ४ (१) | | |
| ४) हांव सत तें उलयतलों | | | | | | ४ (१) | | |
| ५) सैम | | | | १ (१) | | ४ (१) | | |
| **पद्य पाठ** | | | | | | | | |
| १) त्रिश्तावांक धाडस | | | | १(१) | | | | |
| २) शोव रे कोंब्या शोव | | | | १(१) | | | | |
| ३) म्हजो खुरीस | | | | | | ४(१) खंयचेय दोन प्रस्न | | |
| ४) कोणाक कांय ना | | | | | | ४(१) | | |
| ५) अर्थ | | | | | | ४(१) | | |
| **लेखन** | | | | | | | | |
| १) निबंध लेखन | | | | | | | | |
| २) काणी लेखन (मुद्द्यांच्या आदारान) | | | | | | | | |
| वा | | | | | | | | |
| ३) पत्र लेखन | | | | | | | | |
| **व्याकरण** | | | | | | | | |
| १) नाम | | | ३(२) | | | | | |
| २) लिंग | | | २(२) | | | | | |
| ३) वचन | | | १(१) | | | | | |
| | | २ | ६ | ५ | | २० | | |
| | १३ | | | | २० | | | |

१) कंसांत भितर बरयल्लो आंकडो कितले प्रस्न विचारल्यात तें दाखयता आनी कंसाभायलो आंकडो वट्ट गूण दाखयता

# तक्तो

| अभिव्यक्ती | | | | उपयोजन | | | | गूण |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| दी | ल | अ.ल. | व | दी | ल | अ.ल. | व | |
| | | | | | ✻१(१) | | | |
| | | | | | | | | १९ |
| | | | | | ✻१(१) | | | |
| | | | | | | | | |
| | | | | | | | | |
| | | | | | | | | |
| | | | | | | | | |
| | | | | | | | | १० |
| | | | | | | | | |
| | | | | | | | | |
| १० (१) | | | | | | | | |
| ५ (१) | | | | | | | | १५ |
| वा | | | | | | | | |
| ५ (१) | | | | | | | | |
| | | | | | | | | |
| | | | | | | | | ६ |
| | | | | | | | | |
| १५ | | | | | २ | | | |
| १५ | | | | २ | | | | ५० |

२) ज्या सुवातींनी ✻ अशी खूण आसा ताचो अर्थ असो की तो एकूच प्रस्न जावन आसा. प्रस्न-पत्रांत हो प्रस्न क्रमांक ६ जावन आसा.

यत्ता : आठवी विशय : कोंकणी पयली परीक्षा : गूण ५०

प्र.१ दर एका प्रस्ना सकयल चार पर्याय दिल्ले आसात. योग्य पर्याय सोदून काडात.

अ) आर्यभटान प्रयोगान किते पटोवन दिलें? (१)

क) सूर्या धर्तरी भोंवतणी घुंवता आनी चंद्रीम सूर्याभोंवतणीं घुंवता.

ख) सूर्या राहू भोंवतंणी घुंवता आनी धर्तरी चंद्रिमा भोंवतणीं घुंवता.

ग) धर्तरी सूर्याभोंवतणी घुंवता आनी चंद्रीम धतरीभोंवतणी घुंवता.

घ) चंद्रीम केतूभोंवतणी घुंवता आनी सूर्या राहूभोंवतणी घुंवता.

आ) मनशाक कशें जियेवप हें कशें शिकोवचें पडटलें? (१)

क) वनस्पतसृश्ट आनी प्राणीसृश्ट हांचेकडेन मेळ सादून

ख) मोनजात आनी वनस्पत हांचेर हावळ हाडून

ग) वनस्पतशास्त्र आनी जीवशास्त्र हांचेविशीं गिन्यान मेळोवन

घ) हिमालयाक आनी सह्याद्रीघाटाक वांचोवन

(इ) मास्तरान मनूची फाट थापटून कित्याक शाबासकी दिली? (१)

क) मनून एका प्रस्नाची बरी जाप दिली म्हूण

ख) मनून कमलाक पायांक धरून उरफाटें केलें म्हूण

ग) मनून आपली कूड उदकाच्या लोटांत लोटून दिली म्हूण

घ) मनून बुडटल्या कमलाक वांचयलें म्हूण

प्र.२ दर एका प्रस्नासकयल चार पर्याय दिल्ले आसात. योग्य पर्याय सोदून काडात.

अ) गोंयची भूंय कित्याक तळमळटा? (१)

क) त्रिश्तांवाक पुर्तुगेजांनी कादयेंत घालो म्हूण

ख) त्रिश्तांवांच्यो अस्थी कुशींत घेवंक मेळूंक ना म्हूण

ग) त्रिश्तांवान हांसत हांसत वीज झेल्ली म्हूण

घ) त्रिश्तांवांक गोंयची स्वतंत्रताय पळोवंक मेळ्ळी म्हूण

अ) कोंबो कितें फुलोवन भोंवता? (१)

क) पाखां

ख) मान

ग) आंग

घ) शेंक्रें

प्र.३ खंयच्याय तीन प्रस्नांच्यो जापो बरयात. (१२)

प्रत्येक प्रस्नाची जाप ४-५ वळींनी बरयात.

क) आर्यभटान कसलो प्रयोग करून दाखयलो?

ख) मनून कमलाचो जीव वाटावपाखातीर कितें कितें केलें?

ग) मिकीच्या सभावाचें वर्णन करात.
घ) पेनाक लागून जुझेन कसल्यो कसल्यो फटी मारल्यो ?
ङ) भुरग्यांच्या ज्ञानांत आनी खोशयेंत कितें केल्यार भर पडटली ?

प्र.४ खंयच्याय दोन प्रस्नांच्यो जापो बरयात. (८)
क) ध्येयाआड आशिल्ले लोक कित्याक भियेतात ?
ख) म्हाका तूं जाय आनी तुका हांव जाय तें कित्याखातीर ?
ग) 'अर्थ' कविता बरोवपी कवीक कसलें दुख्ख भोगता ?

प्र.५ (क) आडी मारिल्ल्या नामांच्यो जाती बरयात. (१)
भारताचो क्रिकेट पंगड मॅच जिकलो.
(ख) सकयल बरयिल्ल्या नामांचीं भोववचन रुपां बरयात. (१)
संत्र, पणटी
(ग) सकयल बरयिल्ल्या नामांचीं लिंगां बरयात. (१)
संस्कृताय, सवणें
(घ) सकयल बरयिल्ल्या नामांचीं स्त्रीलिंगी रुपां बरयात. (१)
दादलो, रेडो
(ङ) सकयल बरयिल्ल्या उतरांचीं भाववाचक नामां बरयात. (२)
गिरेस्त, पिसो

प्र.६ सकयल बरयिल्ल्या वाक्प्रचारांचो अर्थ बरोवन तांचो सार्थक वाक्यांत उपेग करात. (४)
आंग काडप, आळाबंदा हाडप.

प्र.७ तुमचे शाळेंत जाल्ले गांधी जयंतीचें वर्णन करून तुमच्या/तुमचे इश्टाक/इश्टिणीक चीट बरयात. (५)

वा

सकयल दिल्ल्या मुद्द्यांच्या आदारान ७-८ वळींची काणी बरयात आनी तिका फावोसो एक माथाळो दियात.

एका बापायक चिंता — पूत वायट संगतींत — आंब्याचो कंडो हाडप — पिके आंबे घालप — एक कुसको आंबो कंड्यांत घालप — सगले आंबे कुसप — पुताक दाखोवप — शिकवण.

प्रस्न ८ खंयच्याय एका विशयाचेर २५-३० वळींचो निबंध बरयात. (१०)
क) दर्यावेळेर एक सांज
ख) म्हजो इश्ट/म्हजी इश्टीण
ग) गोंयची सैमीक सोबितकाय.

## वस्तुनिश्ठ प्रस्नांच्यो जापो आनी गूण वांटणी

| प्रस्न क्रमांक | | प्रस्नांच्यो जापो | गूण | |
|---|---|---|---|---|
| प्र.१ | अ | धर्तरी सुर्याभोंवतणी घुंवता आनी चंद्रीम धतरे भोंवतणी घुंवता. | १ | |
| | आ | वनस्पतसृश्ट आनी प्राणीसृश्ट हांचेकडेन मेळ सादून | १ | |
| | इ | मनून बुडटल्या कमलाक वांचयलें म्हूण | १ | |
| प्र.२ | अ | त्रिश्तांवाच्यो अस्थी कुशींत घेवंक मेळूंक ना म्हूण | १ | |
| | आ | शेक्रें | १ | |
| | | **लघुत्तरी आनी निबंधात्मक प्रस्नांच्या जापांचे मुद्दे** | दर एक मुद्याक गूण | वट्ट गूण |
| प्र.३ | क | १) एक संत्र, दोन दाभणां, एक निंबू, एक पणटी, लाकडाचो कुडको हाडप | १/२ | |
| | | २) लाकडाच्या कुडक्यार पणटी दवरप | १/२ | |
| | | ३) निंबूक दाभण लावन तें दुसऱ्या एका लाकडा कुडक्याक दसोवप | १/२ | |
| | | ४) दुसरें दाभण संत्राक लावन संत्र तिसऱ्या लाकडा-कुडक्याक दसोवप | १/२ | |
| | | ५) एके वटेन पणटी, दुसरे वटेन संत्र आनी तांचे मदीं निंबू दवरप | १/२ | |
| | | ६) संत्र ही धर्तरी, निंबू हो चंद्रीम, पणटी हो सूर्या | १/२ | |
| | | ७) सूर्या आनी धर्तरी हांचे मदीं चंद्रीम एके वळींत येवप | १/२ | |
| | | ८) पृथ्वीवयल्या कांय वाठारांतल्या लोकांक सूर्या दिसप ना, हाका गिराण म्हणप | १/२ | ४ |

| | | | |
|---|---|---|---|
| प्र. ३ ख | १) मनून बोटवो भिरकायलो आनी आपल्याक व्हाळांत लोटून दिलें. | १/२ | |
| | २) ताका तोल सांबाळूंक जमनासलें. | १/२ | |
| | ३) मनू आनी भुरगें व्हाळाच्या एका मोडणार पावलीं. | १/२ | |
| | ४) भुरगें व्हांवपाक लागलें. | १/२ | |
| | ५) मनुचें खोमीस कांटयारेक फारावलें. | १/२ | |
| | ६) मनू कांट्याऱ्यांतल्यान भायर सुटलो आनी आपली कूड ताणें उदकाच्या लोटांत लोटून दिली. | १/२ | |
| | ७) कमलाक घट्ट धरून वयर काडलें. | १/२ | |
| | ८) कमलाक पायांक धरून उरफाटें केलें. | १/२ | ४ |
| प्र. ३ ग) | १) मिजाशी | १/२ | |
| | २) चोर नाशिल्लें | १/२ | |
| | ३) अनवळखी मनीस भितर सरत जाल्यार अशे तरेन वागप की मनशाक फुडें सरपाक धीर जावप ना | १/२ | |
| | ४) नुस्तें/दूद दिसतकूच आकूळ पिकूळ जावप | १/२ | |
| | ५) नुस्तें पोवशेंल्लें आसत जाल्यार खावप ना | १/२ | |
| | ६) उंदीर मारून हाडप | १/२ | |
| | ७) मिकी बेमान नाशिल्लें. | १/२ | |
| | ८) मिकी हुशार आशिल्लें. | १/२ | ४ |

| प्रस्न क्र. | प्रस्नांच्यो जापो | गूण | वट्ट गूण |
|---|---|---|---|
| प्र.३ घ | १) पेन जुझेन आंद्रूक दिलां.<br>२) आंद्रू आसलो ताका आंद्रू अंकल केलो.<br>३) आंद्रू अंकला वाट्याचें हेडमास्तरान दिलां म्हूण सांगलें.<br>४) पेन मांयन दिलां म्हूण हेडमास्तराक सांगलें.<br>५) फटकिऱ्यो चिटयो बरयल्यो. | १/२<br>१/२<br>१/२<br><br>१/२<br>२ | ४ |
| प्र.३ ङ | १) सैमाची नियाळणी केल्यार<br>२) शेवर्णी घोंटेर कसो आनी खंय बांदतात<br>३) तण खंयसून हांडटात<br>४) तण कशें विणून काडटात<br>५) घोंटेरा भितर राखणेची सुवात कशी करतात<br>६) तांतयां केन्ना घालतात<br>७) तीं कशीं उबयतात<br>८) पिलां जातकूच तांकां कितें हाडून खावयतात | १/२<br>१/२<br>१/२<br>१/२<br>१/२<br>१/२<br>१/२<br>१/२ | ४ |
| प्र.४ क | १) धतरेच्या दुखांक न्हय<br>२) नक्षत्रां बावून झडत म्हणून न्हय<br>३) सूर्याक गिराण लागून उजवाड धांपून उरत म्हणून न्हय<br>४) व्हड मनशाचे सासायेच्या साक्षात्काराक | १<br>१<br>१<br><br>१ | ४ |
| प्र.४ ख | तूं म्हाका कुंडो दिता<br>हांव तुका उंडो दितां<br>तूं म्हाका कणी दिता<br>हांव तुका लोणी दितां | १<br>१<br>१<br>१ | ४ |
| प्र.४ ग | कवीक जिणेचो अर्थ अजून कळूंक ना<br>यंत्रयूग आयलें<br>जीण उदरगतीचे वाटेन वताशी दिसलें<br>मनशाचे जिणेंतलीं झगडीं सोंपलींनात | १<br>१<br>१<br>१ | ४ |

| प्रस्न क्र. | प्रस्नांच्यो जापो | गूण | वट्ट गूण |
|---|---|---|---|
| प्र.५ क | भारत – विशेशनाम | १/२ | |
| | पंगड – रासनाम | १/२ | |
| ख | संत्र – संत्रां | १/२ | |
| | पणटी – पणट्यो | १/२ | |
| ग | संस्कृताय – स्त्रीलिंग | १/२ | |
| | सवणें – नपुसकलिंग | १/२ | |
| घ | इश्ट – इश्टीण | १/२ | |
| | रेडो – म्हस · | १/२ | |
| ङ | गिरेस्त – गिरेस्तकाय | १ | |
| | पिसो – पिशेंपण | १ | ६ |
| प्र.६ | आंग काडप – भियेवप | १ | |
| | सार्थक वाक्य | १ | |
| | आळाबंद हाडप –थांबोवप वा ना करून उडोवप | १ | ४ |
| | सार्थक वाक्य | १ | |
| प्र.७ | नामो | १/२ | |
| चीट | तारीख | १/२ | |
| | संबोधन | १/२ | |
| | अंत | १/२ | |
| वा | योग्य आशय | २ | |
| | शुद्ध भास | १ | ५ |
| काणी | शुद्ध भास | १ | |
| | योग्य मुद्दे | २ | |
| | वाक्प्रचार आनी प्रभावी उतरांचो उपेग | १ | |
| | योग्य माथाळो | १ | ५ |
| प्र.८ | शुद्ध भास | ३ | |
| | योग्य मुद्दे | ३ | |
| | वाक्प्रचार आनी प्रभावी उतरांचो उपेग | २ | |
| | निबंध बरोवपाची योग्य विधी (प्रस्तावना, मध्य आनी अंत) | २ | १० |

## प्रस्नांचें विश्लेशण

| प्रस्न क्र. | | उद्दिश्ट | विशिश्ट उद्दिश्ट | विशय वस्तू | प्रस्न प्रकार | गूण | वेळ | काठिण्य स्तर |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | अ | ज्ञान | याद करता | आर्यभट (गद्य) | वस्तुनिश्ठ | १ | २ मि. | ख |
| | आ | ज्ञान | '' | सैम (गद्य) | '' | १ | '' | ख |
| | इ | ज्ञान | '' | उदकांतलें धाडस (गद्य) | '' | १ | '' | क |
| २ | अ | ज्ञान | '' | त्रिशतांवांक (पद्य) | '' | १ | '' | ख |
| | आ | ज्ञान | '' | शोव रे कोंब्या शोव (पद्य) | '' | १ | '' | क |
| ३ | क | आकलन | विचार करून जाप दिता | आर्यभट (गद्य) | लघुत्तरी | | | ख |
| | ख | '' | '' | उदकांतलें धाडस (गद्य) | '' | | | ख |
| | ग | '' | '' | मिकी (गद्य) | | ३x४=१२ | ३x६=१८ | ख |
| | घ | '' | '' | हांव सत तें उलयतलों (गद्य) | खंयचेय तीन | | | ख |
| | ङ | '' | '' | सैम (गद्य) | '' | | | ख |
| ४ | क | आकलन | स्पश्ट करता | खुरीस (पद्य) | लघुत्तरी | | | ख |
| | ख | '' | '' | कोणाक कांय नाका (पद्य) | '' | | | ख |
| | ग | '' | '' | अर्थ (पद्य) | खंयचेयदोन | २x४=८ | २x६=१२ | ग |
| ५ | क | ज्ञान | ओळखता | नामां | अतिलघुत्तरी | १ | २ मि. | क |
| | ख | ज्ञान | याद करून बरयता | वचन | '' | १ | '' | ख |
| | ग | '' | '' | लिंगां | '' | १ | '' | ख |
| | घ | '' | '' | '' | '' | १ | '' | ख |
| | ङ | '' | '' | नामां | '' | २ | '' | ग |
| ६ | | ज्ञान उपयोजन | याद करता, वाक्यांत उपेग करता | वाक्प्रचार (गद्य) | लघुत्तरी | ४ | ४ मि. | ख |
| ७ | | अभिव्यक्ती ज्ञान | योग्य रितीन बरयता | चीट वा काणी | दीर्घोत्तरी | ५ | १४ मि. | ख |
| ८ | | अभिव्यक्ती ज्ञान | योग्य रितीन मुद्यांचें संश्लेशण करून बरयता | निबंध | दीर्घोत्तरी | १० | २२ मि. | ग |

**काठीण्य स्तर :** क – सोपो, ख – सादारण, ग – कठीण




# ३३.

# निदानात्मक आनी उपचारी अध्यापन

## (Diagnostic & Remedial Teaching)

मनीस जेन्ना दुयेंत जाता तेन्ना तो दोतोराकडेन वता. दोतोर विचारता, तुका कितें जालां? वायटकार दोतोराक सांगता, म्हज्या पोटांत दुखता वा म्हजें आंग तापलां वा म्हाका घुंवळ येता वा म्हजी तकली उसळटा आदी. मागीर दोतोर ताका जतनायेन तपासता. स्टेथोस्कोप लावन पळयता, ताची नाडी कशी चलता तें पळयता, ताचो रक्त-दाब पळयता, ताचें पोट दामून ताका खंय दुखता तें पळयता, ताचें क्ष-किरण चित्रण काडूंक लायता, ताका मल-मूत-रक्ताची परीक्षा करून घेवपाक लायता. अशो तरातरांच्यो वैजकी प्रक्रिया तो करता वा करून घेता आनी मागीर निश्चीतपणान ताका अमूक रोग जाला अशें थारायता. हाका रोगाचें निदान (diagnosis) अशें म्हणटात. निदान करप म्हळ्यार खंयचो रोग ताका जाला तें थारावप. निदान जालेउपरांत तो ताका फावो तो गरजेचें वखद दिता. तो रोग-मुक्त जावपाखातीर ताका फावो ते उपचार (remedy) सुचयता. रोगी तीं वखदां घेता आनी ताची भलायकी सुदारता.

अध्ययन-क्षेत्रांत लेगीत विद्यार्थी शिक्षणीक नदरेन दुयेंत पडटा. हाचो अर्थ खंयच्या तरी विशयांत तो फाटीं पडटा. परिक्षेंत ताका उणे गूण पडटात. केन्ना केन्ना उणे गूण पडून तो नापास जाता. ज्यो परीक्षा शाळेंत घेतात, तांकां प्राविण्य परीक्षा (achievement tests) अशें म्हणटात. विद्यार्थ्यान खंयच्या विशयांत कितलें

प्राविण्य मेळयलां हें पळोवपाक 'प्राविण्य परीक्षा' घेतात. समजा, एका विद्यार्थ्याक उणे गूण मेळ्ळ्यात, जाल्यार ताका उणे गूण कित्याक मेळ्ळ्यात ताचीं कारणां सोदून काडपाची जापसालदारकी शिक्षकाची आसा. विशयाच्या खंयच्या वाठारांत (areas) विद्यार्थी उणो पडटा हें सोदून काडूंक जाय. खुबदां शिक्षक अशें सामान्य विधान करता – अमूक विद्यार्थी अमूक विशयांत उणो पडटा. असलीं विधानां (general statements) अस्पश्ट (vague) स्वरुपाचीं जावन आसात. तातूंत निश्चितपण नासता. म्हणजे शिक्षकाक ताच्या 'शिक्षणीक रोगाचें' निश्चीत निदान जावंक ना. भाशेची देख घेवंया. 'विद्यार्थ्याक कोंकणी भास बरी येना' अशें अस्पश्ट स्वरुपाचें विधान शिक्षक करता तें समा न्हय. भाशेच्या खंयच्या वाठारांत (area) तो फाटीं पडला हें पळोवंक जाय. ताची शिक्षणीक उदरगत खंयच्या कारणांक लागून फाटीं पडल्या, तीं कारणां सोदून काडूंक जाय. विशयाच्या खंयच्या वाठारांनी (areas) तो फाटीं आसा हें सोदून काडूंक जाय. विशयाच्या अध्ययनांत खंयच्यो आडखळी येतात हांचो सोद लावंक जाय. विद्यार्थ्यांच्या अध्ययनाविशीं ह्या आडखळींचो सोद लावपाचे प्रक्रियेक 'शिक्षणीक निदान (Educational Diagnosis)' म्हणटात आनी उपरांत फावो ते अध्यापन पद्धतीचो उपेग करून तेचपरी फावो ते शिक्षणीक अणभव ताका दिवन ताच्यो आडखळी पयस करप हाका 'उपचारी अध्यापन' (Remedial Teaching) म्हणटात.

जेन्ना वर्गांत शिक्षक शिकयता, तेन्ना विद्यार्थी खंयच्या वाठारांत उणो पडटा तें पळोवंक जाय. विद्यार्थी जेन्ना प्रस्नांच्यो जापो दितात वा घरपाठ करतात वा लेखी परिक्षेंत जापो बरयतात, तेन्ना बारीकसाणेन निरीक्षण करून विद्यार्थी खंयच्या वाठारांत फाटीं आसा हें शिक्षक निश्चीत करूंक शकता.

देखीक, विद्यार्थ्याक पाठाचें सुरांत वाचन करूंक येना, अशें जेन्ना शिक्षक म्हणटा, तेन्ना सुरांत वाचन फावो ते रितीन करप म्हळ्यार कितें तें शिक्षकान पयलीं समजून घेवंक जाय. सुरांत वाचनाच्या कसबाचें पृथःकरण (analysis) करून तांचे घटक निश्चीत करूंक जाय. सुरांत वाचनाचे घटक सकयल दिल्यात:

१) ध्वनी आनी उतरांचें शुद्ध उच्चारण.

२) स्वरांचेर फावो तितलो दाब/नेट दिवप (स्वराघात).

३) अर्थाचे नदरेन फावो त्या उतरांचे चोमे वाचप.

४) वाचनांत प्रवाह आसप.

५) विराम चिन्नां मतींत दवरून वाचप.

६) वाचनांत फावो ते स्वर आसप (केन्ना केन्ना विद्यार्थी चड उंच स्वरांत वा मंद आनी आयकूंक येना अशा स्वरांत वाचता.)

७) वाक्यांशांची पुनरावृत्ती करप ना.
८) दोन वाक्यांमदीं खूब वेळ घेवप ना.
९) एक वळ वाचून जातकूच दुसरे वळीचें वाचन खूब कळावान करप ना.
१०) वाचनांत फावो ते चड-उतार / आरोह-अवरोह आसप.
११) वाचनांत फावो ती गती आसप.
१२) वाचन भावानुरूप आसप.

वाचनाच्या कसबाचें पृथ:करण करून वयर वाचनाचे घटक दिल्यात. जेन्ना विद्यार्थी सुरांत वाचन करता, तेन्ना ताच्या वाचनांत वयले घटक आसात वा नात ताचें शिक्षकान जतनायेन निरीक्षण करूंक जाय. ज्या घटकांचो आसपाव वाचनांत ना, त्या घटकांची ताणें नोंद करूंक जाय. शिक्षकान विद्यार्थ्यांचे अध्ययन प्रक्रियेंत 'धोक्याच्यो सुवाती' (danger points) सोदून काडूंक जाय. विद्यार्थी खंय चुकता हें कळले उपरांत शिक्षकान फावो ते शिक्षणीक अणभव दिवन आनी अभ्यासाचो (drill) आदार घेवन ताच्यो चुको सुदारूंक जाय. समजा, एका विद्यार्थ्याक जोडगिऱ्या अक्षरांचे उच्चार जमनात, जाल्यार शिक्षकान अशा अक्षरांची एक व्हडली वळेरी तयार करूंक जाय आनी विद्यार्थ्याक ताचे शुद्ध उच्चार करपाचो अभ्यास करूंक लावंक जाय. समजा, विद्यार्थी विराम चिन्नां पळय नासतना वाचन करतात, जाल्यार ताचेकडल्यान खुबदां सुरांत वाचन करून घेवंक जाय आनी जंय जंय विरामचिन्नां आसात, थंय थंय विराम चिन्नांप्रमाण ताका वाचूंक लावंक जाय. उपचारी शिक्षणांत फकत सुचोवण्यो दिवन भागना. चुको सुदारपाक विद्यार्थ्याकडल्यान फावो तो अभ्यास (drill) करून घेवंक जाय. ताका वैयक्तीक मार्गदर्शन करूंक जाय. शिक्षणीक निदानात विशयाच्या विशिश्ट वाठाराचें पृथ:करण (analysis) करून ताचे घटक पयलीं निश्चीत करूंक जाय. खंयच्या घटकांत विद्यार्थी चुको करतात, तांची नोंद करून उपरांत फावो ते शिक्षणीक अणभव गरज तितल्या प्रमाणांत दिवन तांच्यो चुको सुदारूंक जाय. फावो ते शिक्षणीक अणभव गरज तितल्या प्रमाणांत दिवपाचे प्रक्रियेक उपचारी अध्यापन म्हणटात.

शिक्षक केन्ना केन्ना अशें विधान करता – 'अमूक विद्यार्थ्याक वाचिल्लें समजना.' समजा, शिक्षकान विद्यार्थ्याक एक परिच्छेद वाचपाक दिलो आनी ताचें आकलन विद्यार्थ्याक जावंक ना म्हळ्यार निश्चित्रपणान कितें? शिक्षकान वाचनाच्या आकलनाचें/समजणेचें पृथ:करण करून ताचे घटक निश्चीत करूंक जाय.

**वाचन :**

१) विद्यार्थ्याक परिच्छेदाचो सर्वसामान्य अर्थ कळटा (general comprehension).
२) परिच्छेदांत आयिल्ल्या उतरांचे अर्थ तो जाणा.

३) परिच्छेदांत जो तपशील आयला, तो विद्यार्थी सांगूंक शकता.
४) परिच्छेदांत आयिल्ल्या वाक्प्रचारांचो अर्थ विद्यार्थी जाणा.
५) परिच्छेदांतलो संदर्भ विद्यार्थी सांगूंक शकता.

शिक्षक केन्ना केन्ना अशेंय विधान करता — 'विद्यार्थ्याचें लेखन बरें ना.' आतां शुद्धलेखनांत खंयच्यो चुको आसूंक शकतात? विद्यार्थी बरयतना सकयल दिल्ल्यो कांय चुको करता:

१) ऱ्हस्वाबदला दीर्घ बरोवप.
२) दिर्घाबदला ऱ्हस्व.
३) जाय त्या सुवातींनी अनुस्वार दिवप ना.
४) जोडगिरीं अक्षरां वेवस्थीत रितीन बरोवप ना.
५) जाय थंय विसर्ग दिवप ना.
६) रफार फावो ते सुवातीर दिवप ना.
७) वर्णाच्यो चुको.
८) मात्रांच्यो चुको.

समजा, विद्यार्थी ऱ्हस्व दिर्घाच्यो चुको करता जाल्यार ताका ऱ्हस्व दिर्घाविशीं नेम शिकोवचे आनी खूब 'अभ्यास' (drill) करून घेवचो. जर विद्यार्थी जोडगिरी अक्षरां बरयतना चुको करतात जाल्यार असलीं अक्षरां तांकां बरोवपाक सांगचीं आनी चुको सुदारच्यो. शिक्षकान निदानीक परीक्षा (Diagnostic Tests) तयार करच्यो. निदानीक परीक्षा आनी प्राविण्य परीक्षा (Achievement Tests) हांचेमजगतीं फरक आसा. निदानीक परिक्षेचें मुख्य उद्दिश्ट म्हळ्यार विशयाच्या खंयच्या भागांत विद्यार्थी उणो पडटा तें निश्चीत करप आनी प्राविण्य परिक्षेचें उद्दिश्ट म्हळ्यार विद्यार्थ्यान एका विशयांत कितलें प्राविण्य मेळयलां, तें पळोवप.

विद्यार्थी विशयांत फाटीं उरपाचीं हेर कारणांय बी आसतात. तींवूय शिक्षकान मतींत दवरूंक जाय. हीं कारणां सकयल दिल्यांत:

१) उणो बुद्ध्यांक (low I.Q.)
२) भावात्मक असंतुलन (emotional imbalance)
३) कुडीचे दोश (दोळ्यांचे दोश, आयकुपाचे दोश, उलोवपाचे दोश आदी).
४) प्रारंभीक अवस्तेंत शिकप-शिकोवप वेवस्थीत जावप ना.
५) फावो ते पद्दतीन भाशेचें शिकोवप ना करप.




# आदारावळ
## Bibliography


1. Techniques and Principles in Language Teaching – Diane, Larsen. Freeman.
2. Language Teaching – A Scientific approach, by Robert Lado. Tata McGraw Hill Publishing Co. Ltd.
3. Language, Communication and Culture – Edited by Stella Ting Toomey, Felipe Korzenny. Published by SAGE Publications.
4. The Oral Method of Teaching Languages – Harold E. Palmer, W. Heffer & Sons Ltd. Cambridge.
5. The Linguistic Sciences and Language Teaching – M. A. Halliday, Angus Mc–Intosh, Peter Strevens. Longmans.
6. The Language Laboratory and Modern Language Teaching – Edward M. Stack. Oxford University Press.
7. Poetry Experience – Stephen Tunnicliffe. Published by Methuen & Co. Ltd.
8. Teaching English in today's High Schools – Edited by Dwight L. Burton & John S. Simmons. Holt, Rinchart and Winston, Inc.
9. Educational Evaluation: Theory & Practice – R. N. Patel. Himalayas, Bombay
10. Becoming Better Teacher: Microteaching Approach – Editor B. K. Passi. Published by Sahitya Mudranalaya, Ahmedabad–22.
11. कोंकणी व्याकरण – सुरेश जयवंत बोरकार. कोंकणी भाशा मंडळ.
12. माध्यमिक विद्यालयों में हिन्दी शिक्षण – निरंजन कुमार सिंह. राजस्थान हिन्दी ग्रन्थ अकादमी, जयपूर.
13. हिन्दी की अध्यापन पद्धति, सज्जन राम केणी, हरिकृष्ण कुलकर्णी. व्हीनस प्रकाशन, पुणे.
14. शैक्षणिक तंत्रविज्ञान – सुमन ओक. श्रीविद्या प्रकाशन, पुणे.
15. भाषा शिक्षण – रवीन्द्रनाथ श्रीवास्तव, भाषा तथा भाषिकी सिरीज. दि मैकमिलन कंपनी ऑफ इन्डिया लिमिटेड.

16. भाषा शिक्षण – करुणापति त्रिपाठी. प्रकाशक: नन्दकिशोर ॲन्ड ब्रदर्स, वाराणसी.

17. हिन्दी शिक्षण की प्रविधि – रमापति शुक्ल. प्रकाशक: दोआबा हाऊस, दिल्ली.

18. भाषा की शिक्षा – पण्डित सीताराम चतुर्वेदी. प्रकाशक: हिन्दी साहित्य कुटीर, वाराणसी.

19. शैक्षिक मूल्यांकन – रामपालसिंह वर्मा. विनोद पुस्तक मन्दिर, आगरा.

20. दर्जेदार शिक्षण – डॉ. ना. के. उपासनी. श्रीविद्या प्रकाशन.

21. मराठीचें अध्यापन – प्रा. मधुकर बाळकृष्ण कुंडले. श्रीविद्या प्रकाशन, पुणे.

22. शैक्षणिक मूल्यमापन, तंत्र आणि मंत्र – ना. के. उपासनी, व. द. जोशी, न. अ. वझे. नवमहाराष्ट्र प्रकाशन, पुणे.

23. मातृभाषेचे अध्यापन – ग. वि. अकोलकर, ना. वि. पाटणकर. व्हीनस प्रकाशन, पुणे.

24. मातृभाषेचे अध्यापन – प्रा. चंद्रकुमार डांगे. प्रतिभा मुद्रणालय, पुणे.



**प्रा. वसंत गोविंद लवंदे**
शिक्षण : एम्.ए., एम्. एड्.
एम्.ए. (मुंबय विद्यापीठ)
एम्. एड्. (कर्नाटक विद्यापीठ)

**अध्यापक/प्राध्यापक म्हूण अणभव :** मध्यमीक शिक्षक म्हूण पणजेच्या प्रोग्रेस हायस्कुलांत १० वर्सां अध्यापन. पणजेच्या 'निर्मला इन्स्टिट्यूट ऑफ एज्युकेशन' ह्या शिक्षक प्रशिक्षण म्हाविद्यालयांत बी.एड्. आनी एम्. एड्.च्या विद्यार्थ्यांक वट्ट २८ वर्सां शिकयलां.

**शिकयिल्ले विशय :** शिक्षणीक मानसशास्त्र, इंग्लीश, मराठी, हिंदी आनी कोंकणी भासांचें अध्यापनशास्त्र, शालेय वेवस्थापन, शिक्षणीक तत्वज्ञान, शिक्षणीक समाजशास्त्र, शिक्षणाचो इतिहास, अभ्यासक्रम तयार करपाचीं तंत्रां. एम्.एड्.च्या खूब विद्यार्थ्यांनी तांच्या मार्गदर्शनाखाला शिक्षणीक सोदकार्य [Educational Research] केलां. निर्मला इन्स्टिट्युटाचे विस्तार सेवेचे समन्वयक [Co-ordinator] म्हूण खूब वर्सां काम केलां.

**शिक्षणाच्या मळार केल्लो वावर :** मुंबय आनी गोंय विद्यापिठांत शिक्षण विशयाच्या अभ्यास मंडळाचे वांगडी, गोंय मध्यमीक आनी उच्च मध्यमीक परीक्षा मंडळाचे वांगडी आनी ह्याच मंडळाच्या कार्यकारी समिती आनी ॲकेडेमीक कौंसिलाचे वांगडी म्हूण वावर. मंडळाच्या हिंदी अभ्यास मंडळाचे निमंत्रक म्हूणय वावर.

गोंय शिक्षण संचालनालय, गोंय राज्य शिक्षण संस्था आनी निर्मला इन्स्टिट्युटाचे विस्तार सेवेवरवीं आयोजीत केल्ल्या कांय शिक्षणीक कृतिसत्रांनी आनी सेमिनारांनी १] मूल्यांकन [Evaluation] २] अभ्यासक्रमाचें वर्सुकी नियोजन, ३] गठण पद्धतीवरवीं इंग्लिशीचें अध्यापन, ४] सूक्ष्म अध्यापन [Micro-teaching] ५] कृती सोदकार्य [Action Research] आनी ६] स्वाध्याय ह्या विशयांचे तज्ञ म्हूण व्याख्यानां आनी मार्गदर्शन.